# श्रीरामकृष्ण अमृतवाणी

महेंद्रनाथ गुप्त
(म)

खंड-२
भाग-२





अणकार:
माणिकराव राम नायक गावणेकार

# श्रीरामकृष्ण अमृतवाणी

## खंड-2 : भाग-2

महेंद्रनाथ गुप्त
(म)

अणकार
माणिकराव राम नायक गावणेकार

आधार
सुरेश जयवंत बोरकार

माणिकपद्म प्रकाशन
बांदोडा, फोंडें-गोंय

श्रीरामकृष्ण
अमृतवाणी
(खंड-2 : भाग-2)

बरोवपी :
श्री महेंद्रनाथ गुप्त

अणकार :
माणिकराव राम नायक गावणेकार



पयली उजवाडावणी : 2019

उजवाडावपी :
माणिकपद्म प्रकाशन
बांदोडा, फोंडें-गोंय

छापपी :
श्रीअत्री प्रिंटर्स
कोल्हापूर

मोल : ₹ 50/-

परमपुज्य

**स. रवींद्रबाब केळेकारांक**

अर्पण

# FOREWORD

The teachings of Sri Ramakrishna Paramahamsa are said to be the condensed teaching of all our scriptures given in a simple language. They flow through the conversations of the great saint with his disciples. The anectodes and illustrations he uses makes even a man of meagre intellect to comprehend easily the highest truths. They were first brought out in a book form, after Sri Ramakrishna left his mortal frame by Sri Mahendra Nath Gupta(shortly M) who himself was present during the conversations.

When the book was published for the first time, Swami Vivekananda said to M in a letter, "....I cannot express in adequate terms how I have enjoyed it. I am really in a transport when I read these words. Strange, isn't it? Our teacher and Lord was so original, and each one of us will have to be original or nothing....."

Holy Mother, Sri Sarada Devi, the divine consort of Sri Ramakrishna also wrote to him, "...It was the Master who left these words in your keeping. Now, he is bringing them out according to the needs of the time....."

It is said that whoever comes in contact with these teachings will get attracted to the book and if he continues, experience of the spiritual bliss will be the result. He who hears these words, he is hearing the words of Lord Himself. He who holds this book is verily holding the feet of the Lord.

The teachings first brought out in Bengali have gone through translations to different languages---both Indian and Foreign. The present book is a translation of the same to Konkani language. On reading the book first time in Marathi and English, Shri Manikrao Ram Naik Gaunekar was very much inspired by it. He felt that the people of Konkan should not be deprived of such a great teaching

which will make even a fool to understand the highest truths. He has worked untiringly over the years to get the book translated into the Konkani, local language of Goa.

It is through divine will of Sri Ramakrishna Paramahamsa that this book is getting published. May the Lord bless the author with all that is good and beneficial.

**Swami Hridananda**
Secretary
Ramakrishna Mission, Goa

# मनोगत

जाणटेल्यांची म्हण आसा : देवळांत नंदादीप लावपाची जर शक्त नासत तर त्या दिव्याची वात सारल्यार लेगीत इल्लें पुण्य मेळटा. हांवें कोंकणींत स्वताचें अशें कांयच बरोवंक ना, पूण कांय अणकार केल्यात. कोंकणी आवयच्या देवळांत ही अणकाररुपी वात सारपाक मेळटा हें म्हजें भाग्यच समजतां.

म्हजे इश्ट सर्गेस्त रवींद्रबाब केळेकारांनी म्हाका एक मंत्र दिल्लो –

जिणेंत अशें एक काम करपाक घे जें तुका जल्मभर पावतलें. आनी हांवें Gospel of Shri Ramkrishna हो एक मोलादीक ग्रंथ कोंकणींत करपाचो थारायलो.

हांव खूब खेपो श्री. रविंद्रबाबागेर वतालों. ते म्हणटाले, आपल्याक तो कोंकणींत करपाचो आसा. तांका बंगाली येताली. हांव तांगेर वतालों तेन्ना तांका ते विशीं विचारतालों. एक दीस ते विशीं हांवें तांकां विचारलें. तांणी म्हणलें, ''आतां कोंकणींत अणकारीत करप म्हजे कडल्यान जावचें ना.'' तेन्ना हांवें उमेदीन सांगलें, ''हांव करतां तें अणकारीत.'' तांका आनंद जालो. ते रोखडेच उठले. भितर वचून आलमारींतलें मराठींत अणकारीत केल्लें, 'श्रीरामकृष्ण वचनामृत' म्हजे कडे दिलें आनी सांगलें, ''संदर्भ म्हूण तुका हाचो उपेग जातलो.''

हांवें सांगलें, 'हांव अणकार करपाक रोखडोच सुरू करतां. तुवें प्रस्तावना बरोवंक जाय.'' तांणी म्हणलें ''बरे भशेन. पूण कोणा कडच्यानय निवळावन घे.'' हांव घरा कडेन आयलों. श्रीरामकृष्णांच्या फोटवाक पांयां पडलों. आनी म्हणलें, ''तुजी कृपा आसची.'' ते राती म्हाका एक दिश्टावो जालो. सपनांत एक स्वच्छ आवाज आयकूंक आयलो, ''तूं बरय म्हजी कृपा आसा.''

हांव जेन्ना जेन्ना रविंद्रबाबागेर वतालों तेन्ना तेन्ना म्हजें बरप खंय पावलां तें ते विचारताले. हांवें एक दीस रवींद्रबाबाक सांगलें, ''तीनशें पानां बरोवन जाल्यांत. प्रस्तावना बरय.'' तांणी म्हणलें, ''पुराय पुस्तक बरोवन जावं दी. मागीर बरयतां. कोण निवळायता तुजें लिखाण?'' हांवें सांगलें, ''सुरेशबाब बोरकार''. तांणी म्हणलें, 'कडक मास्तर तो, तुजें लिखाण बरे रितीन निवळायतलों.''

आयज पुस्तक बरोवन जालां. हें पुस्तक बरोवपा फाटल्यान तांचीच प्रेरणा आसा. तांणी म्हणिल्लें, ''हें पुस्तक कोंकणीत येवंकच जाय, प्रत्येकान हें वाचूंक जाय. मागीर

ईश्वर खंय आसा तें लोकांक बरें कळटलें.'' श्रीरामकृष्ण ह्या पुस्तकांत सांगतात, संवसारी मनीस लेगीत ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवंक शकता. ते अशेंय सांगतात, ईश्वराचो साक्षात्कार जेन्ना ज़ाता तेन्ना साक्षात्कारी मनीस मनशांत ईश्वर पळयता आनी मनशांत जो ईश्वर पळयता तोच खरो साक्षात्कारी मनीस.

हें पुस्तक महेंद्र गुप्तान मूळ बंगालींत बरयलां. हो दुसऱ्या खंडाचो दुसरो भाग, हांवें कोंकणी अणकार इंग्लीश अणकारा वयल्यान केला. मराठींत जो अणकार आसा ताचोय हांवें पालव घेतला.

श्री. सुरेशबाब बोरकारान सामक्या निसुवार्थीपणान म्हजें हें पुस्तक निवळावपाचें काम केलां. म्हणुनूच अशे इश्ट मेळप हें भाग्य. हे खातीर हांव ताच्या रिणांत सदांच उरतलों.

ह्या पुस्तकाचें टंकलेखन कुमारी प्रशिला नायकान केलां. मुद्दाम वास्को सावन येवन केन्ना केन्ना बरोवनय घेतालें. ताचे उपकार मानीत तितले थोडे. ताचो हांव खूब उपकारी आसां. श्री. बोरकारान तपासून परत टंक लेखन करपा वेळार ताचो कॉम्प्युटर मोडलो. तो सारको कसोच जायना जालो. सगलेंच परत टंकलेखन करचें पडलें. तें काम श्री. सुशांत नायकान हातांत घेतलें. टंक लेखन करून दिलें. इतलेंच न्हय पुस्तकाच्या आकारान करपाचें काम लेगीत तांणीच मोटच्या कश्टान केल्ले खातीर हांव तांचो खूब उपकारी आसां. तशेंच रश्मी तनावडेकार, श्रीमती सावंत हांणी कांय भाग टंकलेखन केला. तशेंच कु. शैलजा देवुस्कर हांचोय हांव उपकारी आसां. तेच भशेन रिया ग्राफीक्स हांचोय हांव उपकारी आसा.

म्हजी घरकान्न सौ. पद्मजा गावणेकारान मदीं मदीं अचूक कोंकणी उतर सांगपाक खूब पालव दिला. तशेंच म्हगेलीं सगलीं घरचीं, तेच प्रमाण म्हजी नात सौरभी बुडकुले आनी नातू अमोल बुडकुले आनी म्हजो जांवय श्री. सुशांत कामत हांणी म्हजें लिखाण मदीं मदीं बरोवन घेतलां. म्हणून हांव तांचो सगल्यांचो उपकारी आसां. तेच प्रमाण श्री. सोममनाथ कामत धाकणकार हांणी पुस्तक बारकायेन वाचून सुचोवण्यो केल्यो. हांव तांचोय उपकारी आसां.

सर्गेस्त रवींद्रबाब केळेकार हे कोंकणीचे एक व्हड उदगाते, ते कोंकणीचे 'प्राण' आशिल्ले. शणै गोंयबाबां फाटल्यान तांणीच कोंकणीची घुडी फुडें व्हरपाक फुडाकार घेतलो. तांचे प्रेरणेनूच हांवें हें पुस्तक बरयलां. देखून हांव हें पुस्तक तांकांच अर्पण करतां.

**माणिकराव राम नायक गावणेकार**

# प्रस्तावना

श्रीसमर्थ रामदास स्वामींच्या 'करूणाष्टकें'त अशें आयलांः

*सदा सर्वदा योग तूझा घडावा।।26।।*

रामदास स्वामी परमात्म्या कडेन आपलो योग घडून येवचो म्हणून प्रार्थना करतात. अशी प्रार्थना दर एक भक्त करता. योग घडून येवप म्हणल्यार परमात्म्यांत एकरूप जावप. अशें घडून येतलें जाल्यार परमात्मो दिसचो पडटलो. तो कसो दिसतलो?

श्रीसमर्थ रामदास स्वामींच्या 'श्रीमनाचे श्लोकां'त अशें आयलांः

*गुरूवीण तो सर्वथाही न दिसे।।179।।*

गुरू बगर तो केन्नाच कसोच दिसचो ना. आनी तो दिसले बगर ताच्यांत एकरूप जावंक जमचें ना.

अध्यात्माचें हें इतलें सादें आनी सरळ सारतत्व आसा. पूण हें सारतत्व सादें आनी सरळ आसुनूय मन हजार प्रश्न तयार करता. त्या प्रश्नांच्यो जापो मेळपाची गरज आसता.

गुरू, संत-महात्मे संवसारांत तेच खातीर येतात. अनादी काळा पसून ते येत आसात अशें म्हणटात. फकत हिंदुस्तानांतूच न्हय, हेर कडेनूय बी ते आयल्यात. पूण हिंदुस्तानांत ते चड प्रमाणांत आयल्यात. म्हणून हांगासरल्या लोकांचो अध्यात्मा वटेन कल चड आसा.

अशे संत-महात्मे ज्या वाठारांनी येतात ते वाठार धन्य. श्री गुरू अर्जुन देव हे शिखांचे पांचवे गुरू आपल्या गुरूक लेखून उद्‌गार काडटातः

*धंनु सु देसु जहाँ तूं वसिआ*

अशे वाठार धन्य आनी अश्या संत-महात्म्यांच्या संपर्कांत आयिल्ले लोकूय बी

धन्य. तांच्या जिवनाचें सार्थक जालें.

अध्यात्माची भूक लागिल्ल्यांक, मुमुक्षूंक, साधकांक ह्या संवसारांत रावनूय कः तरेन परमात्म्या कडेन एकवट सादप आनी तो सादपाचे वाटेर मनाची जी खडेगां आडखळ आसा ती कशी पयस करप हें ते तांकां सांगतात. होंवयो, श्लोक, अभंग दोहे, गझल, पदां अश्या काव्याच्या माध्यमान वा प्रवचनां, सत्संग, संवाद अश्य गद्याच्या माध्यमांतल्यान ते विसकटावणी करून सांगतात. मनाक लागून सगूण निर्गूण, साकार, निराकार, द्वैत, अद्वैत, अशे कितलेशेच प्रश्न निर्माण जातात आनं ह्या सगल्या काथ्यांतल्यान खऱ्या मुमुक्षूक वाट काडपाक जमना. तेन्ना अश्या संत--महात्म्यांच्या संपर्कांत तो येतकच ताका ती मेळूंक पावता. आनी ताची चाल, मात्तूय कसल्या दुबावाचें सांवट नासतना एकेच दिकेन मेकळेपणान चलता.

अशे तरेचो म्हापुरूस बंगालांत 1836 वर्सा जल्माक आयलो आनी मुखार श्रीरामकृष्ण ह्या नांवान प्रसिद्ध जालो. कांय विभुती जल्मताच दैवी गूण घेवन येतात. श्रीरामकृष्णांचेंय तशेंच जालें. जल्मताच परमात्म्याची ओड तांकां स्वस्थ बसूंक दिना जाली. दक्षिणेश्वरच्या कालीमातेच्या देवळांत पुजारी म्हणून रावतकच ती कालीमाता हेंच आपले आराध्य दैवत अशें मानून तिचे सांगणेन ते आपलीं कामां करूंक लागले. तिका 'आई' म्हणून उलो मारून आपली तळमळ ते तिचे कडेन उकती करताले. आनी ही 'आई'य बी तांकां फावो तो आधार दिवन तांचें अध्यात्मीक उत्थान जावपा खातीर गरजे पुरतो संवसारीक वावर चलपाक फावो तो पालव दिताली.

परमात्म्या कडेन भक्ताचें नातें कितल्याच तरांचें आशिल्लें पळोवंक मेळटा. तमाम भक्तांचें धनी आनी दास अशें नातें आसा. श्रीराम आनी हनुमान हांचे मदीं हें अशें नातें. श्रीकृष्ण आनी राधा हांचे मदीं मोगी आनी मोगिका अशें नातें. श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांचे मदीं इश्टांचें नातें. परमात्मो आनी जेजू क्रिस्त हांचे मदीं बापूय आनी पूत अशें नातें जाल्यार परमात्मो आनी श्रीरामकृष्ण हांचे मदीं आवय आनी पूत अशें नातें.

कसल्याय स्वरूपाचें नातें आसलें जाल्यारूय गुरूची गरज लागताच लागता. सगल्या संत-महात्म्यांनी ही गजाल खूब मोटो भर दिवन सांगल्या.

कबीर साहिबांची वाणी आसाः

*गुरु गोबिंद दोऊ खडे, का के लागौं पाँय।*
*बलिहारी गुरु आपने, जिन गोबिंद दियो बताय।।*

अशें म्हणटात, शिश्य तयार आसता तेन्ना गुरू आपूण जावन ताचे सरीं पावता.

अशीच गजाल श्रीरामकृष्णां संबंदान घडली. तांची पणटी तेल वात घालून तयार आसली. ती पेटोवंक फकत दुसरे पेट्टे पणटेची गरज आसली. ती तांकां श्रीमत तोतापुरींच्या रुपान मेळ्ळी. परमहंस तोतापुरी 1865 वर्साचे सुरवातीक दक्षिणेश्वरा आयले. तोतापुरी कडेन वळख जातकच तांचे कडल्यान संन्यासाश्रमाची दिक्षा घेवची काय ना तें विचारपाक ते आपले 'आई'कडेन गेले आनी 'आई'न तांकां तशी परवानगी दिली. ते मोट्या आनंदान तोतापुरी कडेन आयले आनी दिक्षा घेवपाची आपली तयारी आसा म्हणपाचें तांकां सांगलें.

पुरातन काळा पसून चलत आयिल्ले परंपरे प्रमाण गुरून तांकां कौपीन, काषायवस्त्र आनी श्रीरामकृष्ण हें नाम दिलें. उपरांत उपदेशा खातीर ते गुरू मुखार एकाग्र चित्तान बसले.

तांकां समाधी अवस्था प्राप्त करून दिवपाक तोतापुरी तरेकवार पद्धतींनी धडपडटाले. पूण ध्यान करूंक बसले म्हणटकच 'आई'ची मूर्त तांच्या दोळ्यां मुखार येताली आनी मन कशेच तरेन निर्विकल्प जायनासलें.

अशें एक सारकें तीन दीस जातकच तोतापुरींनी एक कंवचेचो कुडको घेवन तो तांच्या दोनूय भुंवयांचे मदीं तोपून तांकां सांगलें, 'हांगा मन एकाग्र कर.'

उपरांत कसलोच विकल्प मनांत उरूंक नाशिल्ल्यान तांकां समाधी लागली. समाधींत आसतना तीन दीस गेले तरी श्रीरामकृष्ण समाधींतल्यान उठनात तें पळोवन तोतापुरींक अजाप जालें. जें साध्य करून घेवपा खातीर आपल्याक चाळीस वर्सां लागलीं तें श्रीरामकृष्णांक कांय न्हय करून तीन दिसां भितर मेळिल्लें पळोवन तांकां खूब आनंद जालो. श्रीरामकृष्ण निर्विकल्प समाधी जोडून म्हणल्यार परब्रह्मांतले सहजसमाधी अवस्थेंत पावल्यात म्हणपाचें तांकां कळून आयलें. आपले शक्तीन तांणी श्रीरामकृष्णांची समाधी देंवयली. श्रीरामकृष्ण आतां परमहंस जाल्ले.

श्रीरामकृष्ण आतां अध्यात्मीक ज्ञानान परिपूर्ण जाल्ले. तें ज्ञान आतां दुसऱ्यांक वांटपा खातीर ते तयार जाले.

शास्त्रांतलें आनी संतवचनांतलें सत्य मनबुद्‌दीच्या पेल्यानचें आसता. तें फकत सिद्ध पुरुशूच विसकटावन सांगूंक शकतात.

हीच गजाल श्रीरामकृष्णां कडल्यान घडली.

आनी हीच गजाल आमकां 'अमृतवचनां'त वाचूंक मेळटा.

श्री. महेंद्रनाथ गुप्त हे गृहस्थी शिक्षक तांचे म्हऱ्यांत 1882 ह्या वर्सा फेब्रुवारी म्हयन्यांत पावले. तेन्नाच्यान श्रीरामकृष्ण साधक, मुमुक्षू, पंडीत, नास्तीक, गिरेस्त, दुबळे, साधू, गृहस्थी अश्या सगल्या थरांतल्या लोकां कडेन जी भासाभास करताले,

अध्यात्मांतलीं गुह्यां आनी सत्यां जे तरेन ते दाखले दिवन, गितां म्हणून, दृश्टांत सांगृ आनी अदीं मदीं तांकां येताले ते समाधी वरवीं सहजपणान, प्रत्यक्षपणान, स्वता देर जावन दाखयताले तें सगलें तांच्या 24 एप्रील 1886 ह्या दिसा मेरेन आनी उपरांत 1887 मेरेन जाल्ल्या शिष्यां मदलो संवाद तांणी दीसपटयेच्या रुपान बरोवन दवरलो

मूळ बंगाली भाशेंत 'श्री श्री रामकृष्ण कथामृत' ह्या नांवान ती दीसपटी ग्रंथरुपा उजवाडाक आयली. तातूंत स्वता महेंद्रनाथ गुप्त 'म' ह्या नांवान तिसरो पुरुशी जाव अध्यात्माचो हो विशय आमचे मुखार हाडटात. हो सुमार देड हजार पानी ग्रंथ स्वामी निखलानंदांनी इंग्लीशींत The Gospel of Shri Ramakrishna ह्या नांवान अनुवादीत करून संवसारा मुखार हाडलो.

ताचेंच हें कोंकणी रूप.

भौ. माणिकराव गावणेकारांनी आपल्या जाणटेपणांत मोटे कश्ट घेवन हो ग्रंथ कोंकणींत अनुवादीत केला. कोंकणी वाचकांक हें अध्यात्मधन ह्या ग्रंथा वरवीं उपलब्ध जालां.

भौ. माणिकरावांनी हो येदो व्हड वावर केल्ले खातीर अध्यात्माची भूक लागिल्ले म्हजे सारके तांचे रिणी आसात.

**सुरेश जयवंत बोरकार**

परवरी-गोंय

# मांडावळ

| | |
|---|---|
| अध्याय : एकशेंइकरा | 1 |
| अध्याय : एकशेंबारा | 14 |
| अध्याय : एकशेंतेरा | 28 |
| अध्याय : एकशेंचवदा | 40 |
| अध्याय : एकशेंपंदरा | 54 |
| अध्याय : एकशेंसोळा | 67 |
| अध्याय : एकशेंसतरा | 88 |
| अध्याय : एकशेंअठरा | 99 |
| अध्याय : एकशेंएकुणीस | 128 |
| अध्याय : एकशेंवीस | 142 |
| अध्याय : एकशेंएकवीस | 159 |
| अध्याय : एकशेंबावीस | 165 |
| अध्याय : एकशेंतेवीस | 188 |
| अध्याय : एकशेंचोवीस | 195 |
| अध्याय : एकशेंपंचवीस | 210 |
| अध्याय : एकशेंसव्वीस | 219 |
| अध्याय : एकशेंसत्तावीस | 237 |
| अध्याय : एकशेंअठ्ठावीस | 249 |
| अध्याय : एकशेंएकुणतीस | 250 |
| अध्याय : एकशेंतीस | 252 |
| अध्याय : एकशेंएकतीस | 258 |
| अध्याय : एकशेंबत्तीस | 260 |
| अध्याय : एकशेंतेत्तीस | 269 |

# अध्याय एकशेंइकरा

## दक्षिणेश्वराक पंचवटींतल्या भक्तां सयत भगवान श्रीरामकृष्ण

## बंकीम चंद्रांच्या 'देवी चौधुराणी' नांवाच्या पुस्तकाचें वाचन

**डिसेंबर 27, 1884. शेनवार**. क्रिसमस मोसम. सुटी आशिल्ल्यान खूब भक्त देवळाचे बागेंत श्रीरामकृष्णांचें दर्शन घेवपाक आयिल्ले. थोडे सकाळींच आयिल्ले. केदार, राम, नित्यगोपाळ, तारक, सुरेंद्र, म, शारदा प्रसन्न आनी हेर युवा भक्त आशिल्ले.

शारदा प्रसन्नाची ही पयलीच भेट.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) बंकीम खंय? तुवें ताका हाडलो ना?

बंकीम एक शाळेंत वचपी भुरगो. श्रीरामकृष्णांनी ताका बाग बाजारांत पळयिल्लो. पयस सावनच पळोवन श्रीरामकृष्णांनी म्हणिल्लें, भुरगो नितळ आसा म्हणून.

थोड्या वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण भक्तां वांगडा पंचवटीक गेले. ते तांचे भोंवतणीं रावले. कांय जाण बसले. तर कांय जाण उबे रावले.

ते पंचवटींतल्या रुखा भोंवतणीं शिमिटान बांदिल्ल्या पाराचेर बशिल्ले. ते नैऋत्ये कडेन तोंड करून बशिल्ले. तांणी हांसत मक विचारलें, ''तुवें पुस्तक हाडलां?''

**म:** हय, महाराज.

## श्रीरामकृष्ण आनी राजाचें कर्तव्य

**श्रीरामकृष्ण:** थोडें थोडें म्हाका वाचून दाखय.

हें कसलें पुस्तक आसा हें भक्त उत्सूकतायेन जाणा जावंक सोदताले. पुस्तकाचें नांव आशिल्लें 'देवी चौधुराणी'. श्रीरामकृष्णांनी आयकलां, निश्काम कर्मा संबंदान ह्या पुस्ताकांत बरयलां म्हणून. हे कादंबरीचे बरोवपी बंकीम चंद्र चटर्जी. हांची कीर्तय श्रीरामकृष्णांनी आयकल्ली. तांकां ते कांय दीस पयलीं मेळिल्ले आनी ह्या पुस्तकांत

कितें बरयलां ताचे वयल्यान बरोवप्याच्या मनाची अवस्था ते समजूंक शकतले. मन म्हणलें, ''एक तरणाटी चली - कादंबरीची नायिका - एका डाकूच्या हातांत पडली. त्या डाकूचे नांव आशिल्लें 'भवानी पाठक.' चलयेचें नांव आशिल्लें 'प्रफुल्ल'. पूण डाकून तें तिचें नांव बदलून 'देवी चौधुराणी' अशें दवरलें. तो डाकू बरो मनीस आशिल्लो. ताणेंच प्रफुल्ला कडच्यान खूब अध्यात्मीक साधना करून घेतली आनी निश्काम कार्य कशें करचें हें ताणें तिका शिकयलें. तो डाकू दुश्ट लोकांक लुबाडटालो आनी गरीब आनी दुख्खी मनशांक खावंक घालतालो. ताणें प्रफुल्लाक म्हणलें, 'हांव दुश्टांक ख्यास्त करतां आनी सदाचारी लोकांचें पालन करतां.''

**श्रीरामकृष्ण:** पूण हें तर राजाचें कर्तव्य.

**म:** आनी एके कडेन लेखकान भक्ती विशीं बरयलां. भवानी पाठकान प्रफुल्लाक सांगात दिवपा खातीर एके चलयेक धाडून दिली. तिचें नांव आशिल्लें निशी. निशी भक्तीमान आशिल्ली. ती श्रीकृष्णाक तिगेलो घोव मानताली. प्रफुल्लाचें लग्न जाल्लें. प्रफुल्लाक बापूय नाशिल्लो आनी ती आवय बराबर रावताली. तिच्या शेजाऱ्यांनी तिच्या चारित्र्या विशीं फटीची बदनामी करून उडयिल्ली आनी म्हणून तिच्या मांवान तिका पुता बराबर रावपाक दिवंक नाशिल्लें. मागीर तिच्या घोवान दुसरें लग्न केलें पूण प्रफुल्ल आपल्या घोवाचेर प्रेम करताली.

(श्रीरामकृष्णांक) महाराज आता तुमकां फुडलो कथा भाग समजतलो.

म वाचूंक लागलो.

**निशी:** हांव भवानी पाठकांची चली. ते म्हजे वडील. तांणीच म्हजें एके तरेन कन्यादान केलां.

**प्रफुल्ल:** हाचो अर्थ कितें?

**निशी:** हांवें म्हजें सर्वस्व श्रीकृष्णाक दिलां.

**प्रफुल्ल:** तें कशें कितें?

**निशी:** म्हजें रूप, तरूणपण आनी म्हजे पंचप्राण.

**प्रफुल्ल:** तेन्ना तोच तुजो घोव?

**निशी:** हय. तोच म्हजो पती. तोच म्हजो पूर्णतायेन अधिकारी.

प्रफुल्लान लांब स्वास घेवन म्हणलें, म्हाका खबर ना तूं तशें उलयता कित्याक, घोव म्हणचे कितें तें तुका कळना. जर तुका घोव आशिल्लो तर केन्नाच श्रीकृष्ण तुका आवडचो नाशिल्लो. मूर्ख व्रजेश्वराक - प्रफुल्लाचो घोव - ताची बायल ताचेर गाढ प्रेम करता म्हणून खबर नाशिल्लें.

**निशी:** श्रीकृष्णाचेर सगले मोग करूंक शकतात. कित्याक ताचें रूप अनंत आसा, ताचें तरणेपण अनंत आसा आनी ताचें ऐश्वर्य अनंत आसा, ताचे गूण अनंत आसात.

ही युवती (निशी) भवानीची शिश्य आशिल्ली आनी तर्कशास्त्रांत प्रवीण आशिल्ली. पूण प्रफुल्ल नेणार आशिल्ली. ती निशीच्या ह्या उलोवपाक जाप दिवंक शकनाशिल्ली. पूण हिंदूंच्या धर्मशास्त्रांच्या बरोवप्यांक हाची जाप खबर आशिल्ली. ईश्वर अनंत आसा, हातूंत दुबाव ना पूण काळजाच्या

ल्हान पांदऱ्यांत अनंताक दवरूंक शकनात. मर्यादीत रुपाक काळजाच्या पांदऱ्यांत दवरपाक येता. म्हणुनूच अनंत जगदीश्वराक हिंदूंच्या काळजाच्या पांदऱ्यात श्रीकृष्णाच्या रुपांत पुजतात. अस्तुरेचो घोव हें आनीक स्पश्ट रूप जावन आसा. देखुनूच जर अस्तुरी घोवाचें पवित्र प्रेम काळजांत दवरता आसत तर घोव ईश्वरा कडेन वचपाची पयली पायरी जाता. म्हणून हिंदू बायलेक फकत घोव देव जावन आसा.

हे बाबतींत हेर समाज हिंदू समाजा परस कमी प्रतीचे आसात.

प्रफुल्ल अजाण चली आशिल्ली. तिका निशीचें म्हणणें कळ्ळें ना. तिणें म्हणलें, 'इश्टिणी, म्हाका तुगेलें सगलें कळना'. पूण तुवें अजून तुजें नांव सांगलें ना.

**निशी:** भवानी पाठकान म्हजें नांव दवरलां निशी - रात. हांव दिवाची - दिसाची - भयण. एक दीस हांव म्हजे भयणीची वळख करून दितलें. बरें तें आसू. हांव तुका सांगतालें, ईश्वरच घोव आसता आनी बायलेचो घोव होच तिचो खरो देव आसता. श्रीकृष्ण हो सगल्यांचोच देव आसा. मागीर दोन देवांची इत्सा कित्याक बाळगप - दोन ईश्वर कित्याक? ह्या ल्हान काळजांतले भक्तीचे दोन वांटे केल्यार उरतलें आनीक कितें?

**प्रफुल्ल:** पिशेपणां करूं नाका. अस्तुरेचे भक्तीक कितें शीममेर आसा?

**निशी:** अस्तुरेच्या प्रेमाक शीममेर ना, पूण भक्ती वेगळी आनी मोग वेगळो.

हे उपरांत मन पुस्तकांतलो कांय भाग थोडे भितर सांगून म्हणलें भवानीनूच प्रफुल्लाक अध्यात्मीक साधना करपाक प्रेरणा दिल्या. ते उपरांत मन परत वाचपाक सुरवात केली.

पयल्या वर्सा भवानी प्रफुल्लाच्या घरा दादल्याक वचूंक दिनाशिल्लो वा तिका तिच्या घरा भायर कोणाय दादल्या कडेन उलोवंक दिनाशिल्लो. दुसऱ्या वर्सा उलोवपा संबंदीं नेम सदळ केलो पूण तिच्या घरा कोणाय दादल्याक वचपाक मनाय केली. तिसऱ्या वर्सा तिचे तकले वयल्या केंसांचें मुंडण केलें. आतां भवानीक तागेल्या कांय थरावीक शिश्यांक तिका मेळपाक दिलें. मुंडन केल्ल्या प्रफुल्लाक जमनीर नदर करीत शास्त्रांचेर उलोवपाक जातालें.

मन मागीर वाचलें, प्रफुल्लान मागीर शास्त्रांचो अभ्यास सुरू केलो. तिणें व्याकरण सोंपयलें. आनी रघुवंश आनी कुमार संभव, शाकुंतल आनी नैशाध आनी मागीर थोडोसो सांख्य, वेदान्त आनी न्याय तत्वज्ञानाचो अभ्यास केलो.

## पयलीं ईश्वर प्राप्तीची साधना
## काय पयलीं पुस्तकां वाचप

**श्रीरामकृष्ण:** हाचो अर्थ कितें खबर आसा? हें पुस्तक बरोवप्या सारके लोक आसात ते मानतात, पुस्तकांचो अभ्यास केले बगर ज्ञान जावप सामकें कठीण. हांचें मत अशें की पयलीं पुस्तकांतल्यान ज्ञान मेळटा आनी मागीर ईश्वराचें ज्ञान जाता. ईश्वराचें

ज्ञान जावपाक मनशान पुस्तकां वाचूंक जाय. म्हाका जर यदू मल्लीकाक जाणा जावंक जाय तर ताचीं घरा कितलीं आसात, ताचे कडेन कितलो पयसो आसा, ताचे कडेन कितले सरकारी रोखे आसात, ह्या सगल्याची म्हायती जमवोपाची म्हाका गरज आसा? कशेंय करून, मागीर त्या चौकीदाराची तुस्त करून जावं वा ताचे धक्के खावन जावं, कशें तरी घरांत भितर सरून खासा यदू मल्लीका कडेन उलोवपाचें. मागीर जर म्हाका ताचे संपतीची वा ऐश्वर्याची म्हायती करून घेवपाची इत्सा जाली तर ताका फकत विचारलें की जालें. मागीर तें काम सोंपें जावन वतलें. पयलीं राम, ते उपरांत ताचें ऐश्वर्यविश्व. हेच खातीर वाल्मिकीन 'मरा'चो जप केल्लो. 'म' म्हणचे ईश्वर आनी 'रा' म्हणचे जगत - म्हणचेच ताचें ऐश्वर्य.

भक्त चकीत जावन श्रीरामकृष्णांची वाणी आयकताले.

## निश्काम कर्म आनी श्रीरामकृष्ण
## फळसमर्पण आनी भक्ती

म प्रफुल्ले विशीं फुडली कथा भाग वाचूंक लागलो:

प्रफुल्लेचें अध्ययन सोंपलें आनी तिणें खूब दीस अध्यात्मीक साधना केली. मागीर एक दीस भवानी तिका मेळूंक आयलो. ताका तिका निश्काम कर्मा विशीं उपदेश करपाचो आशिल्लो. ताणें गीतेंतलो श्लोक वाचून दाखयलो - 'देखुनूच अनासक्त जावन सदांच कर्तव्य कर्म कर, कित्याक अनासक्त जावन कर्म करीत गेल्यार मनशाक परम पदाची प्राप्ती जाता.'

ताणें तिका अनासक्त कर्माचीं तीन लक्षणां सांगलीं. 1) इंद्रिय संयम 2) अहंकार विरयत आसप 3) श्रीकृष्णाक फळ समर्पण करप.

ताणें तिका हेंय सांगले की अहंकारी मनशाक धर्माचरण शक्य ना. ताणें परत गीतेंतलो श्लोक म्हणलो:- सगलीं कर्मां प्रकृतीच्या गुणां प्रमाण घडटात. पूण अहंकारान अंतस्करण तरेतरेच्या मोहान ग्रस्त जाल्ली व्यक्ती स्वताक करती समजता.

ते उपरांत ताणें सगल्या कर्मांची फळां श्रीकृष्णाक समर्पण करपा विशीं सांगलें. परत ताणें गीतेंतलो श्लोक म्हणलो:-

जें कितें करतलो. जें कितें खातलो. जें जें दान करतलो, जी जी तपश्चर्या करतलो, ए कुंतींच्या पुता, तें सगलें म्हाका समर्पण कर.'

**श्रीरामकृष्णः** हें उत्तम आसा. गीतेचीं उतरां तीं. तीं खोडून काडप शक्य ना. पूण एक लक्षांत दवरूंक जाय. श्रीकृष्णाक फळ समर्पण करपाक सांगलां पूण श्रीकृष्णाचेर भक्ती करपाक सांगूंक ना.
**मः** ना. ही गजाल विशेशतायेन हांगा सांगूंक ना.

## हिशोबी वृत्तीन जावपाचें ना
## सरळ उडी घेवपाक जाय

मन फुडें सांगलें, ते उपरांत प्रफुल्ल आनी भवानी पयशांचो उपेग कसो करचो हे विशीं उलयलीं. प्रफुल्लेन म्हणलें, 'हें सगलें धन हांव श्रीकृष्णाक अर्पण करतलीं.' म पुस्तकांतलो फुडलो भाग वाचूंक लागलोः-

**प्रफुल्लः** सगलीं कर्मां जशीं हांवें श्रीकृष्णाक अर्पण केल्यांत, तशी हांव म्हजी सगली संपत श्रीकृष्णाक अर्पण करतां.

**भवानीः** सगली?

**प्रफुल्लः** हय सगली.

**भवानीः** तर मागीर तूं अनासक्त रितीन काम करूंक शकची ना. स्वताचें पोट भरपाक तुका कामा कडेन आसक्त जावन काम करचें पडटलें. म्हणून, एक तर भीक मागून तुका पोट भरचें पडटलें वा ह्या धनांतल्यान तुका तुजो निर्वाह करचो पडटलो. भिकारी लेगीत जी भीक मेळटा ताचे विशीं आसक्त आसता. देखून तुवें तुजें स्वताचें धन वापरून देहाचें रक्षण करूंक जाय.

**मः** (श्रीरामकृष्णांक हांसत) ही जाली हिशोबी वृत्ती.
**श्रीरामकृष्णः** हय. हिशोबी मनाची तशीच गत आसता. हीच संवसारी मनशांची विचारसरणी आसता. पूण जाका ईश्वर जाय, तो सरळ उडी घेता. देह राखपा खातीर ताका कितलें जाय वा कितलें कमी पडटलें हाचो तो हिशोब करीत बसना.
**मः** ते उपरांत भवानीन प्रफुल्लेक विचारलें, 'हें धन तूं कशे रितीन श्रीकृष्णाक अर्पण करतली?' ताचेर प्रफुल्लेन म्हणलें, 'कित्याक, श्रीकृष्ण सगल्यां मदीं आसा. हांव तें धन सगल्यांक वांट्टलीं.' भवानीन म्हणलें 'बरें, हें एकदम बरें.' भवानीन मागीर गीतेचो श्लोक म्हणलो, 'जो म्हाका सगले कडेन पळयता आनी सगलें कितें म्हजे भितर पळयता तो म्हजे पसून केन्नाच पयस वचना वा हांव ताचे पसून पयस वचना. जो

योगी एकत्वांत थीर जावन सगल्यां मदीं रावपी म्हजी भक्ती करता, तो योगी खंयचेय अवस्थेंत आसलो तरी म्हज्यांत वसती करता. ए अर्जुना, स्वताक जे प्रमाण सूख प्रीय आसा तेच प्रमाण तें सगल्या प्राण्यांक प्रीय आसा आनी स्वताक दुख्ख जे प्रमाण अप्रीय आसा तेच प्रमाण सगल्या प्राण्यांक अप्रीय आसा. असो स्वता कडेन तुळा करून जो सगल्यां कडेन समदृश्टीन पळयता तो योगी सगल्यांत श्रेश्ठ अशें मानतात.'

**श्रीरामकृष्ण:** हीं सगलीं उत्तम भक्तांचीं लक्षणां आसात.

## विशयी लोक आनी तांची उलोवपाची तरा मूळ सभावाचो प्रभाव

म फुडें पुस्तक वाचूंक लागलो:

> सगल्या प्राणिमात्रांक दान दिवन मजत करप हें मनशाक खूब श्रमाचें. ते खातीर थोडो पोशेग, थोडो भोग विलास, थाट माट करपाची गरज आसा. म्हणून भवानीन म्हणलें, 'ते खातीर थोडी दुकानदारी जाय.'

**श्रीरामकृष्ण:** थोडी दुकानदारी जाय! जें पोटांत आसता तेंच ओंठांतल्यान भायर येता. रात दीस विशय चिंतन. लोकां कडेन ढोंगीपणान वागप, मागीर उलोवपय तसल्याच विचाराचें जाता. जर मुळो खायत तर धेंकरय तसलेच येतात. खरें म्हणचे दुकानदारी अशें म्हणिनासतना ताणें अशें जर म्हणिल्लें, 'स्वता अकरतो हें जाणा जावन, करत्या प्रमाण काम करचें' तर बरें जातलें आशिल्लें. त्या दिसा एक मनीस गायतालो. त्या गितांत 'लाव' आनी 'लुकसान' असलीं उतरां खूब आशिल्लीं. हांवें ताका मनाय केली. जें रातदीस मनांत घोळयतात, तेंच तोंडातल्यान भायर येता.

## ईश्वर दर्शनाचो उपाय श्रीमूख कथीत आत्मचरितामृत

वाचन सुरू जालें. बरोवपी आतां ईश्वर दर्शना विशीं सांगता. प्रफुल्लादेवी 'चौधुराणी' जाल्या. तो वैशाख म्हयनो. देवी व्हडयांत आशिल्ल्या घराच्या पाख्यार बसल्या आनी दिवा आनी बायल इश्टिणी हांचे बराबर उलयता. चंद्रीम उदेला. व्हड्यान गंगेच्या

प्रवाहांत नांगर घाला. ईश्वर प्रत्यक्ष दिसता काय हे विशीं उलोवप चल्लां. देवीन म्हणलें, जे प्रमाण फुलाचो परमळ हो नाकाक प्रत्यक्ष कळटा, तेच प्रमाण ईश्वर हो मनाक प्रत्यक्ष कळटा'.

त्या वेळार श्रीरामकृष्णांनी मदींच सांगलें, ''हय. ईश्वर मनाक प्रत्यक्ष गोचर आसा. पूण तें हें सादारण मन न्हय. ईश्वर हो शुद्ध मनाक प्रत्यक्ष गोचर आसा. त्या वेळार हें सादारण मन काम करिना. जगा विशीं थोडीशी लेगीत विशयासक्ती आसल्यार त्या मनाक शुद्ध म्हणपाक जायना. जेन्ना मनाची सगली अशुद्धताय सामकी पयस वता तेन्ना ताकाच शुद्ध मन म्हणपाचें वा शुद्ध आत्मो.''

## योग दुर्बीण, पातिव्रत्य धर्म आनी श्रीरामकृष्ण

**म:** ईश्वराचें दर्शन मनान सहजतायेन प्रत्यक्ष गोचर जायना. हें बरोवप्यान मातशें फुडें सांगलां. तो म्हणटा, तो प्रत्यक्ष दिसपा खातीर दुर्बीण जाय. योग ती दुर्बीण आसा. योग, जशें गीतेंत सांगलां, तीन तरांचो आसता. ज्ञानयोग, भक्तीयोग आनी कर्मयोग. ह्या योग दुर्बिणींतल्यान ईश्वराक प्रत्यक्ष पळोवंक येता.

**श्रीरामकृष्ण:** हें खुबूच बरें सांगलां. गीतेचीं उतरां हीं.

**म:** निमणें देवी चौधुराणयेची आनी तिगेल्या घोवाची भेट जाली. तिची तिच्या घोवाचेर खूब भक्ती आशिल्ली आनी तिणें म्हणलें, 'तुमी म्हजे ईश्वर आसात. हांव दुसऱ्या देवाची पुजा करपाक शिकपाचीं आशिल्लीं पूण हांव शिकूंक पावलीं ना. तुमी सगल्या देवांची सुवात घेतल्या.'

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हांव शिकूंक पावलीं ना होच पतीव्रतेचो धर्म. घोवा कडेन पूर्णतायेन समर्पीत जावप होय एक मार्ग जावन आसा.

वाचन सोंपलें. श्रीरामकृष्ण हांसताले. भक्त तांचे कडेन पळयताले. ते कितें उलयतात ताची उत्कंठतायेन वाट पळयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक हांसत) हें एके तरेन वायट न्हय. हो पतीव्रता धर्म. बायलेची तिगेल्या घोवाचेर पूर्णतायेन भक्ती आसप. प्रतिमेंतल्यान ईश्वराची पुजा जावं येता तर जिव्या मनशांतल्यान ताची पुजा कित्याक जावं नजं? ईश्वरच स्वता ह्या जगांत मनीस रुपांत लिला करीत आसा.

# पयलींची जीण
# श्रीरामकृष्णांची
# ब्रह्मज्ञानाची अवस्था आनी
# सगल्या भुतां मदीं ईश्वरदर्शन

**श्रीरामकृष्ण:** आवयस, कसले कसले अवस्थेंतल्यान गेलां हांव! हांव कितलेशेच दीस शिव आनी दुर्गा ह्या भावांत गर्क आशिल्लों. कांय दीस राधा आनी कृष्ण भावांत मग्न आशिल्लों आनी कांय दीस सीता आनी राम भावांत मग्न आशिल्लों. राधेचो भाव आपणावन हांव कृष्णा खातीर रडटालों.आनी सीतेच्या भावांत हांव रामा खातीर रडटालों.

पूण लिला म्हणचे निमणें उतर न्हय. ह्या सगल्या अवस्थांतल्यान गेले उपरांत हांवें आई जगन्मातेक म्हणलें, 'माते, ह्या अवस्थां भितर वियोग आसा. म्हाका असली अवस्था दी जंय वियोग आसचो ना.' मागीर हांव कितलेशेच दीस अखंड सच्चिदानंद भावांत मग्न आशिल्लों. देव-देवतांची चित्रां कुडींतल्यान काडून उडयलीं. ईश्वर सगल्या भुतां मदीं म्हाका दिसूंक लागलो. पुजा बंद जाली. तें बेलाचें झाड पळयतात न्हय तुमी? हांव थंय पानां काडपाक वतालों. एक दीस एक पान मात तोडलां, इल्लीशी सालच आयली. म्हाका अशें दिसलें की सगलो रुखूच चैतन्यमय आसा. रुखाक दुखयिल्ले खातीर म्हाका दुख्ख जालें. एक दीस हांव दुर्वा काडपाक गेलों पूण म्हाका दिसलें, म्हाका पयलीं भशेन काडूंक जमलें ना. मागीर म्हाका मुद्दाम त्यो तोडच्यो पडल्यो. म्हज्यान लिंबू कापूंक नजं जालो. त्या दिसा बरोच यत्न करून कालीच्या नांवाचो जप करीत मुखार बळी दिल्ले प्रमाण लिंबू कापलो. एक दीस हांव फुलां काडपाक गेल्लों. रुखाचेर फुलां बरीं फुलिल्लीं. म्हाका एकदम विराटाचें दर्शन जालें आनी म्हाका अशें दिसलें की ईश्वराची पुजा आतांच जावन गेल्या. आनी हीं फुलां म्हणल्यार ईश्वराच्या माथ्यार ओंपिल्ले फुलांचे तुरेच कशे. मागीर आनीक फुलां काडपाक जालें ना. ईश्वर मनशाच्या रुपान लेगीत लिला करता. म्हाका दिसलें, मनीस म्हणचे साक्षात नारायण. जशे दोन लांकडाचे कुडके घांसत रावल्यार उजो पेट्टा तेच प्रमाण भक्तीच्या नेटान मनशा मदींच ईश्वराचें दर्शन जाता. जाय तशें गरयेक हांयस लायल्यार, व्हडलें नुस्तें रोखडेंच गळाक लागता. प्रेमाचो उन्माद जाल्यार, सगल्या भुतां मदीं ईश्वराचें दर्शन जाता. गोपींक सगल्यां भितर कृष्ण दिसूंक लागलो. सगलें जगच तांकां कृष्णमय दिसूंक लागलें. तांणी म्हणलें, आपूण स्वताच कृष्ण आसात. त्यो मागीर ईश्वराचे

उन्माद अवस्थेंत आशिल्लयो. रुखांक पळोवन त्यो म्हणटाल्यो, हे तपस्वी आसात. ते कृष्णाच्या ध्यानांत मग्न आसात. तणांक पळोवन त्यो म्हणटाल्यो, 'श्रीकृष्णाच्या स्पर्शान धर्तरेच्या आंगार कांटो फुल्ला.'

घोवाचेर निश्ठा हो धर्म जावन आसा. घोव हो ईश्वर आसा आनी तशें कित्याक जावं नये? प्रतिमेंत जर ईश्वराची पुजा जावंक शकता तर जिवंत मनशांत कित्याक जावं नजं?

**प्रतिमेंत ईश्वराचो अविर्भाव**
**मनशांत ईश्वराचें दर्शन केन्ना?**
**नित्यसिद्ध आनी संवसार**

पूण प्रतिमेंत ईश्वराचो अणभव येवपाक तीन गजालींची गरज आसता. पयली म्हणल्यार पुजाऱ्याची भक्ती. दुसरी गजाल म्हणल्यार प्रतिमा सुंदर आसपाक जाय. आनी तिसरी गजाल म्हणल्यार घरकाराची भक्ती. वैशणवचरणान म्हणिल्लें, 'निमणें भक्ताचें मन ईश्वराच्या मनीसरुपांतले लिलेंतच विसव घेता.'

पूण तुमी एक गजाल मतींत दवरूंक जाय. ईश्वराचो साक्षात्कार जाले बगर अशे तरेचे लिलेचें - ईश्वर मनीस रुपांत लिला करीत आसा अशें दर्शन जायना. जाका ईश्वराचें दर्शन जालां ताची कुरू कितें खबर आसा तुमकां? ताचो भुरग्या भशेन सभाव जाता. भुरग्या भशेन सभाव कित्याक जाता? कित्याक ईश्वर स्वता भुरग्याच्या सभावा भशेन आसता. म्हणुनूच जाका ईश्वराचें दर्शन जाता तो भुरग्या भशेन जाता.

**ईश्वर दर्शनाचो उपाय - तिव्र वैराग्य**
**आनी तो आमचो बापूय आसा**
**ही जाणीव**

ईश्वराचें दर्शन जावंकच जाय. आतां प्रश्न आसा की ताचो साक्षात्कार कसो जातलो? तिव्र वैराग्य हो ताचेर उपाय. मनशा कडेन ईश्वरा खातीर इतलें तिव्र वैराग्य आसूंक जाय की तो म्हणटलो, 'ए जगत्पिता, हांव कितें तुज्या जगाचे भायर आसां? म्हजेर तूं कितें दया करचो ना? फटिंगा?'

जो जाचें चिंतन करता ताचो ताचे सारकोच सभाव जाता. शिवाची पुजा करतकूच शिवाचो सभाव जाता. एकलो रामाचो भक्त आशिल्लो. तो रात दीस हनुमानाचें चिंतन

करतालो. आपूण हनुमान जालां अशें तो समजतालो. निमणें ताचो सामको समज जालो की ताका इल्लिशी शेंपडी फुटल्या म्हणून. ज्ञान शिवाची विशेशताय आनी भक्ती विष्णूची. जाचे भितर शिवाचो अंश आसता तो ज्ञानी जाता. जाचे भितर विष्णूचो अंश आसता तो विष्णूचो भक्त जाता.

## चैतन्यदेव अवतार आशिल्ले
## सामान्य जीव दुबळे आसतात

**म:** चैतन्यदेवा विशीं कितें? तुमी म्हणिल्लें, तांचे कडेन ज्ञान आनी भक्ती दोनय आसात.
**श्रीरामकृष्ण:** (कडकपणान) तांची गजाल वेगळी. ते ईश्वराचे अवतार आशिल्ले. तांचे भितर आनी सामान्य जिवांत खूब फरक आसा. चैतन्यदेवाचें वैराग्य इतलें तिव्र आशिल्लें की जेन्ना सार्वभौमान तांचे जिबेर साकर ओतली तेन्ना ती साकर - वितळपा बदला - वाफ जावन वाऱ्यार उडून गेली. सदांच समाधीमग्न. तांचें कामवासनेचेर केदें व्हड जैत! तांची कितें साद्या जिवा बराबर तुळा करपाची! शींव मांस खाता आनी तरी लेगीत तो बारा वर्सांत एक खेपोच समागम करता. पूण सुकणें खाता दाणे आनी समागमाचें सूख घेता. दीस आनी रात काम जीण भोगीत आसता. असो फरक आसता ईश्वरी अवतारांत आनी साध्या जिवांत. सामान्य मनीस कामवासनेचो त्याग करता पूण केन्ना तरी एक फावट तो ताचो सोपूत मोडटा. तो स्वताचेर ताबो दवरूंक शकना.
(मक) जांकां ईश्वराचो साक्षात्कार जाला तो मनशाक एक क्षुद्र किडो समजता. जर मनशा कडेन लज, भंय, नसाय आसत तर धर्मीक प्रगती जायना. हे पास आसात. तुवें आठ पास आयकल्यात न्हय?
जो नित्यसिद्ध आसता ताका परत संवसाराचो भंय कसलो? खेळ कसो खेळचो तो ताका खबर आसता. जो नित्यसिद्ध आसता ताका जाय जाल्यार तो संवसारांतय रावंक शकता. कांय लोक अशे आसतात, जे दोन तरसादी एकाच वेळार वावडूंक शकतात. ते अशे पटायत आसतात की जर तांचेर फातर शेंवटिले तर फातर तरसादींक आपटतले आनी परते येतले.
**भक्त:** महाराज, ईश्वराचें दर्शन कशें जावं येता?
**श्रीरामकृष्ण:** सगल्याचें सगलें मन एकठांय करून ईश्वराचेर लायले बगर केन्ना ईश्वराचें दर्शन जाता? भागवतांत शुकदेवा विशीं सांगलां, जेन्ना ते चलताले तेन्ना ते लश्करी सैनीक कशे चलताले - घट लायिल्ली तरसाद. ताची नदर एकेच मोखीचेर - ईश्वरा

कडेन. हाचेंच नांव योग.
चातक फकत पावसाचें उदक पियेता. गंगा, यमुना, गोदावरी आनी सगल्यो न्हंयो उदकान भरिल्ल्यो आसल्यो तरी, सात दर्या तुडूंब भरिल्ले आसले तरी तें उदक चातक पियेवपाचो ना. पावसाचें उदक पडटलें तेन्नाच तो तें पियेतलो.
जाका असो योग साधला ताकाच ईश्वराचें दर्शन जावं येता. थेटरांत गेले उपरांत जों मेरेन पड्डो वयर सरना तों मेरेन लोक बसल्यात. तरेतरेच्यो गजाली करतात - घरच्यो गजाली, ओफिसाच्यो गजाली, शाळेच्यो गजाली. एक खेपो पड्डो वयर सरलो की सगल्यो गजाली सोंपतात. जें नाटक जाता तेंच एका सारकें पळयत रावतात. बऱ्याच वेळा उपरांत जर कोणय एक दोन उतरां उलयत तर तीं नाटका विशींच आसतात.
बेबदो सोरो पियेले उपरांत फकत तो त्या सोऱ्याच्या आनंदा विशींच उलयतलो.

## पंचवटींतले श्रीरामकृष्ण

नित्यगोपाळ श्रीरामकृष्णांचे मुखार बशिल्लो. तो आनंदमग्न आशिल्लो. थंय तो शांत बशिल्लो.
**श्रीरामकृष्ण:** (नित्यगोपाळाक, हांसत) गोपाळ! तूं सदांच ओगगी कित्याक आसता?
नित्यगोपाळान भुरग्या भशेन जाप दिली, ''म्हाका खबर ना.''
**श्रीरामकृष्ण:** समजलें तूं कित्याक उलयना तें. घडये तुका दिसता आसत,आपले कडच्यान कितेंय पातक घडटलें म्हणून. तुजें बरोबर आसा. जय आनी विजय हे नारायणाचे द्वारपाळ. तांणी सनक, सनातन आनी हेर रुशींक ताच्या म्हालांत वचपाक दिलें ना. ह्या अपराधा खातीर जयाक आनी विजयाक तीन खेपो धर्तरेचेर जल्म घेवचो पडलो.
तशेंच श्रीदाम वैकुंठांत विरजेचो (श्रीकृष्णाची एक सखी) द्वारपाळ आशिल्लो. श्रीकृष्ण विरजेच्या घरांत आशिल्लो. राधिकेक श्रीकृष्णाक धरपाक तिच्या घरांत वचपाचें आशिल्लें. श्रीदामान तिका भितर वचूंक दिलें ना म्हणून राधिकेन तो धर्तरेर असूर जातलो असो स्राप दिलो. पूण श्रीदामानय तिका स्राप दिलो.
पूण एक गजाल तुमी लक्षांत दवरूंक जाय. जेन्ना भुरगो बापायचो हात धरून चलता तेन्ना खड्ड्यांत पडपाक शकता, पूण बापूय जर ताचो हात धरीत तर ताका भियेवपाची कितें गरज आसा?
श्रीदामाची गोश्ट ब्रह्मवैवर्त पुराणांत आसा.

केदार सध्या ढाक्याक रावताले. ते सरकारी नोकरी करताले. पयलीं ते कलकत्ताक नोकरी करताले. आतां ढाक्याक बदली जाली. ते श्रीरामकृष्णांचे भक्त आशिल्ले. ढाक्याक तांचे भोंवतणीं खूब भक्त एकठांय जाताले. ते सदांच तांचे कडेन येताले आनी तांचो उपदेश आयकताले. रिकाम्या हातान साधू सत्पुरुशाच्या दर्शनाक वचपाचें नासता. भक्त केदाराक मिठाय आनी हेर वस्तू अर्पण करताले.

### सगल्या तरांच्या लोकां खातीर
### श्रीरामकृष्णांचे वेगळे वेगळे भाव आनी अवस्था

**केदार:** (श्रीरामकृष्णांक, नमळायेन) हांव खावं ते जिनस?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वरा खातीर प्रेमान, भक्तीन ते जिनस अर्पण केल्ले आसत तर ते तुका बादीकार जावचे नात. पूण कसलेय कामनेन दिल्यात आसत तर ते बादिकार जातले.

**केदार:** हांवें भक्तांक सगलें सांगलां आनी आतां हांव निश्चींत आसा. हांवें तांकां सांगलां, जांणी (श्रीरामकृष्णांनी) म्हजेर कृपा केल्या ते सगलें कितें जाणात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तें तर खरेंच. हांगा सगले तरेचे लोक येतात म्हणून तांकां हांगा वेगळे तरेच्यो गजाली दिसतात.

**केदार:** म्हाका वेगळे तरेच्यो गजाली जाणा जावन घेवपाची गरज ना.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) नाका कित्याक? सगल्यां विशीं थोडें थोडें जाणा जावंक जाय. जर मनशान पसरो घालो तर ताका सगल्यो वस्तू दवरच्यो पडटात. थोडीशी मसूर आनी थोडीशी आमटाण लेगीत. वाजोवपाक जो वस्ताद आसता तो सगलींच वाद्यां थोडीं, थोडीं वाजोवंक शकता.

श्रीरामकृष्ण देवदार झाडा कडेन वचपाक गेले. भक्त बागेंत भोंवपाक गेले. बरेचशे पंचवटी कडेन गेले. थंय श्रीरामकृष्ण तांकां मेळ्ळे. तांणी सांगलें, म्हाका अजीर्ण जालें. मल्लीकाच्या घरा हांवें जेवण घेतिल्लें. तीं सामकीं विशयी मनशां.

श्रीरामकृष्णांच्या सदांच्या वापरांतल्यो कांय वस्तू पंचवटीच्या पारार अजून पडिल्ल्यो आशिल्ल्यो. तांणी मक त्यो वस्तू हाडपाक सांगलें. ते आपले कुडींत गेले आनी भक्त तांचे फाटल्यान गेले.

दनपरां श्रीरामकृष्णांनी थोडो विसव घेतलो. उपरांत थोडे भक्त थंय आयले. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर एका ल्हानशा लोडाक तेंकून बसले.

## ज्ञातीचो आनी भक्ताचो भाव
## एकेच कडेन आसूं येता काय?
## साधना जाय

एका भक्तान विचारलें, “महाराज, बुद्दीन कितें ईश्वराचे गूण जाणा जावं येता?”

**श्रीरामकृष्ण:** हे सादे बुद्दीन खात्रेन न्हय. अशें सोंपेपणान कितें ईश्वराक जाणा जावं येता? ते खातीर साधना करपाक जाय. आनी ईश्वरा विशीं मनाची विशिश्ट अशी ठेवण - भाव दवरूंक जाय. देखीक धनया विशीं सेवक भाव. रुशींचो शांत भाव आशिल्लो. ज्ञानी लोकांचो कसलो भाव आसता खबर आसा? स्वस्वरुपाचें चिंतन करप हो तांचो भाव.(एका भक्ताक - हांसत) तुमचो कसलो भाव?

भक्त ओगी रावलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तुमच्यो दोन भाववृत्ती आसात. स्वस्वरुपाचें चिंतन करप ही एक वृत्ती आनी ईश्वरा कडेन सेवक वृत्ती दवरप ही दुसरी. बरोबर आसा काय ना?

**भक्त:** (हांसत आनी अनमनत) हं, हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) देखुनूच हाजरा म्हाका म्हणटा, हांव लोकांच्या मनांतले विचार समजूं शकतां म्हणून. ह्यो दोन भाव-वृत्ती खूब वयल्या पांवड्यार पावले उपरांत दवरूंक येतात. प्रह्लादा कडेन ह्यो आशिल्ल्यो. पूण ही मोख मेळपा खातीर खूब श्रम करूंक जाय.

एक देख दितां. समजा एका मनशान बोरीची कांट्याची खांदी दांबून धरली तर ताच्या हातांतल्यान रगत भळ भळ करून व्हांवतलें. पूण तो म्हणटा, ‘म्हाका कांयच जावंक ना, म्हाका कांयच दुखापत जावंक ना’. कितें लागलां बी काय म्हणून विचारीत जाल्यार तो म्हणटा, ‘कांयच ना, सामकें बरें आसा.’ पूण हें सगलें तोंडान म्हणपांत कितें अर्थ आसा? हे मोखी प्रमाण मनशान साधना करूंक जाय.

सगले भक्त तन्मयतेन श्रीरामकृष्णांचें उलोवणें आयकताले.

# अध्याय एकशेंबारा

## दक्षिणेश्वराक भगवान श्रीरामकृष्णांचो जल्मोत्सव

### जल्म महोत्सवा वेळार नरेंद्र आनी हेर भक्तां वांगडा संकिर्तनानंदांत

**फेब्रुवारी 22, 1885. आयतार.** श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक तांगेले कुडींत ईशान्ये कडले पडवेर बशिल्ले. सकाळचीं लागीं लागीं आठ वरां जाल्लीं. कितलेशेच भक्त आयिल्ले. तातूंत नरेंद्र, राखाल, गिरीश, बाबूराम आनी सुरेंद्र हेय थंय आयिल्ले. ते श्रीरामकृष्णांचो जल्मदीस मनोवपाक जमिल्ले. फाटल्या सोमारा तांचो जल्मदीस पडटालो. म थंय आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका कुरू करून आपले म्हऱ्यांत बसपाक सांगलें.

नरोत्तम संकिर्तन करताले. श्रीरामकृष्ण थोडेशे समाधींत आशिल्ले. किर्तनाचो विशय आशिल्लो:- श्रीकृष्ण आनी ताचे संवगडी गोरवां राखणे हांचें मळार मेळप. श्रीकृष्ण अजून थंय पावूंक ना. गोरवां राखणे सामके उतावीळ जाल्यात. तांच्यांतल्या एकान म्हणलें, आई यशोदा ताका येवपाक दिना. बलाईन (बलराम) निग्रहान सांगलें, तो शिंग वाजोवन कृष्णाक हाडटा म्हणून. बलाईचें कृष्णाचेर खूब प्रेम आशिल्लें. राखण्यांनी आनी गोपींनी श्रीकृष्णाची मुरली आयकली आनी तांचें काळीज भरून आयलें.

अचकीत नरेंद्रा कडेन श्रीरामकृष्णांची नदर गेली. नरेंद्र तांचे लागींच बशिल्लो. ते उबे रावले आनी समाधींत गेले. नरेंद्राच्या धोंपराक एक पांय लावन ते उबे आशिल्ले. भानार येतकूच ते सकयल परत बसले. नरेंद्र थंयच्यान उठून गेलो. किर्तन सुरूच आशिल्लें.

श्रीरामकृष्णांनी बाबूरामाक ल्हव आवाजांत सांगलें, ''कुडींत खीर आसा. नरेंद्राक थोडी दी.''

श्रीरामकृष्ण कितें नरेंद्रा मदीं साक्षात नारायण म्हणून पळयताले?

किर्तन जाले उपरांत श्रीरामकृष्ण तांचे कुडींत गेले. मोट्या प्रेमान आनी मायेन ते नरेंद्राक मिठाय खावोवंक लागले.

गिरीशाक असो विश्वास आशिल्लो, ईश्वर श्रीरामकृष्णांच्या रुपान अवतीर्ण जाल्लो आसा.

**गिरीश:** (श्रीरामकृष्णांक) तुमच्यो सगल्यो कृती कृष्णा सारक्यो आसात. श्रीकृष्णय असोच आई यशोदे कडेन तरेतरेच्यो बतावण्यो करतालो.
**श्रीरामकृष्ण:** खरें तें. श्रीकृष्ण ईश्वराचो अवतार आशिल्लो. ईश्वर जेन्ना नर रुपान लिला करता तेन्ना असोच वागता. श्रीकृष्णान ताच्या हातान गोवर्धन पर्वत उखल्लो, पूण नंदाक अशें भासयतालो कीं पाट घेवन वचपाक ताका खूब त्रास जातालो.
**गिरीश:** हय महाराज, समजलें. तुमी कोण तें म्हाका आतां समजलें.

## जल्मोत्सवा निमतान
## श्रीरामकृष्ण नवें वस्त्र धारण करतात
## भक्त तांची सेवा करतात
## श्रीरामकृष्णांची समाधी

श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले. इकरा वरां जाल्लीं जायत, रामाक आनी हेर भक्तांक श्रीरामकृष्णांनी नवें वस्त्र न्हेशिल्लें जाय आशिल्लें.
श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''नाका, नाका.'' एका इंग्लीश शिकिल्ल्या मनशा कडेन बोट करून तांणी म्हणलें, ''हे कितें म्हणटले?'' भक्तांनी खुबूच हट्ट धरिल्ल्यान श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''तुमी सामको आगरोच करतात तर बरें आसा. न्हेसतां.'' भक्त ते कुडींतूच तांच्या जेवणाची वेवस्था करताले. तांणी नरेंद्राक पद गावपाक सांगलें. नरेंद्र गावंक लागलो:

दाट काळखांत, ए आई, तुजी अरूप सुंदराय चमकता;
        तेच खातीर योगी पर्वताचे काळखे ढोलींत ध्यान करता.
        अनंत काळखाचे मांडयेर, महानिर्वाण ल्हारांचेर
चिरशांती, शांत आनी अनंत सतत आसता व्हांवत.
        महाकाळाचें रूप घेवन, काळखाचें वस्त्र पांगरून
        आई, समाधी मंदिरांत एकटीच बशिल्ली अशी तूं कोण?
भंयमुक्त करपी अश्या तुज्या पद कमळां मदल्यान मोगाची विद्यूत प्रभा
                                                        लखलखता;
        तुज्या चिन्मय मुखामळाचेर भयांकृत आनी गडगडो हांसो फांकारता.
'आई समाधी रुपी मंदिरांत एकटीच बशिल्ली अशी तूं कोण?' ही वळ नरेंद्र गावंक लागले बराबर श्रीरामकृष्ण रोखडेच भायलें भान विसरून पुरायेन समाधीमग्न जाले.

बऱ्याच वेळान समाधी देंवले उपरांत भक्तांनी श्रीरामकृष्णांक जेवपा खातीर ताट मुखा दवरलें. अजुनूय ते सारके भानार येवंक नाशिल्ले. ते दोनय हातांनी जेवंक लागले तांणी भवनाथाक म्हणलें, ''म्हाका जेवय.'' अजून भानार येवंक नाशिल्यान तांक स्वता हातांनी जेवंक जमनाशिल्लें. भवनाथ तांकां जेवण लावंक लागले. श्रीरामकृष्ण थोडेशे जेवले. जेवले उपरांत रामान म्हणलें, ''नित्यगोपाळ तुमच्या पानार जेवतलो.''

**श्रीरामकृष्ण:** म्हज्या पानार? कित्याक म्हणून?

**राम:** कित्याक जेवं नये?

नित्यगोपाळ समाधींतच आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी स्वताच्या हातांनी ताच्या तोडांत एक दोन उंडयो घाल्यो. कांय भक्त कोन्नागर सावन व्हड्यान आयले. ते किर्तन करीत करीत श्रीरामकृष्णांचे कुडींत आयले. किर्तन केले उपरांत अल्पहार घेवपा खातीर भायर गेले. नरोत्तम कुडींतच आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी नरोत्तमाक आनी हेर भक्तांक म्हणलें, ''कोन्नागर भक्तांचे गावप सामकें सुस्तेल्लें, निस्तेज जालें. अशें गावपाक जाय. उर्बेभरीत जावंक जाय. सगले नाचूंक जाय. असलें पद गावंक जाय:

पळय कशें नादिया हालता
गौरांगाच्या प्रेमाच्या ल्हारांनी!

आनी ते बराबर हेंय म्हणपाक जाय:

पळय, ते दोग भाव आयल्यात, जे रडटात हरीचें नाम गायतना
जे भाव अत्यानंदान नाचतात
आनी हरीच्या नामान संवसाराक नाचयतात!
तांकां पळय, आपूण रडटात
आनी सगल्या संवसाराकूय रडयतात.
जे भाव, धुमकायले तरी, पातक्यांक
हरीचें नाम दितात.

आनी हेंय गावंक जाय:

---

* गौरांग आनी नित्यानंद

गौर आनी निताई
तुमी सुभागी भाव!
तुमी कितले मायेस्त तें हांवें आयकलां,
आनी म्हणून हांव तुमचे सरीं आयलां...''

भक्तांनी प्रसाद घेतलो. ती चमचमीत मेजवानी आशिल्ली. श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''तुवें मुखर्जीक आफयलो ना? सुरेंद्राक सांग, गवयांक वाडात म्हणून.''
बिपीन सरकार आयले. भक्तांनी तांची श्रीरामकृष्णां कडेन वळख करून दिली. श्रीरामकृष्ण उठून बसले आनी तांणी भक्तांक म्हणलें, ''तांकां बसूंक सांगात आनी पानसुपारी दियात.'' तांणी बिपीनाक नमळायेन म्हणलें, ''तुमचे कडेन उलोवप जमपाचें ना. हे खातीर वायट दिसता. आयज खूब गर्दी आसा.''
गिरींद्राक पळोवन श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''हांकांय बसूंक दियात.'' नित्यगोपाळ जमनीर बशिल्लो. ताका पळोवन श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, हाकाय बसपाक जमखान दियात.''
सिंथीचे महेंद्र वैद्य थंय पावले. श्रीरामकृष्णांनी हांसत राखालाक ताची नाडी दाखय म्हणून सांगलें. रामलालाक पळोवन श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''गिरीश घोशां कडेन इश्टागत कर. मागीर तुका फुकटें नाटक पळोवपाक मेळटलें.''

नरेंद्र भायले वसरेर हाजरा बराबर बरोच वेळ गजाली करतालो. नरेंद्राचे वडील भायर पडले उपरांत, ताका अर्थीक नदरेन खुबूच वायट दीस आयिल्ले. तो कुडींत आयलो आनी बसलो.

## नरेंद्राक श्रीरामकृष्णांचो तरेतरेन उपदेश

**श्रीरामकृष्ण:** (नरेंद्राक) तूं कितें हाजरा बराबर आशिल्लो? दोगय तुमी समदुख्खी. दोन इश्टां विशीं अशें म्हणटात... एक तागेल्या देशा पसून पयस आनी दुसरो ताचे बायले पसून पयस. हाजराक लेगीत पंदराशें रुपयांची गरज आसा. (हांसतात.)
हाजरा म्हणटा, नरेंद्रा कडेन शंबर टक्के सत्व गूण आसा. फकत रजोगुणाचें थोडेंशें गुलाबीपण उरलां. पूण हाचे आपले कडेन एकशें पंचवीस टक्के शुद्ध सत्व गूण आसा (सगले हांसतात.)
हांव हाजराक म्हणटां, 'तूं फकत तर्कटपणांच करता. देखुनूच इतलो तूं सुको आसा.' तेन्ना तो जाप दिता, 'ना, ना सुर्या पसून जें मेळटा तें अमृत पियेतां म्हणून हांव सुको

आसां.'

शुद्धभक्ती विशीं उलयतना ताका हांव म्हणटां, 'खरो भक्त पयसो वा संपत देवा कडेन मागिना.' तेन्ना हाजरा म्हाणटा, 'परमेश्वराचे कृपेचो जेन्ना हुंवार येता तेन्ना न्हंयो तर भरून व्हांवतातूच पूण तळीं, कालवे उदकान भरून वतात. ईश्वराची कृपा जाल्ल्यान शुद्ध भक्ती तर मेळटाच. तेच बराबर शडऐश्वर्य शक्तीचो लाव जाता आनी पयशे लेगीत मेळटात.'

नरेंद्र आनी हेर कितलेशेच भक्त जमनीर बशिल्ले. गिरीशय थंय आयले आनी बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) हांव नरेंद्राक आत्मस्वरुपी समजतां. हांव ताचो अनुगामी आसां.

**गिरीश:** तुमी अनुगामी ना कोणाचे?

## नरेंद्र अखंडाच्या राज्यांतलो आसा

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) ताचे कडेन पुरूशभाव आसा आनी म्हजो प्रकृती भाव आसा. तो वयल्या थरांतलो श्रेशठ आत्मो आनी अखंड ब्रह्माच्या राज्यांतलो.

गिरीश धुम्रपान करपाक गेले.

**नरेंद्र:** (श्रीरामकृष्णांक) गिरीश घोशां बराबर हांव उलयतालों. ते व्हड मनीस. तुमचे संबंदींच आमी उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हजे विशीं तुमी कितें उलयताले?

**नरेंद्र:** हेंच की तुमी नेणार. आमी पंडीत. आमी ते भशेन उलयताले. (हांसो)

## श्रीरामकृष्ण आनी नरेंद्र पांडित्य आनी शास्त्रां

**मणि मल्लीक:** (श्रीरामकृष्णांक) तुमी पुस्तकां वाचिनासतना पंडीत जाल्यात.

**श्रीरामकृष्ण:** (नरेंद्राक आनी हेरांक) खरें सांगतां. हांवें वेदान्त वा हेर शास्त्रां वाचूंक नात म्हणून म्हाका इल्लें लेगीत वायट दिसना. म्हाका खबर आसा, वेदान्ताचो सार आसा 'ब्रह्म सत्य आनी जगत मिथ्या'. आनी गीतेचो सार कितें? गीता हें उतर धा खेपो म्हणटकूच जें जाता तें - म्हणचे - त्यागी - त्यागी.

शास्त्रांचो सार गुरू मुखांतल्यान जाणा जावन घेवंक जाय. मागीर ताणें साधना आनी

भक्ती करूंक जाय. एका मनशाक घरा कडच्यान एक पत्र आयलें. जों मेरेन ताका पत्रांतलो मजकूर समजना तों मेरेन ताका पत्राची गरज आसता. वाचले उपरांत त्या पत्रांत सांगलां ते प्रमाण तो वस्तू धाडून दिता. मागीर ताका पत्राची गरज लागना. तेच प्रमाण, शास्त्रांतलो सार कळ्ळे उपरांत शास्त्रांची गरज कितें? ते उपरांत अध्यात्मीक साधना करपाक जाय.

इतल्यांत गिरीश कुडींत आयले.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) अहो म्हजे विशीं तुमी कितें उलयताले? हांव तर खातां पियेतां आनी मजा करतां.

**गिरीश:** तुमचे संबंदीं आनीक आमी कितें उलयतले? तुमी कितें साधू आसात?

**श्रीरामकृष्ण:** ना, ना. साधू बी कांयच ना. हांव साधू आसां अशें म्हाका खरेंच दिसना.

**गिरीश:** मस्करेंत लेगीत हांव तुमची बराबरी करूंक शकचों ना.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव एक खेपो गोपाळ सेनाचे बागेंत तांबडे देगेचें पुडवें न्हेसून गेल्लों. केशव थंय आशिल्ले. तांबडे देगेचें पुडवें पळोवन केशवान म्हणलें, 'आयज कितें रंगाचो लखलखसो? तांबडे देगेचो थाटमाट,' तेन्ना हांवें म्हणलें, 'म्हाका केशवाक भारावन उडोवचें आशिल्लें, देखून हो नट्टोपट्टो करून आयलां.'

नरेंद्र परत गावपाचो आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी मक वणटी वयलो तंबोरो काडपाक सांगलो. नरेंद्र तो बरोच वेळ लायतालो. श्रीरामकृष्ण आनी भक्त सगले अधीर जाल्ले. विनोदान म्हणलें, आयज तो लायतलो आनी दुसऱ्या दिसा तो गायतलो. (हांसो) श्रीरामकृष्ण हांसले. तांणी म्हणलें, ''म्हाका तंबोरो फोडून उडोवन कुडके कुडके करीन दिसता. हें कितें? सारकें टँग, टँग करता. मागीर परत आलाप घेतलो - ताना नाना तरे नुम करतलो.''

**भवनाथ:** संगीत सुरू जायसर प्रत्येक जाण असोच बेजार जाता.

**नरेंद्र:** (तंबोरो लायतां लायतां) कळना जातकूच अशेंच जाता.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) पळय! आतां कित्याक अशें करता तें तो सांगता.

नरेंद्र गावपाक लागलो.

## नरेंद्राचें पद आनी श्रीरामकृष्णांची भावना
## अतंर्मूख आनी बहिर्मूख
## थीर उदक आनी ल्हारां

श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले आनी नित्यगोपाळ आनी हेर भक्त जमनीर बशिल्ले. नरेंद्र गावंक लागलो:

ए आई, तूं म्हजी अंतरींची मार्गदर्शी, म्हज्या काळजांत सदांच जागृत!
रातदीस तूं म्हाका तुजे मांडयेर घेता.
ह्या अश्या तुज्या नालायक भुरग्याक इतली माया कित्याक दाखयता?

तो परत गावंक लागलो:

ए म्हजे एकतारी विणे!
सुभागी मातेचें नामगान कर,
ती आसा म्हज्या आत्म्याची थंडसाण...

परत तो गावंक लागलो:

दाट काळखांत, ए आई, तुजी अरूप सुंदराय चमकता;
तेच खातीर योगी पर्वताचे काळखे धोलींत ध्यान करता.

श्रीरामकृष्ण आनंदमयी भावनेंत पलंगा वयल्यान सकयल देंवले आनी नरेंद्राचे लागीं येवन बसले. तेच आनंदावस्थेंत उलोवंक लागले.
**श्रीरामकृष्ण:** पद गावं? थूः थूः (नित्यगोपाळाक) तूं कितें म्हणटा? अध्यात्मीक जागृताय जावपा खातीर पद आयकूंक जाय. मागीर कितेंय जावं. ताणें उजो पेटोवन दिला. तें तर बरेंच. आतां सगलें शांत आसा. तें लेगीत बरें. हांव शांत आसां, तूंय शांत राव. आनंदाच्या अमृतरसांत बुडून रावप हेंच खरें.
हांव पद गावं? बरें आसा. गायल्यार जाता. उदक थीर आसलें तरी उदक, आनी ल्हारांनी आसलें तरी उदकच.

## नरेंद्राक उपदेश–ज्ञान–अज्ञानाचे पलतडीं वच

नरेंद्र श्रीरामकृष्णां म्हऱ्यांत बशिल्लो. घरचे अर्थीक अडचणे विशीं तो सदां चिंतेंत आशिल्लो. ताचें वय तेवीस आशिल्लें. श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्रा कडेन उत्सूकतायेन पळयलें.
**श्रीरामकृष्ण:** (नरेंद्राक हांसत) तूं तर 'ख' आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** कृष्ण किशोर म्हणटा, तो 'ख' आसा म्हणून. हांव एक दीस ताच्या घरा कडेन गेलों आनी पळय, तो चिंतेस्त जावन बसला. तो म्हजे कडेन सारको उलयना. हांवें ताका विचारलें, 'कितें जालां? असो विचार करीत कित्याक बसला?' कृष्ण किशोरान सांगलें, 'टॅक्स एकठांय करपी आयज आयिल्लो. तो सांगून गेला, हांवें टॅक्स फारीक केलो ना तर आयदनां, ताटां सगल्याची पावणी करतलों म्हणून. ते खातीर हांव चिंतेस्त आसां.' हांव हांसलों आनी हांवें म्हणलें, 'अशें कशें? तूं खरेंच 'ख' आसा - मळब आसा. त्या फटिंगांक व्हरूं दी तुजीं आयदनां आनी ताटां. तुका ताचें कितें? (नरेंद्राक) म्हणून तुका म्हणटां, तूं 'ख' आसा. तूं इतली चिंता कित्याक करता? तुका खबर ना, श्रीकृष्णान अर्जुनाक म्हणलें, 'अर्जुना अशटसिध्दीं मदली एक लेगीत आसल्यार तुका थोडीशी शक्त मेळटा. पूण हांव तुका मेळपाचों ना. सिद्धी वरवीं मनशाक शक्त, बळ, पयसो सगलें मेळूंक शकता. पूण ईश्वर मेळूंक शकना.

आनीक एक गजाल सांगतां, ज्ञान आनी अज्ञान हांचे पलतडीं वच. लोक म्हणटात, अमको आनी अमको हो मोटो ज्ञानी आसा. पूण खरें पळयल्यार तें तशें नासता. वसिश्ठ हे व्हडले ज्ञानी पूण पुताच्या शोकान व्याकूळ जाल्ले. तें पळोवन लक्ष्मणान रामाक म्हणलें, 'रामा, ही सामकी अजापीत गजाल. वसिश्ठ लेगीत शोकाकूल जाले. रामान म्हणलें, 'बाबा रे, जाचें कडेन ज्ञान आसा ताचे कडेन अज्ञानय आसता. जाका उजवाडाची जाणीव आसता ताका काळखाचीय जाणीव आसता. जाका बऱ्याची जाणीव आसता ताका वायटाचीय जाणीव आसता. जाका सुखाची जाणीव आसता ताका दुख्खाचीय जाणीव आसता. लक्ष्मणा, तूं दोनांचेय पलतडीं वच - सुख-दुख्खाचे पलतडीं वच.' (नरेंद्राक) म्हणून हांव तुका सांगतां, तूं ज्ञान आनी अज्ञानाचे पलतडीं वच.

## सुरेंद्राक उपदेश - गृहस्थ आनी दानधर्म
## मनोयोग आनी कर्मयोग

श्रीरामकृष्ण परत ल्हान पलंगाचेर वचून बसले. भक्त जमनीचेरच बशिल्ले. सुरेंद्र तांचे लागीं बशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी तांचे कडेन मायेन पळयलें आनी तांकां ते उपदेश करूंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (सुरेंद्राक) मदीं मदीं येवन वचात. न्यांगटा म्हणटाले, 'लोटो सदांच घांसूंक जाय. ना जाल्यार ताका दाग पडटात.' साधूसंग करपाची सदांच गरज आसता. कामिनी-कांचनाचो त्याग संन्याश्यां खातीर. तो तुमचे खातीर न्हय. तुमी मदीं मदीं निर्जन जाग्यार वचपाचें आनी ईश्वराक व्याकूळतायेन आळोवपाचें. तुमी मनान त्याग करूंक जाय.

वीर भक्ती आसले बगर दोनय, ईश्वर आनी संवसार, राखपाक येता. जनक राजा साधना करून सिद्ध जाले उपरांत संवसारांत पडिल्लो. तो दोन तरसादी वावुडटालो - एक ज्ञानाची आनी दुसरी कामाची.

अशें म्हणून श्रीरामकृष्ण गावंक लागले:

हो संवसार आसा आनंदाचें धाम;
हांगा हांव खातां, पियेतां आनी मजा करतां
ए वैजा, तूं मूर्ख. तूं फकत भायलें तितलेंच पळयता.

जनकाचें बळगें अपूर्व;
संवसाराचें वा आत्म्याचें ताका कितें उणें?
एकाक धरून तसोच दुसऱ्याक
तो दुदाचो उपाट भरिल्लो पेलो पियेता!

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी, जशें चैतन्यदेवान म्हणलां, ते प्रमाण जिवाचेर दया, भक्ताची सेवा, ईश्वराचें नाम संकिर्तन करूंक जाय.

(सुरेंद्राक) तुमकां हें हांव सगलें कित्याक सांगतां? तुमी व्यापाऱ्या कडेन काम करतात आनी थंय तुमकां खूब काम करचें पडटा. म्हणून हांव सांगतां, तुमी ओफिसांत फट उलयतात तरी तुमी म्हाका जिनस दितात ते हांव खातां. कित्याक तुमी दान करतात म्हणून. तुमी जितलें जोडटात ताचे परस चड दान करतात. एक म्हणणी आसा, वेंतभर तवशाक हातभर बी. चामट्या मनशान दिल्ले जिनस म्हज्यान खावंक नजं. तांचे संपतीची अशे तरेन वाट लागता. पयली तरा म्हणल्यार देमांद करपांत, दुसरी तरा चोर आनी दरोडेखोर लुटूंक शकतात, तिसरी तरा म्हणल्यार दोतोरांच्या बिलांचो खर्च आनी चवथी तरा म्हणल्यार तांचीं व्यसनी भुरगीं सगलो पयसो खर्च करून उडयतात. अशे तरेन तांच्या पयशांची वाट लागता.

तुमी दान धर्म करतात तें खूब बरें. जांचे कडेन पयशे आसात तांणी दान करप योग्य. चामट्याचें धन उधळपट्टेन काबार जाता. दात्या मनशाचें धन सुगूर उरता. तो तें सत्कारणीं उपेग करता. हांवें कामारपुकूराक शेतकामती कालवे खणून शेतांत उदक घालतात तें पळयलां. केन्ना केन्नाय उदकाक इतलो नेट आसता की शेताचे बांद फुटून वतात. आनी उदक व्हांवून पिकाची नाशाडी जाता. म्हणून शेतकामती बांदाक मदीं

मदीं बोंथे मारून दवरतात. उदक त्या बोंथ्यांतल्यान थोडें थोडें व्हांवून वता. अशें करतकूच उदकान बांद फुटना आनी शेतांत व्हांवत्या उदका बराबर गाळय सांचता. त्या गाळान शेत सुपीक जाता आनी चड पीक येता. जो दान धर्म करता ताका खूब लाव जाता. ताका चार फळां मेळटात - धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष अशीं फळां मेळटात.

भक्त श्रीरामकृष्णांचीं उतरां एकाग्र चित्तान आयकताले.

**सुरेंद्रः** म्हाका ध्यान नीट जमना. जगन्मातेच्या नांवाचो हांव मदीं मदीं जप करतां. आनी न्हिदतना 'आई, आई' म्हणीत म्हणीत न्हिदतां.

**श्रीरामकृष्णः** तितलें पुरो. तूं तिचें स्मरण करता न्हय?

दोन योग आसात, मनोयोग आनी कर्मयोग. गुरूच्या उपदेशा प्रमाण पुजा, तिर्थयात्रा, जिवांची सेवा हीं कर्मां करतात ताका कर्मयोग म्हणटात. जनक जीं कर्तव्यां, कर्मां करतालो ताकाय कर्मयोग म्हणटात. योगी जें ध्यान आनी मनन-चिंतन करतात ताचें नांव मनोयोग. केन्ना केन्नाय कालीच्या देवळांत वचून हांव स्वता कडेनूच म्हणटां, 'आई, मनय जर तूंच आसा तर शुद्ध मन, शुद्ध बुद्द आनी शुद्ध आत्मो हीं एक आनी एकच गजाल आसात.'

तिनसांज जावपाक आयिल्ली. कितलेशेच भक्त श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले आनी घरा वचपाक लागले. श्रीरामकृष्ण अस्तंते कडले पडवेर गेले. भवनाथ आनी म तांचे बराबर आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्णः** (भवनाथाक) तूं हांगा केन्नाय कित्याक येता?

**भवनाथः** (हांसत) महाराज, पंदरा दिसांनी एक खेपो हांव तुमची भेट घेतां. त्या दिसा तुमी रस्त्यार मेळ्ळे, म्हणून हांगा आयलों न्हय.

**श्रीरामकृष्णः** अशें कितें तर? फकत पळोवन कितें उपेग? स्पर्श, उलोवप हें लेगीत जाय.

देवळांत सांजेच्यो आरती सुरू जाल्यो. आयज शुक्ल पक्षांतली अश्टम. देवळाचे कळस, प्राकार, बागो आनी सगले रूख चांदण्यांत लखलखताले. दर्याक भरती आयिल्ल्यान, गंगा झुळझूळ व्हांवताली. श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत ल्हान पलंगाचेर बसून जगन्मातेच्या चिंतनांत मग्न आशिल्ले.

सांजेची पुजा आनी आरती सोंपल्यो. एक दोन भक्त देवळाचे बागेंत अजून आशिल्ले. नरेंद्र केन्नाच गेल्लो. श्रीरामकृष्ण कुडींतले आग्नेय कडले पडवेर पासयो मारताले. म

थंय उबो रावन श्रीरामकृष्णांक पळयतालो. अचकीत श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''आहा, नरेंद्राचें पद कितलें गोड!''

## तंत्रांतलें महाकालीचें ध्यान
## ताचो गूढ अर्थ

**म:** हय महाराज. आनी खाशेलपणान 'आई, दाट काळखांत' हें पद तर खूब सुंदर.
**श्रीरामकृष्ण:** खरें तुजें. त्या पदाक खूब गूढ अर्थ आसा. म्हज्या मनाक अजून लेगीत ताचे विशीं ओड आसा.
**म:** हय महाराज.
**श्रीरामकृष्ण:** काळखांत ध्यान - हें तंत्रांत सांगलां.
गिरीश घोश आयले आनी श्रीरामकृष्णां सरीं उबे रावले. श्रीरामकृष्ण गावंक लागले:

आरे, म्हजी आवय खऱ्यानीच काळी?
ती विंगळी आसून कृष्णवर्णी
काळजाचें पर्जळायता साळीक...

श्रीरामकृष्ण ईश्वरी भावनेन मत्त जावन उबे रावन गिरीशाच्या आंगाचेर एक हात दवरून गावंक लागले:-

गंगा, गया, काशी, प्रयोग वा कांची हांव कित्याक वचूं?
जों मेरेन, ओंठांचेर म्हज्या कालीचें नाम आसतलें निमण्या स्वासा मेरेन
कसली मनशाक कर्मकांडांची गरज, कसल्या आनीक देवसपणांची?
जपता जाल्यार तो मातेचें नांव त्रिकालीं?...
कर्मकांडां ताका लागीं हाडीत, पूण तीं केन्नाच ताका फाटीं घालचीं नात...

मागीर ते गावंक लागले:

हे खेपे, सदां खातीर म्हाका सामकें समजलां;
जगन्माते कडच्यान, जिका  सारकें बरें खबर आसा, भावाचें गुपीत हांव

शिकलां.

रात नाशिल्ल्या गांवांतल्यान एक मनीस म्हजे सरीं आयलो,
आनी आतां म्हाका दीस खंयचो, रात खंयची तें कळना
कर्मकांडां आनी देवसपणां आतां म्हाका फायद्याचीं उरूंक नात,
म्हजी न्हीद मोडल्या; आनी रातचें म्हज्यान न्हिदूंक जातलें कशें?
योगाचे न्हिदे विरयत दशेंत हांव आतां सामको जागो आसां.
ए जगन्माते, योगनिद्रेंत हांव निमणे कडेन तुज्यांत एकरूप जालां,
म्हजे न्हिदेक हांवें सदां खातीर न्हिदयल्या.
प्रसाद म्हणटा, हांव नतमस्तक जातां, इच्छेचे आनी मुक्तीचे मुखार;
काली उच्च ब्रह्मांत एकरूप जाल्ल्याचें गुपीत कळिल्ल्यान
हांवें सदां खातीर उजूपण आनी पातक भायर मारलां.

गिरीशा कडेन पळयतां पळयतां श्रीरामकृष्णांची ईश्वरी भावना आनिकूय वाडली आनी ते गावंक लागले:

हांवें म्हजें काळीज मातेच्या निर्भय पावलांचेर ओंपलां;
हांव आनिआनीक यमाक भियेतां?
म्हज्या माथ्याच्या केंसांच्या झुपक्यांत
सर्वशक्तीमान मंत्र, कालीमातेचें नांव बांदून आसा.
जगाच्या तिठ्यार हांवें, म्हजो देह विकून उडयला
आनी तातूंतल्यान श्रीदुर्गेचें नांव विकतें घेतलां.

ईश्वरी भावान मत्त जावन श्रीरामकृष्ण परत म्हणूंक लागले:

जगाच्या तिठ्यार हांवें, म्हजो देह विकून उडयला
आनी तातूंतल्यान श्रीदुर्गेचें नांव विकतें घेतलां.

गिरीशा कडेन आनी म कडेन पळोवन तांणी म्हणलें, ईश्वरी भावाचे धुंदींत म्हजी कूड भारावन गेल्या आनी म्हजी जाणीव ना जाल्या.
हांगा 'जाणीव' म्हणचे भायल्या जगाची जाणीव.

सत्याची जाणीव, ब्रह्माची जाणीव जाय.

भक्ती - ईश्वरा विशीं प्रेम हीच मुखेल गरज आसा. सकाम भक्तीय आसा. पर निश्काम भक्तीय आसा. शुद्ध भक्ती. फकत ईश्वरा विशीं प्रेम - परत ईश्वरा कडे कांयच मागिना अशी भक्ती. केशव सेनांक आनी ब्राह्मसमाजाच्या हेर वांगड्यां हेतू विरयत भक्ती विशीं जाणीव ना. हे भक्तींत कसलीच कामना नासता. ती फक ईश्वराच्या चरण कमळांची भक्ती.

आनीक एके तरेची भक्ती आसा. तिका उर्जिता भक्ती म्हणटात. ईश्वरा कडेन पर तन्मय जावपाची भक्ती, तसल्या तन्मय जाल्ल्या भक्ताची भक्ती जेन्ना जागृत जात तेन्ना भक्त हांसता आनी रडटा आनी नाचता आनी गायता. चैतन्यदेवाची ही बरी देख रामान लक्ष्मणाक म्हणलें, 'लक्ष्मणा, जंय उर्जिता भक्ती दिसतली थंय हांव स्वत आसां अशें खात्रेन समज.'

**गिरीश:** तुमचे कृपेन सगलें शक्य आसा. हांव पयलीं कितें आशिल्लों? आनी आत हांव कसो आसां पळयात?

**श्रीरामकृष्ण:** तुमचे भितर ते संस्कार आशिल्ले. आतां ते दिसतात. योग्य वेळ आयले बगर कांयच जायना.

सैमा प्रमाण रोगी बरो जायत येतालो. वैजान ताका झाडा पाल्याचो रोस पियेवपाक दिलो. वखद घेतले उपरांत रोगी सामको बरो जालो. आतां वखदान रोगी बरो जालो काय तो असोच स्वताच बरो जालो? कोण सांगतलो?

लक्ष्मणान लव कुशाक म्हणलें, 'तुमी तर सामकेच भुरगे आसात. तुमकां रामाची शक्त खबर ना. फातर जावन पडिल्ली अहिल्या तांच्या पांयाच्या स्पर्शान मनीस रुपांत परत आयली.' तेन्ना लवान आनी कुशान म्हणलें, 'भगवन, आमकां सगलें खबर आसा. आमी सगलें आयकलां. फातोर जावन पडिल्ली अहिल्या मनीस रुपांत जी आयली ती मुनीच्या उश्शापान जाली. गौतम रुशीन तिका म्हणिल्लें, 'त्रेता युगांत राम आश्रमा लागींच्यान वतले. तांच्या पांयाच्या स्पर्शान तूं परत मनीसरूप घेतली.' आतां कोण सांगतलो, हें सगलें घडलें तें रुशीचो उश्शाप खरो जावंक जाय म्हणून काय रामाचे पवित्रताये खातीर?'

सगलेंच ईश्वराचे इत्शेन घडटा. हांगा जर तुमचें आत्मीक चैतन्य जागृत जाता जायत तर हांव फकत निमित्त म्हणून समजात. चांदीमामा सगल्यांचोच मामा. ईश्वराचे इत्शेन सगलें कितें घडत आसता.

**गिरीश:** (हांसत) तुमी कितें ईश्वराचे इत्शेन म्हणलें? हांवय तशेंच म्हणटां. (सगले

हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) सरळ आसल्यार ईश्वराचो लाव बेगीन जाता. कितल्याश्याच जाणांक ईश्वरी ज्ञान जायना. पयलें म्हणचे जांचें मन वांकडें आसता, सरळ नासता, तांकां ज्ञान जायना. दुसरें म्हणचे जांकां भायले शुद्धतेचो भयरोजोळोप लागला तांकां. तिसरें म्हणचे जे दुबाव घेवपी आसतात तांकां.

श्रीरामकृष्णांनी नित्यगोपाळाच्या ईश्वरी आनंदा विशींचे अवस्थेची खूब तुस्त केली. तीन चार भक्त पडवेर श्रीरामकृष्णां सरीं उबे रावन परमहंसाचे उदात्त अवस्थेचें ते वर्णन करताले तें आयकताले. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''परमहंसाक सदांच जाणीव आसता, ईश्वरच सत्य आसा आनी हेर सगलें अनित्य. फकत हंसाकच दूद उदका पसून वेगळें करपाची शक्त आसता. दूद आनी उदक जर एकठांय आसत, तर ताचे जिबेंत एके तरेचो आंबट रस आसता. त्या द्रवा खातीर दूद आनी उदक वेगळें जाता. परमहंसाचे भितरय असोच रस आसता. तो म्हणचे ताची ईश्वरा खातीर परम मोगान भरिल्ली भक्ती. अशी भक्ती आसल्यार सत्य आनी असत्य एकामेकांत जें भरसलां तातूंतल्यान सत्य वेगळें काडपाक येता. ताका लागून ईश्वराची अनुभुती जाता आनी ईश्वराचें दर्शन जाता.''

# अध्याय एकशेंतेरा

## गिरीश आनी श्रीरामकृष्ण

### गिरीशाच्या घरा ज्ञान आनी भक्ती हांच्या समन्वया विशीं उलोवप

**फेब्रुवारी 25, 1885. बुधवार**. श्रीरामकृष्ण गिरीश घोशांच्या कलकत्तांतल्या बसुपाड नांवाचे पायणींतल्या घरा भक्तां वांगडा बशिल्ले. तीन वरां जाल्लीं. म येवन जमनीक माथें लावन पांयां पडलो. श्रीरामकृष्ण स्टार थेटरांत नाटक पळोवपाक वतले. श्रीरामकृष्ण ब्रह्मज्ञाना विशीं भक्तां वांगडा उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** मनीस चेतनेच्यो तीन अवस्था अणभवता. जागृत, सपन आनी गाड न्हीद–सुशुप्ती. जे ज्ञान मार्ग आपणायतात ते तीन अवस्थां विशीं अशें सांगतात की जागृत, सपन आनी सुशुप्ती ह्या तिनूय अवस्थांनी ब्रह्म आसा. तें स्थूल, सुक्ष्म, कारण ह्या तिनूय देहांचे पलतडीं आसा. आनी तशेंच सत्व, रज, तम ह्या तिनूय गुणांचे पलतडीं आसा. ही सगलीच माया आसा. हारशांतलें पडबिंब कशें. पडबिंब ही काय खरी वस्त न्हय. ब्रह्मच खरी वस्त आसा आनी हेर सगलें मायावी आसा.

ब्रह्मज्ञानी अशेंय सांगतात की देहात्मबुद्द आशिल्ल्यान द्वैत निर्माण करता. ते अवस्थेंत पडबिंबूय खरें दिसता. ही देहात्म बुद्द ना जातकूच सोहं – 'हांवच तें ब्रह्म' ही अनुभुती येता.

**एक भक्त:** तर मागीर कितें आमी सगल्यांनी तर्क विचारांचो मार्ग धरचो?

### दोन मार्ग – तर्क–विचार आनी भक्ती ज्ञानयोग आनी भक्तीयोग

**श्रीरामकृष्ण:** तर्क–विचार हो एक मार्ग आसा. हो वेदान्तवाद्यांचो मार्ग. पूण आनीक एक मार्ग आसा. तो म्हणचे भक्तीमार्ग. भक्त जर व्याकूळतायेन ब्रह्मज्ञान मेळचें म्हणून

रडत तर ताका तें मेळटा. अशे हे दोन मार्ग आसात. एक ज्ञानयोग आनी दुसरो भक्तीयोग.
दोनय मार्गांनी ब्रह्मज्ञान जावंक शकता. कांय जाण ब्रह्मज्ञान जाले उपरांतय भक्ती चालू दवरतात. लोकांक उपदेश करपा खातीर. ईश्वराचे अवतार ही तातूंतली एक देख आसा. मनशाचो अहंकार वचना आनी देह म्हणचेच आत्मो हो देहात्म बोधय वचना. ईश्वरी कृपेन समाधी मेळ्ळे उपरांत तो वता – निर्विकल्प जड समाधी मेळ्ळे उपरांत. समाधी देंवले उपरांत अवतारांचो अहंकार परत येता, पूण तो ज्ञानाचो अहंकार आसता वा भक्तीचो अहंकार. ज्ञानरुपी अहंकारा वतीन ते लोकोपदेश करतात. शंकराचार्यांनी ज्ञानाचो अहंकार राखून दवरिल्लो.
चैतन्यदेव भक्तीच्या अहंकारा वतीन ईश्वरी प्रेमाचो आस्वाद घेताले आनी भक्तांच्या सांगाताचो आनंद घेताले. ते ईश्वरा विशीं उलयताले आनी नामसंकिर्तन करताले.
अहंकारा पसून सहजतायेन सुटका जायना म्हणून भक्त जागृती, सपन आनी सुशुप्ती ह्या अवस्थांक भायर उडयना. तो सगल्योच अवस्था मानता. इतलेंच न्हय तर – सत्वगूण, रजोगूण आनी तमोगूण हे तिनूय गूण तो मानता. भक्ताक दिसता, ईश्वरच चोवीस तत्वां जाला, हें विश्व आनी सगले जीव तोच जाला. परत ताका हेंय दिसता, ईश्वरच ताच्या भक्तांक चिन्मय रुपान दर्शन दिता.
भक्त विद्या मायेचो आलाशिरो घेवन रावता. तो साधूसंग आंवडेता, तिर्थयात्रा करता. ज्ञान, भक्ती, त्याग, वैराग्य ह्या सगल्यांचो आलाशिरो घेवन रावता. तो म्हणटा, मनशाची अहंकारा पसून सुटका जावंक शकना तर त्या फटिंगाक ईश्वराचो दास जावन, ईश्वराचो भक्त जावन रावूं दी.
भक्ताक लेगीत एकतायेचें ज्ञान जाता. ताका दिसता, ईश्वरा बगर आनीक कांयच ना. तो जगाक सपना भशेन समजना पूण म्हणटा, ईश्वरच सगलें कितें जाला. मेणाचे बागेंत तुमी कितल्योश्योच वस्तू पळयतात पूण सगलें मेणा पसुनूच तयार केल्लें आसता.
पूण देवाची भक्ती पक्की जातकूच असो बोध जाता. चडच पित्त जातकूच कामीण जाता. मागीर ताका सगलें हळडुवें दिसता. राधेक सतत कृष्णाचें चिंतन करतां करतां सगलें कितें कृष्णमय दिसूंक लागलें. आनी आपूण स्वताय कृष्णच आसां अशें दिसूंक लागलें. पाण्याचे तळयेंत शिंशें बरेच दीस उरल्यार तेंय पारो जावन वता.
कुमान्न किडीक तोंचीत रावल्यार किडीची हालचाल बंद जाता आनी निमणें कीड कुमान्नच जावन वता. भक्त लेगीत ईश्वराचें सतत चिंतन करून करून अहं शुन्य जावन वता. मागीर ताका साक्षात्कार जाता, ईश्वर तोच आसा आनी तोच ईश्वर आसा.
कीड कुमान्न जाली. सगलें जालें. रोखडी मनशाक मुक्ती मेळटा.

## तरातरांच्या भाववृत्तींनी पुजा
## म्हजो मातृभाव

जों मेरेन ईश्वरान मनशा भितर अहंकार दवरला तों मेरेन एकाद्र्या देवा कडेन नातें दवरचें. ईश्वराक धनी म्हणप वा आवय म्हणप वा इश्ट म्हणून तशें वागप. हांव वर्सभर दाशी भावांत रावलों - ब्रह्मयी जगन्मातेची दाशी या भावांत अस्तुरेचो वेश करून रावलों. नाकांत नथ लेगीत घालतालों. अस्तुरे भावान रावल्यार काम ह्या दुस्मानाचेर जैत मेळोवं येता. आद्य शक्तीची पुजा करपाक जाय. तिका प्रसन्न करून घेवंक जाय. तिणेंच अस्तुरेचीं सगलीं रुपां धारण केल्यांत. देखुनूच सगल्या अस्तुऱ्यांक 'आई' च्या रुपान पळयतां.

मातृभाव हो अत्यंत शुद्ध भाव आसा. तंत्रांत वामाचारा विशीं सांगलां. पूण तो भाव बरो न्हय. ताणें साधकाचें पतन जाता. भक्तान भोग्य वस्तू म्हऱ्यांत दवरली की भंय आयलो.

मातृभाव म्हणचे निर्जल एकादस कशी. उदका थेंबो लेगीत घेवप ना. तातूंत भोगाचो लवलेश लेगीत नासता. एकादस मनोवपाची आनीक एक तरा आसा - फळां बिळां खावन एकादस करपाची - पुरी भाजी खावनय एकादस करूं येता. पूण म्हजो उपास हो निर्जल एकादशी भशेन. हांवें मातृभावान षोडशीची पुजा केल्ली. तिगेले कुडीचे सगले अवयव हे आवयचे अवयव म्हणून पळयतां.

भगवंताक आवय म्हणून पळोवप ही साधनेंतली निमणी पायरी आसा. भगवंता तूं म्हजी आवय आनी हांव तुजें बाळक. पारमार्थीकतायेंतलें हे निमणें उतर.

## संन्याश्या खातीर कठीण नेम
## आनी गृहस्थी खातीरचे नेम

संन्याश्याची जीण म्हणल्यार निर्जल एकादस - उदकाचो एक थेंबो लेगीत घेवप ना. जर तो भोग्य वस्तू कडेन संबंद दवरीत तर ताका भंय आसाच. कामिनी-कांचन हो भोग जावन आसा. संन्याश्यान ताचो भोग घेवप म्हणल्यार भायर उडयिल्ली थुकी परत गिळपा सारकें जातलें. पयसो, संपत, नांवलोकीक, कीर्त आनी इंद्रीयसूख हे सगले भोग जावन आसात. संन्याश्यान भक्त स्त्री बराबर बसप वा उलोवप बरें न्हय. हें ताका आनी हेरांकय बाधक. मागीर लोकांक ताचे पसून देख मेळना. तो मनीसजातीक आदर्श दिवंक शकना. संन्याशी मनीसजातीक लोकोपदेश करपा खातिरूच आपलें

शरीर राखून दवरता.

अस्तुरे बराबर बसप वा तिचे बराबर चड वेळ उलोवप हाका लेगीत एके तरेचें अस्तुरे बराबर रममाण जावप म्हणलां. अशें रममाण जावपाचे प्रकार आठ आसात. अस्तुरेचें उलोवप आयकतां आयकतां आनंद घेवप, हें एके तरेचें रममाण जावपच कशें. अस्तुरे विशीं उलोवप हें दुसरे तरेचें रममाण जावपा सारकें. खाजगी रितीन तिचे कडेन उलोवप हें तिसरे तरेचें. अस्तुरेची कसलीय वस्त बाळगप आनी तिचो आनंद घेवप हें चौथे तरेचें. तर तिका स्पर्श करप हें पांचवे तरेचें म्हणून संन्याश्यान गुरूचे तरणाटे बायलेक पांयाक हात लावन पांयां पडूं नये. संन्याश्या खातीर हे सगले नेम आसात.

पूण संवसारी लोकांची गजाल वेगळी. एक दोन भुरगीं जाले उपरांत तांणी भावा भयणी भशेन रावचें. तांकां हेर सात तरांचे रममाण जावपाचे प्रकार तितलेशे बादनात. गृहस्थी मनशाक तरातरांची रिणां आसतात; देव रीण, पितृ रीण, रुशी रीण. ताका ताचें पत्नी रीण लागता. बायलेक एक दोन भुरग्यांची आवय जावपाक दिवप आनी ती निश्कलंक आसल्यार तिचो सांबाळ करप हाका पत्नी रीण म्हणटात. कोण बरी बायल आनी कोण वायट बायल हें गृहस्थी मनशाक समजना. तशेंच कोण विद्याशक्ती आसता आनी कोण अविद्याशक्ती आसता हें ताका समजना. विद्याशक्ती बरी बायल आसता. तिका काम आनी क्रोध कमी आसता. ती कमी न्हिदता, ती घोवाची तकली तिचे पसून पयस दवरता. तिचे कडेन माया, दया, भक्ती, लज आनी हेर सदगूण आसतात. ती सगल्यांची सेवा करता. सगल्या दादल्यांची आपलीं भुरगीं कशी जतनाय घेता. तशेंच ती घोवाची देवा वयली भक्ती वाडची म्हणून जतनाय घेता. घोवाक खूब कश्ट करचे पडले जाल्यार ईश्वराचें चिंतन करपाक ताका फुरसत मेळची ना म्हणून ती चड खर्च करिना.

दादल्या वृत्तीच्या बायलांची लक्षणां वेगळींच आसतात. वायट लक्षणां अशीं आसतात – तिरशे दोळे आसप, दोळे भितर गेल्ले आसप, माजरा सारके घारे दोळे आसप, पाडका भशेन गालफुडां आसप, पारव्या भशेन छाती आसप.

## समाधीतत्व. ईश्वरलावाचो उपाय
## गिरीशाचो प्रश्न

**गिरीश:** आमच्या सारक्या लोकां खातीर मार्ग खंयचो?

**श्रीरामकृष्ण:** फकत भक्तीच गरजेची जावन आसा.

भक्तीची वेगवेगळीं आंगां आसात – सात्वीक, राजसीक आनी तामसीक. जो सात्वीक

भावाचो आसता तो मर्यादेचो आनी नमळायेचो आसता, पूण तामसीक सभावाच्
मनशा कडेन देवा विशीं दरोडेखोराचो सभाव आसता. तो म्हणटा, 'देवा, हांव तु
नांव घेतां. मागीर हांव पातकी आसतलोंच कसो? ईश्वरा, तूं म्हजी सामकी खास
आवय आसा. तुवें म्हाका दर्शन दिवंकच जाय.'

**गिरीश:** (हांसत) महाराज, तुमीच आमकां तामसीक भक्ती शिकयतात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) ईश्वराचें दर्शन जाल्ल्याचीं कांय खशेलीं लक्षणां आसात. जेन्न
मनशाक ईश्वराचें दर्शन जाता तेन्ना तो समाधींत वता. समाधी पांच तरांची आसत
पयली तरा म्हणल्यार मुयेचे गतीन म्हावायू वयर सरता. दुसरी तरा म्हणल्यार उदकां
पेंवपी नुस्त्याचे गतीन म्हावायू वयर सरता. तिसरी तरा म्हणल्यार सोरपा भशेन नागमो
चालीन म्हावायू वयर सरता. चवथी तरा म्हणल्यार सुकण्या भशेन गती - सुक
जशें हे खांदये वयल्यान दुसरे खांदयेर उडटा तसो म्हावायू वयर सरता. पांचवी त
म्हणल्यार म्हावायू माकडा भशेन एकदम उडी मारता - म्हावायू जसो कितें एके
उडयेन तकलेंत वयर सरता आनी समाधी लागता. आनीक दोन तरांची समाधी आसता
पयली तरा म्हणल्यार थीर समाधी. तेन्ना साधकाचें भायलें भान सामकें सुट्टा - न
जाता. ते अवस्थेंत तो खूब वेळ उरता. घडये तो बरेच दीस ते अवस्थेंत उरूं येता
समाधीची दुसरी तरा म्हणल्यार चोंय वटेंतलें एकदम मन एकठांय करून हाडप आन
ईश्वरा कडेन एक करप.

## उन्मना समाधी आनी म

(मक) तुका हें समजलें?

**म:** हय महाराज.

**गिरीश:** परमेश्वराचो साक्षात्कार कितें साधना करून जावं येता?

**श्रीरामकृष्ण:** लोकांनी तरातरांनी देवाचो साक्षात्कार करून घेतला. कांय जाणांनी खू
तपस्या, पुजा आनी भक्ती करून ताचो लाव करून घेतला. तांणी स्वता साधना करू
सिद्धी प्राप्त करून घेतल्यात. हांकां म्हणटात साधन सिद्ध. कांय जाण जल्मा साव
सिद्ध आसतात. देखीक नारद आनी शुकदेव. तांकां नित्य सिद्ध म्हणटात, सासणाच
सिद्ध आनीक आसतात - अकस्मात सिद्ध. मनशाक अनपेक्षीत संपत मेळिल्ले भशे
तांकां अकस्मात ईश्वराचो लाव जाल्लो आसता. परत कांय जाण आसतात जांक
सपनांत, आनी ईश्वरी कृपेन, ईश्वराचो साक्षात्कार जाता.

## गिरीशाचो शांत भाव. कलीयुगांत शुद्राची भक्ती आनी मुक्ती.

इतलें उलोवन श्रीरामकृष्ण ईश्वरी प्रेमान मत्त जावन गावंक लागले:

जणेकल्याच्यान श्यामेचें दर्शन घेवं येता? कालीचे धन सगल्यां खातीर?
आरे, सत्य कितें तें, म्हज्या मूर्ख मनाक कळचें ना हें कितलें दुखदिणें!

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ आनंदमग्न अवस्थेंत रावले. गिरीश आनी हेर भक्त मुखार बशिल्ले. कांय दिसां पयलीं स्टार थेटरांत ते श्रीरामकृष्णां कडेन निश्ठूरतायेन वागिल्ले. पूण आतां ते शांत आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) तुमची मनस्थिती आतां बरी आसा. शांत आसा. हांवें जगन्माते कडेन तुमचे विशीं प्रार्थना केल्ली. 'ए आई, ताका शांत कर म्हणचे तो म्हाका कित्याय कितें उलोवचो ना'.

**गिरीश:** (मक) म्हजी जीब कोणें तरी दांबून धरल्या. म्हाका उलोवंक जमना अशें म्हाका दिसता.

श्रीरामकृष्ण अजून लेगीत भावा अवस्थेंत आशिल्ले - अंतर्मूख अवस्थेंत. तांचे भोंवतणच्यो भायल्यो वस्तू, व्यक्ती ते ल्हवल्हव विसरत चलिल्ले. ते भानार येवपाक पळयताले. तांणी भक्तां कडेन पळयलें. म कडेन पळोवन तांणी म्हणलें, ''ते सगले दक्षिणेश्वराक येतात. तांकां येवं दी. जगन्मातेक सगलें खबर आसा.'' शेजारच्या एका तरणाट्याक तांणी विचारलें, ''आरे तुका कितें दिसता? मनशाचें कर्तव्य कितें?'' सगले ओगी बसले. नारायणाक तांणी म्हणलें, ''तुका परिक्षेंत पास जावपाचें ना? आरे जो पासमुक्त तो शिव. जो पासबंद तो जीव.''

श्रीरामकृष्ण अजून लेगीत ईश्वरी आनंदमग्न अवस्थेंत आशिल्ले. लागींच उदकाचो पेलो आशिल्लो. तें उदक ते पियेले. ते स्वता कडेनूच उलयले, ''हें कितें? हे अवस्थेंत हांवें उदक पियेवन उडयलें?''

## श्रीरामकृष्ण आनी अतूल व्याकूळताय

अजून तिनसांज जावंक नाशिल्ली. श्रीरामकृष्ण अतूला कडेन उलयताले. ते तांचे मुखारच बशिल्ले. अतूल हे गिरीशाचे भाव. ते कलकत्तांतल्या हायकोर्टाचे वकील. एक ब्राह्मण

शेजारी लेगीत तांचेच म्हऱ्यांत बशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (अतूलाक) तुमकां हांव हेंच सांगूक सोदतां की तुमी दोनय करात. संवसारांतलीं कर्तव्यांय करात आनी ईश्वरा विशीं भक्ती लेगीत वाडयात.

**ब्राह्मण:** ब्राह्मण सोडून आनीक कोण पुर्णावस्थेक पावूंक शकता?

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी अशें कित्याक विचारतात? अशें म्हणटात की कलीयुगांत शुद्रांक ईश्वराचे भक्तीचो लाव जाता. शबरी, रुइदास, चांडाल गुहाक आनी हेर, हांच्यो देखी आसात.

**नारायण:** (हांसत) ब्राह्मण आनी शुद्र सगले एक आसात.

**ब्राह्मण:** एका जल्मांत कितें ईश्वराचें दर्शन जावं येता?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराची कृपा जाल्यार कितें जावंक येना अशें आसा? हजार वर्सा काळखाचे कुडींत दिवो हाडल्यार कितें थोडो थोडो करून काळोख वतलो? कुडींत एकदम उजवाड जातलो. (अतूलाक) तिव्र वैराग्य जाय. म्यानांतल्यान भायर काडिल्ले तरसादी भशेन. असलें वैराग्य आसल्यार नात्यांतले लोक काळे सोरोप कशे दिसूंक लागतात. आनी घर म्हणचे बांय कशी दिसूंक लागता. अंतस्करणांतल्यान आनी व्याकूळतायेन ईश्वराक आळोवंक जाय. अंतस्करणा पसून जर आळयत तर ईश्वराक आयकले बगर गत्यंतर उरचें ना. ईश्वराक आयकुचेंच पडटलें.

सगले जाण ओगी बसले. श्रीरामकृष्णांनी जें कितें सांगलें ताचेर चिंतन करीत रावले.

**श्रीरामकृष्ण:** (अतूलाक) तुमी कसली चिंता करतात? तुमकां ईश्वरा खातीर ती धिटाय, ती व्याकूळताय ना हीच चिंता जाता?

**अतूल:** मन ईश्वराचेर थीर कशें दवरप?

**श्रीरामकृष्ण:** ते खातीर अभ्यास – योग – सतत अभ्यास. सदांच देवाक आळोवपाची संवय करूंक जाय. एका दिसांत तें शक्य जायना. प्रत्येक दिसा आळयतकूच ईश्वरा खातीर व्याकूळताय येता. दीस रात संवसारी कामांतच रमल्यार, ती व्याकूळताय कशी येतली? पयलीं यदू मल्लीक ईश्वरा विशींच्या गजालींनी खूब रमताले. ते विशीं स्वता उलयताले, तातूंत आपल्याक घुसपावन घेताले. पूण ह्या दिसांनी तातूंत ते रूच दाखयनात. दीस रात खूशमस्कऱ्यां भितरच वावुरतात आनी संवसारी गजालींनीच रमतात.

## तिनसांज जातकूच श्रीरामकृष्णांची प्रार्थना – तेजचंद्र

तिनसांज जाली. कुडींत दिवो लायलो. श्रीरामकृष्णांनी देवदेवतांची नांवां घेतलीं. ते गायताले आनी प्रार्थना करताले. तांणी म्हणलें, ''हरीचें नांव घेयात. हरीच्या नांवाचो जप करात. हरीचें नांव गायात.'' परत तांणी म्हणलें, ''राम, राम, राम.'' मागीर तांणी म्हणलें, ''आई, तूं तुजे नित्य लिलेचो आनंद घेता. आई, उपाय कितें तो आमकां सांग. आई, आमी तुका शरण आयल्यात. तुज्या पांयां कडेन आमी आलाशिरो घेतला.'' गिरीश बेचैन जाल्ले पळोवन श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ ओगी बसले. तांणी तेजचंद्राक आपले म्हऱ्यांत बसपाक सांगलें. तो भुरगो श्रीरामकृष्णां म्हऱ्यांत वचून बसलो. ताणें मक फुतफुतून सांगलें, ताका बेगीन वचपाचें आसा म्हणून.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) ताणें कितें म्हणलें?

**म:** ताका घरा वचूंक जाय अशें ताणें म्हणलें.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव ह्या भुरग्यांक म्हजे वटच्यान कित्याक ओडून घेतां? हीं आयदनां निर्मळ आसात. हांकां संवसारीपणाचो स्पर्श जावंक ना. मनाक संवसारीपणाचो दाग लागल्यार मनीस उपदेश आत्मसात करूंक शकना. दूद नव्या आयदनांत बरे रितीन दवरूंक येता. पूण धंय केल्ल्या आयदनांत जर तें दवरीत तर तें आंबट जाता.
ज्या पेल्यांत लोशणीचो जिनस घाला तो पेलो हजार खेपो धुयात, तरीपूण लोशणीचो वास वचपाचो ना.

## श्रीरामकृष्ण स्टार थेटरांत नरेंद्र आनी हेर भक्तां वांगडा 'वृशकेतू' नाटक पळयतात

श्रीरामकृष्ण बेडन रस्त्या वयल्या स्टार थेटरांत आयले. ते 'वृशकेतू' नाटक पळयतले. दक्षिणे कडेन तोंड करून श्रीरामकृष्ण एका बोक्सांत बसले. म आनी हेर भक्त तांचे लागीं बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (म) नरेंद्र आयला?

**म:** हय महाराज.

नाटक सुरू जालें. कर्ण आनी ताची बायल पद्मावती हांणी तांच्या पुताचें ईश्वराक

प्रसन्न करपा खातीर बलीदान केलें. देव एका ब्राह्मणाच्या रुपान कर्णाचें सत्व पळोवपा खातीर थंय आयिल्लो. ह्या दृश्या वेळार एका भक्तान हुंडको दिलो. श्रीरामकृष्णांनीय दुख्ख व्यक्त केलें.

नाटक सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्ण थेटरांतले विसव घेवपाचे कुडींत गेले. गिरीश आनी नरेंद्र थंय पयलींच बशिल्ले. श्रीरामकृष्ण नरेंद्रा लागीं वचून उबे रावले आनी तांणी म्हणलें, ''हांव आयलां.''

## वाद्यां, संगीत वा शेनायचो आवाज आयकून समाधींत गेले

श्रीरामकृष्ण थंय बसले. थेटरांत वाद्य संगीत आशिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) म्हाका संगीत आयकून आनंद जाता. थंय दक्षिणेश्वराक संगीतकार शेनाय वाजयताले आनी ती आयकून हांव समाधींत वतालों. हें पळोवन एका साधून म्हणलें, हें ब्रह्मज्ञानाचें लक्षण आसा.

## 'हांव' आनी 'म्हजें'

वाद्य संगीत थांबले उपरांत श्रीरामकृष्ण परत उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) हें थेटर कितें तुमचें आसा?

**गिरीश:** महाराज तें आमचें आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** आमचें म्हणपच बरें. 'म्हजें' म्हणप बरें न्हय. लोक 'हांव' आनी 'म्हजें', 'म्हजें' करीत आसतात. हे सगले अहंकारी आनी हिणकस बुद्दीचे लोक.

**नरेंद्र:** सगलें जगच एक थेटर आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, हय तें बरोबर आसा. तरीपूण खंय खंय विद्येचो खेळ चल्ला आनी खंय खंय अविद्येचो खेळ चल्ला.

**नरेंद्र:** सगलोच विद्येचो खेळ आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** खरें तें. खरें तें. पूण मनशाक ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत तें कळटा. पूण भक्त जो भक्ती मार्ग आपणायता ताका विद्यामाया आनी अविद्यामाया दोनय मार्ग अस्तित्वांत आसतात. तूं थोडो वेळ पद म्हण पळोवया.

नरेंद्रान पद म्हणलें:

आनंदमयी जाणिवेच्या त्या दर्यांत प्रेमाचीं परमानंदी ल्हारां उसळटात;
दैवी अत्यानंद! ईश्वरी आनंदाचो खेळ!
आ! कितलीं चित्ताकर्शक!
ईश्वरी गोडायेचीं अजापीत ल्हारां, सदांच नवीं आनी सदांच भुलोवणीं;
सदांच ताजीं रुपां उसळटात वयर, सदांच हवेंत
आनी परतींय एकदां त्या व्हड एकवटांत विरगळटात सगलीं,
काळाच्यो आनी अवकाशाच्यो वणटी विरगळटना आनी नाच्च जातना,
तेन्ना नाच, ए मना
आनंदांत नाच, हात वयर करून, हरीचें पवित्र नांव गायतना.

जशी नरेंद्र ''तेन्ना परतींय एकदां त्या व्हड एकवटांत विरगळटात सगलीं'' ही वळ गावंक लागलो तशें श्रीरामकृष्णांनी ताका म्हणलें, ''ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत समजता. मागीर तूं म्हणटा तशें सगलोच विद्येचो खेळ. सगलेंच ब्रह्म.''
जेन्ना नरेंद्र, 'तेन्ना नाच, ए मना, आनंदांत नाच, हात वयर करून, हरीचें पवित्र नांव गायतना.' हें गावंक लागलो तेन्ना श्रीरामकृष्णांनी ताका म्हणलें, ''ही वळ दोनदां म्हण.''
पद सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्ण भक्तां कडेन उलोवंक लागले.
**गिरीश:** देवेंद्र बाबू आयले नात. ते फुगार जावन म्हणटात आमचे भितर खव्याचें पुरण ना. आमचे भितर-भायर उडोवपाचें मसूरचें पुरण भरलां. आमी थंय कित्याक वचपाचें?
**श्रीरामकृष्ण:** (विस्मितायेन) अशें म्हणटात ते? पयलीं ते अशें केन्नाच म्हणिनाशिल्ले.

श्रीरामकृष्णांनी थोडो अल्पहार केलो आनी नरेंद्राकय थोडो खावंक दिलो.
**यतीन देव**: (श्रीरामकृष्णांक), तुमी सदांच म्हणटात, नरेंद्र हें खा नरेंद्र तें खा, आमी हेर कितें पिशे? तो तितलो अपुरबायेचो? आमी कितें पुरान व्हांवून आयिल्लें सुकें तण?
श्रीरामकृष्ण यतीनाचेर खूब मोग करताले. तो मदीं मदीं दक्षिणेश्वराक श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक येतालो. केन्ना केन्नाय रातचोय रावतालो. तो शोभा बाजारांतल्या राजघराण्याचो

वंशज. श्रीरामकृष्णांनी हांसत नरेंद्राक म्हणलें, ''आरे हो यतीन'' तुजेच विशीं उलयता तो.

श्रीरामकृष्णांनी हांसत हांसत यतीनाची खाडकी धरून मायेन ताका म्हणलें, ''दक्षिणेश्वराक यो. तुका खूब खावपाक दितां.''

श्रीरामकृष्ण परत प्रहसन पळोवपाक थेटरांत गेले. ते बोक्सांत बसले. वावराडेचे संवाद आयकून ते खूब हांसले. थोड्या वेळान विसराळू अवस्थेंत मक ल्हव आवाजांत तांणी सांगलें:

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) बरें, गिरीश कितें म्हणटा तें खरें आसा?

गिरीश हालीं दिसांनी श्रीरामकृष्णांक ईश्वराचे अवतार अशें म्हणटाले.

**म:** हय महाराज, तांचें म्हणणें खरें आसा. ना जाल्यार आमच्या सगल्यांच्या मनाक कशें पट्टा तर तें?

**श्रीरामकृष्ण:** पळय, म्हजे भितर एक बदल घडून येता. पयलींची अवस्था बदलून गेल्या. आतां म्हाका धातूच्या द्रव्यांक स्पर्श करूंक जमना.

म अजापीत जावन आयकतालो. श्रीरामकृष्णांची ही जी नवी अवस्था जाल्या तातूंत एक खूब गूढ अर्थ आशिल्लो. भगवान श्रीरामकृष्ण धातूक स्पर्श करूंक शकनात म्हणचे ते अशें सांगिनात मूं की ईश्वरी अवतार हे मायेच्या ऐश्वर्याचो मात लेगीत भोग घेनात म्हणून? देखून श्रीरामकृष्ण अशें सांगतात काय?

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) बरें, म्हजे अवस्थेंत कितें बदल जाल्लो दिसता तुका?

**म:** महाराज खंयच्या संबंदान?

**श्रीरामकृष्ण:** म्हज्या कार्या संबंदान.

**म:** जशें जशें चड लोकांक तुमचे विशीं कळटलें तशें तशें तुमचें काम, कार्य वाडत वतलें.

**श्रीरामकृष्ण:** पळयलें? हांव पयलीं जें सांगतालों तें आतां खरें जाता.

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ ओगी रावले. मागीर तांणी म्हणलें, ''पलटूचें ध्यान कित्याक बरें जमना हें तुज्यान सांगूक जायत?''

## गिरीश कितें लोसूण घाल्ली वाटी?
## पातक्यां खातीर प्रभूची आशेची वाणी

आतां श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक वचपाची तयारी करताले. श्रीरामकृष्णांनी गिरीशा

विशीं एका भक्ता कडेन म्हणिल्लें, लोसूण मुड्डून उडयिल्ली वाटी हजार खेपो धुली तरी लोशणीचो वास सामको वचूंक शकता?

गिरीशाकूय उतरां आयकून राग आयिल्लो. श्रीरामकृष्ण वचपाक भयर सरले तेन्ना गिरीशान तांकां म्हणलें, "हो लोशणीचो वास वतलो?"

**श्रीरामकृष्ण:** हय, तो वतलो.

**गिरीश:** तर मागीर तो वास वतलो अशें तुमी म्हणटात न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** भगभगीत उज्यान सगलो वास नाच जाता. लोशणीची वाटी उज्यांत तापयली तर वास उरना. ती नवी वाटी जाता.

जो मनीस म्हणटा येस मेळचें ना म्हणून ताका केन्नाच येस मेळचें ना. जो कोण म्हणटा की आपूण मुक्त जालां म्हणून तो मुक्त जाता. जो कोण म्हणटा, आपूण बद्ध जालां तो बद्धच जावन वता. जो कोण नेटान म्हणटा हांव 'मुक्त' तो खरेंच मुक्त. जो दीस रात म्हणटा हांव 'बद्ध' तो बद्धच जावन वता.

# अध्याय एकशेंचवदा

## दक्षिणेश्वराक भक्तां वांगडा श्रीरामकृष्ण
## श्रीरामकृष्ण आनी नरेंद्र

### फल्गुनी पुनव – दोलयात्रेचो दीस
### भक्तीयोग

**मार्च 1, 1885. आयतार**. श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत ल्हान पलंगाचेर समाधीमग्न अवस्थेंत बशिल्ले. महिमाचरण, राम, मनोमोहन, नवाई, चैतन्य, म आनी हेर भक्त जमनीर शेंदरेर बशिल्ले. ते सगले श्रीरामकृष्णांक तल्लीन जावन पळयताले.

आयज दोलयात्रेचो दीस. श्रीकृष्ण आनी राधा हांच्या उत्सवाचो दीस. आयज तांची श्रीमूर्त दोलाचेर – झोंपाळ्याचेर बसोवन तिका धोलयतले. मुर्तीचेर गुलाल घालतले. मागीर इश्ट आनी नात्यांतले एकामेकांचेर गुलाल मारतले. शिशीर रुतू सोंपतकूच वसंत रुतूची सुरवात जाता तेन्ना हो उत्सव मनयतात.

फाल्गून पुनवेचो हो दीस श्रीचैतन्य म्हाप्रभूचो जल्मदिसूय जावन आसा. भक्तांनी पळयलें, श्रीरामकृष्ण समाधींतल्यान भानार आयिल्ले. तरी लेगीत तांचें मन ईश्वरी दर्शनाचे नशेंतच आशिल्लें. तेच अवस्थेंत श्रीरामकृष्णांनी महिमाचरणांक म्हणलें, ''मानेस्तानू, हरीभक्ती संबंदीं कितेंय सांगात.'' महिमाचरणान नारद पंचरात्रांतल्यो कांय वळी म्हणून दाखयल्यो.

मोगान देवाची पुजा केली जाल्यार तपाची कसली गरज?
मोगान देवाची पुजा केली ना जाल्यार तपाचो कसलो उपेग?
भायर भितर देव दिसता जाल्यार तपाची कसली गरज?
भायर भितर देव दिसना जाल्यार तपाचो कसलो उपेग?
ए ब्रह्मन! ए म्हज्या पुता! आनिआनीक तप करूं नाका
शंकरा कडेन धांव, जो आसा सागर स्वर्गीय ज्ञानाचो
घे ताचे कडल्यान देवाचो मोग, भक्तांनी तुस्तिल्लो शुद्ध मोग
संवसाराक बांदपी तुज्यो सांखळ्यो जो तोडटलो.

महिमान म्हणलें, एक खेपो व्हड रुशी नारद तपश्चर्या करताले. तांणी तेन्ना वयली देववाणी आयकली.

## हनुमान आनी प्रह्लाद
## ईश्वरकोटी शुकदेवांचो समाधीभंग

**श्रीरामकृष्ण:** भक्तांचे दोन वर्ग आसात - जीवकोटी वा सरसामान्य मनीस आनी ईश्वरकोटी वा ईश्वरी दूत. जीवकोटींची भक्ती ही वैधी. नेमा प्रमाण म्हणचेच शास्त्रान नेम सांगल्यात ते प्रमाण करप. इतल्या उपचारांनी पुजा करप, इतले खेपो देवाच्या नांवाचो जप करप आनी हेर गजाली करप. अशे तरेची भक्ती ज्ञान मार्गा भशेन ईश्वरी ज्ञाना कडेन आनी समाधी कडेन घेवन वता. जीवकोटी मागीर समाधींतल्यान संवसारी पांवड्यार परत येना.

ईश्वरकोटींची गजाल वेगळी. ते न्हयकारी आनी हयकारी पद्दत आपणायतात. पयलीं ते नेति नेति करीत जग मानिनात. कित्याक तें ब्रह्म न्हय म्हणून. मागीर, जग ब्रह्माचोच आविश्कार म्हणून ते तें आपणायतात. हाची देख म्हणल्यार गच्चेचेर चडटा आसतना पायऱ्यो म्हणचे गच्ची न्हय अशें समजून तो चडटा. पूण गच्चेचेर पावतकूच ताका अशें दिसता की पायऱ्यो ज्या जिनसां पसून तयार केल्यात त्याच जिनसां पसून गच्चीय तयार केल्या. विटो, चुनो आनी विटांचो चुरो हांचे पसुनूच पायऱ्योय आनी गच्ची केल्या. मागीर मनशाक पायऱ्यांचेर चडूंय येता वा देंवूंय येता वा गच्चेचेर रावूंय येता. शुकदेव निर्विकल्प समाधींत मग्न आशिल्ले, जड समाधी. शुकदेव राजा परिक्षीताक भागवत आयकोवपाचे आशिल्ले. भगवानान नारद रुशीक तांचे कडेन धाडलो. नारदान पळयलें, शुकदेव जड जावन गेल्ले आनी तांकां जगाचें भान सामकें नाशिल्लें. तेन्ना नारदान विणेच्या तालार हरीच्या रुपाचे सुंदरकायेचे चार श्लोक गावन दाखयले. ते पयलो श्लोक म्हणटा आसतनाच शुकदेवाच्या आंगार ल्हंव फुल्ली. मागीर दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं. भितर काळजांत ईश्वराच्या चिन्मय रुपाचें दर्शन जालें. हे प्रमाण शुकदेवाक जड समाधी उपरांतय ईश्वरी रुपाचें दर्शन जालें. शुकदेव ईश्वरकोटी आशिल्ले. हनुमानाक साकार आनी निराकार ह्या दोनय रुपांत ईश्वराचो साक्षात्कार जावन लेगीत तो रामाच्या रुपाचेर निश्ठा दवरून रावलो. चित्त घन आनंदाचें रूप - तेंच रामाचें रूप.

प्रह्लादाक केन्नाय अनुभुती जाताली, हांव तोच. तर केन्नाय ताका दिसतालें, हांव ईश्वराचो सेवक - ईश्वराचो दास. ईश्वराचे भक्तीचो आलाशिरो घेनासतना असो मनीस

कसो रावूंक शकतलो? ते खातिरूच तो धनी आनी सेवक हें नातें जपतालो. तुम प्रभू, हांव दास ह्या भावान तो रावतालो. ताका लागून ताका हरीच्या आनंदाचो र चोखूंक मेळटालो. हातूंत असो भाव आसता की – ईश्वर हो आनंदाचो रस आनी त स्वता रसाचो स्वाद घेवपी.

'भक्तीचो अहं', 'ज्ञानाचो अहं', 'बाळकाचो अहं' हे भक्ताक बादनात. शंकराचार्यांन 'ज्ञानाचो अहं' दवरिल्लो - लोकांक उपदेश करपा खातीर. बाळकाचो अहं- हाक कित्याचीच आसक्ती नासता. बाळक गुणातीत आसता. खंयच्याच गुणाक वश नासता भुरगें आतां रागार जातलें, दुसऱ्याच खिणाक राग बी खंयच कांय ना. ह्या खिणाव खेळांत घर बांदता, दुसऱ्याच खिणाक हें तें सगलें विसरून वता. आतां तूं ताक भुरग्यांचेर मोग करतना पळयता, पूण कांय दीस ते दिसले नात तर तो तांचे विर्श सगलें सामको विसरता. बाळक सत्य, रज, तम खंयच्याच गुणाच्या ताब्यांत नासता. भक्ताक दिसता, ए ईश्वरा, तूं भगवान आनी हांव तुजो भक्त. हो 'हांव' भक्तीचो 'अहं' आसा. ईश्वराचो प्रेमी असो भक्तीचो अहं कित्याक दवरता? हाका कारण आसा. अहं पसून मुक्त जर जावंक शकना तर रावूं दी फटिंगाक ईश्वराचो दास म्हणून, ईश्वराचो भक्त म्हणून.

तुमी हजार खेपो तर्क विचार करात, पूण तुमकां अहं पसून मुक्त जावंक येना. अहं कळसो आनी ब्रह्म दर्या कसो – चोंय वटेन उदकच उदक. ह्या दर्यांत कळसो दवरला. उदक ताचे भायर आनी भितर आसा. उदक सगले कडेन आसा. पूण, कळसो उरताच. आतां हो कळसो भक्ताचो अहं. जों मेरेन अहं उरता, तों मेरेन तूं, आमी, हांव उरता. आनी अशीय भावना उरता, 'ए ईश्वरा, तूं भगवान आनी हांव तुजो भक्त. तूं धनी आनी हांव तुजो दास'. तुमी लाख खेपो तर्क विचार करात. पूण तुमी ताचे पसून मुक्त जावंक शकनात. कळसोच नासत तर गजाल वेगळी.

## भगवान श्रीरामकृष्ण आनी नरेंद्र

नरेंद्र कुडींत आयलो आनी तो श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. ते दोगूय उलोवंक लागले. करतां करतां श्रीरामकृष्ण पलंगा वयले देंवून जमनीर बसले. थंय शेंदरी घाल्ली आशिल्ली. इतले म्हणसर कूड भरून गेली. भक्तय आयिल्ले आनी लोकय आयिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (नरेंद्राक) बरो आसा न्हय? हांव अशें आयकतां की तूं खंय मदीं मदीं गिरीश घोशाच्या घरा वता. हें खरें न्हय?

**नरेंद्रः** हय महाराज, मर्दी मर्दी वतां.

कांय म्हयने जाले, गिरीश भगवान श्रीरामकृष्णां कडेन वचत आसताले. श्रीरामकृष्ण म्हणटाले, गिरीशाची श्रद्धा इतली खोल आसा की कोणाकच तिचो तळ मेळपाचो ना. आनी ताची ईश्वरा विशींची व्याकूळताय जितली गाढ आसता तितलीच ताची श्रद्धा बळिश्ठ आसता. घरा श्रीरामकृष्णांच्या चिंतनांत ते सदांच गुल्ल आसतात. श्रीरामकृष्णांचे कितलेशेच भक्त तांगेर वताले. ते फकत श्रीरामकृष्णां विशींच उलयताले. पूण गिरीश हे संवसारी मनीस आसले. आनी गिरीशाक संवसाराचो खूब अणभव आसलो. आनी श्रीरामकृष्णांक खबर आशिल्लें की नरेंद्र संवसारात रावपाचो ना. तो कामिनी-कांचनाचो मनांतल्यान आनी भायल्यान बी त्याग करतलो.

### संन्याश्याचे अधिकारी कौमार वैराग्य.
### गिरीश खंयच्या वर्गांतले?
### रावण आनी असूर हांच्या
### सभावांत योग आनी भोग दोनय

**श्रीरामकृष्णः** तूं गिरीश घोशागेर परत परत वता काय कितें? वांटून लोसूण घाल्ली वाटी कितलीय धुवन दवर तरी लेगीत थोडो वास उरतलोच. जे भुरगे हांगा येतात ते शुद्ध आत्मे आसात. कामिनी-कांचनाचो तांकां स्पर्श जाल्लो नासता. खूब दीस कामिनी-कांचना बराबर संबंद आयल्यार लोशणीचो वास उरतलोच. हीं मनशां म्हणचे कावळ्यांनी चोंचून उडयिल्ले आंबेच कशे. आमच्या देवळांनी देवदेवतांक निवेद्य म्हणुनूय दाखोवंक येना, आनी स्वताय खावपाक अनमनतले. नवें आयदन आनी धंय घाल्लें आयदन घेयात. धंय घाल्ल्या आयदनांत दूद दवरपाक भंय दिसता. कित्याक, दूद चड करून इबाडटा.

गिरीशा सारके संवसारी भक्त हांचो वर्गच वेगळो. अश्या लोकांक योगय जाय आनी भोगय जाय. ह्या लोकांची रावणा सारकी वृत्ती. सर्गांतल्यो अप्सराय भोगूंक जाय आनी त्याच वेळार रामाचो साक्षात्कारय करून घेवंक जाय. ते असुरां भशेन. ते तरातरांचे भोग घेताले आनी नारायणाचोय लाव करून घेताले.

**नरेंद्रः** पूण गिरीशांनी तांगेल्या पयलींच्या सांगात्यांक सोडल्यात.

**श्रीरामकृष्णः** हय, हय. म्हातारपणांत कापांव केल्लुया बैला भशेन तांची गत जाल्या. हांवें बरद्वानाक एक बैल पळयलो. तो गाये फाटल्यान धांवतालो. हांवें बैलगाडो

चलोवपी मनशाक विचारलें, 'हें कितें? बैल आनी धांवता गाये फाटल्यान?' ता
म्हाका सांगलें, 'खरें तें महाराज, त्या बैलाक जाणटेपणांत कापांव केला. पूण तागे
पयलींचे संस्कार वचूंक नात.'

एके कडेन कांय संन्याशी बशिल्ले. एक तरणाटी ते वाटे वयल्यान वताली. सगले जाण पयलीं भशेन ईश्वर चिंतन करीत आशिल्ले. पूण तातूंतलो एकटो तिरपे नदरेन तिक पळयतालो. तो संन्याशी जावचे पयलीं तीन भुरग्यांचो बापूय आशिल्लो.

एकाद्रे वाटयेंत जर लोसूण मुङ्कून घाली तर कितें वाटयेचो लोशणीचो वास वतलो? विखारी बाबळीच्या झाडाक आंबे लागूंक शकतात? सिद्ध योग्याक अशें करप शक्य आसा. पूण तसली सिद्धी सगल्यांकच मेळटा?

संवसारी लोकांक ईश्वराचो विचार करपाक सवड खंय आसा? एका मनशाक भागवत सांगपी पंडीत जाय आशिल्लो. ताच्या इश्टान सांगलें, 'भागवत सांगणारो एक उत्तम पंडीत आसा. पूण एक अडचण आसा. ताची स्वताची बरीच शेतवड आसा. ती ताका पळोवची पडटा. ताचे चार नांगर आसात आनी आठ बैल आसात. ताका सतत काम करचें पडटा. ताका मात लेगीत फुरसत मेळना.' तें आयकून त्या मनशान म्हणलें, 'बाबा रे म्हाका वेळ मेळनाशिल्ल्या पंडिताची गरज ना. हांव नांगर, बैलांचें जोत आशिल्ल्या विद्वान भागवत पुराणिकाच्या सोदांत ना. म्हाका असो पंडीत जाय की जो म्हाका बरे रितीन भागवत विसकटावन सांगतलो.'

एक राजा सदांच भागवत आयकतालो. भागवत सांगपी पुराणीक भागवत सांगून जाले उपरांत राजाक म्हणटालो, 'हांवें कितें सांगलां तें समजलें?' ताचेर राजा सदांच म्हणटालो, 'तुमी पयलीं स्वता समजून घेयात.' सदांच पंडीत घरा वतालो तेन्ना तो राजाच्या उतरांच्या अर्थाचेर विचार करतालो. पंडीत सत्वशील आशिल्लो. तो प्रार्थना आनी ध्यान बी करतालो. ते खातीर ल्हव ल्हव ताचे भितर जागृती जाली. आनी ताका समजून आयलें, संवसारांत एकच सत्य आसा आनी तें म्हणचे हरीचे कमल चरण आनी हेर सगलें असार, मिथ्या आसा. ताका संवसारा विशीं विरक्ती आयली आनी तो संन्याशी जालो. फकत वतना ताणें एका मनशाक राजा कडेन धाडून दिलो आनी सांगूक लायलें, 'हय राजा, आतां म्हाका समजलें.'

पूण हांव कितें संवसारी लोकांक कमी लेखतां? केन्नाच ना. हांव जेन्ना तांकां पळयतां तेन्ना हांव ब्रह्मज्ञानाचो उपेग करतां - एकच अस्तित्व. ब्रह्मच स्वता सगलें कितें जालां. सगलें नारायण स्वरुपच आसा. अस्तुऱ्यां विशीं सांगचें जाल्यार त्यो सगल्यो अस्तुऱ्यो जगन्मातेचींच कितलींशींच रुपां आसात. मागीर म्हाका पतिव्रता आनी वेश्या

हांचे मदीं फरक दिसना.

## सगले उड्डादाळी गिरायक
## रूप आनी ऐश्वर्य हांकां वश

कितें सांगूं! सगल्या गिरायकांक उड्डांदाळ सोडून आनीक कितें जाय अशें दिसना. कोणाकच कामिनी-कांचन सोडपाक नाका. सगले अस्तुरेच्या रुपान भुलतात आनी पयसो, ऐश्वर्य पळोवनय भुलतात. आनी ईश्वराक विसरतात. पूण ईश्वराच्या रुपाचें दर्शन जाल्यार ब्रह्मपद लेगीत तुच्छ दिसूंक लागता.

एका मनशान रावणाक म्हणलें, 'तुमी इतलीं सगलीं वेगवेगळीं रुपां घेवन सीते कडेन वतात, मागीर रामाचें रूप घेवन तिचे कडेन कित्याक वचनात?' ताचेर रावणान म्हणलें, 'पूण जेन्ना हांव म्हज्या काळजांत रामाचें ध्यान करतां तेन्ना सर्गांतल्यो अप्सरा, रंभा आनी तिलोत्तमा लेगीत चितेच्या गोबरा भशेन दिसूंक लागतात. ब्रह्मपद तुच्छ दिसूंक लागता. मागीर परस्त्रीची गजाल खंयची?'

सगले निरुपेगी उड्डांदाळीचेच गिरायक. शुद्ध अंतस्करण नासल्यार ईश्वरा विशीं शुद्ध भक्ती जायना आनी मोखी कडेन लक्षय लागना. तरातरांच्या गजालींचेर मन वचत रावता.

## नेपाळी चली - ईश्वराची दाशी
## संवसारी लोकांची गुलामी

(मनोमोहनाक) तू रागार जायत पूण हांवें राखालाक म्हणलें, 'तूं गंगेंत उडी घेवन बुडलो अशें आयकुचें पडल्यार उपकारा पडटा पूण कोणाची गुलामी करता, कोणाची चाकरी करता अशी मात आयकुपाची पाळी येवं नाका.' एक दीस नेपाळची एक चली आयली. बरी दिलरुबो वाजोवन पद गायताली. कोणें तरी तिका विचारलें, 'तुमचें लग्न जालां?' तेन्ना तिणें रोखडेंच म्हणलें, 'लग्न? हांव ईश्वराची दाशी आसां, परत कोणाची दाशी जावं?'

कामिनी-कांचनाचे मदीं रावन ईश्वराचें दर्शन कशें जातलें? अशा मनशाक अनासक्त रावप खूब कठीण. एके कडेन बायलेचो गुलाम, दुसरे कडेन पयशाचो गुलाम. एके कडेन ताका चाकरी करची पडटा. एक फकीर रानांत खोंपींत रावतालो. त्या वेळार अकबर दिल्लीचो बादशा आशिल्लो. फकिरा कडेन खूब लोक वताले. एक दीस ताचे

कडेन येवपी लोकांक जेवण-खाण दिवचें अशी ताका इच्छा जाली. पूण पयशां ब
तो हें कशे करतलो? म्हणून ताणें बादशा कडेन वचपाचें थारायलें. अकबराचें द
फकिरांक सदांच उकतें आसतालें. फकीर राजम्हालांत भितर सरलो तेन्ना अक
नमाज करतालो. फकीर मागीर कुडींत एका कोनशाक बसलो. ताणें पळयलें, नमा
करून जातकूच बादशा निमणें प्रार्थना करतालो, 'ए ईश्वरा, म्हाका धन दी, दौल
दी. हें दी आनी तें दी' अशें मागीत आशिल्लो. जेन्ना फकिरान हें सगलें आयकलें ते
तो नमाजाचे कुडींतल्यान वचपाक भायर सरलो. पूण अकबरान ताका कुरू करू
रावपाक सांगलें. नमाज जाले उपरांत अकबरान ताका म्हणलें, 'तुमी म्हजे कडे
आयिल्ले. आनी म्हाका कांयच सांगिनासतना, म्हजे कडेन कांय उलयनासतना तु
तशेच वतात कशे?' तेन्ना फकिरान म्हणलें, 'महाराज, तें सगलें आयकुपाचे त्रा
तुमकां आनीक नाका. म्हाका आतां वचुंकूच जाय'. जेन्ना बादशान खूब आगरो केल
तेन्ना फकिरान म्हणलें, 'खूब जाण म्हजे कडेन येतात म्हणून तुमचे कडेन थोडे पय
मागपाक आयिल्लों.' अकबरान म्हणलें, 'मागीर म्हजे कडेन कांय उलयनासतान तु
कित्याक वतात तर?' फकिरान म्हणलें, 'म्हाका दिसलें, तुमी लेगीत एक भिकारी
आसात. तुमीय देवा कडेन धन-दौलत मागतात. तेन्ना म्हज्या मनांत आयलें, हां
भिकाऱ्या कडेन भीक कित्याक मागपाची? भीक जर म्हाका मागुंकूच जाय तर त
म्हाका अल्ला कडेनूच मागूं दी.'

## पयलींची जीण

## श्रीरामकृष्णांची सत्वगुणाची अवस्था

**नरेंद्रः** हालींसरा गिरीश घोश ईश्वरा विशींच चिंतन करतात.

**श्रीरामकृष्णः** तें खूब बरें. पूण ते इतले फटकळ कित्याक जाल्यात? म्हाका अश्य
गाळी कित्याक मारतात? हे म्हजे अवस्थेंत असलीं उर्मटपणां म्हज्यान सोंसूंक
जायना. वीज जेन्ना पडटा. तेन्ना घरांतल्यो जड वस्तू तितल्योश्यो हालनात. पूण
जनेलाचे हारशे खडखडटात. म्हज्यान आतां असलीं आडांगपणां सोंसूंक जायनात
सत्वगुणाचे अवस्थेंत असलो बोवाळ आनी आवाज सोसूंक नजं. हृदयाक तेच
खातीर हांगासून वच्चें पडलें. जगन्मातेन ताका हांगा दवरलो ना. निमणें निमणे
तागेलें अती जालें. म्हाका गाळी फस्ती करूंक लागलो. सामको उर्मटपणान वागूंक
लागलो.

## नरेंद्र त्यागी मनशांच्या वर्गांतलो
## नरेंद्राचो पितृ वियोग

नरेंद्राक) गिरीश घोश म्हजे विशीं कितें म्हणटात तें तुका मान्य आसा?
रेंद्र: तांणी म्हणलें, तुमी ईश्वराचे अवतार आसात, असो तांचो विश्वास आसा. हांव चेर कांयच उलयलों ना.
**ीरामकृष्ण:** पूण तांचो विश्वास कितलो खर आसा! तुका दिसना तशें?

क्त श्रीरामकृष्णांचें उलोवप कान दिवन आयकताले. श्रीरामकृष्ण जमनिरूच शेंदरेचेर शिल्ले. तांचे लागीं म आनी मुखार नरेंद्र बशिल्लो. भक्त भोंवतणीं बशिल्ले. थोड्या ळान नरेंद्राक तांणी मायेन म्हणलें, "बाब, कामिनी-कांचनाचो त्याग केले बगर तुका श्वराचो लाव जावचो ना." हें उलयतां उलयतां तांचें काळीज भरून आयलें. तेच रुणेन आनी मायेचे नदरेन नरेंद्राक पळयतां पळयतां तांणी गावपाक सुरवात केली:

लोवंक आमी भियेतात आनी तरी लेगीत ओगी रावपाकय आमकां भंय
दिसता.
ामचीं मनां, ए राधे, आमी आतां तुका वगडावन बसतलीं अशें अर्दो
वेळ दिसता!
ामी तुका आमकां खबर आशिल्लें गुपीत सांगतात.
ामकां, आनी दुसऱ्यांक, आमच्या पालवान कितल्याश्याच
संकश्टांतल्यान गेल्यात अशें तें गुपीत;
ातां सगलें तुजेर निंबून.

ीरामकृष्णांक नरेंद्र आपल्याक सोडून वचत म्हणून भंय जाल्लो. नरेंद्रान दुकांनी भरिल्ल्या ोळ्यांनी श्रीरामकृष्णां कडेन पळयलें.
क भक्त जो पयलेच खेपो थंय आयिल्लो ताणें हें सगलें पळयलें. ताणें श्रीरामकृष्णांक हणलें, "महाराज, जर कामिनी-कांचनाचो त्याग करूंक जाय तर मागीर गृहस्थान कतें करपाचें?"
**ीरामकृष्ण:** तुमी कामिनी-कांचनाचो भोग घेयात. आमी जें कितें उलयल्यात तें मकां लागना.

## गृहस्थी भक्तांक अभयदान आनी उर्बा

महिमाचरण हे गृहस्थी भक्त. तांणी हें सगलें आयकलें आनी एक उतरय काडिनास
ते ओगी बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाक) फुडें वचात आनी चड फुडें वचात म्हणचे तुमकां भां
खण मेळटली. थंयच थांबू नाकात. फुडें वचात म्हणचे तुमकां हिरेमाणकांच्यो ख
मेळटल्यो. म्हणून हांव म्हणटां फुडें वचात.

**महिमाचरण:** पूण महाराज, आमकां कितें तरी ओडून धरता, आमी फुडें वच
पावनात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) कित्याक? लगाम कापून उडयात, ईश्वराच्या नांव
तरसादीन लगाम कापून उडयात. कालीच्या नांवान काळाचे पास का
वतात.

मदीं मदीं श्रीरामकृष्ण नरेंद्रा कडेन मायेचे नदरेन पळयताले. तांणी म्हणलें, "तूं वि
अणभवी वैज जाला? संस्कृत श्लोक म्हणून सांगलें, जाणें शंबर रोगी मारल्य
तो नवशिको वैद्यराज आसा. आनी जाणें हजार रोगी मारल्यात तो अणभ
वैज." (सगले हांसतात.) श्रीरामकृष्ण कितें अशें म्हणटात काय की नरेंद्राक ल्ह
वयांतच खूब सुखदुख्खाचे अणभव येवन गेले म्हणून. नरेंद्र हांसलो आनी ओ
रावलो.

## दोलयात्रा, श्रीरामकृष्णांच्या राधाकांताच्या, कालीमातेच्या आनी भक्तांच्या आंगार गुलाल

दनपार जाल्ली, भक्त श्रीरामकृष्णांचे भोंवतणीं बशिल्ले. सगले जाण नवाई चैतन्याचें
आयकताले. श्रीरामकृष्ण एकदम उठले आनी कुडी भायर गेले. पद चालूच आशिल्ल
म श्रीरामकृष्णां बराबर गेलो.

श्रीरामकृष्ण आंगणांतल्यान वचून राधाकांताच्या देवळांत भितर सरले. मनूय तशें

केलें. ताटांत गुलाल आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी थोडो गुलाल श्रीराधाकांताचेर घालो आनी परत ते पांयां पडले.

ते मागीर कालीच्या देवळांत गेले. सात पायऱ्यो चडून ते दरवट्याचेर उबे रावले आनी तांणी मातेचें दर्शन घेतलें. मागीर ते भितर गर्भकुडींत गेले. तांणी जगन्मातेचेर गुलाल घालो आनी ते पांयां पडले. कालीमातेच्या देवळांतल्यान भायर येतकूच तांणी मक विचारलें, ''बाबूरामाक तुवें तुजे बराबर कित्याक हाडलो ना?''

श्रीरामकृष्ण परत कुडींत आयले. तांचे बराबर म आनी एक भक्त गुलालाचें ताट घेवन आशिल्ले. कुडींत येतकूच श्रीरामकृष्णांनी कुडींतल्यान सगल्या देवदेवतांच्या चित्रांचेर गुलाल मारलो. तांणी सगल्यांनी पांयांचो धुल्ल कपलाक लायलो.

दनपारचे थंड सावलेंत भक्त बागेंत भोंवूंक गेले. श्रीरामकृष्ण आनी म कुडींतच आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी ल्हव आवाजांत मक म्हणलें, ''सगले सांगतात, ते ध्यान बरें करतात म्हणून. मागीर पलटूचें ध्यान सारकें कित्याक जायना? तुजें नरेंद्रा विशीं मत कितें? तो सरळ सभावाचो आसा. पूण सध्या घरच्यो खूब अडचणी आसात म्हणून ताची अध्यात्मीक प्रगती मातशी थांबल्या. पूण त्यो चड वेळ उरच्यो नात.''

पडवेर नरेंद्र एका वेदान्त्या बराबर भासाभास करतालो. मदीं मदीं श्रीरामकृष्ण वचून ताका पळयताले. भक्त जशे कुडींत जमूक लागले, तशें तांणी महिमाचरणांक स्तोत्र म्हणपाक सांगलें. महिमाचरणान म्हानिर्वाण तंत्रांतले एक स्तोत्र म्हणलें:

काळजाच्या कमळ चरणांत आमी ब्रह्म चैतन्याची पुजा करतात,
अभेद सत्य जाका हरी, हर आनी ब्रह्मा भजतात.

महिमाचरणान आनीक थोडीं स्तोत्रां आनी निमणें शंकराचार्याचें शिव स्तोत्र म्हणलें. तातूंत हो संवसार म्हणल्यार एक व्हडली खोल बांय आनी दाट रान म्हणलां. महिमाचरण हे संवसारी मनीस.

ए देवाधिदेवा, ए मंगलदायी, घेवन चकचकीत चंद्रीम माथ्याच्या तुऱ्यार
मदनाचो संहारक! त्रिशूळ धारी! अढळ! हिमालयाचो धनी!
ए दुर्गेच्या घरकारा, सगल्या जिवांच्या धनया!
तूं जो भयाभितांचो भंय नाश करता!

हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या संवसाराच्या दिशाहीन वाटांच्या
रानांतल्यान

ए पार्वतीच्या काळजाच्या मोगी! ए चंद्रीम तुऱ्याची देवता!
सगल्या प्राणीमात्रांचो धनी! ए यजमानांचो धनी! ए तूं पार्वतीपती!
ए वामदेव, स्वअस्तित्वी? ए रुद्र, धनुर्धारी!
हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या दुर्देवी संवसाराच्या दिशाहीन वाटांच्या
रानांतल्यान.

ए निळकंठ देव! शिव, जाचें मानचिन्ह आसा नंदी! ए पंचमुखी!
ए संवसारांचो स्वामी, जो आपल्या कमरा भोंवतणीं रेवडायता जिवाणीं!
ए सुगुर्व्या!
ए शिव! ए पशुपती! ए तूं पार्वतीपती!
हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या दुर्देवी संवसाराच्या दिशाहीन वाटांच्या
रानांतल्यान.

ए विश्वाचो धनी! ए शिवशंकर! ए देवाधिदेव!
तूं तुज्या जटांनी घेता गंगा न्हंय!
तूं प्रमाथा आनी नंदिकाचो धनी! ए हर, संवसाराचो स्वामी!
हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या दुर्देवी संवसाराच्या दिशाहीन वाटांच्या
रानांतल्यान.

ए काशीराजा, मणिकर्णिकेचे मसुंडेचो धनी!
ए पराक्रमी वीर, तूं दक्षाच्या यज्ञाचो संहारक! ए सर्वव्यापी!
ए यजमान्यांचो धनी! सर्वज्ञानी, जो आसा दर एकल्याच्या काळजांत
राबितो करून! ए स्वामी!
हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या दुर्देवी संवसाराच्या दिशाहीन वाटांच्या
रानांतल्यान.

ए देवाधिदेव! कृपासिंधू! ए दयाशील देवता!
ए व्योमकेश! निळकंठ! ए यजमान्यांचो धनी!
तुजी कूड गोबरान सारयिल्ली आसा! तूं मनशांच्या कवट्यांनी अलंकृत
जाला!
हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या दुर्देवी संवसाराच्या दिशाहीन
वाटांच्या रानांतल्यान.

ए तूं जो कैलास पर्वताचेर रावता! तूं जाचें वाहन आसा नंदी!
ए मरणाचेर जैत जोडपी! ए त्रिनेत्र! तीन लोकांचो स्वामी!
नारायणाचो मोगी! कामजीत! तूं शक्तीचो स्वामी!
हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या दुर्देवी संवसाराच्या दिशाहीन वाटांच्या
रानांतल्यान.

विश्वाचो स्वामी! सगल्या संवसाराचो आलाशिरो! ए तूं अनंत रुपी!
विश्वाचो प्राण! ए तूं जाच्यांत आसात संवसाराचे अनंत गूण!
ए तूं सगल्यांनी पुजिल्लो! करुणामय! ए दुर्बळाचो इश्ट!
हांव निराधार, म्हाका वाटाय, ह्या दुर्देवी संवसाराच्या दिशाहीन वाटांच्या
रानांतल्यान.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) तुमी ह्या संवसाराक खोल बांय वा मार्ग मेळनाशिल्लें दाट रान कित्याक म्हणटात? साधकाक सुरवेक तशें दिसत पूण परमेश्वराक जर घट्ट धरून रावत तर मागीर ताका भंय कसलो? मागीर ताका दिसतलें–

हो संवसारूच आसा आनंदाचें धाम;
हांगा हांव खातां, पियेतां आनी मजा करतां.

तुमी कित्याक भियेवपाचें? ईश्वराक घट्ट धरात आनी कांट्याचें रान आसलें म्हणून कितें जालें? बूट घालात आनी कांट्या वयल्यान चलात, तुमी कोणाक भियेवपाचें? चोर चोर खेळटना आजयेक आफुडले उपरांत परत चोर जावपाची गरज लागना.

जनक राजा दोन तरसादी वावुडटालो - एक ज्ञानाची तरसाद आनी दुसरी कर्माची. जें खरो खेळपी आसता ताका कित्याचोच भंय दिसना. (मक) तांणी जें कितें म्हणलें तातूंत म्हजें मन अजून घुसपून उरलां.
श्रीरामकृष्ण हे महिमाचरणान जे श्लोक म्हणिल्ले ताका लेखून उलयताले.
नवाई चैतन्य आनी हेर भक्त गावंक लागले. श्रीरामकृष्णय तातूंत वांटो घेवंक लागले. आनी ईश्वरी आनंदांत ते नाचुंकूय लागले. मागीर तांणी म्हणलें :-
ईश्वरी नामसंकिर्तनाचीच खरी गरज आसा. हेर सगलें असत्य. प्रेम आनी भक्ती हेंच फकत सत्य आनी हेर सगलें उपेग नाशिल्लें.

## गुपीत भासाभास

उपरांत श्रीरामकृष्ण पंचवटींत गेले. ते म कडेन विनोदा विशीं उलयताले. तो म चे शाळेचोच विद्यार्थी आशिल्लो. विनोदाक ईश्वर चिंतन करतना मदीं मदीं आनंदाची भावावस्था जाताली. श्रीरामकृष्ण ताचेर खूब माया करताले.
ते म बराबर कुडींत परत येतना तांणी विचारलें, ‘‘बरें, थोडे जाण म्हाका ईश्वराचो अवतार समजतात. ताचे विशीं तुका कितें दिसता?’’ श्रीरामकृष्ण तांचे कुडींत आयले आनी ल्हान पलंगाचेर येवन बसले. तांणी तोच प्रश्न मक परत विचारलो. हेर भक्त मातशे पयसूच बशिल्ले. तांकां तांची भासाभास आयकूंक येनाशिल्ली.
**श्रीरामकृष्ण:** तुका हे विशीं कितें दिसता?
**म:** महाराज, म्हाकाय तशेंच दिसता. चैतन्यदेव आशिल्ले तशेच तुमी आसात.
**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचो पूर्ण अवतार काय अंश रुपान? ताचें प्रमाण कितलें तें सांग न्हय?
**म:** महाराज, तें म्हाका खबर ना. पूण हें खरें, तुमचे भितर ईश्वरी शक्तीचें अवतरण जालां. फकत ईश्वरूच तुमचे भितर रावता हे विशीं मात लेगीत दुबाव ना.
**श्रीरामकृष्ण:** तें खरें आसा. चैतन्यदेवाक लेगीत ‘शक्ती’चो - ईश्वरी शक्तीचो साक्षात्कार जाय आशिल्लो.
नरेंद्र खरसाणेन भासाभास करतालो. राम हालींच दुखण्यांतल्यान बरो जाल्लो. तोय भासाभास करतालो.
**श्रीरामकृष्ण:** (मक) म्हाका असली भासाभास आवडना. (रामाक) तूं थांबयशी? तूं

अजून बरो जावंक ना. बरें आसा, सवकासायेन. तूं असो उत्तेजीत जावं नाका. (मक) म्हाका असली भासाभास आवडना. हांव रडटालों आनी जगन्मातेक सांगतालों, 'ए आई एक मनीस म्हणटा, हें अशें आसा तर दुसरो म्हणटा तें तशें आसा. म्हाका तूंच सांग, ए आई, सत्य कितें?'

# अध्याय एकशेंपंदरा

## दक्षिणेश्वरचे कालीवाडींत भक्तां वांगडा
## नरेंद्र, राखाल, भवनाथ आनी हेर

**मार्च 7, 1885. शेनवार.** दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. दक्षिणेश्वराक श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत भक्तां वांगडा आनंदांत उलयताले. बाबूराम, भुरगो नरेन, पलटू, हरीपद, मोहिनीमोहन आनी हेर भक्तय थंय आशिल्ले. एक ब्राह्मण युवक जो कांय दीस श्रीरामकृष्णां बराबर रावतालो तोय आशिल्लो.

माताजी, भगवान श्रीरामकृष्णांची घरकान्न, नबतखान्यांत रावताली. ती मदीं मदीं श्रीरामकृष्णांचे कुडींत येवन श्रीरामकृष्णांची सेवा करताली. मोहिनीमोहना बराबर ताची बायल आनी नविनाची आवय कलकत्ता सावन देवळाचे बागेंत आयिल्ल्यो. बायलो माताजी बराबर राविल्ल्यो. (भक्त) दादले भायर गेल्ले. उपरांत, त्यो श्रीरामकृष्णाचें दर्शन घेवपाक राविल्ल्यो.

श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले. तरणाट्या भक्तां कडेन पळोवन आनंद भरीत जाल्ले. राखाल सद्या श्रीरामकृष्णां बराबर दक्षिणेश्वराक रावनासलो. वृंदावनांतल्यान येत सावन राखाल घराच रावतालो.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) राखाल सद्या पेन्शन भोगता. वृंदावना सावन आयिल्ल्याक घराच रावता. घरा बायल आसा पूण म्हाका ताणें सांगलें, 'हजार रुपया दिले तरी आपूण कसलेंच काम करचों ना.'

राखाल हांगा न्हिदला आसतना म्हणटालो, ताका म्हजो सांगात लेगीत नांका म्हणून. असली उच्च अवस्था जाल्ली ताची त्या वेळार.

भवनाथ लग्न जाला, पूण सगली रात बायले बराबर अध्यात्मीक गजाली करुनूच सोंपयता. दोगांय ईश्वरा विशीं गजाली करपांतच वेळ घालयतात. हांवें ताका म्हणलें, 'बायले बराबर मदीं मदीं मजा बिजा कर'. तेन्ना रागार जावन ताणें म्हणलें, 'कितें?

आमी लेगीत मजा बिजा करीत रावपाचें?'

श्रीरामकृष्ण आतां नरेंद्रा विशीं उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) पूण नरेंद्रा विशीं जितली व्याकूळताय दिसली तितली धाकट्या नरेना विशीं दिसली ना. (हरीपदाक) तूं गिरीश घोशाच्या घरा वता?

**हरीपद:** हय, हांव थंय सदांच वतां. ते आमचे शेजारी.

**श्रीरामकृष्ण:** नरेंद्र लेगीत थंय वता.

**हरीपद:** हय, हांव केन्ना केन्नाय ताका थंय पळयतां.

**श्रीरामकृष्ण:** गिरीश म्हाका ईश्वराचो अवतार म्हणटात ताचे विशीं तो कितें म्हणटा?

**हरिपद:** नरेंद्र वाद करपांत हरलो.

**श्रीरामकृष्ण:** ना. नरेंद्र म्हणटा गिरीश घोशाचो जर इतलो घट विश्वास आसा तर हांव ताचे आड कित्याक उलोवं?

जुईज अनुकल मुखोपाध्यायच्या जांवयाचो भाव थंय कुडींत आशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (भावाक) तूं नरेंद्राक वळखता?

**जुविजाचो भाव:** हय महाराज. नरेंद्र खूब बुद्दीमान तरणाटो आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) हाणें नरेंद्राची तोखणाय केल्या म्हणचे मनीस बरो आसूंक जाय. त्या दिसा नरेंद्र हांगा आशिल्लो आनी त्रैलोक्य संन्याला बराबर गायलो. पूण त्या दिसा गावप सामकें अळणी जालें.

## बाबूराम आनी दोनय बाजू सांबाळप
## ज्ञान-अज्ञानाचे पलतडीं वचप

श्रीरामकृष्ण बाबूरामा कडेन पळयत उलयताले. म जे शाळेंत शिकयतालो ते शाळेंत बाबूराम मॅट्रिकेच्या वर्गांत शिकतालो.

**श्रीरामकृष्ण:** तुजीं पुस्तकां खंय आसात? अभ्यास करपाचो ना? हो दोनय वटो राखूंक सोदता (ईश्वर आनी संवसार).

खूब कठीण तें. ईश्वराक थोडेंशें जाणा जावन कितें जातलें? येदे व्हडले वशिश्ठदेव. पूण तांकां लेगीत पुत्रशोक जालो. तें पळोवन लक्ष्मण चकीत जालो आनी ताणें रामाक हें कशें काय म्हणून विचारलें. ताचेर रामान म्हणलें, 'लक्ष्मणा, हातूंत अजाप तें कसलें? आरे जाचे कडेन ज्ञान आसा, ताचे कडेन अज्ञानय आसा. तूं ज्ञान-अज्ञान ह्या दोनांयचेय पलतडीं वच. जर पांयाक कांटो लागला तर तूं दुसरो कांटो पयलो

कांटो काडपाक घेता. मागीर तूं दोनय कांटे भायर उडयता. तशें अज्ञान कांटो काडपा खातीर तूं ज्ञान कांटो मेळयता. मागिरूच ज्ञान-अज्ञानाचे पलतडीं वच्चें पडटा'.

**बाबूराम:** (हांसत) म्हाका तेंच जाय.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) पूण आरे, दोनय वटो सांबाळून तें तुका मेळूंक शकता व्हय? जर तुका जाय तर सोडून यो.

**बाबूराम:** (हांसत) म्हाका संवसारा पसून पयस व्हरात.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) राखाल म्हजे बराबर रावतालो. पूण ती वेगळी गजाल. ताच्या बापायची संमती आशिल्ली. हे जर भुरगे हांगा रावले तर गडबड जातली.

(बाबूरामाक) तुजे कडेन मनाची घटसाण ना. तुजे कडेन तशी धिटाय ना. पळय तो धाकटो नरेन कसो म्हणटा पळय, हांव सदां खातीर येवन रावतलों.

श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगा वयल्यान सकयल आयले आनी जमनीर भुरग्यां मदीं येवन बसले. म तांचे म्हऱ्यांत येवन बसलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) जाणें कामिनी-कांचनाचो सर्वार्थान त्याग केला अशा मनशाक हांव सोदतां. असो एक तरणाटो जेन्ना मेळटा तेन्ना म्हाका अशें दिसता, घडये हो म्हजे बराबर रावतलो, पूण दर एकलो कितें ना कितें हरकत घेता.

एक भूत सांगाती सोदतालें, अशें म्हणटात की शेनवरा वा मंगळरा जो कोण मरता तो भूत जाता. देखून जेन्ना जेन्ना भुताक दिसतालें, कोणय गच्चे वयल्यान पडलो वा रस्त्यार पडून घुंवळ आयली जाल्यार त्या दोन दिसां भितर, भूत म्हऱ्यांत वतालें आनी मनांत येवजितालें, अपघातान मेल्लो मनीस भूत जातलें आनी ताचें सांगाती जातलें म्हणून. पूण ताचें नशीब अशें वायट की प्रत्येक जाण बरो जावन उठून वतालो. बावड्याक सांगाती मेळनाशिल्लो. पळय न्हय राखाल सदांच बायलेचें निमित्त सांगता. तो म्हणटा, 'तिचें कशें जातलें?' जेन्ना हांवें नरेंद्राच्या हड्ड्याक हात लायलो तेन्ना तो बेशुद्ध जालो. तेन्ना ताणें म्हणलें, 'आवयस! तुमी म्हाका हें कितें केलें? तुमकां खबर ना, म्हाका आवय बापूय आसात म्हणून?'

ईश्वरान म्हाका हे तरेची जीण सारपाक कित्याक लायल्या? चैतन्यदेव संन्याशी जालो - कित्याक सगले जाण ताका प्रणाम करतले म्हणून? जो कोण अवतारी रुपाक एक खेपो तरी नमस्कार करता ताका मुक्ती मेळटा.

मोहिनीमोहनान श्रीरामकृष्णां खातीर मिठायेचो पांटलो हाडिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** ही मिठाय कोणें हाडल्या?

बाबूरामान मोहिनीमोहना कडेन बोट दाखयलें.

श्रीरामकृष्णांनी ॐचो उच्चार करून मिठायेक स्पर्श केलो आनी ती थोडीशी खाली. मागीर ती मिठाय भक्तांक वांटली. आनी अजाप म्हणचे तांणी स्वताच्या हातांनी धाकट्या नरेनाक आनी कांय भुरग्यांक मिठाय खावंक लायली.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) हाका एक अर्थ आसा. शुद्ध काळजाच्या मनशांत ईश्वराचो चड आविश्कार आसता. पयलींच्या वर्सांनी हांव जेन्ना कामारपुकूरा वतालों तेन्ना कांय धाकट्या भुरग्यांक म्हज्या हातांनी उंडयो लायतालों. चिने शंखारी म्हणटालो, 'हे तरेन आमकां कित्याक खावंक घालिना?' पूण हांव तांकां कसो दितलों? हे अनितीची जीण जगतात. तांकां कोण जेवण लायतलो?

## समाधी अवस्थेंत भक्तां संबंदीं म्हावाणी

श्रीरामकृष्ण शुद्ध काळजाच्या तरणाट्या भक्तां वांगडा खूब आनंदांत आशिल्ले. ते ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले आनी किर्तन करपी एके बायलेची नक्कल करून दाखयताले. भक्त काळजा सावन हांसताले. किर्तन करपी बाई बरी नटून थटून आयल्या आनी दागिने बरे घालून आयल्या. ती माचयेर उबी रावन बरी गायता. तेन्ना तिच्या हातांत एक रंगीत लेंस आसता. मदीं मदीं लोकांचें लक्ष आपले कडेन वच्चें म्हणून ती खोंकता आनी नथ वयर काडून मदींच नाक पिळटा. परत मदींच जेन्ना प्रतिश्ठीत व्यक्ती कुडींत येता तेन्ना ती योग्य उतरांनी तिका येवकार दिता. हें करतना तिचें पद चालूच आसता. मदीं मदीं हाता वयलो पदर कडेक काडून सगल्यो वस्ती जवाहर दाखयता.

श्रीरामकृष्णांची ही नक्कल पळोवन सगले भक्त पोट मुडून हांसूंक लागले. पलटू हांसतां हांसतां जमनीर लोळूंक लागलो. ताचे कडेन पळोवन श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''पळय ह्या ल्हान भुरग्याक! तो हांसतां हांसतां लोळटा.'' तांणी हांसत पलटूक म्हणलें, ''तुज्या बापायक हें सांगूं नाका. जो कितें थोडोसो म्हजे विशीं ताका आदर आसा तोय नासो जातलो. जाणा, तो आसा इंग्लीशमन.''

## आन्हिक, जप, गंगास्नान ह्या वेळा वयलो गजाली

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) खूब जाण दीसपट्टें देवाचें करतात आसतना सगल्या जगा वयल्यो गजाली करतात. केन्ना केन्नाय त्या वेळार उलोवपाचें नासता म्हणून ओंठ धांपून तरातरांच्यो कुरवो करतात. हें घेवन यो, तें घेवन यो. हें सांगपाक हूं, अंहं,

अशें कितें करीत आसतात. (हांसतात.)
परत कोण कोण जप करीत आसतना, नुस्तें घेवपाक वांटपण करीत आसतात. जप करतां करतां सगलें काम त्याच वेळार राखून दवरतात. (हांसतात.)
कांय बायलो न्हावंक गंगा न्हंयचेर येतात. आनी थंय देवाचें चिंतन करपाचें सोडून सगल्यो जगाच्यो गजाली करतात. चल्याच्या लग्नाक वस्ती कितल्यो घाल्यात. अमूक, अमूक घोवाल्या घरा सावन केन्ना आयली? अमूक अमूक सामको बरो ना. अमूक अमूक चली पळोवपाक गेल्लो. घालून बी मान पान बरो करतली खंय! लग्नाक खंय व्हडलो थाटमाट. पंच पक्वानाचें जेवण खंय! - हरीशाक म्हजी सामकी माया. म्हाका सोडून एक खीण लेगीत रावना - आगो इतले इतले दीस तुगेर हांव येवंक पावलें ना. कित्याक, अमके अमके चलयेचो साकरपुडो आशिल्लो तातूंत घुसपून उरलें. पळयलें गंगेचेर न्हावपाक आयल्यात पूण सगल्यो संवसाराच्यो गजाली. श्रीरामकृष्ण धाकट्या नरेना कडेन एका सारके पळयत रावले आनी समाधीमग्न जाले. शुद्ध काळजाच्या भक्तां भितर तांकां खूद ईश्वराचें दर्शन जाता काय कितें?
भक्त थंडपणान श्रीरामकृष्णांचें समाधींतलें थीर रूप पळयत रावले. थोड्या वेळा पयलीं कुडींत हांसप किटकिटप चलतालें. पूण आतां सगलें निशब्द शांत आशिल्लें, कुडींत कोणच ना कशें. श्रीरामकृष्ण हात जोडून फोट्यांत दिसतात तशे थीर बशिल्ले. कांय वेळा उपरांत तांची समाधी देंवली. तांणी एक लांब स्वास सोडलो आनी ते जगाच्या भानार आयले. तांणी भक्तां कडेन पळयलें आनी तांचे बराबर तांचे अध्यात्मीक प्रगती विशीं उलोवंक लागले.
**श्रीरामकृष्ण:** (धाकट्या नरेनाक) हांव तुका पळोवपाक सामको आशेलां. तुका येस मेळटलें. मदीं मदीं हांगा येत राव. तुका कितें आवडटा, ज्ञान काय भक्ती?
**धाकटो नरेन:** शुद्ध भक्ती.
**श्रीरामकृष्ण:** ताका जाणा जावन घेतले बगर कोणाची भक्ती कसो करतलो? (म कडेन बोट दाखोवन हांसत) हाका जाणा जावन घेतले बगर हाचेर प्रेम भक्ती कशी करतलो? (मक) पूण जे अर्थी शुद्ध आत्म्यान शुद्ध भक्ती मागल्या, ते अर्थी ताका कितें अर्थ आसा.
जलमजात संस्कार आसले बगर आपाप भक्ती कोण करिना. हेंच प्रेम भक्तीचें लक्षण आसा. आनीक एक तरेची भक्ती आसा. तिका ज्ञान भक्ती म्हणटात. ज्ञान भक्ती ही तर्क विचारान ईश्वराचेर प्रेम करप. (धाकट्या नरेनाक) तुजी कूड पळोवं दी, शर्ट काड पळोवया. छाती बरी रुंद आसा. तुका येस मेळटलें, मदीं मदीं येत राव हांगा. श्रीरामकृष्ण अजून ईश्वरी अवस्थेंत आशिल्ले. भक्तां कडेन तांच्या फुडारा विशीं मायेन

उलयले.

**श्रीरामकृष्ण:** (पलटूक) तुका लेगीत येस मेळटलें पूण थोडोसो उशीर लागतलो. (बाबूरामाक) तुका हांव म्हजे वटेन कित्याक ओडिना? फकत त्रास जावचे न्हय म्हणून. (मोहिनीमोहनाक) तुजे विशीं म्हणल्यार तुजें सगलें बरें आसा. थोडें करपाचें उरलां. तें जाले उपरांत मागीर कांयच उरपाचें ना – ना कर्तव्य ना काम. ना खासा संवसार. सगल्या पसून सुटका जावप बरें?

श्रीरामकृष्ण अशें उलयता आसतना तांणी मोहिनीमोहनाक मायेन पळयलें, जशें कितें तांचे भितर काळजांतल्यान भावना तपासताले कशे. ईश्वरा खातीर सगलें कितें सोडून देल्यार शाणेपणाचें जातलें काय असो मोहिनीमोहन विचार करतालो काय? थोड्या वेळा उपरांत श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ‘‘भागवताच्या पंडिताक ईश्वर एका पासान बांदून दवरता – ना जाल्यार लोकांक भागवत कोण आयकयतलो? ईश्वर ताका बांदून दवरता – लोकांक उपदेश करपा खातीर. जगन्मातेन तेच खातीर तुका संवसारांत दवरला. आतां ते त्या ब्राह्मण युवकाक लेखून उलोवंक लागले.

## ज्ञानयोग आनी भक्तीयोग
## ब्रह्मज्ञानाची अवस्था आनी जिवन मुक्ती

**श्रीरामकृष्ण:** (ब्राह्मण युवकाक) तूं ज्ञान विचार सोड. भक्ती घे. भक्तीच सार आसा. आयज तुज्या राबित्याचो कितें तिसरो दीस?

**ब्राह्मण युवक:** (हात जोडून) हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** श्रद्धा दवर. ईश्वराचेर भरवंसो दवर. मागीर तुका स्वता कांयच करचें पडचें ना. काली माताच तुजे खातीर सगलें कितें करतली.

ज्ञान भायल्या साला मेरेन वचूंक शकता. भक्ती अंतर म्हालांत व्रता. शुद्ध आत्मो निर्लिप्त आसा. विद्या आनी अविद्या दोनय तातूंत आसात पूण तो निर्लिप्त आसा. केन्नाय हवेंत सुगंध आसता तर केन्नाय हवेंत दुर्गंध आसता. पूण हवा स्वता निर्लिप्त आसता. व्यासदेवाक यमुनेचे पलतडीं वचपाचें आशिल्लें. गोपीय थंय आशिल्ल्यो. तांकांय धंय, दूद आनी लोणी विकपाक न्हंयचे पलतडीं वचपाचें आशिल्लें. पूण त्या वेळार व्हडें नाशिल्लें. पलतडीं कशें वच्चें म्हणून तांकां चिंता जाली. तेन्ना व्यासान तांकां म्हणलें, म्हाका भूक लागल्या. तेन्ना तांकां गोपींनी दूद लोणी खावंक दिलें. व्यासदेवान तांगेलें लागीं लागीं सगलें खावन उडयलें. मागीर व्यासान न्हंयक म्हणलें, ‘ए यमुना, हांवें जर कांयच खावंक नासत तर तूं तुजें उदक दुफांटून उडय आनी मागीर आमी ते वाटेंतल्यान

वतले.' आनी तशेंच जालें. न्हंय दुफांटून गेली आनी दोनय वटेच्यान उदक कडे
वचून वाट जाली. त्या मार्गान व्यासदेव आनी गोपी न्हंयचे पलतडीं गेलीं. व्यास
म्हणिल्लें, जर हांवें कितेंच खांवंक ना. हाचो अर्थ असो की खरो आत्मो हो शुद्ध आत
आसता. आत्मो हो निर्लिप्त आसता आनी प्रकृतीचे पलतडीं आसता. ताका भुव
नासता आनी तानय नासता. ताका जल्मय खबर नासता आनी मरणय खबर नासत
तो अजर आसता, तो अमर आसता. तो सुमेरू पर्वता भशेन अपरिवर्तनीय आसा
जाका हें ब्रह्मज्ञान जालां तो जिवनमुक्त आसा. शरिरांत आसून मुक्त. ताकाच सार
समजलां, आत्मो हो वेगळो आसा आनी शरीर हें वेगळें आसा. भगवंताचें दर्शन जाल्य
देहात्मबुद्द मागीर उरना. हीं दोनय वेगवेगळीं आसात जशें नाल्लांतलें उदक सुकतकू
कातली आनी नाल्ली वेगळीं जातात तशें. आत्मो जसो कितें शरिरांत गुडगुडटा. संवस
रुपी उदक जशें आटलें की आत्मज्ञान जाता. मागीर आत्मो वेगळो आनी शरीर वेग
असो बोध जाता. कच्चे सुपारींतली वा कच्च्या बदामांतली भितरली सुपारी वा बदा
साली पसून वेगळावं नजं. पूण तीं जेन्ना परिपक्व जातात, रोस सुकता तेन्ना साल आ
गर वेगळीं जातात. ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत संवसार आसक्ती रुपी उदक सुकता. पू
ब्रह्मज्ञान जावप खुबूच कठीण. फकत उलोवन ब्रह्मज्ञान जायना. कांय जाण ताचें सवं
करतात. (हांसत) एकटो खूब फटींग आशिल्लो. पूण दुसरे वटेन आपल्याक ब्रह्मज्ञा
जालां अशें म्हणटालो. जेन्ना कोणें तरी फट उलयता म्हणून ताका बरोच तापयलो
तेन्ना ताणें म्हणलें, कित्याक अशें म्हणटा, हें जग खरेंच सपन कशें आसा. सगलें ज
मिथ्या आसत, तर मागीर खासा सत्य तरी कशें खरें आसतलें? सत्य लेगीत मिथ्या
मिथ्यायं मिथ्यांच'. (सगले हांसतात.)

## 'धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामी युगे युगे'
## गुपीत गजाल

श्रीरामकृष्ण भक्तां बराबर शेंदेरेर बशिल्ले. मुखामळाचेर हांसो आशिल्लो. तांणी भक्तांक
म्हणलें, म्हजे पांय मातशे चेपात पळोवया. भक्तांनी तांचे पांय चेपले. तांणी मक
म्हणलें, ''हाका खूब अर्थ आसा (पांय चेपपाक).'' मागीर स्वताच्या काळजाचेर हात
दवरून तांणी म्हणलें, ''हाचे भितर जर कितेंय आसत तर हे सेवेन (पांय चेपपाचे
भक्तांचें अज्ञान आनी भ्रांती सामकी ना जावन वतली.'' अचकीत श्रीरामकृष्ण गंभी
जाले. तांकां गुपीत गजाल सांगपाची आशिल्ले वरी. श्रीरामकृष्ण (मक) ''हांगा भायल
मनीस कोण ना. त्या दिसा हरीश म्हजे बराबर आशिल्लो. म्हाका दिसलें, सच्चिदानं

म्हज्या शरिरांतल्यान भायर आयलो. ताणें भायर येवन म्हणलें, प्रत्येक युगांत हांव स्वता अवतार घेत आसतां.' म्हाका दिसलें, हांव स्वताच कसलो तरी भास जावन हें म्हणटां, म्हणून हांव ओगीच रावलों. आनी पळयत रावलों. परत सच्चिदानंद स्वता म्हणटा, 'चैतन्यान लेगीत शक्तीची पुजा केल्ली.'

सगले भक्त अजापीत जावन आयकताले. कांय जाण अजापीत जावन विचार करताले, ईश्वर स्वताच श्रीरामकृष्णांच्या रुपान आमचे मुखार बसला काय कितें! श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ रावले, मागीर तांणी मक लेखून म्हणलें, "हांवें पळयलें, सच्चिदानंदाचें हें पूर्ण साकार रूप. पूण हे खेपेक ईश्वरशक्त सत्वगुणाच्या ऐश्वर्यान प्रगट जाल्या." भक्त सगले चकीत जावन बशिल्ले.

## योगमाया आद्यशक्ती आनी अवतारलिला

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) आतांच हांव जगन्मातेक म्हणटालों, 'म्हज्यान आतां चड उलोवंक नजं.' हांवें हें लेगीत तिका म्हणलें, हांवें एक खेपो फकत स्पर्श केल्यार लोकां मदलें अध्यात्मीक चैतन्य जागें जावं दी. योग माया अशी की ती भुरळ घालूंक शकता. तशें तिणें वृंदावनांत केलें. तेच खातीर सुबोलान*, श्रीकृष्णाचें आनी राधेचें मिलन घडयलें. योगमायेक, जी आद्यशक्त आसा - एक आकर्शण शक्त आसा. हांवें स्वताच ते शक्तीचो उपेग केल्लो. (मक) बरें तुका अशें दिसता, हांगा जे येतात तांकां कितेंय प्रत्यक्ष अणभव आयल्यात?

**म:** हय महाराज, तशें जालांच आसतलें.

**श्रीरामकृष्ण:** तुका कशें खबर?

**म:** (हांसत) सगले जाण म्हणटात, जे कोण तुमचे कडेन वतात ते परत संवसारांत येनात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) एका पाणसोरपान एका मोट्या बेब्याक धरलो. सोरपाक तो गिळुंकूय जमना वा ताका सोडुंकूय जमना. ताका लागून बेब्याचे खुबूच व्रळवळे जाले. तो सारको आड्डूंक लागलो. आनी सोरपाचेय खुबूच हाल जाले. पूण ह्या बेब्याक जर नागान धरिल्लो तर एक दोन खेपो आड्डुणी जातकूच थंड जातलो आशिल्लो. (सगले हांसतात.)

(तरणाट्या भक्तांक) त्रैलोक्याचें 'भक्ती चैतन्य चंद्रिका' हें पुस्तक वाचात. त्रैलोक्या

---

* श्रीकृष्णाचो एक संवगडी.

कडच्यान एक प्रत मागून घेयात. तांणी चैतन्य देवा विशीं खुबूच सुंदर बरयलां.

**एक भक्त:** ते तें आमकां दितले?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) कित्याक दिवचे नात? शेतकामत्याक जर काळंगाचें बरें पी आयलें तर ताच्यान सहजतायेन एक दोन काळंगां दिवंक येतात. (सगले हांसतात त्रैलोक्य कितें तुका फुकट दिवचे नात. (पलटूक) येत राव हांगा मदीं मदीं.

**पलटू:** म्हाका जमता तेन्ना हांव येतांच.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव जेन्ना कलकत्ताक वतलों तेन्ना म्हाका मेळ थंय.

**पलटू:** हां. प्रयत्न करता.

**श्रीरामकृष्ण:** ही हिशोबीपणाची जाप जाली.

**पलटू:** हांवें जर प्रयत्न करतां अशें म्हणलें ना तर हांव फट उलयल्ले भशेन जातलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) ह्या भुरग्याचें फट उलोवप मनार घेनां. तो स्वतंत्र ना. (हरीपदाक) महेंद्र मुखर्जी ह्या दिसांनी हांगा कित्याक येना?

**हरीपद:** म्हाका नक्की खबर ना कित्याक येना तें.

**म:** (हांसत) तो ज्ञानयोग करीत आसता.

**श्रीरामकृष्ण:** ना. तशें न्हय तें. त्या दिसा प्रह्लाद चरित्र नाटक दाखोवपा खातीर गाडी धाडून दितां म्हणून सांगिल्लें. पूण ताणें गाडी धडली ना. तेच खातीर तो येवंक ना.

**म:** एक दीस महिमा चक्रवर्ती कडेन म्हजी भेट जाली आनी उलोवपय जालें. महेंद्र तांचे कडेनं येता वता दिसता.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण महिमाचरण भक्ती विशीं लेगीत उलयतात. ते हें स्तोत्र लेगीत म्हणटात, जर ईश्वराची प्रेमान पुजा केली तर तपश्चर्येची कितें गरज?

**म:** (हांसतात) तें ते म्हणटात कित्याक? तुमी तांकां म्हणूंक लायतात म्हणून.

गिरीश चंद्र घोश सदांच श्रीरामकृष्णां विशीं भक्तां कडेन उलयताले.

**हरीपद:** गिरीश घोशाक ह्या दिसांनी तरातरांचे दिश्टावे जातात. हांगाच्यान घरा वतकूच ते ध्यान करपांत मग्न आसतात. आनी तांकां खूब तरांचीं दर्शनां जातात.

**श्रीरामकृष्ण:** तें खरें आसत. गंगेचे लागीं वतकूच खूब कितें दिसता - व्हडीं, तारवां आनी कितें दिसता आनी कितें ना अशें ना.

**हरीपद:** गिरीश घोश म्हणटात, 'आतां हे फुडें फकत म्हजें कामच करतलों. सकाळीं घडयाळीच्या घंट्यार बराबर हांव म्हजें पेन आनी तिंतेर घेवन बसतलों. आनी दीसभर बरयतलों.' असो निश्चय करतात हातूंत दुबाव ना. पूण तशें प्रत्यक्षांत करूंक शकनात. आमी तांकां मेळ्ळे बराबर ते तुमचे विशीं उलोवपाक सुरवात करतात. तुमी तांकां

गाडी करून नरेंद्राक धाडपाक सांगिल्लें. तांणी म्हणिल्लें, 'नरेंद्राक भाड्याची गाडी करून दितलों'.

पांच वरांचेर धाकटो नरेन घरा वचपाक भायर सरलो. श्रीरामकृष्ण वायव्ये कडले पडवेर ताचे लागीं उबे रावले आनी ताका तरेतरेचो उपदेश केलो. मागीर धाकटो नरेन श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो आनी ताणें तांचो निरोप घेतलो. कितल्याश्याच भक्तांनी निरोप घेतलो.

श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बसून मोहिनी कडेन उलयताले. ताची बायल पुताच्या दुख्खान सामकी पिशी कशी जाल्ली. केन्नाय ती हांसताली आनी केन्नाय ती रडटाली. पूण श्रीरामकृष्णां म्हऱ्यांत पावतकूच मात शांत जाताली.

**श्रीरामकृष्णा:** (मेहिनीक) तुजी घरकान्न आतां कशी आसा?

**मोहिनी:** हांगा आसता तेन्ना शांत आसता. पूण केन्नाय घरा ती बेफाम जाता. त्या दिसा ती आत्महत्या करपाक गेल्ली.

जेन्ना श्रीरामकृष्णांनी हें आयकलें तेन्ना ते खिन्न जाले. मोहिनीमोहनान तांकां नमळायेन सांगलें, ''तुमी तिका उपदेशाच्यो मातश्यो दोन गजाली सांगात.''

**श्रीरामकृष्ण:** तिका रांदपाक लावं नाका. ताका लागून तिची तकली आनीक चड गरम जातली. आनी तिका दुसऱ्यांच्या सांगातान रावूं दी. त्यो तिका पळयतल्यो.

## रामकृष्णांची अजापीत संन्यासाची अवस्था
## बेलघरच्या तारकां कडेन भासाभास

तिनसांज जाल्ली. देवळांनी सांजवेळच्या आरतींची तयारी चलिल्ली. श्रीरामकृष्णांचे कुडींत दिवो लायिल्लो. आनी धुपूय घाल्लो. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बसून जगन्मातेक पांयां पडले आनी तांणी गोड आवाजांत तिचें नांव घेतलें. कुडींत कोणूच नाशिल्लो. फकत म जमनीर बशिल्लो.

श्रीरामकृष्ण पलंगा वयल्यान उठले. म लेगीत उठलो. श्रीरामकृष्णांनी मक अस्तंत आनी उत्तरे कडले कुडींतलीं दारां धांपपाक सांगलीं. मन तशें केलें आनी पडवेर श्रीरामकृष्णां लागीं येवन तो उबो रावलो. काली देवळांत वचूंक जाय म्हणून श्रीरामकृष्णांनी ताका सांगलें. मचो हात धरून आनी ताचेर भार घालून ते काली देवळाच्या ओट्यार गेले आनी थंयच बसले. तांणी मक बाबूरामाक आफोवपाक सांगलें.

श्रीरामकृष्णांनी जगन्मातेचें दर्शन घेवन ते आंगणांतल्यान कुडींत आयले. येतना नांव

घेत आशिल्ले.आई, आई, राजराजेश्वरी.
रामकृष्ण कुडींत आयले आनी ल्हान पलंगाचेर बसले. ते एक अजापीत अवस्थेंतल्य वताले. ते खंयच्याच धातूक स्पर्श करूंक शकनाशिल्ले. कांय दिसां पयलीं तां म्हणिल्लें, जगन्माता म्हज्या मनांतल्यान धनीपणाची सगली भावना ना करूंक सोद अशें दिसता. ते आतां केळीपानार जेवताले आनी मातयेच्या आयदनांतल्यान उद पियेताले. धातूच्या आयदनांक तांकां आफडूंक जमनाशिल्लें म्हणून तांणी भक्तांक कां मातयेचीं आयदनां हाडपाक सांगिल्लीं. धातूच्या बुडकुल्यांक वा ताटांक आफुडल्य तांचे हात सणसणटाले. शींग आशिल्लुया नुस्त्यान डंख मारिल्ले भशेन जाता तशे.
प्रसन्नान कांय मातयेचीं आयदनां हाडिल्लीं. पूण तीं खुबूच ल्हान आशिल्लीं. श्रीरामकृष्णां हांसत म्हणले, हीं आयदनां ल्हान आसात. पूण तो भुरगो बरो आसा. एक खेपो हां ताका आंगा वयले सगले कपडे काडूंक सांगले आनी तो म्हजे मुखार नागडो उब रावलो. भुरगोच तो!

## भक्त आनी कामिनी
## साधू सावध रावात

बेलघरचो तारक तागेल्या इश्टा सयत थंय आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक तकल बागोवन पांयां पडलो. ते ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले. कुडींत तेला दिवो लायिल्लो. कां भक्त जमनीर बशिल्ले.
तारक वीस वर्सांचो आनी ताचें लग्न जाल्लें. ताचे आवय-बापूय ताका श्रीरामकृष्ण कडेन येवपाक दिनाशिल्ले. बौबाजाराक तेंकून ताचें घर. चडसो तो घराच रावतालो श्रीरामकृष्णांक तो खुबूच आवडटालो. तारकाचो इश्ट तामसीक गुणांचो आशिल्लो आनी तो श्रीरामकृष्णांच्यो आनी धर्मा संबंदीं गजालींच्यो बकच्छायो करतालो.
**श्रीरामकृष्ण:** (तारकाच्या इश्टाक) तूं वचून देवळां कित्याक पळोवन येना?
**इश्ट:** हांवें तीं पयलीं पळयल्यांत.
**श्रीरामकृष्ण:** बरें, तारक जो हांगां येता तें कितें वायट?
**इश्ट:** तुमी तें बरें जाणात.
**श्रीरामकृष्ण:** (मक लेखून) हे हेडमास्तर आसात.
**इश्ट:** अश्शें!
श्रीरामकृष्णांनी तारकाची वासपूस केली आनी ते बरो वेळ ताचे कडेन उलयले. तारक निरोप घेवपाचो आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी ताका खूब गजालीं विशीं सादूर रावपाक

सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण:** आरे बाबा सांबाळून राव. कामिनी-कांचना पसून सादूर राव. अस्तुरेचे मायेंत एक खेपो बुडल्यार मागीर उठपाची माणसुकी ना. विशालाक्षीचो (कामापुकूरची न्हंय) भोंवरो तो. जो कोण एक खेपो त्या भोंवऱ्यांत सांपडटा ताका परत तातूंतल्यान भायर येवंक जमना. मदीं मदीं हांगा येत राव.

**तारक:** घरचे लोक म्हाका येवंक दिनात.

**एक भक्त:** जर कोणाची आवय म्हणीत तूं दक्षिणेश्वरा वचूं नाका आनी ताका सोपूत घालून सांगीत जर वचशी तर म्हजें रगत पियेतलो, तर कशें?

## फकत ईश्वरा खातीर गुरूजनांचें म्हणणें आयकना जाल्यार जाता

**श्रीरामकृष्ण:** जी आवय अशें म्हणटा ती आवयच न्हय. ती अविद्येची मूर्त. अशे आवयचें म्हणणें आयकलें ना जाल्यार पातक लागपाचें ना. ती आवय तिगेल्या पुताच्या ईश्वरलावाच्या मार्गांत आडमेळीं हाडटा अशें जातलें.

ईश्वरा खातीर गुरूजनांची अवज्ञा केल्यार कांयच हरकत ना. रामाचे खातीर भरतान ताची आवय कैकयीची आज्ञा पाळ्ळी ना. गोपींनी कृष्णाच्या दर्शना खातीर घोवांनी मनाय केल्यार लेगीत आयकलें ना. प्रह्लादान ईश्वरा खातीर बापायचें म्हणणें आयकलें ना. बळीन ईश्वराच्या संतोशा खातीर ताचो गुरू शुक्राचार्याचें म्हणणें आयकलें ना. बिभीशणान रामाचे प्राप्ती खातीर ताचो व्हडलो भाव रावणाचें म्हणणें आयकलें ना. पूण जाणट्यांच्यो हेर सगल्यो गजाली तुवें आयकूंक जाय. तुजो हात पळोवया?

श्रीरामकृष्णांनी तारकाचो हात आपल्या हातांत घेतलो आनी तो कितलो जड आसा तें ते पळोवपाक लागले. थोड्या वेळा उपरांत तांणी म्हणलें, ''तुज्या मनांत थोडेंशें तड्डकीपण आसा पूण तें वतलें. ईश्वराची थोडो वेळ प्रार्थना कर आनी मदीं मदीं हांगा येत राव. हय, मागीर तो पीळ वतलो. कलकत्तांतलें बौबाजारांतलें घर तुवें भाड्यान घेतलां?''

**तारक:** ना महाराज. पूण म्हज्या आवय-बापायन घेतलां.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तांणी घेतलां काय तुवें घेतलां? तूं वागाक भियेता म्हणून घेतलां काय कितें?

तारकाची बायल तरणाटी आशिल्ली. श्रीरामकृष्णांक अशे म्हणपाचें ना मूं की मनशाक बायल ही वाग कशी आसता म्हणून?

तारक श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो आनी ताणें तांचो निरोप घेतलो. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर आड पडिल्ले. तांकां तारका विशीं चिंता दिसताली. अचकीत तांण मक म्हणलें, "ह्या भुरग्यां खातीर हांव इतलो व्याकूळ कित्याक जातां?" म ओग रावलो. म कितें जाप दिवची हाचो विचार करतालो. श्रीरामकृष्णांनी ताका विचारलें "तूं उलयना कित्याक?"

मोहिनीची बायल कुडींत भितर सरली आनी एके कडेन बसली. श्रीरामकृष्ण तारकाच्य इश्टा विशीं मक विचारताले.

**श्रीरामकृष्ण:** तारकान ताचे बराबर त्या मनशाक कित्याक हाडलो?

**म:** घडये रस्त्यान येतना सांगात मेळचो म्हणून हाडला आसतलो. कलकत्ता साव रस्तो बरोच लांब आसा. देखून इश्टाक बराबर घेवन आयला.

अचकीत श्रीरामकृष्णांनी मोहिनीचे बायलेक लेखून म्हणलें, "अपघाती मरण आयल्या मनीस पिशाच्च जाता, सांबाळून राव. मनाक सारकें समजाय. इतलें आयकून आनी पळोवन निभणें हेंच दिसप तुका?"

मोहिनी आतां निरोप घेवंक सोदतालो. तो श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. ताचे बायलेनय तांकां नमस्कार केलो. श्रीरामकृष्ण तांगेले कुडींत उत्तरे कडल्या दारा लागीं उबे आशिल्ले. मोहिनीची बायल ल्हव आवाजांत तांचे कडेन कितें उलयली.

**श्रीरामकृष्ण:** तुका हांगा रावपाक जाय?

**मोहिनीची बायल:** हय. कांय दीस रावूंक सोदतां. नबतखान्यांत आई बराबर रावतलीं. रावूं न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** बरें आसा. पूण तूं जें मरणा विशीं म्हणटा ताचो भंय दिसता म्हाका आनी गंगा न्हय सामकी लागीं आसा.

# अध्याय एकशेंसोळा

## कलकत्ताक भगवान श्रीरामकृष्णांच्या भक्तांच्या घरा आनी ताचे बराबर नरेंद्र, गिरीश, बलराम, चुनीलाल, लाटू, म, नारायण आनी हेर भक्तांचें उलोवप आनी आनंद

### भक्तांच्या घरा – भक्तांच्या सांगातान

**मार्च 11, 1885. बुधवार.** सकाळीं श्रीरामकृष्ण आनी तांचे कांय शिश्य बलराम बोसाच्या घरा आयिल्ले. बलराम हो श्रीरामकृष्णांच्या संवसारी शिश्यां मदलो भाग्यवान शिश्य. श्रीरामकृष्ण ताका रसदार वा सगल्या वस्तूंची कोटी अशें म्हणटाले. जगन्मातेन ताका तांच्यो (श्रीरामकृष्णांच्यो) कुडीच्यो गरजो भागोवपा खातीर नियुक्त केला अशें तांकां दिसतालें. कलकत्तांतलें बलरामाचें घर श्रीरामकृष्णांच्या राबित्यान खूब फावट पावन जाल्लें. थंय ते खूब खेपो समाधीमग्न जाल्ले. हांगा भक्तां वांगडा नाचिल्ले, गायिल्ले वा ईश्वरा विशीं उलयिल्ले. श्रीरामकृष्णांचे शिश्य आनी भक्त जे दक्षिणेश्वराक वचूंक पावले नात तांणी थंय तांचें दर्शन घेतिल्लें आनी तांचो उपदेश ग्रहण केल्लो. तांणी खूब फावट बलरामाक तरणाटे शिश्य राखाल, भवनाथ, नरेंद्र हांकां आपल्या घरा कडेन आफोवपाक सांगिल्लें. त्या वेळार ते सांगताले, ''हे शुद्ध जीव आसात. ते ईश्वराचें खरें प्रगट रूप आसात. तांकां खावंक घालप म्हणल्यार खासा ईश्वराक खावंक घाल्ले भशेन जाता. ते खाशेले ईश्वराचे गूण घेवन जल्मल्यात. तांची सेवा करून तूं ईश्वराचीच सेवा करता.'' जेन्ना जेन्ना श्रीरामकृष्ण बलरामाच्या घरा येताले तेन्ना तेन्ना थंय भक्त जमताले. बलरामाचें घर हें श्रीरामकृष्णांचो कलकत्तांतलो मुखेल प्रेमाचो मळो. हांगाच भक्तांची एकमेकां कडेन दाटी जाल्ली.

### धाकटो नरेन

म लागींच एका विद्यालयांत शिकयतालो. तो तागेल्या विद्यार्थ्यांक खूब खेपो बलरामाच्या घरा श्रीरामकृष्णांच्या दर्शना खातीर घेवन येतालो. त्या दिसा ताका

कळ्ळें, श्रीरामकृष्ण थंय येतले म्हणून. शाळेक मदीं सुटी आसता तेन्ना म थंय दनपा
गेलो. दनपारच्या जेवणा उपरांत श्रीरामकृष्ण सालांत मातसो विसव घेताले अशें ताक
दिसलें. कितलेशेच भुरगे कुडींत आशिल्ले. म श्रीरामकृष्णांक न्हिदून पांयां पडलो आनं
तांचे लागीं बसलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) तूं कसो आयलो? शाळेंत काम ना?

**म:** हांव शाळेंतल्यान थेट हांगा आयलां. आतां म्हाका खास अशें काम ना.

**एक भक्त:** ना, महाराज. ताणें काम बुडोवन शाळेक दांडी मारल्या. (सगले
हांसतात.)

**म:** (स्वगत) आवयस, खंयचे तरी अदृश्य शक्तीन म्हाका हांगा ओडून हाडला.

श्रीरामकृष्ण मातशे चिंतीत जावन तांणी मक लागीं येवपाक सांगलें. तांणी म्हणलें, ''म्हजो तुवालो मातसो पिळून उडय आनी म्हजो सदरो वताक सुकत घाल.'' तांणी फुडें सांगलें, ''म्हजे पांय दुखतात. मातशे सवकासायेन ते चेप.''

श्रीरामकृष्णांची सेवा करपाची संद मेळ्ळी म्हणून मक खूब आनंद जालो.

## श्रीरामकृष्ण आनी ऐश्वर्य
## त्यागाची पराकाश्टा. खरो संन्याशी.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) ह्या दिसांनी म्हाका अशें कित्याक दिसता तें मातशें तूं सांगशी? खंयचेय धातूचे वस्तूक हात लावपाची माणसुकी ना. जेन्ना हांवें धातूच्या कपाक हात लायलो तेन्ना शिंगाड्याचो कांटो लागिल्ले भशेन जालें. म्हजो सगलो हात सणसणून दुखूंक लागलो, पूण पितूळचें आयदन वापरूंक जाय आनी म्हणून तुवाल्यान गुठलावन हात लावपाचो यत्न केलो. पूण आयदनाक हात मात लायला, म्हजो हात तसोच सणसणूंक लागलो. सोंसूं येना असो खूब दुखूंक लागलो. निमणें जगन्माते कडेन हांवें प्रार्थना केली, 'माते, हांव परत अशें केन्नाच करचों ना. म्हाका एक खेपो क्षमा कर.' धाकटो नरेन हांगा मदीं मदीं येता. घरचे लोक ताका आडमेळीं हाडटात अशें दिसता तुका? तो शुद्ध आसा आनी शारिरीक सूख म्हणचे कितें तें ताका खबर ना.

**म:** तो व्हड आयदन आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** तें खरें आसा. आनीक म्हणटा, ईश्वरा विशीं गजाली एक खेपो आयकल्यार ताच्या लक्षांत उरतात. ताणें म्हाका सांगलें, ''म्हाका देव दिसना म्हणून हांव भुरगेपणांत रडटालों.''

श्रीरामकृष्ण आनी म अशे धाकट्या नरेना विशीं उलयताले अशा वेळार कोणेंतरी मक शाळेची याद करून दिली.

**श्रीरामकृष्ण:** आतां कितली वरां जालीं?

**एक भक्त:** एक जावपाक धा मिनटां आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तूं आतां गेल्यार बरो. तुका उशीर जाला. पयलींच तूं काम सोडून आयला. (लाटूक) राखाल खंय आसा?

**लाटू:** तो घरा गेला.

**श्रीरामकृष्ण:** कितें? म्हाका मेळनासतनाच गेलो?

शाळा सुटले उपरांत म बलरामाच्या घरा परत आयलो आनी ताणें पळयलें, श्रीरामकृष्ण सालांत बशिल्ले आनी भोंवतणीं तांचे भक्त आनी शिश्य बशिल्ले. तांचे भितर गिरीश, सुरेश, बलराम आनी चुनीलाल आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांच्या मुखामळार गोड हांसो आशिल्लो. तोच हांसो कुडींतल्या भक्तांच्या मुखामळार दिसतालो. श्रीरामकृष्णांनी मक म्हऱ्यांत बसपाक सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) तुमी नरेंद्रा कडेन हे विशीं भासाभास करची आनी तो कितें म्हणटा तें पळयात.

**गिरीश:** नरेंद्र म्हणटा, ईश्वर अनंत आसा. आमी हें लेगीत म्हणूंक शकनात की ज्यो वस्तू वा मनशां आमी पळयतात तीं सगलीं ईश्वराचे अंश आसात म्हणून. अनंताचे अंश कशे आसतले? ताचे अंश नासतात.

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वर कितलोय व्हड आनी अनंत आसूं. ताचें सारभूत तत्व, ताचे फकत इत्शेन मनशांत प्रगट जाता. ईश्वराचें मनीस रुपान अवतार घेवप हें उपमा दिवन समजावन सांगूंक येना. स्वताकच अनुभुती जावंक जाय आनी प्रत्यक्ष साक्षात्कार जावंक जाय. उपमा वा दृश्टांतान मातसो आभास कशें दर्शन जाता इतलेंच. गायेच्या शिंगांक, पांयांक, शेपडेक स्पर्श केल्यार खरें म्हणचे आमी गायेकच स्पर्श केल्ले भशेन जाता. पूण आमचे खातीर गाये विशीं मुखेल गजाल म्हणल्यार तिचें दूद. तें दूद तिचे होटींतल्यान येता. ईश्वरी अवतार ही गायेची होंट कशी. तेच प्रमाण प्रेम आनी भक्ती शिकोवपा खातीर ईश्वर स्वता मनीस देह धारण करून वेळा वेळार अवतार घेता.

**गिरीश:** नरेंद्र म्हणटा, ईश्वरा विशीं सगलें समजप केन्ना शक्य आसा? तो अनंत आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) ईश्वरा विशीं सगलें कितें कोण समजूं शकतलो? ईश्वराचें खंयचेंय स्वरूप - व्हड वा ल्हान समजुपाचें मनशा कडेन दिवंक ना आनी ईश्वरा विशीं सगलें समजुपाची कितें गरज आसा? आमकां ताचो प्रत्यक्ष साक्षात्कार जालो की जालें. आनी ताचो अवतार पळयलो तर खासा ईश्वराक पळयिल्ले भशेन जालें. समज एक मनीस गंगा न्हंयचेर वता आनी गंगेच्या उदकाक स्पर्श करता. मागीर तो म्हणटलो, 'हय हांवें गंगा पळयली आनी तिका हातय लावन आयलों.' ते खातीर सगली गंगा हरिद्वारा पसून गंगासागर मेरेन स्पर्श करपाची गरज ना. (हांसतात.)
हांव जर तुमच्या पांयांक आफुडलों तर तुमकां आफुडले भशेन जालें. (हांसतात.) जर समुद्रा लागीं वचून इल्ल्याश्या उदकाक स्पर्श केलो तर दर्याक स्पर्श केल्ले भशेन जालें. अग्नीतत्व सगल्या वस्तूंनी आसा पूण लांकडांत तें चड आसता.

**गिरीश:** (हांसत) म्हाका अग्नीचीच गरज आसा. जंय अग्नी मेळटा थंयच म्हाका वचपाक जाय.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हय. अग्नीच खंयचेय दुसरे वस्तू परस लांकडांतच चड आसता. जर तुमी ईश्वराक सोदतात तर ताका मनशांत सोदात . दुसरे खंयचेय वस्तू परस ईश्वर खासा मनशांत चड प्रगट जाता. ज्या मनशांत ईश्वरा विशीं परम भक्ती आसत, ईश्वरा विशीं प्रेम उफाळून येता आसत, जर ताच्या प्रेमान धुंद जाला आसत तर त्या मनशा भितर ईश्वराचें अवतरण जालां म्हणून खात्रेन समजात.
(मक) ईश्वर सगले कडेन आसा हातूंत दुबावच ना. पूण ताची शक्त खंय खंय चड प्रगट आसता. तर खंय खंय उणी प्रगट आसता. अवतारांत ताची शक्त सगल्यांत चड प्रगट जाल्ली आसता. तीच ईश्वराची शक्त अवतारांत पूर्णतायेन प्रगट जाता. शक्तीचोच तो अवतार आसता.

**गिरीश:** नरेंद्र म्हणटा, ईश्वर आमच्या शब्दांचे आनी विचारांचे पलतडीं आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** तें सर्वस्वी खरें न्हय, तो ह्या साद्या मनाक दिसना हातूंत दुबाव ना. पूण शुद्ध मनाक तो खात्रेन दिसता. कामिनी-कांचना वयली आसक्ती वतकूच मन आनी बुद्द शुद्ध जाता. शुद्ध मन आनी शुद्ध बुद्द एकच आसता. शुद्ध मनाक ईश्वर गोचर आसता. त्या वेळा वयल्या रुशी मुनींनी कितें ईश्वराक पळोवंक ना? तांकां स्वता मदल्या चैतन्या वरवीं सर्वव्यापक ब्रह्मचैतन्याचो साक्षात्कार जाल्लो.

**गिरीश:** (हांसत) नरेंद्र म्हजे कडेन वाद विवादांत हारलो.

**श्रीरामकृष्ण:** ना तशें न्हय. ताणें म्हाका म्हणिल्लें, 'जेन्ना गिरीश घोशाक इतलो विश्वास आसा की ईश्वर मनीस रुपांत अवतार घेता तेन्ना हांवें ताका आनीक कितें सांगपाचें?' असल्या विश्वासा विशीं आनीक चड उलोवपाचें नासता.

**गिरीश:** (हांसत) महाराज, आमी हांगा अगळ पगळ उलयतात. पूण म मात तोंड धांपून ओगी बसला. तो कसलो विचार करता काय? महाराज, तुमकां कितें दिसता?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत हांसत) एक म्हणणी आसा. ती कांय मनशां विशीं सादूर रावपाक सांगता. सैल जिबेचो मनीस, भितरले गांठीचो मनीस, पवित्रतायेची कुरू म्हणून कानार पवित्र तुळशीचीं पानां घालपी, आपूण पतिव्रता म्हणून दाखोवपाक लांबूच लांब बुरखो घालपी अस्तुरी आनी पाचवोचार शेळो तळ्या वयर आशिल्लें तळ्याचें थंड उदक. हें उदक न्हाल्यार मनशाक टायफोयड जाता. (हांसत) पूण म तातूंतलो न्हय. तो गंभीर सभावाचो मनीस. (सगले हांसतात.)

**चुनीलाल:** मच्या नांवान फुतफुतूंक लागल्यात. धाकटो नरेन आनी बाबूराम तांचे विद्यार्थी. तशेंच नारण, पलटू, पूर्ण आनी तेजचंद्र हेय ताचे विद्यार्थी. अशी वावडी उठल्या की मच भुरग्यांक हांगा हाडटा आनी म्हणून ते विद्यार्थी अभ्यासा कडेन लक्ष दिनात. पालक हे खातीर मकच जापसालदार धरतात.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण तांच्या म्हणण्याचेर कोण विश्वास दवरतलो?

ते अशें उलयतात आसतना नारायण कुडींत आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक तकली बागोवन तो पांयां पडलो. नारायण गोरोपिट्ट, सतरा-अठरां वर्सांचो आनी शाळेंत शिकतालो. श्रीरामकृष्णांचें ताचेर खूब प्रेम. ताका पळोवपाक, ताका खावंक घालपाक श्रीरामकृष्ण व्याकूळ जाताले. दक्षिणेश्वराक देवळाचे बागेंत श्रीरामकृष्ण नारायणा खातीर एकटेच रडटाले. ताका ते खूद नारायण स्वरुपांत पळयताले.

**गिरीश:** (नारायणाक पळोवन) पळय हे विशीं ताका कोणें खबर दिली? आतां आमकां कळटलें, ही मचीच करणी. (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) रावात. ओगी रावात. ताचें नांव पयलींच बाद जालां.

## अन्न चिंता व्हड विलक्षण आसता
## ब्राह्मण आनी दान ग्रहण

आतां नरेंद्रा विशीं गजाली करूंक लागले.

**एक भक्त:** ह्या दिसांनी नरेंद्र चडसो कित्याक येना?

**श्रीरामकृष्ण:** एक म्हणणी आसा, 'अन्न चिंता सामकी अजापीत करपा सारकें आसता. ताका लागून कालीदासाची बुद्द लेगीत शेणटा'.

**बलराम:** शिव गुहाच्या कुटुंबांतल्या अन्नदा गुहा कडेन नरेंद्राचें येवप वचप खूब आसता.

**श्रीरामकृष्ण:** हय. हांवें लेगीत आयकलां तें. नरेंद्र आनी ताचे इश्ट सरकारी ऑफिसराच्या घरा मेळटात आनी थंय ब्राह्मसमाजाच्यो बसका जातात.

**एक भक्त:** त्या ऑफिसराचें नांव आसा तारापद.

**बलराम:** (हांसत) ब्राह्मण म्हणटा, 'अन्नदा गुहा खूब अहंकारी मनीस आसा'.

**श्रीरामकृष्ण:** भिक्षू कितें म्हणटा तें आयकूं नाका. ताचो सभाव तूं बरो जाणा आसतलो. ताका पयशे दिले ना जाल्यार तो वायट आनी पयशे दिले तर तो मनीस बरो. (सगले हांसतात.) हांव अन्नदाक वळखतां. बरो मनीस आसा.

## भक्तां वांगडा भजनानंदांत

सालांत खूब भक्त जमिल्ले. श्रीरामकृष्णांक पद आयकुपाची इत्सा जाली. तांचे विनंती वयल्यान तारापद कृष्णा विशीं गावंक लागलो:

ए केशवा, तुजी कृपा कर
तुज्या दुर्देवी सेवकांचेर!
ए केशवा, जो वृंदावनाच्या
राना वनांत भोंवून
आनंद घेता!

ए माधवा, मनमोहना,
मोगाळ, जो आमची काळजां चोरता
तुजी मुरली म्होंवाळपणान वाजोवन

(म्हज्या मना, तूं हरीचे नांव घे,
तूं कर हरीच्या नांवाचो मोटयान गजर
हरीनामाचें तुस्तगान कर!)

ए तूं ब्रजांतलो नित्य तरूण,
भयांकृत कालियाचो दमणकार,
पिडितांचो भयनाशक!

मोगी, धनुकृती दोळ्यांचो
आनी धनुकृती मोरपांखी तुरो,
श्रीराधेचें काळीज मुग्धावणो!

गोवर्धन उखलपी बळिश्ट,
तूं रानफुलांच्या झेल्यांनी शृंगारिल्लो!
ए दामोदर, कंसाचें संकट!

ए कृष्णकांत,
जो आनंदांत खेळटा
वृंदावनांतल्या मोगाळ गोपीं वांगडा.

(म्हज्या मना तूं हरीचें नांव घे,
तूं कर हरीच्या नांवाचो मोट्यान गजर
हरीनामाचें तुस्तगान कर.)

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) वा, हें सुंदर पद आसा. तुमी बरयलां तें?
**एक भक्त:** हय महाराज, हाणींच चैतन्यलिला नाटकांतलीं सगलीं पदां रचल्यांत.
**श्रीरामकृष्ण:** हें पद सामकें योग्य आनी सुंदर जालां.
श्रीरामकृष्णांनी परत तारापदाक विनंती केली. तारापदान दोन पदां गायलीं. पयल्या पदांत निताई लोकांक राधेच्या कृष्णा वयल्या प्रेमांत वांटेकार जावपाक सांगता.

येयात, सगले येयात! राधेचें प्रेम घेयात!
तिच्या प्रेमाची भरती व्हांवता;
ती चड वेळ उरची ना.

म्हणून येयात! सगले येयात!
तिचें प्रेम शत धारांनी व्हांवता
जाका जितलें जाय
तितलें ताका मेळटा.

सगली प्रेमभरीत जाल्ली, ती प्रेम ओत्ता
वांटपण करिनासतना दर एकल्यांत;
तिचें प्रेम काळीज नशेवंत करता.
स्वर्गीय आनंदान, आनी आत्मो शिरशिरायता.
आरे, येयात आनी प्रभू हरीचें नाम गायात,
तिच्या प्रेमान ओडिल्ले तुमी, आरे सगले येयात.

मागीर ताणें गौरांगा विशीं पद म्हणलें:

कोण तूं, भांगराळे कांतीचो गौर,
जो म्हज्या काळजाची तान भागयता?
तूं प्रेमाच्या दर्यांत तुफान निर्मिता.
आनी म्हजें व्हडें थिरायता म्हणसर नाका जाता.

एकदां वृंदावनांत गोरवां राखणो कसो
तुवें गायां-पाडकांक चरयलीं,
उजव्या हातांत तुवें मुरली धरली,
जिणें गोपींचीं काळजां मुग्धायलीं.

तुज्या हातांनी गोवर्धन पर्वत उबारून,
वायटांतल्यान तुवें वृंदावन राखलें.
आनी गोपींच्या दुखाविल्ल्या पांयां कडेन
पस्तावीत प्रेमान तुजें काळीज बागवलें.

भक्तांनी मक पद म्हणपाक आगरो केलो. पूण म भिडेस्त, लजेस्त आशिल्लो. ताणें

हव आवाजांत माफ करपाक सांगलें.

**ारीश:** (श्रीरामकृष्णांक) महाराज, पद म्हणपाक मचें मन वळोवपाक आमकां ्शेंच जमना.

**ीरामकृष्ण:** (बेजार जावन) हय, तो शाळेंत दांत दाखयतलो. पूण पदां म्हणपाक ाका लज दिसता.

। खिन्न जावन ओगी बसलो.

ुरेश मिश्र श्रीरामकृष्णांचो मोगाळ संवसारी शिश्य. तो मातसो पयसूच बशिल्लो. ीरामकृष्णांनी ताका प्रेमान पळयलें आनी गिरीशाक बोट दाखोवन म्हणलें, 'तुमी ्वैर जीण जगले म्हणटात. पूण हांगा एक मनीस आसा तो तुमचेरय ताण करतलो.'

**ुरेश:** (हांसत) हय महाराज. हे बाबतीत तो म्हजो व्हडलो भाव (सगले ांसतात.)

**गेरीश:** (श्रीरामकृष्णांक) बरें महाराज, म्हाका भुरगेपणांत कसलेंच शिक्षण मेळ्ळें ा. तरी लेगीत लोक म्हाका विद्वान म्हणटात.

**श्रीरामकृष्ण:** महिमाचरण कितलींशींच शास्त्रां शिकल्यात. मोटे मनीस. (मक) अशें ्हय?

**म:** हय, महाराज.

**गिरीश:** कितें? पुस्तकी पांडित्य? हांवे तें खूब पळयलां. तें म्हाका आनीक आतां ाारावंक शकना.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) म्हजो मनोभाव कसो खबर आसा तुमकां? पुस्तकां, शास्त्रां हें सगलें फकत ईश्वरा कडेन वचपाचो रस्तो दाखयता. रस्तो जाणा जावन घेतले उपरांत ुस्तकां आनी शास्त्रांची कितें गरज? मागीर वेळ येता काम करपाचो.

एका मनशाक घरच्यान एक पत्र आयलें. कांय जिनस तागेल्या नातेवायकांक धाडपाक त्या पत्रांत ताका बरयिल्लें. जिनसांची नांवां त्या पत्रांत बरयिल्लीं. ते विकते घेवपाक ताका वचपाचें आशिल्लें. पूण त्या वेळार ताका तें पत्र मेळना जालें. तो हुसक्यान सोदूंक लागलो. ताचे बराबर दुसरेय सोदूंक लागले. बरोच वेळ ते सोदूंक लागले. निमणें तें पत्र मेळ्ळें. ताच्या आनंदाक शीममेर उरली ना. ताणें तें उत्कटतायेन उगडलें आनी वाचलें. त्या पत्रांत बरयिल्लें, ताणें पांच शेर मिठाय, एक धोतर आनी कांय हेर गजाली विकत्यो घेवपाच्यो आनी धाडपाच्यो. मागीर ताका त्या पत्राची गरज नाशिल्ली. ताचें काम जाल्लें. पत्र कुशीक दवरून ते जिनस घेवपाक तो भायर गेलो. त्या पत्राची गरज खंय मेरेन? जेन्ना म्हायती मेळटा तेन्ना रोखडेच वस्तू मेळोवपाक ते वतात.

शास्त्रांत तुमकां ईश्वर मेळोवपाचो उपाय सांगिल्लो मेळटलो. पूण मार्गा विशीं सगली

म्हायती मेळ्ळे उपरांत तुमी काम करपाक, कर्म करपाक सुरू करूंक जाय. मागि
तुमी तुमची मोख मेळोवंक पावतले.

फकत पांडित्य आसून कितें मेळटलें? पंडीत खूब शास्त्रां शिकला आसत. त
खूब ग्रंथ पाठ आसत. पूण ताची संवसाराचेर जर आसक्ती आसत आनी भितरल
कामिनी-कांचनाचेर मोग आसत, तर मागीर ताणें शास्त्रां आत्मसात करूंक नात अ
जातलें. असल्या मनशाचें शास्त्र पठन व्यर्थ जातलें.पंचांगांत वर्साक पावस कित
पडटलो तें बरयिल्लें आसता. पूण तें पंचांग पिळ्ळ्यार एक थेंबो लेगीत मेळपाचो
एक थेंबो लेगीत पडपाचो ना. (सगले हांसतात.)

**गिरीश:** (हांसत), तुमी कितें म्हणलें महाराज? पंचांग पिळून एक थेंबो लेगी
तातूंतल्यान पडपाचो ना? (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) पंडीत व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली करतात पूण नदर ख
आसता? कामिनी-कांचनाचेर, देहाचें सूख आनी पयसो हांचेर. गिदां मळबांत ख
उंच उडटात पूण नदर आसता हाडांच्या फोंडाचेर. सारकीं सोदीत आसतात, मे
जनावरां, हाडां आनी मडीं. (गिरीशाक) नरेंद्र खूब बरो भुरगो आसा. सगल्या गजालीं
तरबेज आसा. पद म्हणपाक, तबलें वाजोवपाक आनी अभ्यासांतय बरो आसा. प
जितेंद्रीय, सत्यवादी आनी विवेकान, वैराग्यान. कितलेशेच गूण एका मनशांत. (मक
तुका कितें दिसता? खूब बरो आसा न्हय?

**म:** हय महाराज. तो खूब बरो आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक, एके वटेन) तांचे कडेन (गिरीशा कडेन) खूब अनुराग आ
विश्वास आसा.

मन गिरीशा कडेन पळयलें. तांची गाढ श्रध्दा पळोवन तो चकीत जालो. गिरी
श्रीरामकृष्णां कडेन येवंक लागल्यार थोडेच दीस जाल्ले आनी तांची अध्यात्मीक श
ताका तेन्नाच कळून आयिल्ली. मक ते सामके लागींचे इश्ट आनी घरचे नातेवायक क
दिसले. अध्यात्मीक बंधनांत बांदून उरिले कशे. गिरीश हे श्रीरामकृष्णांच्या भक्तांच्य
हारा मदलें एक रत्न जावन आसात.

नारायणान श्रीरामकृष्णांक गायता काय म्हूण विचारलें. श्रीरामकृष्ण जगन्माते विश
गावंक लागले:

ए मना, हे प्रियतम मोलादीक श्यामा मातेक,
मायेन काळजांत दवरून तिका फकत
तुवें आनी हांवें पळोवचें

आनी पळोवचें न्हय तिका आनीक कोणेंच

नना, कामादी विकारांक दवरून कडेक
पळय तिका तूं एकांतांत.
मात दवर जिबेक सांगाताक जी मदीं मदीं
उलो मारतली "ए आई, ए आई"

वायट सल्लो दिवपी कुवासनांक
दिवं नाका म्हऱ्यांत लेगीत येवंक
पूण दवर ज्ञान नदरेक राखणदार म्हणून
जें रावतलें सदां सादूर आनी आसतलें जागरूक.

मागीर श्रीरामकृष्ण भाजून गेल्लया संवसारी जिवांतलो कसो आपूण जावन जगन्माते लागीं गावंक लागले:

आई, तूं सदांच आनंदमयी
तुज्या निरुपेगी पुताक करूं नाका आनंद वंचीत
तुज्या चरणां बगर म्हज्या मनाक दुसरें कांयच खबर ना.
यम पळयता म्हजे कडेन रागान करून दोळे मोटे
म्हाका सांग, ताका कितें सांगूं, माते?...

श्रीरामकृष्ण परत नित्य आनंदमयी आईच्या ब्रह्मानंदा विशीं गावंक लागले:

पळय, म्हजी आवय
शिवा वांगडा विलास करता अत्यानंदांत विरगळून
दिव्य सुधा पियेवन ती लकता हेवटेन तेवटेन आनी तरीय ती पडना...

भक्त शांततायेन पद आयकताले. थोड्या वेळा उपरांत श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "म्हाका मातशी थंडी जाल्या म्हणून म्हजें पद बरें जालें ना."

ल्हव ल्हव तिनसांज जाली. सांजेची सावळी कलकत्ताचेर पातळ्ळी. त्या खिणाक

शारांतलो आवाज शांत जालो. घांटीचो नाद आनी शंखाचो आवाज हिंदू घरांनी सां
पुजा म्हणून सांगून गेलो. ईश्वराच्या भक्तांनी संवसारी कामां कडेक दवरलीं आन
प्रार्थना आनी ध्यान करूंक लागले. दीस आनी रात ही गूढ सांजवेळ श्रीरामकृष्ण
सदांच भावाविश्ट करून उडयताली.

कुडींत बशिल्ले भक्त श्रीरामकृष्ण जगन्मातेचें गोड नांव घेतात तें आयकत रावले.
घेतले उपरांत श्रीरामकृष्ण प्रार्थना करूंक लागले. ईश्वरा बराबर जे एक जावन गेल्
त्या श्रीरामकृष्णांक प्रार्थना करपाची कितें गरज आसा? भगवंताचें नांव कशें घेवं
ताचे लागीं प्रार्थना कशी करची हें जिवांक शिकोवपा खातीर ते हें सगलें करता
हें कितें वेगळे सांगपाक जाय?

जगन्मातेक लेखून तांणी म्हणलें:

"आई, हांव तुका शरण आयलां. हांवें तुज्या पवित्र चरणां कडेन आलाशिरो घेतल
म्हाका देहसूख नाका. म्हाका नांव लोकीक नाका. म्हाका अश्टसिध्दी नाका. फक
इतलेंच कर की जाका लागून म्हाका तुज्या पांयां कडेन शुद्ध भक्ती मेळटली - निश्का,
निर्मळ, हेतू विरयत भक्ती. भक्ती खातिरूच भक्ती मेळटली. आई, म्हजेर कृपा क
की जाका लागून तुजे भुवन मोहिनी मायेंत - तुजे मायेच्या संवसारांत हांव घुसप
उरचो न्हय. कामिनी-कांचना विशीं आसक्ती मात दिवं नाका. माते, तुजे बगर म्हा
म्हणून आनीक कोण ना. माते, म्हाका पुजा कशी करची तें कळना. हांवें तप क
करूंक ना. म्हाका भक्ती करूंक समजना. म्हाका ज्ञानय ना. माते, तू अनंत कृ
करपी. कृपा करून तुज्या श्रीपादपद्मीं म्हाका भक्ती दी."

हे प्रार्थनेंतलें दर एक उतर खोल काळजांतल्यान आयिल्लें. तांणी भक्तांचीं मनां हालोव
उडयलीं. तांच्या आवाजांत मधूरपण आनी तांचें बाळका वरी मुखामळ भक्तांच्
काळजांक स्पर्श करून गेलें.

## राजमार्गाचेर श्रीरामकृष्णांचो<br>अजापीत ईश्वरावेश

गिरीशान श्रीरामकृष्णांक आपल्या घरा आफयिल्ले. तेच रातीं श्रीरामकृष्णांनी येवचे
असो गिरीशाचो आगरो आशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** आयजच येवपाचें म्हणचे खुबूच उशीर जावचो ना?

**गिरीश:** ना महाराज. तुमच्यांनी जाय तेन्ना तुमी परत येवं येता. म्हाका आयज थेटरांत

वच्चें पडटलें तांचें झगडें पालोवपाक.

श्रीरामकृष्ण गिरीशाच्या घरा वचपाक भायर सरिल्ले तेन्ना रातचीं णव जाल्लीं. बलरामान तांचे खातीर जेवण तयार केल्लें. श्रीरामकृष्णांनी बलरामाक म्हणलें, म्हजे खातीर तुवें जें जेवण तयार केलां तें गिरीशाच्या घरा धाडून दी. हांव थंय तें आनंदान घेतां. तांकां बलरामाच्यो भावना दुखोवपाच्यो नाशिल्ल्यो.
बलरामाच्या घराचे दुसरे माळये वयल्यान श्रीरामकृष्ण सकयल देंवतात आसतना ते ईश्वरी आनंदांत बेहोश जावन गेले. पियेवन तर्र जाल्ले वरी. नारायण आनी म तांचे बराबर आशिल्ले. मातशे फाटल्यान राम, चुनी आनी हेर भक्त आशिल्ले. तळमजल्यार पाविल्ले मात ते सामके बेहोश जाले. ते पडत म्हणून नारायण हात धरूंक लागलो. श्रीरामकृष्णांक तें आवडलें ना. थोड्या वेळान तांणी नारायणाक मायेन म्हणलें, तुवें जर म्हजो हात धरलो, तर लोक म्हाका हांव पियेलां अशें म्हणटले. हांव स्वताच नीट चलून वतां.
गिरीशाचें घर पयस नाशिल्लें. श्रीरामकृष्ण बोसपाडा रस्त्याचो चौक हुपताले. अचकीत ते नेटान चलूंक लागले. भक्त फाटल्यान उरले. तेन्नाच नरेंद्र पयसुल्लयान येता तो दिसतालो. हरशीं नरेंद्राचो विचार लेगीत आयल्यार वा ताचें नांव लेगीत काडल्यार श्रीरामकृष्णांच्या आनंदाक शीममेर उरनाशिल्ली. पूण आतां एक उतर लेगीत तांणी तांच्या मोगाळ शिश्या कडेन काडलें ना.
जशे श्रीरामकृष्ण आनी भक्त गिरीश रावतात ते गल्लींत भितर सरले तशे ते नरेंद्रा कडेन उलोवंक लागले. तांणी नरेंद्राक म्हणलें, ''तूं बरो आसा न्हय, म्हज्या पुता? हांव तेन्ना तुजे कडेन उलोवंक पावलों ना.'' श्रीरामकृष्ण उलयताले तें प्रत्येक उतर खूब करूणतायेन थपथपिल्लें. अजून ते गिरीशाच्या घराच्या दारा कडेन पावंक नाशिल्ले. थंय ते एकदम थांबले आनी तांणी नरेंद्रा कडेन पळयत म्हणलें, ''म्हाका तुका कितें सांगूक जाय. हो (देह) एक आनी तो दुसरो.'' त्या खिणाक तांच्या अंतरमनांत कितें चलतालें तें कोण जाणा जातलो?

### भक्ताघरा भगवान श्रीरामकृष्ण
### खबरांपत्र – नित्यगोपाळ

गिरीश श्रीरामकृष्णांक येवकार दिवपाक दारार उबे आशिल्ले. जशे श्रीरामकृष्ण घरांत भितर सरले, तशें गिरीशान तांच्या पांयांर घालून घेतलें आनी ते तोणक्या भशेन जमनीर पडून रावले. श्रीरामकृष्णांनी तांकां ऊठ म्हणले उपरांत ते उठून उबे रावले. उठ्ठा आसतना

तांच्या पांयांक कपल लावन पांयां पडले. श्रीरामकृष्णांक तांणी दुसरे माळयेर साल
हाडून बसयले. भक्तय तांचे फाटल्यान येवन थंय बसले. श्रीरामकृष्णांचे लागीं बस
आनी तांचें गोड वचनामृत पियेवचें ही सगल्यांची इत्सा आशिल्ली.

श्रीरामकृष्ण तांच्या जाग्यार बसपाक वतना तांणी एक खबरांपत्र लागींच पडि
पळयलें. तांणी कोणाक तरी कुरू केली आनी तें खबरांपत्र थंयच्यान व्हरपाक सांगले
खबरांपत्रांत संवसाराच्योच गजाली - गांवखबऱ्यो आनी भानगडी आशिल्ल्यान
खबरांपत्रांक अपवित्र मानताले. तें दुसरे कडेन व्हेले उपरांत ते तांगेल्या जाग्यार बसले
नित्यगोपाळ फुडें आयलो आनी तांकां पांयां पडलो.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें, तूं दक्षिणेश्वराक खूब दीस जाले येवंक ना.

**नित्यगोपाळ:** खरें महाराज, हांव थंय पावलों ना. म्हाका बरें दिसनाशिल्लें. म्हजे
सगलें आंग फोडटालें.

**श्रीरामकृष्ण:** आतां कसो आसा?

**नित्यगोपाळ:** तितलो बरो ना महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** तुजें मन मातशें एक दोन पांवडे सकयल हाड.

**नित्यगोपाळ:** म्हाका लोकांचो सांगात आवडना. म्हजे विशीं ते लोक कितें कितें
म्हणटात ताचो म्हाका केन्ना केन्नाय भंय दिसता. पूण परत भितरल्यान म्हाका घटसाण
दिसता.

**श्रीरामकृष्ण:** तें सभावीक आसा. तुजे बराबर कोण रावता?

**नित्यगोपाळ:** तारक*. तो सदांच म्हजे बराबर आसता. पूण केन्ना केन्नाय ताचोय
त्रास जाता.

**श्रीरामकृष्ण:** न्यांगटा म्हाका सांगतालो, तांच्या मठांत एक संन्याशी रावतालो. ताका
सिद्धी प्राप्त जाल्ल्यो. तो मळबाक पळोवन चलतालो. पूण ताचो एक सांगाती ताका
सोडून गेलो तेन्ना तो खूब दुख्खी जालो.

उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्ण ईश्वरी आनंदाचे अवस्थेंत गेले. कसले तरी वेगळेच
विचार तांच्या मनांत येताले आनी ते सामके स्तब्ध जावन गेले. थोड्या वेळान
तांणी म्हणलें, "तूं आयलो? हांव लेगीत हांगा आसां." हीं उतरां कोणाक
समजतलीं?

---

* श्रीरामकृष्णांचो शिश्य. फुडें स्वामी शिवानंद म्हणून प्रसिद्ध जालो.

## भक्तांच्या सांगातान भगवान श्रीरामकृष्ण
## अवतारा संबंदीं चर्चा

तांचे कितलेशेच भक्त कुडींत आशिल्ले - नरेंद्र, गिरीश, राम, हरीपद, चुनी, बलराम आनी म. ईश्वर मनीस रुपान अवतार घेता हें नरेंद्र मानिनाशिल्लो. पूण गिरीशाचें मत वेगळें आशिल्लें. तांचो ठाम विश्वास आशिल्लो, सर्वशक्तीमान परमेश्वर वेळावेळार ताचे अतर्क्य शक्तीन मनीस देह धारण करता आनी धर्तरेचेर ईश्वरी उद्देशा खातिरूच अवतीर्ण जाता. श्रीरामकृष्णांनी गिरीशाक म्हणलें, ''म्हाका तुमी आनी नरेंद्र इंग्लीशींत वाद करतात तें आयकूंक जाय.'' भासाभास सुरू जाली. पूण ते बंगालींत उलयले. नरेंद्रान म्हणलें, ''ईश्वर अनंत आसा. ताचें आकलन जावप आमकां कशें शक्य आसा? तो प्रत्येक मनीसप्राण्यांत आसता. तो फकत एकाच मनशांत प्रगट जाता अशें न्हय.''

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) म्हजें मत नरेंद्रा सारकेंच आसा. ईश्वर सगले कडेन आसा. पूण मागीर तुमी एक लक्षांत दवरूंक जाय. ताचे शक्तीचें प्रगटीकरण वेगळ्या वेगळ्या प्राण्यांनी वेगळें वेगळें आसता. खंय खंय ताची अविद्याशक्ती प्रगट जाता. तर खंय खंय ताची विद्याशक्ती प्रगट जाता.

वेगवेगळ्या साधनां वरवीं ईश्वराची शक्त वेगवेगळे प्रमाण प्रगट जाता - कांय कडेन चड वा कमी. देखुनूच सगले मनीस समान नासतात.

**राम:** ह्या सगल्या निरर्थक वादविवादाचो उपेग कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** (कडकपणान) ना, ना ह्या सगल्यांत एक अर्थ आसा.

**गिरीश:** (नरेंद्राक) तुका कशें कळ्ळें, ईश्वर देह धारण करिना म्हणून?

**नरेंद्र:** ईश्वर शब्दांचे आनी विचारांचे पलतडीं आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** ना. तें खरें न्हय. तो शुद्ध बुद्दीक गोचर आसा. शुद्ध बुद्द आनी शुद्ध आत्मो एकच. पयलींच्या रुशींनी शुद्ध बुद्दी वरवीं शुद्ध आत्म्याचो साक्षात्कार करून घेतिल्लो.

**गिरीश**: (नरेंद्राक) ईश्वरान मनीस रुपान अवतार घेतलो ना जाल्यार कोण अध्यात्मीक गूढ तत्वां समजावन सांगतलो? मनशाक ज्ञान भक्ती दिवपा खातीर ईश्वर देह धारण करून येता. ना जाल्यार कोण शिकयतलो?

**नरेंद्र:** तशें कित्याक, ईश्वर आमच्या काळजांत निवास करता. तो खात्रेन आमकां काळजांतल्यान शिकयतलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) हय, हय. तो आमकां अंतर्यामीं मार्गदर्शक कसो

शिकयतलो.

ते उपरांत नरेंद्र आनी गिरीश हांची खरसाणेन भासाभास जाली. ईश्वर जर अनंत आसा ताचे कांय अंश कशे शक्य आसात? हमील्टन कितें म्हणटा? हर्बट स्पेंसराचें मत कितें? टींडाल, हक्सले कितें म्हणटात? अशी चर्चा जावंक लागली.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) म्हाका असली भासाभास आवडना. हांव वादावादी करूंच कित्याक? म्हाका स्पश्ट दिसता, ईश्वर सगलें कितें आसा. तोच सगलें कितें जाला. म्हाका अशें दिसता की जें कितें आसा तें ईश्वरच आसा. तोच परत सगलें कितें आसा. तोच सगल्यांचे पलतडीं आसा. तेंय खरें आनी हेंय खरें. हांव अशे एके अवस्थेंत येतां की म्हजें मन आनी बुद्द अखंडांत विरगळून वता कशी. (नरेंद्राक पळोवन) म्हजें मन परम चैतन्यांत लीन जाता.

(गिरीशाक) हे विशीं तुमकां कितें म्हणपाचें आसा?

**गिरीश:** (हांसत) म्हाकाशें कित्याक विचारतात? जशें कितें हें इतलें सोडून बाकीचें सगलें कितें म्हाका समजलां. (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** परत समाधी अवस्थेचीं दोन सोपणां सकयल आयले बगर म्हज्यान एक उतर लेगीत उलोवंक नजं. शंकराचें अद्वैतवादी स्पश्टीकरण खरें आसा. परत रामानुजाचो विशिश्टवादूय खरो आसा.

**नरेंद्र:** विशिश्ट अद्वैतवाद म्हणचे कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** ही रामानुजाची तत्वप्रणाली. हे प्रणाली प्रमाण ब्रह्म वा परम तत्व हें जीव जगत विशिश्ट आसा. हे तिनूय – ब्रह्म, जगत आनी जीव, हे सगले धरून एक. बेल–फळाची देख घेयात. एकट्याक फळाचें वजन कितलें हें जाणा जावन घेवपाक जाय आशिल्लें. ताणें कट्टें, गर आनी बियो वेगळ्यो केल्यो पूण गराचेंच वजन करून कितें ताका बेलफळाचे वजन मेळटलें? ताणें कट्टें, गर आनी बियो ह्या सगल्यांचे एकठांय वजन करूंक जाय. पयलीं अशें दिसता की फळाचें ऐन म्हणल्यार ताचो गर जावन आसा. ताच्यो बियो वा कट्टें न्हय. मागीर विचार करतकूच कळटा की जे वस्तूचो गर आसा तेच वस्तूचें कट्टें आनी बियो आसात. कट्टें, बियो आनी गर हें सगलें फळाचोच भाग आसा. तेच प्रमाण अध्यात्मीक विवेक करतना हें न्हय, हें न्हय – 'नेति', 'नेति' करीत मार्ग काडचो पडटा. ईश्वर जगत न्हय, ईश्वर जीव न्हय, ब्रह्मच सत्य आसा आनी हेर सगलें मिथ्या आसा. मागीर कळटा, जशें बेलाफळ, तशें ज्या परम सत्याच्या आधारान ब्रह्म ही कल्पना येता त्याच सत्याच्या आधारान जीव जगत जालां, नित्य आनी लिला ह्यो एकाच सत्याचो दोन वटो आसात. म्हणुनूच

ामानुजा प्रमाण ब्रह्म हें जीव जगत विशिश्ट आसा. हाचेंच नांव विशिश्ट अद्वैतवाद.

## ईश्वर दर्शन. अवतार
## प्रत्यक्ष प्रमाण सिद्ध आसा

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) म्हाका ईश्वर प्रत्यक्ष दिसता ते विशीं तर्क विचार कितें करूं? ऱ्हाका प्रत्यक्ष दिसता. तो स्वताच सगलें कितें जाला. तो स्वताच हें जगत जाला आनी सगले जीव लेगीत जाला.

ूण स्वता भितरलें चैतन्य जागें जाले बगर सर्व व्यापक चैतन्य जाणा जावंक जमना. पनीस तर्क विचार खंय मेरेन करतलो? जों मेरेन ताका ईश्वराचो साक्षात्कार जावंक ना तों मेरेनच. पूण सतत तोंडान म्हणून जावचें ना. म्हाका स्वता स्पश्ट दिसता, तोच स्वता सगलें कितें जाला. ईश्वराचे कृपेनच भितरलें चैतन्य जागें करूंक जाय. हें चैतन्य जागें जातकूच समाधी लागता. चडसो ताका देहाचो विसर पडटा. कामिनी--कांचना वयली आसक्ती उरना. ईश्वरा विशीं गजालीं बगर कितेंच बरें लागना. संवसारी गजालींनी ताका दुख्ख जाता. भितरलें चैतन्य जागें जातकूच सर्वव्यापक चैतन्याचो साक्षात्कार जाता.

## नरेंद्राक उपदेश – कालीच ब्रह्म आसा

वादविवाद सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''हांवें अशें पळयलां की तर्क विचार करून ईश्वराक एके तरेन जाणा जावं येता. आनी ध्यानान ताका दुसरे तरेन जाणा जावं येता. पूण जेन्ना ईश्वर स्वताच ताचे मुखार प्रगट जाता तेन्ना ताका तिसरेच तरेचें ज्ञान मेळटा. जर ईश्वर स्वताच भक्ता मुखार ईश्वरी अवताराचें प्रयोजन दाखयता, तो स्वता मानवलिला कशी करता – मानव रुपान कसो खेळटा, तर मागीर भक्ताक तर्क विचार करपाचें लागना, कोणें समजावन दिवपाचें लागना. हें कशें तें तूं जाणा? समजा एक मनीस काळखा कुडींत आसा. तो फस्काकाडी फस्काचेर घांसता आनी अचकीत उजवाड पेट्टा. तशेंच ईश्वर जर आमकां अकस्मात ईश्वरी उजवाड दीत तर आमचे सगले दुबाव ना जावन वतले. फकत तर्क विचार करून केन्ना ईश्वराक जाणा जावं येता?

श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राक आपले म्हऱ्यांत येवन बसपाक सांगलें. ताची मायेन वासपूस केली आनी ताका प्रेमान सांसपिलो.

**नरेंद्रः** (श्रीरामकृष्णांक) जाणां. हांवें कालीचें तीन चार दीस ध्यान केलें पूण कां
जालें ना.

**श्रीरामकृष्णः** वेळ येतकूच सगलें कितें जातलें. काली म्हणचेच ब्रह्म.जाका
म्हणटात ताकाच काली म्हणटात. ती आद्यशक्ती आसा. जेन्ना ती शक्ती अचे
आसता तेन्ना हांव तिका ब्रह्म म्हणटां. जेन्ना सृजन, स्थिती आनी प्रलय करता ते
हांव तिका शक्ती वा काली अशें म्हणटां. जाका तुमी ब्रह्म म्हणटात ताका ह
काली म्हणटां. ब्रह्म आनी काली वेगळीं न्हय.

जसो उजो आनी ताची लासणी शक्त. उज्याचो विचार केलो जाल्यार ताचे लार
शक्तीचोय विचार करचो पडटलो. ब्रह्म मानलें जाल्यार कालीकय मानूंक जाय. ब्र
आनी ताची शक्त अभिन्न आसात. ब्रह्माकच हांव शक्ती वा काली म्हणटां.

बरीच रात जाल्ली. गिरीशान हरीपदाक गाडी हाडपाक सांगलें, तांकां थेटरांत वचपा
आशिल्लें. हरीपद वचपाक लागलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका हांसत म्हणलें, "गाडये
याद धर. गाडी हाडपाक विसरूं नाका." (सगले हांसतात.)

**हरीपदः** (हांसत) हय महाराज. हांव तर तेच खातीर वतां. विसरतलों कसो तें हांव

## ईश्वरलाव आनी कर्म
## राम आनी काम

**गिरीशः** हांगा तुमकां सोडून म्हाका थेटरांत वच्चें पडटा.

**श्रीरामकृष्णः** ना, ना, तुमी दोन वटो सांबाळूंक जाय. राजा जनक दोनीय वटो
धर्मीक आनी संवसारांतलीं कामां, बरे भशेन सांबाळून कांठा मेरेन उप्पट भरिल्ली दुदा
वाटी पियेलो. (सगले हांसतात.)

**गिरीशः** थेटर बी भुरग्यांचेर सोंपोवचें असो विचार करता हांव.

**श्रीरामकृष्णः** ना, ना, आसा तें बरें आसा. खूब लोकांचो फायदो जाता.

**नरेंद्रः** (ल्हव आवाजांत) खिणां पयलीं गिरीश श्रीरामकृष्णांक ईश्वर म्हणटाले, अवत
म्हणटाले आनी आतां रोखडे थेटरा फाटल्यान लागले.

## समाधी अवस्थेंत श्रीरामकृष्णांची पूर्ण समाधी अवस्था

नरेंद्र श्रीरामकृष्णांक तेंकून बशिल्लो. श्रीरामकृष्ण ताचे कडेन उत्सूकतायेन पळयता
आनी अकस्मात ते त्या मोगाळ शिश्याच्या आनीक लागीं वचून बसले. ईश्व

नशाच्या रुपान अवतार घेता हाचेर नरेंद्राचो विश्वास नाशिल्लो. पूण म्हणून कितें जालें? श्रीरामकृष्णांचें काळीज आपल्या शिश्या खातीर प्रेमान भरून व्हांवतालें. नरेंद्राच्या आंगार हात दवरून आनी ताका लेखून ताणें एका पदाची वळ म्हणली:

जो अभिमान दुखावला अशें तुका दिसता?
तावं तशें; आमकांय बी आमचो अभिमान आसा.

## तर्क विचार ईश्वरलाव जाय मेरेन

मागीर श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राक म्हणलें, ''जों मेरेन मनीस ईश्वरा विशीं तर्क विचार करीत रावतलो तों मेरेन ताका ईश्वराचो लाव जावचो ना. तुमी दोगय वादविवाद करीत आशिल्ले. म्हाका तें आवडूंक ना. मोटे मेजवानीक लोक जमिल्ल्या घरा आवाज आनी गोवाळ केन्ना मेरेन आयकूंक येतलो? जों मेरेन ते लोक जेवंक बसूंक नात तों मेरेन. जेवण खाण वाडलें आनी लोक जेवपाक लागले बराबर तीन चतुर्थांश बोवाळ कमी जाता. (सगले हांसतात.) जेवणा उपरांत गोड खाण खावपाक दिलें, मागीर आवाज आनीक कमी जाता. पूण जेन्ना निमणें लोकांक ताक पियेवंक दिलें, मागीर तुमकां सप सूप होच आवाज आयकूंक येतलो आनी कांयच आयकूंक येवचें ना. जेवण जाले उपरांत लोक न्हिदूंक वतात आनी मागीर सगलें शांत.
जसो जसो ईश्वरा लागीं पावता तसो तसो तर्क विचार आनी वाद विवाद कमी जाता. जेन्ना तुमकां ईश्वर मेळटा तेन्ना सगलो बोवाळ, सगले तर्क बिचार आनी वादावादी सोंपता. तेन्ना तुमी समाधींत वतात – मागीर न्हीद – शांततायेंत ईश्वरा बराबर एकचार.''
अशें म्हणून श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राच्या आंगाचेर हात भोंवडायलो आनी अपुरबायेन ताचे खाडकेक हात लायलो. तें करता आसतना ते गोड आवाजांत हरी , हरी म्हणीत आशिल्ले. म्हणटां म्हणटां ते भायल्या जगाचें भान विसरूंक लागले. तांचो हात नरेंद्राच्या पांयाचेर आशिल्लो. ते अवस्थेंत लेगीत ते नरेंद्राच्या आंगाचेर हात भोंवडायत आशिल्ले. पळयतां पळयतां तांच्या मनाचे भाव बदल्ले. हात जोडून तांणी नरेंद्राक म्हणलें, ''एकाद्रें पद म्हण–मागीर म्हाका बरें दिसतलें. नाजाल्यार हांव म्हज्या पांयांचेर उबो कसो रावतलों?'' परत थोडो वेळ ते स्तब्ध जाले. एकाद्र्या पुतळ्या प्रमाण ते वोग्गी बसले.

परत ते ईश्वरी प्रेमान मत्त जाले आनी तांणी म्हणलें, ''ए राधे, सांबाळून पावल घाल
नाजाल्यार यमुनेंत पडशी बी. आ! कृष्ण प्रेमान कितली पिशी जाल्या!'' श्रीरामकृष्
आनंदांत तन्मय जावन गेले. ते धुंदींत ते एका पदांतल्यो कांय वळी म्हणूंक लागले

इश्टिणी, सांग म्हाका, कुंजवन कितलें पयस आसा?
जंय कृष्ण, म्हजो मोगी, रावता?
ताचो सुगंध म्हाका हांगा लेगीत येता;
पूण म्हाका पुरो जालां आनी म्हज्यान आनीक चलूंक नजं जालां.

मागीर श्रीरामकृष्ण भायल्या जगाचें भान सामकें विसरले. कुडींत कोण आसा तें तांच्य
लक्षांत उरलें ना. नरेंद्र म्हऱ्यांत आसा ती लेगीत याद उरली ना. ते खंय बसल्या
ताची लेगीत तांकां शुद्ध उरली ना. आतां ते सामके ईश्वरांत मग्न जाले. अकस्मात ते
उबे जाले. उबे आसतना ते म्हणटाले, ईश्वरी प्रेमाची सुधा पियेवन तर्र जालां. परत
ते सकयल बसले आनी तांणी म्हणलें, ''उजवाड येता तो दिश्टी पडटा म्हाका, पूण
तो खंयच्यान येता तो म्हाका कळना.''
आतां नरेंद्र गावंक लागलो:

प्रभो, तुज्या मुखामळ दर्शनान म्हजें सगलें दुख्ख पयसावलां.
आनी तुजे सुंदरकायेच्या जादवान म्हज्या मनाक मुग्धायलां.
म्हज्या पंचप्राणांचेर मेहिनी घाल्या
तुका पळोवन, आपलें अंत नाशिल्लें दुख्ख सातूय लोक वतात विसरून:
हांव, एक दुर्बळ आनी हीण आत्मो कितें म्हणून सांगूं?

पद आयकतां आयकतां श्रीरामकृष्ण परत समाधींत मग्न ज़ाले. तांणी दोळे धांपले
आनी तांचें शरीर थीर जालें.
परम आनंदाचे अवस्थेंतल्यान भायर येतकूच तांणी सरभोंवतणीं पळयलें आनी म्हणलें,
''म्हाका देवळाचे बागेंत कोण घेवन वतलो?'' भुरग्याक सांगाती मेळना जातकूच तो

जसो गोंदळटा तशी तांची भुरग्या सारकी अवस्था जाल्ली.

बरीच रात जाल्ली. काळखी रात. भक्त गाडयेक तेंकून आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांक दक्षिणेश्वराक व्हरपाक गाडी हाडिल्ली.

ते समाधींत आशिल्ल्यान तांकां गाडयेंत भक्तांनी जतनाय घेवन चडयले. गाडी मार्गाक लागली आनी ते उत्सूकतायेन गाडयेंत पळयत रावले.

रोखडेच भक्त आपआपल्या घरा परत वचपाक लागले. वसंत वारो तांच्या मुखामळार मारतालो. बरेच भक्त तें पद गुणगुणटाले.

प्रभो, तुज्या मुखामळ दर्शनान म्हजें सगलें दुख्ख पयसावलां
आनी तुजे संदरकायेच्या जादवान म्हज्या मनाक मुग्धायलां.

# अध्याय एकशेंसतरा

## बलराम आनी देवेंद्र हांच्या घरा

### अंतरंगाच्या भक्तांच्या सांगातान बलरामाच्या घरा

**एप्रील 6, 1885. सोमार.** श्रीरामकृष्ण बलरामाच्या घराच्या सालांत म कडेन उलयत बशिल्ले. उज्याचे दीस. तीन वरां जावन गेल्लीं. श्रीरामकृष्ण कलकत्ताक तांच्या अंतरंगाच्या भक्तांक मेळूंक आयिल्ले. तशेंच तांकां देवेंद्राच्या घरा वचपाचें आशिल्लें.

### सत्यभाशण आनी श्रीरामकृष्ण
### धाकटो नरेन, बाबूराम आनी पूर्ण

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) हांवें तीन वरांचेर येतां म्हणून उतर दिल्लें. देखून हांव आयलां. पूण खुबूच उकडटा.

**म:** हय महाराज. तुमकां खुबूच त्रास जाला आसतलो.

भक्त श्रीरामकृष्णांक वारो घालताले.

**श्रीरामकृष्ण:** बाबूराम आनी धाकट्या नरेना खातीर हांव हांगा आयलां. पूर्णाक कित्याक हाडलो ना?

**म:** लोकांचे गर्देंत ताका येवपाक आवडना. चारचवगां मुखार ताची तुमी तोखणाय करतले आनी तें घरच्यांक कळटलें, हाचो ताका भंय दिसता.

### पंडिताचो आनी साधूचो उपदेश वेगळो
### साधूसंग

**श्रीरामकृष्ण:** हय, तें खरेंच, हाचे फुडें हांव तशें उलोवचों ना. बरें पूर्णाक धर्मा विशीं

उपदेश करता तें खूब बरें.

: खरें म्हणचे पाठ्य पुस्तकांत तशेंच बरयलां.

गल्या तुज्या आत्म्या पसून ईश्वराचेर प्रेम कर
आनी जशें तू तुजेर करता तशेंच तूं तुज्या शेजाऱ्याचेर प्रेम कर

अशें भुरग्यांक शिकयल्यार पालक जर रागार जातले तर आमी कांय करूंक शकनात.

**श्रीरामकृष्ण:** अशे तरेच्यो कितल्योश्योच गजाली पुस्तकांत बरयल्यात हे विशीं दुबाव ना. पूण बरोवप्यांनी जें कितें बरयलां तें तांणी आत्मसात करूंक ना. साधूसंग केल्यार तें आत्मसात करूंक जाता. खऱ्या साधूक, जाणें संवसाराचो खरेंच त्याग केला ताणें जर उपदेश केलो तर ताचें सांगणें लोक आयकतात. फकत पंडितांनी बरयलें वा उपदेश केलो तर लोकांचेर तितलोसो परिणाम जायना. ज्या दोतोरा म्हऱ्यांत काकयचे गाडगे आसात आनी ताणें जर रोग्याक सोंगलें काकय खावं नाका म्हणून तर रोगी ताचें सांगणें तितलेंशें मनार घेवचो ना. बरें, पूर्णाची अवस्था कशी दिसता तुका? ईश्वरी आनंदा अवस्थेंत बी तो वता?

**म:** ना. तशे भावनेची अवस्था भायल्यान काय म्हाका दिसूंक ना. एक दीस हांवें ताका तुमी कितें म्हणिल्लें तें सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण:** कितें म्हणिल्लें हांवें?

**म:** तुमी आमकां सांगिल्लें, 'ल्हान आयदन-आधार आसल्यार ताच्यान अध्यात्मीक भावना सांबाळूंक जायना. पूण ताचें जर व्हड आयदन-आधार आसत तर तो गाढ भावनांचो अणभव घेता, पूण भायल्यान कांयच दाखयना.' तुमी अशेंय म्हणिल्लें, 'व्हडल्या तळ्यांत जर हती देंवलो तर व्हडली खळबळ जाता आनी देगेरूय उदक उसळटा'.

**श्रीरामकृष्ण:** पूर्ण भायल्यान ताच्यो भावना दाखोवचो ना. तसो ताचो सभाव ना. ताचीं दुसरीं लक्षणां बरीं आसात. तुजें मत कितें?

**म:** ताचे दोळे पाणीदार आसात. खूब ठळक आनी उठावदार.

**श्रीरामकृष्ण:** फकत पाणीदार दोळे आसून भागना. ईश्वरनिश्ठांचे दोळे वेगळे आसतात. म्हाका पळयले उपरांत ताका कशें दिसलें तें तुवें ताका विचारलां?

**म:** हय महाराज, आमी ते संबंदान उलयल्यात. तो चार पांच दिसां सावन म्हाका सांगीत आसा, जेन्ना जेन्ना तो ईश्वराचें चिंतन करता वा ताच्या नांवाचो जप करता

तेन्ना तेन्ना ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात आनी आंगाचेर कांटो उबो राव
असो ताका आनंद जाता.

**श्रीरामकृष्ण:** खरेंच! हाचीच तर ताका गरज आसा. आनीक कितें जाय ताका?

श्रीरामकृष्ण आनी म थोडो वेळ शांत रावले. मागीर मन म्हणलें, तो रावता.

**श्रीरामकृष्ण:** कोण?

**म:** पूर्ण. घडये तो ताच्या घराच्या दारार उबो रावला आसतलो. जेन्ना आमचे मदल
कोणय ते वटेच्यान वतलो तेन्ना तो धांवत येतलो आनी आमकां नमस्कार करतलो

**श्रीरामकृष्ण:** आहा, आहा.

श्रीरामकृष्ण लोडाक तेंकून विसव घेताले. मन आपले बराबर एका बारा वर्साच्या
भुरग्याक हाडिल्लो. तो ताचे शाळेंत शिकतालो. ताचें नांव क्षिरोद.

**म:** हो भुरगो खूब बरो आसा. ईश्वरा विशीं उलोवपांत ताका खूब आनंद येता.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) ताचे दोळे हरणा सारके आसात.

तो भुरगो श्रीरामकृष्णांच्या पांयांचेर तकली दवरून पांयां पडलो आनी मागीर ताणें
श्रीरामकृष्णांचे पांय चेपले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) राखाल आतां घरा रावता. ताका फोड जाला. ताची तब्येत
बरी ना. अशें आयकलां, तागेर भुरगें जातलें.

पलटू आनी विनोद श्रीरामकृष्णां मुखार बशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (पलटूक, हांसत) तुवें तुज्या बापायक कितें सांगलां? (मक) जेन्ना
बापायन ताका हांगा येवं नाका म्हणून सांगलें तेन्ना खंय हाणें ताच्या बाबाक परतें
सांगलें. (पलटूक) तुवें कितें सांगलें?

**पलटू:** हांवें तांकां सांगलें, 'हय, हांव तांचे कडेन वतां. तातूंत कितें वायट आसा?'
(म आनी श्रीरामकृष्ण हांसले) गरज पडली जाल्यार हांव आनीक चड सांगतलों.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक हांसत) ना, ना. ताणें इतलें करप बरें?

**म:** ना महाराज, इतलें करप बरोबर न्हय. (श्रीरामकृष्ण हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (विनोदाक) तूं कसो आसा? तूं दक्षिणेश्वराक कित्याक येवंक ना?

**विनोद:** येवपाचोच आशिल्लों. पूण परत बरो ना जायत म्हणून भियेलों. म्हाका बरें
ना जालें आनी अजून प्रकृती बरी ना.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हजे बराबर दक्षिणेश्वराक यो. थंय हवा खूब बरी आसा. थंय तूं बरो
जातलो.

धाकटो नरेन आयलो. श्रीरामकृष्ण तोंड धुवपाक भायर वताले. धाकटो नरेन तुवालो

येवन फाटल्यान गेलो. ताका श्रीरामकृष्णांक उदक घालपाक जाय आशिल्लें. मय बरोबर आशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** आयज खूब उजो जाता.

**म:** हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** तूं ते ल्हानशे कुडींत कसो रावता? वयल्या माळ्यार खूब उकडना तुका?

**म:** हय महाराज, थंय खुबूच उकडटा.

**श्रीरामकृष्ण:** ते भायर तुजी बायल मेंदवाच्या त्रासान बरी ना. तिका तुवें थंड कुडींत दवरूंक जाय.

**म:** हय महाराज, हांव तिका सकयल्या माळ्यार न्हीद म्हणून सांगतां.

श्रीरामकृष्ण परत सालांत येवन बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तूं फाटल्या आयतरा दक्षिणेश्वराक कित्याक आयलो ना?

**म:** महाराज, घरा कडेन आनीक कोण नाशिल्लो. बायल बरी ना आनी तिका पळोवपाक आनीक कोण नाशिल्लो.

श्रीरामकृष्ण गाडयेंत बसून निमू गोस्वामी गल्लींतल्या देवेंद्राच्या घरा वताले. धाकटो नरेन, म आनी एक दोन भक्त तांचे बराबर आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांक पूर्णा विशीं खूब ओड आशिल्ली. ते ताचे विशीं उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) व्हड जिवात्मो! नाजाल्यार ताच्या कल्याणा खातीर म्हाका जप कित्याक करूंक लायतलो आशिल्लो? पूण पूर्णाक ताचे विशीं कांयच खबर ना. म आनी हेर भक्त हें आयकून सामके अजापीत जाले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तुवें ताका आयज तुजे बराबर हाडिल्लो जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. तुवें ताका कित्याक हाडलो ना?

धाकटो नरेन हांसतालो तें पळोवन श्रीरामकृष्ण आनी हेर भक्त लेगीत हांसूंक लागले. श्रीरामकृष्णांनी नरेना कडेन बोट दाखोवन मक म्हणलें, ''ताचे कडेन पळय! पळय, तो हांसता तेन्ना तो सामको भोळो कसो दिसता. ताका कांयच खबर ना कशें. तीन गजाली तो कसोच मनांत हाडिना. जमीन, बायल आनी पयशे. कामिनी-कांचन मनांतल्यान सामकें ना जाले बगर ईश्वर मेळप कठीण.''

गाडी देवेंद्राच्या घरा कडेन वचूंक लागली. श्रीरामकृष्णांनी एक खेपो दक्षिणेश्वराक देवेंद्राक म्हणिल्लें, 'एक दीस तुमच्या घरा येवचें असो हांव विचार करतां.' देवेंद्रान मागीर म्हणिल्लें, 'म्हज्या मनांत तशेंच आयिल्लें आयज. तुमी म्हज्या घरा येवचें हेंच सांगपाक हांव आयज आयिल्लों. तुमी ह्या आयतरा म्हज्या घराक पांय लावचे'. पूण

श्रीरामकृष्णांनी म्हणिल्लें, 'तुमची आवक कमी आसा. खूब लोकांक आफोवं नाकात. गाडयेचें भाडें लेगीत खूब लागतलें.' तें आयकून देवेंद्रान हांसत म्हणिल्लें, 'आवक कमी आसा म्हणून कितें जालें. कर्ज काडून लोणी खावपाचें सोडूं नये.' हे आयकून श्रीरामकृष्ण मोट्या मोट्यान बरोच वेळ हांसत रावले.
थोड्याच वेळान देवेंद्राच्या घरा गाडी पावली. श्रीरामकृष्णांनी तांकां सांगलें, ''देवेंद्र, म्हज्या जेवणा खातीर चड कितें करूं नाका.'' सादेंच कितें केल्यार पुरो. आयज म्हाका बरें दिसना.''

## देवेंद्राच्या घरा भक्तांच्या सांगातान भगवान श्रीरामकृष्ण

श्रीरामकृष्ण देवेंद्राच्या सकयल्या मजल्यार आशिल्ल्या सालांत बसले. भक्तांच्या मेळाव्यांत ते बशिल्ले. सांजवेळ जाल्ली. सालांत दिवे बरे लायिल्ले. धाकटो नरेन, राम, म, गिरीश, देवेंद्र, अक्षय, उपेंद्र आनी हेर भक्त बशिल्ले. श्रीरामकृष्ण एका धाकट्या भक्ताक पळोवन सामके आनंदीत जाले. ताका लेखून तांणी भक्तांक सांगलें, ज्यो गजाली मनशाक संवसारांत बद्ध करतात त्यो तीन गजाली हाचे भितर पुरायेन नात. त्यो तीन गजाली म्हणल्यार जमीन, बायल आनी पयशे. ह्या तीन गजालींचेर मन आसल्यार ईश्वराचेर मन बसना. ताका दिश्टावो लेगीत जाल्लो तो.
(भक्ताक), आमकां सांग? तुवें कितें पळयलें?

## कामिनी–कांचन त्याग आनी ब्रह्मानंद

**भक्त:** (हांसत) हांवें घाणीची एक रास पळयली. कांय लोक ताचेर बशिल्ले आनी कांय जाण थोडे पयस बशिल्ले.
**श्रीरामकृष्ण:** ज्या लोकांक ईश्वराचो विसर पडला अश्या संवसारी लोकांचे दशेचें हाका दर्शन जालां. देखुनूच हाच्या मनांतल्यान सगल्यो वासना ना जावन वतात हेंच ताचे वयल्यान दिसता. कामिनी–कांचना वयलें मन जर उडून वचत तर मागीर चिंता कसली?
केदें अजाप! खूब ध्यान आनी जप केले उपरांतच हांव ह्या वासनां पसून मुक्त जालां. ताणें मनांतल्यान हें इतले बेगीन कशें काडून उडयलें? काम वासना पसून मुक्ती मेळप ही कितें सोंपी गजाल आसा? हांवें अध्यात्मीक साधना केले उपरांत स म्हयन्यांनी

म्हज्या काळजांत एके तरेचीचशी संवेदना जाल्ली. मागीर हांव एका रुखा सकयल पडून रावलों आनी खूब रडलों. हांवें जगन्मातेक सांगलें, 'आई, अशें जर जायत तर हांव म्हजो गळो सुरयेन कापून घेतलों.' (भक्तांक) कामिनी-कांचना पसून जर मन मुक्त जायत, तर मागीर मनशाक आडखळ खंयची? तो ब्रह्मनंदांत बुडून वतलो.

शशी* हालींच श्रीरामकृष्णां कडेन येतालो. तो विद्यासागर कॉलेजींत बीए शिकतालो. ताचे विशीं श्रीरामकृष्ण उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) हो जो भुरगो येता तो पयशां विशीं थोडो विचार करतालो. पूण कांय जाण तसले केन्नाच विचार करचे नात. कांय जाण तर लग्न लेगीत करचे नात. भक्त थंडपणान आयकताले.

## अवताराक कोण वळखूंक शकता?

**श्रीरामकृष्ण:** मनांतल्यान पुरायपणान कामिनी-कांचन गेले बगर ईश्वराच्या अवताराक वळखप कठीण. एका मनशान तांतयां विकप्याक हिऱ्याचें मोल विचारलें. ताणें सांगलें, हिऱ्या बदला हांव णव शेर तांतयां दिवंक शकतां. ताचे परस एक लेगीत चड दिवपाचों ना'.

हें आयकून सगले भक्त हांसले. धाकटो नरेन तर मोट्या मोट्यान हांसलो. श्रीरामकृष्णांक दिसलें, धाकट्या नरेनाक तांणी कितें म्हणिल्लें ताचो अर्थ रोखडोच समजलो.

**श्रीरामकृष्ण:** हाची कितली सुक्ष्म बुद्द आसा पळय. न्यांगटा अशेंच रोखडेंच समजतालो. गीतेचो, भागवताचो अर्थ आनी हेर शास्त्रां रोखडींच समजतालो.

## भुरगेपणा पसून वैराग्य
## वेश्येचो उद्धार कसो जातलो?

**श्रीरामकृष्ण:** भुरगेपणा सावनच कामिनी-कांचनाचो त्याग, हें खरेंच अजापूच. अशे लोक सामके कमीच आसतात. ज्या मनशान असो त्याग केल्लो आसता तो कऱ्या फातोर लागून पडिल्लो आंबो कसो. असलो आंबो देवाकय निवेद्य म्हणून दाखोवंक मेळना आनी मनीस तो खावपाकय अनमनता.

अशे लोक आसात जांणी तरणेपणांत खूब पातकां केल्यांत पूण म्हातारपणांत ईश्वराच्या नांवाचो जप करतात. हें बरें. कांय ना ते परस हें बरें.

---

* शशी फुडें श्रीरामकृष्णांचो संन्याशी शिश्य जालो आनी ताणें स्वामी रामकृष्णानंद हें नांव घेतलें.

एका कोणा मल्लीकाची आवय खानदान घराण्यांतली आशिल्ली. तिणें म्हाका विचारलें वेश्यांचो उद्धार जातलो काय म्हणून. ती स्वता तसली जीण जगिल्ली म्हणुनूच तिण हो प्रश्न विचारिल्लो. हांवें सांगलें, 'हय, तांचोय उद्धार जातलो. पूण तांणी मना पसून व्याकूळतायेन ईश्वरा कडेन रडूंक जाय आनी परत अशीं पातकां करचीं नात म्हणून सोपूत घेवंक जाय. फकत हरीचें नांव घेवन कितें जातलें? मना पसून रडूंक जाय.'

## देवेंद्राच्या संकिर्तनानंदांत आनी समाधींत श्रीरामकृष्ण

आतां मृदंग आनी झांजांच्या सांगातान संकिर्तन सुरू जालें. किर्तन करपी वेवसायीक आशिल्ले. केशव भारतींनी गौरांगाक संन्यास दिक्षा दिली. त्या प्रसंगाक लेखून ते पद म्हणटालेः

आरे! केशव भारतीचे खोंपींत कसलें दर्शन म्हाका जाल्लें
गोरा, आपले तुळा नाशिल्ले सोबितायेंत,
सहस्र झऱ्यांनी दुकां व्हांवयता!...

हें पद आयकून श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जाले.

आतां गायक परतून गावंक लागलो:

श्रीकृष्णाच्या विरहान व्याकूळ जाल्ल्या वृंदावनाच्या गोपींचे अवस्थेचें वर्णन करपी पद गावंक लागले. वृंदावनांतल्यो त्यो गोपी माधवी वालींच्या कुंजांनी तांगेल्या माधवाक सोदीत आसात. त्यो म्हणटात:

ए माधवी, म्हजो मोगाळ म्हाका परतो दी!
म्हाका दी, म्हाका परतो दी, म्हजो मोगाळ!
ताका परतो दी, कारण तो म्हजो आसा,
आनी म्हाका सदां खातीर कर तुजी दाशी.
तो म्हजी जीण, नुस्त्याक जशें उदक;

ए माधवी, तुवें तुजे छातयेंत ताका लिपोवन दवरला!
हांव सामकी सादी, बीनकपटी चली,
आनी तुवें म्हजो प्रियतम चोरून व्हेला.
ए माधवी, हांव म्हज्या मोगाळा खातीर मरतां;
ताचे बगर म्हज्यान रावं नजं
म्हज्या माधवा बगर हांव मरतलीं;
आगे, ताका दी, ताका म्हजे कडेन परतो दी!

श्रीरामकृष्ण मदीं मदीं स्वताची वळ घालीत गायताले:

जंय म्हजो प्राणवल्लभ आसा
ती मथुरा कितली पयस आसा?

श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जावन गेले. तांची कूड थीर जाली. ते अवस्थेंत ते बरोच वेळ उरले. ल्हव ल्हव ते जगाच्या भानार आयले. पूण अजुनूय ते ते समाधी अवस्थेंतच आसतना उलोवंक लागले. केन्नाय भक्तांक लेखून तर केन्नाय जगन्मातेक लेखून.

**श्रीरामकृष्ण:** आई, तुजे कडेन ताका ओडून घे. ताचे विशीं आनीक म्हाका चिंता करपाक लागूंक जायना. (मक) तुज्या मेवण्या कडेन मातशें म्हजें मन ओडटा. (गिरीशाक) तुमी गाळी खूब मारतात. वायट वायट खूब उलयतात. पूण कांय हरकत ना. ह्यो गजाली भायर आयिल्ल्यो बऱ्यो. दुशीत रगताचो रोग कोणा कोणाक जाता. जितलें हें दुशीत रगत भायर वचत तितलें ते त्या रोग्याक बरें. मनशाची उपाधी जेन्ना ना जावन वता तेन्ना आवाज जायत आसता. लांकूड जेन्ना जळटा तेन्ना तडतड असो आवाज जाता. सगलें जळून वतकूच मागीर आवाज जायना.

तुमी दिसान दीस शुद्ध जातले. तुमची दिसानदीस खूब उन्नती जातली. लोक अजापीत जावन वतले. हांव खूब खेपो येवंक पावचों ना पूण कांय हरकत ना. तुमकां स्वताच येस मेळटलें.

श्रीरामकृष्णांचो ईश्वरी भाव खर जालो. परत ते जगन्माते कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** आई, जो मनीस बरोच आसा ताकाच बरो करपांत कसलें मोटेपण आसा? ए आई, जो पयलींच मेला ताका मारून तूं कितें मेळयतली? जो उबो आसा ताकाच मारीत तर तुजो म्हयमा.

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ शांत रावले. अचकींत मातशें मोट्यान तांणी म्हणलें, “
दक्षिणेश्वरा सावन आयलां. हांव वतां आई.” ल्हान भुरगें पयसुल्लूयान आवयचो
आयकून जाप दिता तशें. परत ते स्थब्द जाले आनी समाधीमग्न जाले. भक्त ल
तांकां दोळ्यांची पाती हालयनासतना पळयत रावले. अजून समाधी अवस्थेंतच त
म्हणलें, “हांव आनीक पुरी खावचों ना.”

शेजारचे वैशणव स्वामी जे आयिल्ले ते उठून गेले.

## देवेंद्राच्या घरा भक्तां सांगातान भगवान श्रीरामकृष्ण

श्रीरामकृष्ण भक्तां बराबर आनंदांत उलोवंक लागले. तो एप्रील म्हयनो. उज्या
घुसपटावपी दीस. देवेंद्रान आयसक्रीम केल्लें. तांणी तें श्रीरामकृष्णांक आनी भक्तां
दिलें. मन ल्हव आवाजांत म्हणलें, आनीक एकदां, आनीक एकदां, भक्त मोट्या
हांसले. आयसक्रीम पळोवन श्रीरामकृष्णांक भुरग्यां भशेन आनंद जालो.

**श्रीरामकृष्ण:** किर्तन सुंदर जालें. गोपींच्या मनाची अवस्था सुंदर रितीन पदांत वर्ण
केल्या.

‘माधवी वाली, म्हजो माधव म्हाका परत दी.’ वृंदावनांतल्यो गोपी कृष्णाच्या ईश्वरी
प्रेमान सामक्यो बेहोश जाल्यो. केदें व्हडलें अजाप! कृष्णा खातीर सामक्यो पिश्यो!
एका भक्तान दुसऱ्याच एका भक्ताक लेखून म्हणलें, तांचो गोपींचो भाव-सखी भाव.

**राम:** ना, तांचे कडेन दोनय भाव आसात-मधूरभावय आसा आनी ज्ञानाचो भाव
आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी कित्या विशीं उलयतात?

श्रीरामकृष्णांनी सुरेंद्रा विशीं वासपूस केली.

**राम:** हांवें तांकां कळयिल्लें पूण ते आयलो नात.

**श्रीरामकृष्ण:** ऑफिसांतल्यान काम करून येतकूच तांकां सामकें पुरो जाता.

**एक भक्त:** रामबाबू तुमचे विशीं बरयतात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तो कितें बरयता?

**एक भक्त:** (हांसत) परमहंसाची भक्ती ह्या विशयाचेर बरयतात ते.

**श्रीरामकृष्ण:** वा, बरें! रामाचें खूब नांव जातलें.

**गिरीश:** (हांसत) तुमचो आपूण शिश्य अशें तो म्हणटा.

ामकृष्ण हें अशें चड करून म्हणटाले. गिरीश नवेच आशिल्ले आनी तांकां बबर नाशिल्लें. म्हणून ते उदक हाडपाक गेले. श्रीरामकृष्णांनी तांकां हाडूं नाका ून सांगलें आनी म्हणलें, "ना बाबा, आतां म्हज्यान उदक पियेवंक जावचें "

ामकृष्ण आनी भक्त थोडो वेळ शांत रावले. श्रीरामकृष्ण परत उलोवपाक लागले.

**रामकृष्ण:** (मक) बरें, हे गुपीत अणभव सांगून हांवें कितें चूक केल्या?

कितें उलोवचें तें कळ्ळें ना. तो ओगीच रावलो.

**रामकृष्ण:** तातूंत चूक कितें आसा? हांवें तुमचे भितर विश्वास उत्पन्न जावपा तीर सांगल्यात ह्यो गजाली.

ड्या वेळान तांणी मक खूब नमळायेन म्हणलें, "ताका मातसो हांगा घेवन येता?" का म्हणचे पूर्णाक.

**क:** (अनमनत) हय महाराज, आतांच हांव ताका निरोप धाडटां.

**ीरामकृष्ण:** (उत्सूकतायेन) पूर्णांत हांव निमण्या ठाण्या मेरेन पावलां.

ीरामकृष्ण कितें अशें म्हणटात, तांच्या अंतरंगी भक्तां मदीं पूर्ण हो निमणो भक्त ासतलो?

## पूर्वजीण
## श्रीरामकृष्णांचो म्हाभाव

ीरामकृष्णांनी मागीर गिरीशाक, मक आनी हेर भक्तांक स्वताच्या म्हाभावाची अवस्था र्णन केली.

**ीरामकृष्ण:** (भक्तांक) अणभवा उपरांत ते अवस्थेचो आनंद इतलो आशिल्लो, जितलो ांवें ताचे पयलीं दुख्ख भोगिल्लें. म्हाभाव हो ईश्वरी परमानंद. हो आनंद शरीर-मनाक ुळा सकट हालोवन उडयता. एक व्हड हती धाकटे खोंपींत भितर सरता. खोंप मुळा कट हालता ते भशेन. घडये तिचो पिठो जावन वता.

श्वराच्या विरहाचें दुख्ख हें सादें नासता. अशें म्हणटात, रूप आनी सनातन* हांचे ितरल्या ह्या असल्या दुख्खाच्या उज्यान ज्या झाडा सकयल ते बशिल्ले त्या झाडाचीं ानां करपून वतालीं. हांव ते अवस्थेंत तीन दीस बेशुद्ध आशिल्लों. म्हज्यान हालचाल रूंक जायनाशिल्ली. एके सुवातेर पडून रावतालों. जेन्ना हांव शुद्धीर आयलों तेन्ना ाह्मणीन म्हाका न्हाणोवपाक व्हेलो. पूण तिच्या हाताचो स्पर्श म्हजे कातीक सोंसना

जालो. म्हणून म्हजें आंग दाट चादरान धांपून घेतलें. मागिरूच ती म्हाका हा
धरून घेवन गेली. आनी न्हाता थंय म्हाका व्हेलो. जमनीर न्हिदलों तेन्ना जी म
म्हज्या आंगाक लागिल्ली ती सामकी भाजून गेली.
ते अवस्थेंत म्हाका अशें दिसलें, जसो कितें नांगराचो फाळ म्हजे फाटी कण्यांतल
वता. हांव आड्डतालों, 'आवय, म्हजो जीव वता, म्हजो जीव वता.' पूण ते उप
म्हाका खूब आनंद जालो.
सगले भक्त श्रीरामकृष्णांचे अवस्थेचें वर्णन स्वास रोखून आयकताले.
**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) पूण तुमकां इतले पयस वचपाची गरज ना. म्हजे अणभ
फकत लोकांचे म्हायती खातीर. तुमी लोक पांच गजालींनी मग्न आसात. म्हजी एव
मोख आसा. म्हाका ईश्वरा बगर आनीक कित्यांतूच सूख लागना. हेंच देवान म्ह
वांट्याक दिलां. (हांसत) रानांत कितल्याश्याच तरांची झाडां आसतात. कांय झाड
एकूच खोड आसता. तर कांय झाडांक पांच खांदयो आसतात. (सगले हांसतात)
हय, म्हजे अणभव हे दुसऱ्यांचे म्हायती खातीर. पूण तुमी लोकांनीं अनासक्त जा
संवसार करूंक जाय. आंगाक चिखोल लागतलोय. पूण तुमी तो फाफडून उडोव
जाय. जशें चिखलांतलें नुस्तें आंगाचो चिखोल फाफडून उडयता. जगाच्या काळ
दर्यांत पेंवचें पूण तुमच्या आंगाक दाग लावन घेवचो न्हय.
**गिरीश:** (हांसत) तुमकांय लग्न जावचें पडलें. (हांसतात.)
**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) संस्कारा खातीर लग्नाची गरज आसता. पूण हांव संवस
जीण कशी घालोवं शकतां? ईश्वरा विशीं म्हजी भावना खर आशिल्ली. तिचेर श
दवरप कठीण आशिल्लें. जितले खेपो गळ्यांत जानवें घालतालों तितले खेपो तें गळ
पडटालें. अशें म्हणटात, शुकदेवाकय लग्न करचें पडिल्लें. संस्कारा खातिरूच. ए
चलीय जाल्ली खंय. (सगले हांसतात.)
कामिनी-कांचनच संवसार. ताका लागून ईश्वराचो विसर पडटा.
**गिरीश:** पूण आमी कामिनी-कांचना पसून मुक्त कशे जावंक शकतात?
**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराची काळजा सावन व्याकूळतायेन प्रार्थना करात. विवेका खात
ताची प्रार्थना करात. ईश्वरच सत्य आनी हेर सगलें अनित्य हाकाच विवेक म्हणटा
उदकांतलो कोयर वेगळावंक आमी उदक गाळण्यांतल्यान गाळटात. निवळ उद
गाळण्यांतल्यान पडटा. कोयर वयर उरता. विवेक रुपी गाळणो वापरात. ईश्वराक जा
जावन मागीर संवसार करात. मागीर तो विद्यारुपी संवसार जातलो.
अस्तुऱ्यां मदीं मोहमयी शक्त आसता ती पळयात. अविद्यारुपी अस्तुऱ्यो - भु

घालपी शक्त आशिल्ल्यो अस्तुऱ्यो म्हणटां हांव. त्यो दादल्यांक पिशे करतात कश्यो. तांचे भितरलें सत्वच घेवन वतात. जेन्ना हांव बायल आनी दादलो एके कडेन बशिल्लीं पळयतां तेन्ना हांव स्वताच म्हणटां, 'आरेरे, सोंपले हांगेले दीस (म कडेन पळयतात). 'हरू एक बरो भुरगो. ताका भूत बादा जाल्या. लोक विचारतात, हरू खंय आसा?' ते सगले वडा कडेन वतात आनी त्या झाडा सकयल थंडपणान तो बसला तें पळयतात. पयलींचे तें रूप ना, तें तेज ना, तो आनंद ना. वडा वयलें भूत ताचे गोमटेर बसलां. बायलेन जर घोवाक म्हणलें, 'थंय चल.' तो रोखडोच उबो रावता आनी वचूंक तयार जाता. तिणें जर म्हणलें, 'हांगा बस.' रोखडोच तो थंय बसता.

नोकरी सोदपी एका मनशाक ऑफिसांत सायबा कडेन वचून वचून पुरो जालें. ताका नोकरी मेळ्ळी ना. सायबान ताका सांगलें, 'सध्या जागो ना. पूण मदीं मदीं येवन म्हाका मेळ.' अशें कितले दीस चल्लें. नोकरी मागणाऱ्यान सगली आशा सोडली. ताणें हें दुख्ख तागेल्या एका इश्टाक सांगलें. इश्टान म्हणलें, 'सामको पिसो मरे तूं. त्या मनशा कडेन वचून तुजीं जोतीं कित्याक झरयता? तूं गुलाबा म्हऱ्यांत वच. फाल्यांच तुका नोकरी मेळटली'. नोकरी सोदपी इश्टान म्हणलें, 'अशें आसा? हांव आतांच वतां.' गुलाब सायबाची मोगीण. उमेदवार तिका मेळ्ळो आनी ताणें म्हणलें, 'आई, हांव खूब त्रासांत पडलां. तुमी म्हाका आधार दियात. हांव गरीब ब्राह्मणाचो भुरगो. हांव आनीक खंय वचूं आधार मागपाक? आई, कितले दीस जाले काम धंदो ना. म्हजीं भुरगीं पोटाक नाशिल्ल्यान मरपाक पावल्यांत. तुमी एक उतर घाल्यार म्हाका काम मेळटलें.' गुलाबान ताका म्हणलें, 'बाळ, कोणा कडेन उतर घालपाचें?' आनी तिणें मनांत म्हणलें, 'आरेरे, गरीब ब्राह्मण खुबूच कश्ट काडटा बावडो.'

उमेदवारान तिका सांगलें, 'व्हडल्या सायबा कडेन उतर घाल्यार म्हाका खात्रेन नोकरी मेळटली.'

गुलाबान म्हणलें, 'हांव आयजच ताचे कडेन उलयतां आनी सगलें थारायतां.' दुसऱ्याच दिसा सायबाच्या ऑफिसांतल्यान एक मनीस आयलो आनी ताणें उमेदवाराक सांगलें, 'आयज सावन तुमी सायबाच्या ऑफिसांत येवपाचें.' सायबान इंग्लीश सायबाक सांगलें, 'हो मनीस कामाक सामको लायक आसा. हांवें ताका नोकरेक दवरला. ऑफिसाक ताचो फायदो जातलो.'

कामिनी-कांचनान सगले भुल्लुसून वतात. पूण म्हाका ताची पर्वा मात लेगीत ना. आनी हांव सोपूत घेवन सांगतां, म्हाका ईश्वरा बगर आनीक कांयच खबर ना.

## सत्यभाशण
## कलीयुगांतली तपश्चर्या
## ईश्वरकोटी आनी जीवकोटी

**एक भक्त:** महाराज, नवहुल्लोल नांवाचो एक पंथ काडला. ललीत चटर्जी तातूंत आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** तरातरांची मतां आसात. हीं सगलीं मतां म्हणल्यार एकाच ध्येया कडेन वचपाचे कितलेशेच मार्ग जावन आसात, पूण प्रत्येक जाण समजता, आपलोच मार्ग फकत बरोबर आसा-आपलीच घडयाळ बरोबर वेळ दाखयता म्हणून.

**गिरीश:** (मक) पोप कितें म्हणटा तें जाणा? (इंग्लींशींत सांगता):
जशीं आपलीं मतां, तशींच आमचीं घडयाळां. केन्नाच दुसऱ्या सारकीं नासतात. आनी तरीय प्रत्येकाचो स्वताच्याच मताचेर आनी घडयाळीचेर सामकोच विश्वास आसता.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) हाचो अर्थ कितें?

**म:** सगलेच समजतात, म्हजीच घडयाळ बरोबर वेळ सांगता. पूण वेगवेगळ्यो घडयाळी एकूच वेळ सांगिनात.

**श्रीरामकृष्ण:** तरीय पूण घडयाळी कितल्योय चूक आसूं, सूर्य केन्नाच चूक करिना. सुर्या बराबर घडयाळ लावंक जाय.

**एक भक्त :** अमूक बाबू फट सांगता.

**श्रीरामकृष्ण:** सत्य उलोवप ही कलीयुगांतली तपश्चर्या. कलीयुगांत हेर तपश्चर्या करपाक कठीण. सत्याक धरून रावल्यार ईश्वर मेळटा. तुळशीदासान म्हणलां, 'सत्यशीलपण, ईश्वरा आधीन रावप, परस्त्रीक माते समान लेखप, हे सगल्यांत व्हडले सदगूण.' हे गूण आपणायल्यार ईश्वर जर मेळना जायत तर तुळशी फट उलयता अशें जातलें. केशव सेनान बापायचें कर्ज मानलें. दुसरो मनीस आशिल्लो जाल्यार तें न्हयकारतलो आशिल्लो. जोडा साकोच्या देवेंद्राच्या समाजांत हांव गेल्लों आनी हांवें पळयलें, केशव सेन वेदीर बसून ध्यान करताले. त्या वेळार ते तरणाटे आशिल्ले. हांवें मथूर बाबूक म्हणलें, 'जितले हांगा ध्यान करतात तातूंतल्या ह्याच तरणाट्या मनशाचे गरयेक नुस्तें लागतलें.' गरयेक नुस्तें ओडटा.

एकटो - हांव नांव सांगिना - ताणें धा हजार रुपयां खातीर कोर्टांत फट सांगलें. मुकदमो जिखचो म्हणून म्हाका जगन्मातेक ओंपणी दिवपाक लायली. ताणें म्हाका सांगलें, 'बाबा, मातेक ही ओंपणी.' भुरग्या सारको विश्वास दवरून हांवें ओंपणी दिली.

**एक भक्त:** खरेंच मनीस बरो.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण म्हजेर ताचो इतलो विश्वास की जर हांवें दिलें तर आई ताची प्रार्थना आयकतली अशें ताका दिसतालें.

ललीत बाबूक लेखून श्रीरामकृष्णांनी सांगलें, 'अहंकार मुक्त जावप सोंपें न्हय' थोडेच लोक आसात जांकां अहंकार ना. तातूंतलो एक बलराम. (एका भक्ता कडेन बोट दाखोवन) हो एक दुसरो. आनीक कोणय आशिल्लो जाल्यार गर्वान फुलून वतलो आशिल्लो. केंसाचो मागो काडटलो आनी तमोगुणाच्यो कुरवो दाखयतलो आशिल्लो. शिकिल्लयाचें मोटेपण मिरयतलो आशिल्लो. 'मोटेल्या बामणांत' (प्राणकृष्णाक लेखून) तो अहंकार अजून थोडो आसा. (मक) महीम चक्रवर्तीन खूब पुस्तकां वाचल्यांत. वाचल्यांत न्हय?

**म:** हय महाराज, तांणी खूब पुस्तकां वाचल्यांत.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) म्हाका दिसता, ताणें आनी गिरीशान एकदां मेळचें. मागीर आमकां थोडी भासाभास आयकूंक मेळटली.

**गिरीश:** (हांसत) साधना केल्यार सगले कृष्णा सारके जावंक शकतात अशें तो म्हणटा न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** सामकें अशेंच न्हय. पूण साधारण अर्थ तसोच.

**एक भक्त:** महाराज सगलेंच कितें श्रीकृष्णा प्रमाण जावं येता?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचो अवतार वा अवताराचे खाशेले गूण घेवन जल्माक आयलो तर ताका ईश्वरकोटी म्हणटात. साधारण लोकांक जीव वा जीवकोटी म्हणटात. साधना करून जीवकोटी ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवंक शकता. पूण समाधी उपरांत तो परत जाणिवेच्या पांवड्यार येवंक शकना.

ईश्वरकोटी राजाचो पूत कसो. सात मजली म्हालाचे कुडीच्यो चावयो ताच्या हातांत आसतात. तो सातय माळयांचेर चडून वचूंक शकता आनी ताचे इत्शे प्रमाण सकयल देंवूंक शकता. जीवकोटी म्हणचे ल्हान कारभारी कसो. तो म्हालांतल्या कांय कुडींनी वचूंक शकता. ताची ती मर्यादा.

## ज्ञान आनी भक्ती हांचो समन्वय

जनक ज्ञानी आशिल्लो. साधना करून ताणें ज्ञान प्राप्त करून घेतिल्लें. पूण शुकदेव म्हणचे सामकी ज्ञानाची मूर्त.

**गिरीश:** वा, वा.

**श्रीरामकृष्ण:** साधना करून शुकदेवाक ज्ञान प्राप्त करून घेवचें पडलें ना. शुकदेव प्रमाण नारदाकय ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाल्लें. पूण लोकांक उपदेश करपा खातीर तांणं भक्ती राखून दवरली. प्रह्लाद केन्ना सोहं भावान रावतालो तर केन्ना ईश्वराचो दास ह्या भावान रावतालो. तर केन्नाय ईश्वराच्या संतान भावान रावतालो. हनुमान ह्याच भावान रावतालो.

सगलेच हे उंचेले अवस्थेक आंवडेतात, पूण सगल्याच जाणांक ती मेळना. कांय कोंडे चड पोकळ आसतात तर कांय कोंडे भितर सामके भरिल्ले आसतात.

## कामिनी–कांचन आनी तिव्र वैराग्य

**एक भक्त:** तुमी म्हणटात, तुमचे अध्यात्मीक अणभव लोकांचे म्हायती खातीर, लोकांचे देखीक. तर मागीर आमी कितें करपाचें तें आमकां सांगात.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमकां जर ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवंक जाय तर खर वैराग्य आपणावंक जाय. जें कितें ईश्वराच्या मार्गांत आड येता अशें दिसता ताचो त्याच खिणाक त्याग करूंक जाय. फुडें जातलें म्हूण लांबणेर उडोवंक जायना. कामिनी––कांचनच ईश्वराच्या मार्गा आड आसा. तातूंतल्यान मन काडून घेवंक जाय.

ढिलाय आनी आळशिपणां करून उपेगाचें ना. एकलो खांदार वालो घेवन न्हावपाक वतालो. ताचे बायलेन ताका म्हणलें, 'तुमी कांय कामाचे नात. तुमी म्हातारे जायत आसात आनी अजून तुमी कांय संवयो लेगीत सोडूंक नात. म्हजे बगर एक दीस लेगीत रावंक नजं. पूण त्या मनशा कडेन पळयात. कितलो त्यागी आसा तो?'

घोव: कित्याक? ताणें अशें कितें केलां?

बायल: ताका सोळा बायलो आसात. आनी एकेक करून तो तांचो त्याग करीत आसता. तुमी केन्नाच त्याग करूंक शकचे नात.

घोव: एकेक बायलेचो त्याग? आगे पिशे, तो त्याग करूंक शकचो ना. जर मनशाक त्याग करूंक जाय तर असो थोडो थोडो त्याग करपाचो आसता?

बायल: (हांसत) तरीय तुमचे परस तो बरो.

घोव: तूं सामकी पिशी. तुका कांय कळना. तो त्याग करूंक शकचो ना पूण म्हज्यान जाता. हें पळय, हांव आतां वतां.

श्रीरामकृष्ण फुडें सांगूंक लागले, हाचेंच नांव तिव्र वैराग्य. विवेक जागृत जालो त्या

णाक ताणें त्याग केलो. खांदार वालो आसतनाच तो गेलो. तो संवसार सांवरपाक
नीक आयलो ना. घरा कडेन परत फाटल्यान आनीक पळयलें ना.
का त्याग करपाचो आसता ताका मनाचें बळगें जाय. डाको घालपाची वृत्ती जाय.
ाचेर डाको घालचे पयलीं डाकू आड्ड्तात- 'मारात, नाच करात, लुटात.'
मी लोकांनी ईश्वरा विशीं भक्ती आनी प्रेम प्राप्त करून घेवंक दीस काडूंक जाय. तुमी
ानीक कितें करपाचें?
ष्ण वतकूच यशोदेक वेदना जावन ती पिशी कशी जाली आनी ती राधे कडेन
ली. राधेक तिचो शोक पळोवन तिणें आद्यशक्ती रुपान तिका दर्शन दिलें आनी
हणलें, 'धुवे. म्हजे कडेन वर माग.' यशोदेन सांगलें, 'आई, हांव आनी तुजे कडेन
कतें मागूं? तरी पूण म्हाका एक असो वर दी, हांव कृष्णाची शरिरान, मनान आनी
ाणीन सेवा करूंक पावतलीं. ह्या दोळ्यांनी ताच्या भक्तांक पळोवंक मेळूं दी. ताची
श्वरी लिला जंय दिसता थंय म्हाका पांयांनी चलपाक मेळूं दी. आनीक म्हाका ताची
ानी ताच्या भक्तांची ह्या हातांनी सेवा करपाक मेळूं दी. आनी म्हजीं सगलीं इंद्रियां
ाचेच सेवेक लागूं दी.'

उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्ण समाधींत वचपाक लागले. अचकीत ते उलयले, "काली,
संहार मूर्त, ना नित्यकाली, म्हजी सासणाची जगन्माता!"
श्रीरामकृष्णांनी मोट्या कश्टान स्वताक सांवरून घेतलें. ते यशोदे विशीं चड उलोवंक सोदताले. तेन्नाच महेंद्र मुखर्जी थंय पावलो. महेंद्र आनी ताचो धाकटो भाव प्रिय श्रीरामकृष्णां कडेन ह्या दिसांनी येताले. महेंद्राची स्वताची पिठाची गिरण आशिल्ली आनी तो हेर वेवसाय करतालो. ताचो भाव इंजिनियर. दोगय भावांनी कामाक लोक दवरिल्ले आनी ते तांचो वेवसाय सांबाळटाले. ते खातीर दोगांकय खूब वेळ मेळटालो. महेंद्राचें वय छत्तीस वा सात्तीस आनी ताचो भाव दोन वर्सांनी ल्हान. केदेती गांवांत तांचें घर आसलें. ते भायर कलकत्ताक बागबाजारांतय तांचें घर आसलें. तांचे बराबर एक धाकटो भक्त, हरी नांवाचो, श्रीरामकृष्णां कडेन येतालो. हरीचें लग्न जाल्लें पूण श्रीरामकृष्णांचेर ताची खूब भक्ती. कितलेशेच दीस जाले महेंद्र आनी हरी हे दोगय जाण दक्षिणेश्वराक पावंक नाशिल्ले. ते श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी इतले दीस दक्षिणेश्वराक कित्याक आयले नात?

**महेंद्र:** महाराज, केदेतीक गेल्लों. कलकत्तांत नाशिल्लों.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमकां भुरगीं बाळां नात. तुमी कोणाची चाकरी करिनात. तरी लेगीत तुमकां वेळ मेळना? आवयस.

भक्त ओगी बसून रावले. महेंद्राक मातशी लज कशी जाली.

**श्रीरामकष्ण:** (महेंद्राक) हांव हें सगलें तुका कित्याक सांगतां? तूं सरळ आनी
आसा. तुजी ईश्वराचेर भक्ती आसा म्हणून.

**महेंद्र:** हय महाराज. तुमी म्हज्या बऱ्या खातिरूच सांगतात.

## विशयी लोक आनी पयशे मागपी साधू
## आपले विशीं मायामोह

**श्रीरामकष्ण:** (हांसत) तुमी जाणात, आमकां हांगा नाटकांक, कार्यावळींक प
दिवचे पडनात. यदूची आवय म्हाका म्हणटा, 'दुसरे साधू सारके पयशे दी दी म्हणटा
पूण तुमी मागिनात.' संवसारी लोकांक खर्च करचो पडल्यार ते रागार जातात.
एके कडेन नाटक चलतालें. एका मनशाक तें थंय बसून पळोवपाची इत्सा जाल
ताणें भितर पळयलें, प्रेक्षकां कडल्यान पयशे एकठांय करतात. तेन्ना ताणें थंयच्य
शांतपणान कूस मारली. आनीक एके कडेन नाटक चलतालें थंय तो मनीस गेल
आनी वासपूस करतकूच ताका कळ्ळें, नाटक पळोवपाक पयशे बी दिवचे पडना
थंय लोकांची व्हडली गर्दी जाली. कोंपरांनी धोंगशीत लोकां मदल्यान वाट काडी
तो हॉला मदीं पावलो. थंय स्वताक बरो जागो पळोवन, मिशयांक पीळ दीत नाट
पळोवंक लागलो. (सगले हांसतात.)
मन हेवटेन तेवटेन वचपाक तुका भुरगीं बाळां नात. एक डेप्युटी मॅजिस्ट्रेट हांव जाण
तो म्हयन्याक आठशें रुपया पगार घेता. केशव सेनाच्या घरा नाटक पळोवपाक गेलो
हांव लेगीत थंय आशिल्लों. राखाल आनी कांय भक्त म्हजे बराबर आशिल्ले आन
ते म्हज्या म्हऱ्यांतूच बशिल्ले. थोड्या वेळान राखाल मातसो भायर गेलो. डेप्युट
मॅजिस्ट्रेट थंय आयलो आनी राखालाच्या जाग्यार ताणें तागेल्या चल्याक बसयलो. हां
म्हणलें, 'थंय तो बसूंक शकना'. त्या वेळार म्हजी मनाची अवस्था अशी आशिल्ली
की लागीं जो बसला आनी तो जें कितें सांगीत तें म्हाका करचे पडटालें. म्हणू
हांवें राखालाक म्हजे म्हऱ्यांत बसयिल्लो. जों मेरेन नाटक चलतालें तों मेरेन डेप्युट
मॅजिस्ट्रेटान कांयच केलें ना. फकत ताच्या पुता कडेन तो बडबडत आशिल्लो. एक
खेपो लेगीत त्या फटिंगान नाटक चुकून पळयलें ना. हांवें आयकलां तो बायलेचे
सामको बंदो म्हणून. तिणें ऊठ म्हणल्यार उठ्ठा आनी बस म्हणल्यार बसता. आन
परत ताणें त्या नकट्या माकडा खातीर-त्या भुरग्या खातीर नाटक लेगीत पळयलें ना.
(महेंद्राक) तूं ध्यान करता न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** म्हाका शिश्य कोण ना. हांव रामाच्या दासांचो दास.
शेजारचे कांय लोक आयले. पूण तांकां पळोवन श्रीरामकृष्णांक आनंद जालो ना. तांणी म्हणलें, ‘‘हो वाठार कसलो? हांगा म्हाका एकूय भक्तीमान मनीस दिसना.’’ देवेंद्र श्रीरामकृष्णांक भितरले कुडींत घेवन गेले आनी तांकां तांणी अल्पोहार दिलो. मागीर श्रीरामकृष्ण आनंदान सालांत आयले आनी बसले. उपेंद्र आनी अक्षय तांच्या दोनूय वटांनी बसले. भक्त तांचे भोंवतणीं बसले आनी तांचे पांय चेपूंक लागले. श्रीरामकृष्णांनी देवेंद्राच्या घरच्या बायलांची तुस्त करीत म्हणलें, ‘‘त्यो खूब बऱ्यो मायेस्त आसात. त्यो गांवांतल्यान येतात. देखून त्यो खूब भक्तीमान आसात.’’ श्रीरामकृष्ण आपल्याच आनंदांत मग्न आशिल्ले. त्याच आनंदांत ते गावंक लागले:

मनीस सरळ आसले बगर सरळ स्वरुपी ईश्वराक ताच्यान वळखूं नजं...

परत ते गावंक लागले:

ए जोगी, थंयच राव!
हातांत भिक्षापात्र घेवन थंयच उबो राव,
आनी पळोवं दी म्हाका तुजें तेजवंत मुखामळ...

परत ते गावंक लागले:

आमचे कडेन आयिल्लो एक जोगी, ईश्वरी आनंदांत सदांच तन्मय;
पवित्र तो दोगांकूय, हिंदूंक तसो मुसलमानांक...

गिरीश श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले आनी तांणी निरोप घेतलो. देवेंद्र आनी हेर भक्त श्रीरामकृष्णांक गाडये कडेन घेवन गेले. थंयच आंगणांत तांणी पळयलें, एक शेजारी बांकार सुस्त न्हिदिल्लो. देवेंद्रान ताका उठयलो. शेजारी दोळे चोळीत उठलो आनी ताणें म्हणलें, ‘‘परमहंस आयल्यात.’’ सगले जाण मोट्यान हांसले.
श्रीरामकृष्ण खूब वेळ येवचे पयलीं हो शेजारी आयिल्लो आनी खूब उजो जाल्ल्यान ताणें बांकाचेर शेंदरी घालून थंय ताणावन दिल्लें आनी ताका सुस्त न्हीद लागिल्ली.
श्रीरामकृष्णांची गाडी दक्षिणेश्वराक वचपाक लागली. तांणी मक आनंदान म्हणलें,

‘‘हांवें खूब आयस्क्रीम खालें. तूं दक्षिणेश्वराक येतलो तेन्ना म्हजे खातीर चार पांच आयस्क्रिमां घेवन यो.’’ परत तांणी सांगलें, ‘‘सध्या ह्या भुरग्यां कडेन म्हजें मन ओडटा. धाकटो नरेन, पूर्ण आनी तुजो मेवणो.’’

**म:** कोण? द्वीज?

**श्रीरामकृष्ण:** ना. द्वीज आसाच. ताचो व्हडलो भाव.

**म:** अशें

गाडी दक्षिणेश्वराक काली देवळा कडेन फुडें वचूंक लागली.

# अध्याय एकशेंअठरा

## श्रीरामकृष्णांच्यो यादी
## बलरामाच्या घरा भक्तांच्या सांगातान
## भगवान श्रीरामकृष्ण

### श्रीरामकृष्णांनी स्वताच सांगिल्ली स्वताचे साधनेची विसकटावणी

**एप्रील 12, 1885. आयतार.** भगवान श्रीरामकृष्ण कलकत्तांत बलरामाच्या सालांत भक्तां सांगातान बशिल्ले. म तीन वरांचेर पावलो. गिरीश, बलराम, धाकटो नरेन, पलटू, द्वीज, पूर्ण, महेंद्र मुखर्जी आनी हेर कितलेशेच भक्त थंय आशिल्ले. रोखडेच ब्राह्मसमाजाचे त्रैलोक्य संन्याल, जय गोपाल सेन आनी हेर भक्त आयले. भक्त अस्तुऱ्योय थंय आयल्यो. त्यो पड्ड्या फाटल्यान बशिल्ल्यो. मोहिनीची बायल आयिल्ली. ती पुत्रशोकान पिशी कशी जाल्ली. आनी तिचे सारकेंच दुख्ख भोगिल्ल्यो श्रीरामकृष्णांचे म्हऱ्यांत आयिल्ल्यो. ह्याच विश्वासान की तांकां मनाची शांतिकाय मेळटली. श्रीरामकृष्ण भक्तांक स्वता साधना करता आसतना घडिल्ल्यो घडणुको आनी अध्यात्मीक साक्षात्काराच्यो अवस्था हांचे विशीं वर्णन करताले.

**श्रीरामकृष्ण:** साधनेच्या काळांत हांव जेन्ना ध्यान करतालों तेन्ना म्हाका खरो खरो हातांत त्रिशूळ घेवन एक मनीस म्हजे म्हऱ्यांत बसला अशें पळयतालों. जर ईश्वराच्या कमल चरणां कडेन मन दवरलें ना तर म्हाका त्रिशुळान मारतलों असो भंय घालतालो. तशेंच ईश्वराचेर जर सारकें मन दवरलें ना तर त्रिशूळ हड्ड्यांत रोमतलों असोय भंय घालतालो.

### नित्य-लिलायोग-प्रकृती
### विवेक योग

केन्ना केन्नाय जगन्माता म्हाका अशे अवस्थेंत दवरताली की म्हजें मन नित्यांतल्यान सकयल लिलेंत देंवतालें आनी केन्नाय लिलेंतल्यान वयर नित्यांत वतालें.

केन्नाय म्हजें मन जेन्ना लिलेंत देंवतालें तेन्ना हांव रात दीस सीतेचें आनी रामाचें ध
करतालों. त्या वेळार म्हाका सदांच सीतेच्या आनी रामाच्या रुपांचें दर्शन जात
रामलाला* म्हजो वांगडी आसतालो. ताका घेवन सदांच भोंवतालों. केन्नाय त
हांव न्हाणयतालों आनी केन्नाय जेवयतालों.

परत हांव राधेच्या आनी कृष्णाच्या भावांत मग्न आसतालों आनी सदांच म्हाका तां
रुपांचें दर्शन जातालें. वा परत हांव गौरांगाच्या भावांत मग्न आसतालों. त्या दो
भावांचो मेळ घालतालों-पुरूश आनी प्रकृती. अशा वेळार सदांच म्हाका गौरांगा
रुपाचें दर्शन जातालें.

मागीर परत म्हजे अवस्थेंत बदल जालो. म्हज्या मनान लिलेचो त्याग केलो अ
हांव 'नित्य' अवस्थेंत पावलों. मागीर म्हाका पवित्र तुळस आनी सजना वनस
हातूंत फरक दिसना जालो. ईश्वराचीं रुपां पळोवपांत आनंद दिसना जालो. ह
मनांत म्हणलें, 'तीं येतात आनी वतात.' हांवें म्हजें मन सगल्यांचे वयर व्हेलें. ह
म्हजे कुडींतलीं सगलीं देवदेवतांची चित्रां काडलीं. आनी फकत मूळ पुरूश, अर
सच्चिदानंदाचेर ध्यान करूंक लागलों. स्वता 'दाशी' भावांत रावूंक लागलों-
पुरुशाची दाशी या भावांत.

हांवें सगल्या तरांची साधना केली. साधना तीन तरांची आसता: सात्वीक, राजसी
आनी तामसीक. सात्वीक साधनेंत साधक ईश्वराक व्याकूळतायेन आळयता वा फक
ताचें नांव घेत रावता. ताच्या बदला ताका फळाची आस नासता. राजसीक साध
साधकाक तरातरांचे आचार (विधी) करचे पडटात. पुरश्चरण, तिर्थयात्रा, पंचत
शोडशोपचार पद्धतीन पुजा करप आनी हेर तरेन साधना करप. तामसीक साध
ईश्वराची पुजा तमाचो आधार घेवन करप. तामसीक भक्ताचो भाव असो आसता
'जय काली! कितें? तूं म्हाका दर्शन दिवची ना? दर्शन जर दिलें ना तर हांव स
घेवन म्हजो गळो कापतलों.' हे साधनेंत शुद्ध आचार पाळप नासता. तंत्राचे साध
प्रमाण साधना करपाची आसता.

म्हजे साधनेचे अवस्थेंत म्हाका त्या सगल्या तरांचीं अदभूत दर्शनां जालीं. हांवें साम
स्पशटपणान आत्म्याचें मिलन जाल्लें पळयलें. म्हजेच सारको दिसपी एक मनीस म्हज
शरिरांत भितर सरलो आनी स कमळचक्रांतल्या प्रत्येक चक्रा बराबर एकवट साधू
लागलो. ह्या कमळांच्यो पाकळ्यो धांपिल्ल्यो आनी तसो तो प्रत्येक कमळा कडे
एकरूप जावपाक लागलो. तशें प्रत्येक कमळ फुलूंक लागलें आनी ऊर्ध्वमुखी जावं

---

* एका वैशणव संतान श्रीरामकृष्णांक साधनेच्या काळांत दिल्ली बाळक रामाची धातूची मूर्त.

ागलें. अशे रितीन मुलाधार, स्वाधिशठान, अनाहत, विशुद्ध, आज्ञापद्म, सहस्रार हीं
गलीं कमळां फुलून गेलीं. आनी तांचीं सकयल तोंडां आशिल्लीं तीं उर्ध्वमूख जालीं.
सगलें हांवें प्रत्यक्षपणान पळयलें.

## ज्ञानयोगीची साधना

ाधना करता आसतना हांव जेन्ना ध्यान करतालों तेन्ना हांव दिव्याचे ज्योतीची-वारो ासतना-मात लेगीत हालना अशे ज्योतीचें ध्यान करतालों. गाढ ध्यानांत भायलें ान अजिबात ना जाता. एका व्याधान सुकणें मारपा खातीर नेम धरलो. लग्नकार ाचे म्हऱ्यांतल्यान वताले. तांचे मदीं न्हवरेकाराचे सोयरे धायरे, वाजंत्री, गाडी घोडे आशिल्ले. ते ताचे म्हऱ्यांतल्यान वचपाक कितलोसोच वेळ लागलो. पूण व्याधाक ाचें भान नाशिल्लें. न्हवरो तेवटच्यान गेलो हें ताका खबरच नाशिल्लें.

एक मनीस एकटोच एका तळ्यांत नुस्तें गरयतालो. बऱ्याच वेळा उपरांत गरी हालूंक लागली. मदीं मदीं नुस्तें सामकें गरयेक फारावता काय जालें. गरयेकार गरी सामकी हातांत घट्ट धरून बशिल्लो. आनी गरी वयर काडपाचे तयारेंत आशिल्लो. तेन्नाच एक मनीस लागींच्यान वतालो. तो थंय रावलो आनी ताणें विचारलें, 'सायबा, बानर्जी खंय रावता तें मातशें म्हाका सांगशात?' त्या गरयेकारान कांयच जाप दिली ना. तो सामको गरी वयर काडपाचे तयारेंत आशिल्लो. परत परत तो प्रवाशी ताका मोट्यान विचारतालो, 'सायबा, बानर्जी खंय रावता तें मातशें सांगशात?' त्या मनशाक ताचें कांयच भान नाशिल्लें. ताचे हात थरथरताले. ताचे दोळे गरयेचेर आशिल्ले. प्रवाशी बेजार जावन गेलो. तो बरोच पयस गेले उपरांत हाका गरयेक नुस्तें झटको मारता तें कळ्ळें आनी ताणें रोखडीच गरी वयर काडली आनी नुस्तें वयर उडयलें. ताणें तुवाल्यान तोंडा वयलो घाम पुसलो आनी प्रवाश्याक उलो मारलो, 'आगा, आयक, आयक तरी.' पूण तो तेवटच्यान पळयच ना जालो. बरेच उले मारले उपरांत तो परत आयलो आनी ताणें गरयेकाराक म्हणलें, 'तूं म्हाका मोट्यान कित्याक उलो मारता?' गरयेकारान विचारलें, 'तुमी म्हाका कितें विचारताले?' प्रवाश्यान सांगलें, 'आरे तुका इतले फावट विचारलें आनी आतां तूं म्हाका सांगता, हांवें कितें विचारलें तें सांग म्हणून?' गरयेकारान म्हणलें, 'आरे बाबा, त्या वेळार म्हगेले गरयेक नुस्तें सामकें लागपाक आयिल्लें. आनी तुवें म्हणलें तें मात लेगीत म्हाका आयकूंक आयलें ना.' ध्यानांत अशे तरेची एकाग्रताय जावंक शकता. ताका कांयच दिसचें ना. ताका

कांयच आयकूंक येवचें ना. ताका स्पर्शाची जाणीव जायना. सोरोप ताच्या अ
वयल्यान वता पूण ताका तें खबरच नासता. दोगांकय एकमेकांची जाणीव नास
गाढ ध्यानांत इंद्रियांचीं सगलीं कामां बंद आसतात. मनाक भायलें कांयच लाग
घरांतल्या आंगणांतलो दरवटो बंद करून दवरला कसो. इंद्रियांचे पांच विशय आसा-
रूप, रस, गंध, स्पर्श, शब्द-सगले भायरच उरतात. ध्यानाच्या वेळार पयलीं पय
इंद्रियांचे सगले विशय साधकाच्या मुखार येतात. पूण गाढ ध्यान जशें जाता तेन्ना त
ते सतायनात. ते भायरूच उरतात. ध्यान करतां करतां म्हाका कितल्या तरांचीं द
जावचीं? हांवें स्पशटपणान म्हजे मुखार रुपयांची रास, एक शाल, ताटभर मिठा
नाकांत नथ घाल्ल्यो दोन अस्तुऱ्यो पळयल्यो. हांवें म्हज्या मनाक विचारलें, 'तु
हातूंतले कितेंय भोगपाची इत्सा आसा?' म्हज्या मनान सांगलें, 'ना, म्हाका कां
भोगपाची इत्सा ना. म्हाका आनीक कांयच नाका. म्हाका ईश्वराच्या कमळ चरणां ब
आनीक कांयच नाका. ह्या अस्तुऱ्याचें भायलें आनी भितरलें सगलें म्हाका दिस
हारशे आशिल्ले कुडींतलें जशे सगले जिनस भायल्यान दिसतात तशें. तांचे भितर कि
आसा तें पळयलें-आंतडीं, रगत, घाण, कृमी, कफ, लाळ, मूत बी, सगलें.

## अशटसिद्धी आनी भगवान श्रीरामकृष्ण
## गुरूबाजी आनी वेश्यावृत्ती

श्रीरामकृष्णांचें नांव घेवन रोग बरे करतलों अशें मदीं मदीं गिरीश चंद्र घोश म्हणटाल
**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक आनी हेर भक्तांक) हीन वृत्तीचे लोक गूढ सिद्धी-शक्तीच
इत्सा धरतात-रोग बरो करपाची शक्त, मुकदमो जिखप, उदका वयल्यान चल
आनी हेर सगलें. पूण ईश्वराचे खरे भक्त, ईश्वराचे चरण कमळ सोडून आनीक कांय
मागिनात.एक दीस हृदयान म्हाका म्हणलें, 'मामा, आई कडेन कांय शक्ती सि
मागून घे.' म्हजो बाळकाचो सभाव. कालीच्या देवळांत जेन्ना हांव जप करतालों ते
हांवें कालीमातेक म्हणलें, 'हृदय म्हाका तुजे कडेन कांय सिद्धी मागपाक सांगता
जगन्मातेन म्हाका रोखडोच एक दिश्टावो दाखयलो. एक मध्यम वयाची वेश्या. व
आसत चाळीस वर्सां. म्हजे कडेन फाट करून बसल्या अशी दिसली. तिचें कंबर मो
आशिल्लें. ती काळे देगेचें कापड न्हेशिल्ली. रोखडीच ती हळशिकेन भरली.' आई
म्हाका दाखोवन दिलें, सिद्धी-शक्ती म्हणचे वेश्येची हळशीक घाण कशी. मागीर हां
हृदया कडेन गेलों आनी ताका तापोवन काडलो आनी ताका म्हणलें, 'तुवें म्हाक

असलें मागपाक कित्याक शिकयलें? तुजे खातिरूच म्हाका असलें पळोवचें पडलें.' ज्या लोकांक थोडीशी सिद्दी प्राप्त जातकूच मानमरातब आनी कीर्त मेळटा तातूंतल्या कितल्याश्याच जाणांक गुरूबाजी करची, चारचवगांनी तांकां मानचें आनी शिश्य आनी भक्त करचे अशें दिसता. लोक मागीर असल्या गुरू विशीं म्हणटात, वा, ताका आतां बरे दीस आयल्यात. कितले लोक ताका भेट दिवपाक येतात पळय. ताचे खूब शिश्य आनी ताका भजपी आसात. ताचें घर आनी दार लांकडी सामानान आनी हेर जिनसांनीं भरून ओत्ता. लोक ताका कितल्योश्योच वस्तू भेट म्हणून दितात. ताणें जर मनांत हाडलें तर तो खूब लोकांक पोसूं शकता अशी ताका शक्त आयल्या.' असली गुरूगिरी ही वेश्ये भशेन जाली. थोडेशे पयशे, नांव, लोकीक, शारिरीक सूख-सुविधां खातीर स्वताक विकिल्ले भशेन जालें. ज्या शरीर, मन आनी आत्मो हांचे वरवीं ईश्वराचो लाव करून घेवंक येता, त्याच शरिराक, मनाक, आत्म्याक अर्थहीन गजालीं खातीर शिंदळकी करूंक लावप बरें न्हय. एक दीस एका मनशान एके बायले विशीं म्हणलें, 'वा, तिका आतां दीस बरे आयल्यात. तिचें बरें चल्लां. मजा चल्ल्या तिची. तिणें एक कूड भाड्यान घेतल्या. आनी ती कूड, खाट, शेंदरी, उशीं, हांतरूण आनी हेर तरातरांच्या गजालींनी बरी सजयल्या. आनी कितल्या लोकांचेर तिचो शेक चलता. ते लोक तिगेर सदांच येतात.' दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार ती आतां वेश्या जाल्या. देखून तिच्या सुखाक शीममेर ना. पयलीं ती कोणा गृहस्थाच्या घरा वावराडी म्हूण आशिल्ली. आतां ती वेश्या जाल्या. साद्या सुखाक लागून तिणें स्वताचो सर्वनाश करून घेतला.

## श्रीरामकृष्णांक साधना करपा वेळार दाखयिल्लीं प्रलोभनां.

## ब्रह्मज्ञान आनी अभेदभेद

## श्रीरामकृष्ण आनी मुसलमान धर्म

साधना करता आसतना म्हाका आनीक कितलींच दर्शना जालीं! एक खेपो बेलारुखा सकयल हांव ध्यान करतालों. तेन्ना 'पातक' म्हजे मुखार उबें रावलें आनी ताणें तरेतरेन म्हाका भुलयलें. पातक इंग्लीश सैनिकाच्या रुपान आयलें. ताका म्हाका पयसो, मान, रममाण जावपाचें सूख, कितल्योश्योच सिद्धी दिवपाक जाय आशिल्लें. हांव जगन्मातेची प्रार्थना करूंक लागलों. आतां हांव तुमकां गुपीत गजाल सांगतां. आईन

दर्शन दिलें. हांवें तिका सांगलें, ‘आई, हाका जितो मारून उडय’ म्हाका आईचें तें रूप-भुवन मोहिनी रूप-याद जाता. कृष्णमयीचें* रूप घेवन आयिल्ली. पूण जशें किते तिचे नदरेनच जग हालता.

श्रीरामकृष्ण शांत रावले. परत ते उलोवंक लागले. तांणी म्हणलें, ‘‘आनीक कितल्या तरांचीं दर्शनां हांवें पळयलीं. पूण तीं सांगपाक म्हाका मेकळीक ना. कोण तरी म्हजें तोंड बंद करून उडयता कशें.

म्हाका तुळशीचें पान आनी सजना पान हातूंत कांय फरक दिसनाशिल्लो. भेदबुद्द सामकी ना जावन गेल्ली. एक खेपो वडा सकयल ध्यान करतालों. तेन्ना खाड आशिल्लो एक मुसलमान** म्हाका दाखयलो. तो मातयेचे थाळयेंत शीत घेवन म्हजे कडेन आयलो. तो कांय मुसलमानांक जेवण घालतालो. एक दोन गोटे ताणें म्हाकाय दिले. आईन म्हाका दाखयलें, ‘ईश्वर एकूच आसा आनी दोन न्हय.’ सच्चिदानंदच तरातरांची रुपां धारण करून रावला. तोच समस्त जीव जगत जाला. तोच अन्न जाला.

## भगवान श्रीरामकृष्णांचो बाळक-भाव
## आनी तद्रूपताय

(गिरीशाक, मक आनी हेर भक्तांक) म्हजो बाळकाचो सभाव. हृदयान म्हाका सांगलें, ‘मामा, आई कडेन थोड्यो सिद्धी-शक्ती मागून घे.’ हांव रोखडोच देवळांत आई कडेन मागपाक गेलों. त्या वेळार आईन म्हाका अशे अवस्थेंत दवरिल्लो, जे मनीस म्हजे म्हऱ्यांत रावताले तांचें म्हाका आयकुचें पडटालें. जशें ल्हान भुरग्याक ताचे म्हऱ्यांत कोण नासत जाल्यार चोंय कडेन काळोख दिसूंक लागता, तशें म्हाका दिसतालें. हृदय नासल्यार म्हजो जीव वतलो अशें दिसतालें. पळय, आतां हांव तेच अवस्थेंत आसां. तुमचे कडेन उलयतां आसतना म्हजे भितरली चेतना जागृत जायत आसा.’’

श्रीरामकृष्ण अशें उलयतात थंय आसात, ते समाधींत वचूंक लागले. देश कालाची जाणीव ना जावंक लागली. पूण खूब कश्टांनीं ते स्वताक सांवरपाचो यत्न करताले. तेच आनंदाचे अवस्थेंत तांणी भक्तांक म्हणलें, ‘‘हांव अजून तुमकां पळयतां. पूण अशें दिसता, तुमी हांगा सदांचेच बसून आसात. तुमी केन्ना आयले वा तुमी खंय आसात हाची कांयच याद जायना.’’

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ शांत बसले. मागीर मातशे भानार येतकूच तांणी म्हणलें, ‘‘हांव उदक पियेतलों.’’ समाधी देंवतकूच मन सकयल हाडपा खातीर

**महेंद्र:** हय महाराज. थोडेंशें करतां.

**श्रीरामकृष्ण:** मदीं मदीं दक्षिणेश्वराक येत राव.

**महेंद्र:** (हांसत) हय महाराज, हांव येतलोंच. खंय गांठ बीठ आसा जाल्यार तुमी जाणाच जातले. तुमी ती सारकी करतलेच.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) पयलीं दक्षिणेश्वराक यो तरी. मागीर खंय गांठ बीठ आसल्यार दांबून पळयतलों. तूं कित्याक येना?

**महेंद्र:** काम खुबूच पडटा. ते खातीर येवंकच मेळना. परत गांवा कडच्यान घरा कडेन मदीं मदीं वच्चें पडटा.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तां कडेन बोट दाखोवन महेंद्राक) ह्या लोकांक कितें घरदार ना? तांकां कितें काम नासता? ते कशे येतात?

## बायलेचें बंधन

(हरीक) तूं दक्षिणेश्वराक कित्याक आयलो ना? तुजी बायल बराबर आसा काय कितें?

**हरी:** ना महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** मागीर तूं म्हाका कित्याक विसरलो?

**हरी:** महाराज हांव बरो नाशिल्लों.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) सामको बारीक जाला. ताची भक्ती कितें कमी ना. तागेले भक्तीचो वेग सामको व्हांवता. पूण ती मातशी त्रासदायक आसा. (हांसता.)

श्रीरामकृष्ण एका भक्ताचे बायलेक 'हाबीची आई' म्हणटाले. हाबीचे आईचो भाव आयिल्लो. तो कोलेजींत शिकतालो. वय वीस जातलें. ताका क्रिकेट खेळपाक जाय आसलें म्हणून तो वचपाक उठलो. ताचो धाकटो भाव द्वीज. होवूय श्रीरामकृष्णांचो भक्त. दोगय भाव गेले. कांय वेळा उपरांत द्वीज परत आयलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका विचारलें, ''तूं गेलो ना?'' एका भक्तान सांगलें, ''ताका पद आयकुपाचें आसा. घडये तेच खातीर तो परत आयला.'' त्रैलोक्य, ब्राह्मभक्त, श्रीरामकृष्णां खातीर पद म्हणपाचे आशिल्ले. पलटू आयलो. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''हो कोण? आरे पलटू मरे!''

पूर्ण, आनीक एक धाकटो भक्तय थंय पावलो. श्रीरामकृष्णांनी बरेच त्रास घेवन ताका आफोवन हाडिल्लो. घरचे लोक श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक धाडपाक तयार नाशिल्ले. म जे शाळेंत शिकयतालो तेच शाळेंत पांचव्या वर्गांत हो भुरगो शिकतालो. भुरगो श्रीरामकृष्णांक न्हिदून माथें जमनीक लावन पांयां पडलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका

म्हऱ्यांत बसयलो आनी ते ल्हव आवाजांत ताचे कडेन उलोवंक लागले. फकत म
तांचे म्हऱ्यांत बशिल्लो. हेर भक्त दुसऱ्यो गजाली करपांत मग्न आशिल्ले. गिरीश कुडीचे
दुसरे वटेन बसून केशव सेनांचें चरित्र वाचताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (पूर्णाक) सामको लागींचो.

**गिरीश:** (मक) कोण हो भुरगो?

मक ह्या भुरग्या विशीं दुसऱ्यांक कळत म्हणून भंय आशिल्लो. कळत जाल्यार ताका घरा कडेन त्रास जातलो आशिल्लो आनी मचेर ठपको येतलो आशिल्लो.

**म:** (नेटान) तो भुरगो आसा. तुमी पळयतात न्हय?

**गिरीश:** (हांसत) तें सांगपाक भुताची गरज ना.

श्रीरामकृष्ण आनी भुरगो ल्हव आवाजांत उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** जें तुका हांवें सांगलां तें तूं करता न्हय?

**पूर्ण:** हय महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** तुका सपनां पडटात काय ना? सपनांत ज्योत दिसता? मशालीचो उजवाड दिसता? सवाशीण अस्तुरी दिसता? स्मशान बी? सपनांत ह्यो सगल्यो गजाली दिसप हें खूब बरें.

**पूर्ण:** हांवें तुमकांय सपनांत पळयले. तुमी बसल्यात आनी म्हाका कितें सांगतात्त.

**श्रीरामकष्ण:** कितें! कांय उपदेश! ताचें विशीं थोडें तरी सांग.

**पूर्ण:** म्हाका आतां कांय याद ना.

**श्रीरामकृष्ण:** कांय हरकत ना. पूण तें खूब बरें. तुजी उन्नती जातली. म्हजे विशीं तुका ओड आसा न्हय?

थोड्या वेळान श्रीरामकृष्णांनी भुरग्याक म्हणलें, ''तूं थंय येवपाचो ना?'' थंय म्हणचे दक्षिणेश्वराक. भुरग्यान सांगलें, ''हांव येतांच म्हणून सांगिना.''

**श्रीरामकृष्ण:** कित्याक? थंय तुजो कोण सोयरो रावता व्हय?

**पूर्ण:** हय महाराज. पूण म्हाका तांचे कडेन वचप जमपाचें ना.

गिरीश केशवाचें चरित्र वाचताले. तें ब्राह्मसमाजाच्या त्रैलोक्यान बरयिल्लें. ह्या पुस्तकांत तांणी अशें बरयलां, 'पयलीं श्रीरामकृष्ण संवसाराचे सामके आड आशिल्ले. पूण केशवाचो सांगात मेळ्ळे उपरांत तांणी आपलें मत बदल्लें. आतां ते मानतात, संवसारांत रावन लेगीत अध्यात्मीक जीण जगूं येता.' कितल्याश्याच भक्तांनी ते विशीं श्रीरामकृष्णांक सांगलें. तांकां त्रैलोक्या बराबर ते विशीं उलोवंक जाय आशिल्लें.

रामकृष्णांक पुस्तकांतलो तो भाग वाचून दाखयलो.

## श्रीरामकृष्णांची अवस्था–<br>भक्तसंगाचो त्याग

रीशाच्या हातांत तें पुस्तक पळोवन श्रीरामकृष्णांनी गिरीश, म, राम आनी हेर भक्त ांका लेखून म्हणलें, ''ते लोक संवसारच घेवन बसल्यात. म्हणुनूच ते संवसाराक तलें महत्व दितात. ते कामिनी–कांचनांतच बुडून गेल्यात.'' ईश्वराचो साक्षात्कार ाले उपरांत मनीस तसो उलोवचो ना. ईश्वराचो परमानंद भोगले उपरांत संवसार ावळ्याची विश्ठा कशी दिसता. हांवें सुरवेकच सगलें सामकें सोडून दिलें. फकत ्रशयी लोकांचोच सांगात सोडला अशें न्हय तर मदीं मदीं भक्तांचोय सांगात सोडलो. ांवें पळयलें, भक्तय एका फाटल्यान एक मरत आसात आनी तें आयकून म्हजें काळीज ळमळूंक लागलें. पूण आतां तरी हांव एक दोन भक्तांक म्हजे बराबर दवरतां.''

## भक्तांच्या सांगातान संकिर्तनानंदांत

गिरीश परत येतां अशें सांगून घरा गेले.

त्रैलोक्य जयगोपाल सेना बराबर आयले. ते श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले आनी बसले. श्रीरामकृष्णांनीं ताची वासपूस केली. धाकटो नरेन भितर सरलो आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. श्रीरामकृष्णांनीं ताका विचारलें, ''कितें रे, फाटल्या शेनवारा तूं कित्याक आयलो ना?''

त्रैलोक्य पद गावपाचे तयारेंत आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** वा, तुवें त्या दिसा आनंदमयी आईचें पद म्हणलें. कितलें गोड पद तुवें म्हणलें. हेरांची सगलीं पदां म्हाका अळणी लागलीं. त्या दिसा नरेंद्राचें पद लेगीत म्हाका तितलें आवडलें ना. तेंच पद तूं परत कित्याक म्हणिना?

त्रैलोक्य गावंक लागले:

सचीच्या पुताचो, गोराचो जय जावं!<br>दर एका गुणाची मठी,<br>प्रेमाचो पारस, आनंद सागर,<br>मनीस मुग्धावणो, सुंदर रुपाचो,

दोळे भुलोवन चकचकीत जशें भांगर!

ताचे नाजूक हात धोंपरा मेरेन पावपी,
साळकाचे देंठ कशे शिरवंत आनी लांब,
सगले मनीसजातीक वेंगावन मायेन पसरल्यात;
अतूल सुंदरकायेचें ताचें कमळ कशें मुखामळ
प्रेमाच्या अमृतान उप्पाट व्हांवता;
ताचे गाल मुदयाळ्या केंसांनी व्यापल्यात

आनंदान झगझगपी, ताची कूड शिरशिरून
हरीच्या आनंदान, सुवर्णकांती गौरांग
पिशा हतया भशेन नाचता, हालोवन
सगले ताचे पांय, प्रेमाच्या उन्मादान!
गौरांग, हरीच्यो व्हडविकायो गावपी,
दर एका साधूच्या काळजाचो गोंडो.
मनशां मदीं दुर्मीळ, प्रेमाचो सागर!

तो नाचता दोनूय ताचे हात वयर करून,
आनी गायता हरीचें नाम; दुकां व्हांवतात
ताच्या गाला वयल्यान; तो रडटा, तो आड्डता,
तो कडकडटा, गरड घालता, आनी चवताळटा, म्हणटा,
खंय आसा हरी, म्हज्या काळजाचो मणी?
ताच्या हाता पांयाक कांटो फुलता;
जशें कदंबाचें झाड चंवरता;
धुल्लान भरून वचून तो जमनीर लोळटा,
आरे तूं, हरीलिलेचो निवास,
प्रेमाच्या अमृताचो उगम झरो,
निराश्रितांचो इश्ट, बंगालाची व्हडवीक,
चैतन्याचो विजय जावं, तूं जो चकचकता,
झगझगीत चंद्रीम कसो, भक्तांच्या काळजांत.

ारामकृष्ण मातशे कुडी भायर गेले. भक्त अस्तुऱ्यो पड्ड्या फाटल्यान बशिल्ल्यो. त्यो
ारामकृष्णांच्या दर्शनाक आतूर जाल्ल्यो.
लोक्याचें पद चालूच आशिल्लें. श्रीरामकृष्ण कुडींत परत आयले आनी तांणी त्रैलोक्याक
ांगलें, ‘‘आनंदमयी आईचें पद म्हणशी.’’

लोक्य गावंक लागले:

भाई जगन्माते मनशांचेर तुजें कितलें म्हूण प्रेम
असो विचार येतकूच, हांव आनंदान रडटां...

पद आयकतां आयकतां धाकटो नरेन गाड समाधींत गेलो. लांकडाचो होंडकोच कसो. श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ‘‘पळय ताचे कडेन. तो भायल्या जगा विशीं सामको अनभिज्ञ जाला.’’
पद सोंपलें. श्रीरामकृष्णांनी आनीक पद म्हण म्हणून सांगलें.

त्रैलोक्य गावंक लागले:

ए आई, तुज्या प्रेमान म्हाका पिसो कर!
ज्ञानाची आनी तर्कवितर्काची म्हाका कसली गरज?...

रामान तांकां हरी विशीं पद म्हणपाक सांगलें.
त्रैलोक्य गावंक लागले:

ए मना, हरीचे नांव घे
हरीचें नांव मोट्यान गायत राव,
भगवान हरीच्या नांवाची तुस्त कर
आनी ए मना, हरीचें नांव घेत घेत
हो भवसिंधू तरून वच

हरी जळीस्थळीं आसा

हरी वायूंत आसा, आनी अग्नींत,
चंद्रिमांत आनी सुर्यांत तो वसता,
सगलें चराचर हरीमयच आसा
सगले कडेन तोच भरून आसा.

मन ल्हव आवाजांत त्रैलोक्याक, गौर आनी निताई, तुमी सुभागी भाव हें पद म्हणप
सांगलें.
श्रीरामकृष्णांनीय ताका तेंच पद म्हणपाक सांगलें. त्रैलोक्य आनी सगले भक्त मेळून
प्रभो, गौर आनी निताई अशे तुमी दोनय भाव परम दयाळू आसात'' ह्या भावार्थ
पद गावंक लागले. तें पद सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्ण गावंक लागले:

पळयात, दोनूय भाव आयल्यात, जे रडटात हरीचें नांव घेतना,
भाव जे, धक्के मारतल्यांक, हरीचें प्रेम दितात,
सगल्यांक वेंगावन भाव म्हणून, जाती भायल्यांक लेगीत,
पळयात, दोनूय भाव आयल्यात, जे एकदां ब्रजाचे कनाई
आनी बलाई आसले.

मागीर श्रीरामकृष्णांनी आनीक एक पद म्हणलें:

पळय कशें सगलें नादिया हालता
गौरांगाच्या मोगाच्या ल्हारांनी.

परत श्रीरामकृष्ण गावंक लागले:

हरीचें नांव घेवन भोंवतात ते कोण
माधवी मातशी भायर वच आनी पळय!
ते गौर आनी निताई काय दिसतात,
तांच्या सोबीत पांयांनी भांगराळीं पांयजणां घालून,
तकली तासून आनी पिंजकुरां न्हेसून,
पिशे कशे ते चलतना धडपडटात...

धाकटो नरेन वचपाक भायर सरलो.

**श्रीरामकृष्ण:** तूं आईबाबा विशीं खूब भक्ती बाळगी. पूण ईश्वराच्या मार्गांत तांणी आडमेळीं हाडल्यार तांचें आयकूं नाका. अशा वेळार पेंगट बांदून तयार राव आनी म्हण, 'खंयचो आयला बापूय?'

**नरेन:** खरेंच म्हाका कसलोच भंय दिसना.

गिरीश आयले. श्रीरामकृष्णांनी तांची त्रैलोक्या कडेन वळख करून दिली. दोगांकय एकामेकां कडेन उलोवपाक सांगलें. थोड्या वेळा उपरांत श्रीरामकृष्णांनी सांगलें, ''परत तें पद म्हण पळोवया.''

त्रैलोक्य गावंक लागले :

गोराचो, सचीच्या पुताचो जय जावं.
आरे, दर एका सदगुणाचो ठेवो
प्रेमाचो, आनंदसागराचो कस
मनशाक मुग्धावणारो, रूप सोबितायेचो
चकचकपी भांगर कसो भुलोवणो दोळो!...

श्रीरामकृष्ण समाधींत गेले. ते उबे रावले. तांकां जगाचें कांयच भान उरलें ना. थोडेशे भानार येतकूच तांणी कळवळ्यान त्रैलोक्याक तें पद म्हणपाक सांगलें. तें पद, आहाहा, कितें तें दर्शन म्हाका जालें.

त्रैलोक्य गावंक लागले:

आरे, केशव भारतीचे खोंपींत म्हाका कसलें दर्शन जाल्लें!
गोरा, आपले तुळा नाशिल्ले सोबितायेंत
सहस्र झऱ्यांनी दुकां व्हांवयता!
पिशा हतया भशेन तो अतिआनंदांत नाचता आनी गायता.
हिसपा भायर कसो मोग पियेता

जमनीर आडवो लोळून आनी आपल्या दुकां मदीं पेंवन,
तो रडटा आनी हरीच्या नांवान आड्डुता,
आपल्या आड्ड्यांनी स्वर्गूच चिरून,
शिंवाच्या आड्डयां परसूय मोट्यो;

मागीर खूब नमळायेन तो मनशांचो मोग मागता
समजुचे खातीर आपल्याक परमेश्वराचो दास.

केंस ताशिल्लो, अशा ताणें योगीची भगवी कफना घाल्या;
सामकें निबर काळीज लेगीत विरगळटा
ताचो शुद्ध आनी स्वर्गीय मोग पळोवन.
मनशाच्या खोल दुख्खान पिसो जावन,
ताणें सगलें सोडलां
आनी मेकळेपणान तो मोग शिंवरायता.

आरे, तो प्रेमदास ताचो दास जावचो आनी दारादारांतल्यान,
दारादारांतल्यान भोंवतना गौरांगाची निरंतर तुस्त गावची!

पद सोंपलें. तिनसांज जाली. श्रीरामकृष्णांचे भोंवतणीं अजून भक्त आशिल्ले.
**श्रीरामकृष्ण:** (रामाक) पद गायतना वाद्यां नाशिल्लीं. बरीं वाद्यां आसल्यार गावप बरें फुलता. आयकुप्यांक उबारी येता. गायन एक वातावरण तयार करता. (हांसत) बलराम उत्सव कसो साजरो करता जाणा? चामटो बामण गाय पाळटा तसो. गायेन कमी खावंक जाय. पूण दूद घसघश्यांनी दिवंक जाय. (सगले हांसतात.) तुमीच तुमचीं स्वताचीं पदां म्हणात आनी तुमचीं वाद्यां वाजयात. बलरामाची हीच तकली. (सगले हांसतात.)

## श्रीरामकृष्ण आनी विद्येचो संवसार
## ईश्वर लावाच्या उपरांत संवसार

सांज जाली. बलरामाच्या सालांत आनी पडवेर दिवे लायले. श्रीरामकृष्ण जगन्मातेक पांयां पडले आनी तांणी ईश्वराच्या नांवाचो जप सुरू केलो. भक्त भोंवतणीं बशिल्ले आनी ते गोड मधूर जपनाम आयकूंक लागले. केशवाच्या चरित्रांत संवसारा विशीं श्रीरामकृष्णांच्या मत परिवर्तना संबंदान जें बरयलां ते विशीं त्रैलोक्या मुखार उलोवपाचें अशें भक्तांनी थारायलें. गिरीशान सुरवात केली.
**गिरीश:** (त्रैलोक्याक) तुमी जें बरयलां की केशवा बराबर संबंद आयले उपरांत

ीरामकृष्णांचें संवसारा विशीं मत परिवर्तन जालें. पूण तें बरोबर न्हय.

**ीरामकृष्ण:** (त्रैलोक्याक आनी हेर भक्तांक) ईश्वराचो परमानंद भोगले उपरांत मनशाक वसाराचो आनंद गोड लागना. ईश्वरी परमानंद भोगतकूच संवसार अळणी लागता. ाल पळयले उपरांत सादें लुगट बरें दिसना.

**लोक्य:** संवसारी लोकांक लेखून हांव उलयलां. जे त्यागी आसात तांचे विशीं लोवंक ना.

**ीरामकृष्ण:** कितें उलयता तूं? संवसारांत रावून धर्मीक जीण जगतले अशे लोक हणटात. पूण तांकां जर एक खेपो ईश्वरी आनंद मेळत तर मागीर तांकां आनीक कांयच गोड लागचें ना. मागीर संवसारीक कामां विशीं आसक्ती कमी जाता. जसो तसो अध्यात्मीक आनंद वाडटा तसो तसो ते संवसारीक कामां करूंक शकनात. फकत तोच आनंद ते चड चड सोदूंक लागतात. संवसारीक सूख आनी कामवासनेचो आनंद हांची केन्ना ईश्वरी परमानंदा कडेन तुळा करूंक जायत?

एक खेपो भगवंताच्या परमानंदाचो आस्वाद घेतले उपरांत मनीस मागीर त्याच आनंदा फाटल्यान धांवता. मागीर संवसार रावलो कितें आनी गेलो कितें!

चातक पक्षी जरी तानेन सामको कासावीस जालो आनी ताचे भोंवतणीं सात दर्या, न्हंयो, तळीं तुडूंब भरून व्हावूंक लागलीं तरीपूण तो उदकाक स्पर्श लेगीत करपाचो ना. ताचो ताळो तानेन फुटून गेलो तरी तो उदक पियेवपाचो ना. स्वाती नखेत्राचें उदक सोडून हेर सगलें उदक निरस कशें.

## जाय तितलोच सोरो आनी दोनय वटो राखप

लोक म्हणटात, ईश्वर आनी संवसार ह्यो दोनूय वटो राखूंक येतात.

जाय तितल्या प्रमाणांत सोरो पियेतकूच थोडीशी नशाय चडटा आनी जगाचेंय भान उरता. म्हणचे दोनूय वटो राखप ताका जमता. पूण आनीक खूब सोरो पियेलो जाल्यार मागीर कितें दोनूय वटो सांबाळूंक पावतलो?

ईश्वराचो परमानंद मेळ्ळे उपरांत आनीक कितेंच बरें लागना. तेन्ना मागीर कामिनी–कांचना विशीं उलोवप म्हणचे छातयेंत सुरो खुपशिल्ले भशेन कशें दिसता (हेळे काडीत). संवसारी लोकां विशीं उलोवप लेगीत म्हाका आवडना.

जेन्ना मनीस ईश्वरा खातीर पिसो जाता तेन्ना मागीर ताका पयसो वा तसले गजाल
सूख लागना.

**त्रैलोक्य:** पूण महाराज, मनशाक जर संवसारांत रावूंक जाय जाल्यार ताका पयशां गरज लागता आनी ताणें संचय लेगीत करूंक जाय. ताका दानधर्मय करचो पडटा

**श्रीरामकृष्ण:** कितें? तुका अशें दिसता, मनशान पयलीं संचय करूंक जाय आ मागीर ईश्वराक सोदप?

आनी तूं दानधर्म आनी दया हांचे विशीं उलयता? संवसारी मनीस आपले चलयेच्य लग्नाक हजारांनी रुपया खर्च करता तरी लेगीत ताचे शेजारी भुकेन मरतात आनी ह मनशाक दोन मुठी तांदूळ दिवपाक कश्ट पडटात. तितलें लेगीत दिवचे पयलीं त हजार खेपो हिशोब करता. ताचे भोंवतणीं लोकांक खावपाक कांयच मेळना. पू ताका ताची पर्वा खंय आसा? तो स्वताच म्हणटा, 'हांव कितें करूं? ते फटींग मर वा वांचूं. म्हाका फकत पडलां म्हज्या घरच्यांचें. म्हज्या कुटुंबांतलें सगलें बरे रिती आसलें म्हणचे जालें.' आनी हे लोक सगल्या लोकांक बरें करपाच्यो गजाली करतात

**त्रैलोक्य:** पूण महाराज, संवसारांत बरेय लोक आसात. देखीक पुंडलीक विद्यानिध चैतन्यदेवाचे भक्त. ते तर संवसारांत आशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** तो गळ्या मेरेन सोरो पियेल्लो. आनी थोडोसो जर पियेल्लो तर मागी आनीक संवसार करचो नाशिल्लो.

त्रैलोक्य ओगीच रावले. मन गिरीशाक एके वटेन म्हणलें, 'मागीर, तांणी जें किते बरयलां तें बरोबर न्हय तर?'

**गिरीश:** (त्रैलोक्याक) मागीर तुमी जें बरयलां तें खरें न्हय तर?

**त्रैलोक्य:** अशें कित्याक म्हणटा? संवसारांत रावन अध्यात्मीक जीण जगूं येता अशें ते (श्रीरामकृष्ण) मानतात न्हय?

**श्रीरामकृष्ण:** हय. तशें जावंक शकता. पूण अशा मनशान पयलीं ज्ञानाचो लाव करून घेवंक जाय आनी मागीर संवसारांत रावंक जाय. पयलीं ताणें ईश्वराचो साक्षात्कार करून घेवंक जाय. मागीर ताका निंदानालस्तीच्या दर्यांत पेंवन लेगीत दाग लागपाचो ना. ईश्वराचो लाव जाले उपरांत ताच्यान चिखल नुस्तें कसो संवसारांत रावंक येता. ईश्वर लावा उपरांत ज्या संवसारांत तो रावता तो विद्येचो संवसार आसता. त्या संवसारांत कामिनीय नासता आनी कांचनय नासता. थंय ताका फकत भक्ती, भक्त आनी ईश्वर दिसता. म्हाकाय बायल आसा आनी कुडींत थोडीं आयदनां आनी ताटां आसात. हांव

लेगीत थोड्या येवपी वचपी लोकांक जेवण घालतां. हांव लेगीत भक्तां विशीं चिंता करतां. हरीचे आवयची लेगीत चिंता जाता. ती जेन्ना हांगा येता तेन्ना.

## भगवान श्रीरामकृष्ण
## आनी अवतार रहस्य

**एक भक्तः** (त्रैलोक्याक) तुमच्या पुस्तकांत हांवें वाचलां, तुमी ईश्वराचो अवतार मानिनात म्हणून. तुमी चैतन्यदेवा विशीं बरयतना तशें म्हणलां.

**त्रैलोक्यः** चैतन्यदेवान स्वताच ईश्वरी अवतार हे संकल्पनेक विरोध केला. एक खेपो पुरींत, अद्वैत आनी हेर भक्त हांणी चैतन्यदेव हेच ईश्वर आसात अशें तरेचें पद म्हणलें. त्या वेळार तें पद आयकून चैतन्यदेवान ताचे कुडीचें दार बंद केलें. ईश्वराचें ऐश्वर्य अनंत आसा. जशें श्रीरामकृष्ण म्हणटात, 'भक्त ही ईश्वराची बसकेची कूड आसा.' पूण बसकेची कूड बरी सजयिल्ली आसता म्हणून कितें घरधनयाचें ते बगर आनीक कांयच ऐश्वर्य नासताच?

**गिरीशः** फकत प्रेमच ईश्वराचो सार आसा अशें श्रीरामकृष्ण म्हणटात. ज्या मनशा मदल्यान ईश्वराचें प्रेम प्रगट जाता ताचीच आमकां गरज आसता. हे म्हणटात, गायचें दूद पान्यांतल्यान येता. आमकां पान्यांची गरज. गायेच्या शरिराच्या दुसऱ्या भागाची गरज आमकां ना. जशे पांय, शेंपडी वा शिंगां.

**त्रैलोक्यः** ईश्वरी प्रेमाचें दूद अनंत भागांनी व्हांवत आसता. ईश्वर अनंत शक्तींनी युक्त आसा.

**गिरीशः** ह्या प्रेमा मुखार आनीक खंयची शक्त उबी रावंक शकता?

**त्रैलोक्यः** जाचे कडेन ही शक्त आसा ताणें मनांत हाडल्यार तशें जावं येता. सगलें कितें ईश्वराचे शक्तींत आसा.

**गिरीशः** हय म्हाका मान्य आसा तें. पूण अविद्याय शक्त आसा.

**त्रैलोक्यः** अविद्या म्हणून कितें आसा? अविद्या म्हणून एकाद्री वस्त आसा? अविद्या म्हणल्यार एक अभाव. जशें काळोख म्हणल्यार उजवाडाचो अभाव. हें खरें की ताचें प्रेम आमकां खूब मोलादीक. ईश्वराक जो एक थेंबो, तो आमकां दर्या जावन आसा. पूण म्हणून प्रेम हीच ईश्वरा विशींची निमणी गजाल म्हणप म्हणल्यार खासा ईश्वराक

तुमी मर्यादा घालप जातलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (त्रैलोक्याक आनी हेर भक्तांक), हय, हय. तें खरें आसा. पूण थोडोसोच सोरो पियेल्यार म्हाका नशा चडटा. मागीर सोऱ्याचे गादयेर सगलो मेळून कितलो गॅलन सोरो आसा हें मेजपाची आमकां कितें गरज आसा?

**गिरीश:** (त्रैलोक्याक) तुमी ईश्वराचो अवतार मानतात?

**त्रैलोक्य:** ईश्वर स्वता फकत भक्तांतच अवतीर्ण जाता. अनंत शक्तीचें अविश्करण जायना. तें पूर्णपणान जावंकच शकना.

**गिरीश:** भुरग्यांची ब्रह्मगोपाळ म्हणून सेवा करूंक जाता. मागीर म्हापुरुशांची ईश्वर म्हणून कित्याक पुजा करूंक जावची ना?

**श्रीरामकृष्ण:** (त्रैलोक्याक), अनंताक कित्याक म्हणून वेंगायता? म्हाका तुका जर स्पर्श करूंक जाय तर कितें तुज्या सगल्या शरिराक स्पर्श करपाची गरज आसा? गंगास्नान जर तुका करपाचें आसत तर कितें तूं हरिद्वार पसून गंगासागरा मेरेन गंगेक स्पर्श करीत वचपाक लागतलो?

जेन्ना अहंकार मरता तेन्ना सगले त्रास सोंपतात. जों मेरेन 'हांव'ची जाणीव उरता, तों मेरेन भेदबुद्द आसता. 'हांव' ना जातकच कितें उरता तें कोणच जाणा जावंक शकना. उतरांनी तें कोणाकूच सांगूंक जावचें ना. तेन्ना जें आसा तेंच उरता. 'हांव' ना जावन वतकच अशें म्हणूंक येना की थोडेंशें ह्या मनशांतल्यान व्यक्त ज़ाता आनी उरिल्लें दुसऱ्या मनशांतल्यान. 'सच्चिदानंद' हो सागर आसा. तातूंत 'हांव' चो कळसो बुडला. जों मेरेन कळसो आसता तों मेरेन उदकाचे दोन वांटे जाल्यात कशे दिसतात. कळशाचे भितर एक वांटो आनी भायर दुसरो वांटो. कळसो फुटून वतकच शेकानशेक उदकच उदक. तशें न्हय म्हणपाची माणसुकी ना. तशें कोण म्हणटलो?

चर्चा सोंपले उपरांत श्रीरामकृष्णां बराबर गोड भासाभास करूंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** तूं आनंदांत आसा, अशें न्हय?

**त्रैलोक्य:** पूण हांगाच्यान उठून गेले बराबर म्हजो जीव पयलीं सारको जसो आसा तसोच जावन वतलो. हांगा म्हजें अध्यात्मीक चैतन्य खूब जागृत जाता.

**श्रीरामकृष्ण:** जोतें घालतकूच मनशाक कांट्यांच्या रानांतल्यान चलपाक भंय नासता. ईश्वरूच सत्य आनी हेर सगलें असत्य हो बोध जाले उपरांत कामिनी-कांचनाचो

मागीर भंय नासता.
रातचीं णव वरां जाल्लीं. बलराम त्रैलोक्याक दुसरे कुडींत घेवन गेलो आनी तांकां अल्पहार दिलो. श्रीरामकृष्ण, त्रैलोक्य आनी तांचे सारकें मत आशिल्ल्या लोकां विशीं भक्तांक सांगूंक लागले.

## अवताराक कितें सगले जाण वळखूंक शकतात?

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक, मक आनी हेर भक्तांक) हे लोक कशे आसात हें तुमकां खबर आसा? ते बांयंतल्या बेब्या सारके आसात. त्या बेब्यान भायलें जग केन्नाच पळयिल्लें नासता. ताका फकत ताची बांय खबर आसता. म्हणून बांयचे भायर एक जग आसता हाचेर तो विश्वास दवरिना. तेच प्रमाण हे लोक संवसारा विशीं खूब उलयतात. कित्याक ते ईश्वरी आनंदा विशीं कांयच जाणा जाल्ले नासतात. (गिरीशाक) ताचे बराबर तुमी इतले वाद कित्याक घालतात? ते दोनय गजालींनी मग्न आसतात. संवसार आनी ईश्वर. भगवंताच्या आनंदाचो आस्वाद मेळ्ळो ना जाल्यार मनीस तो आनंद म्हणचे कितें हें समजूंक शकचो ना. पांच वर्सांच्या भुरग्याक लैंगीक सूख म्हणचे कितें हें समजावन सांगपाक येता? संवसारी लोक देवा विशीं जें उलयतात तें आयकीव गजालीं वयल्यान. घरांत जाणटीं काका काकी आपले भितर झगडटात तें आयकून भुरगीं शिकतात आनी म्हणटात, 'म्हजो देव आसा. हांव देवाचो सोपूत घेतां'.
पूण कांय हरकत ना. त्या लोकांक हांव दोश दिना. सगलेच कितें त्या अखंड सच्चिदानंदाक जाणा जावंक शकतात? रामचंद्राक फकत बारा रुशीच जाणा जावंक पावले. ईश्वराच्या अवताराक सगलेच जाण वळखूंक पावनात. कांय जाण ताका साधारण मनीस समजतात. कांय जाण ताका साधू म्हणून समजतात. फकत थोडेच जाण ताका अवतार म्हणून वळखतात.
जाची जशी कुवत, जाची जशी पुजा, ते प्रमाण तो जिनसाचें मोल करता. एका गिरेस्त मनशान ताच्या चाकराक म्हणलें, 'तूं हो हिरो बाजारांत घेवन चल आनी म्हाका येवन सांग लोक ताचें कशें मोल करतात तें. पयलीं तांतयेकारा कडेन व्हर.' चाकर पयलीं तांतयेकारा कडेन तो हिरो घेवन गेलो. तांतयेकारान ताच्या हातांत तो घेवन वयर सकयल वाटकुळो करून पळयलो आनी म्हणलें, 'भावा, हाचे खातीर हांव णव शेर तांतयां दीन.' चाकरान म्हणलें, 'इश्टा, आनीक मातसो वाडय. धा शेर दिता?' ताणें

म्हणलें, 'ना, हांवें तुका पयलींच बाजारांत मोल आसा ताचे परस चड सांगलां. जर तुका परवडटा तर दी.' चाकर हांसलो आनी ताच्या धनया कडेन परत गेलो आनी ताणें म्हणलें, 'तो णव शेर तांतयां विकपाक तयार आसा. ताचे परस एक लेगीत चड दिवपाक तयार ना. ताणें सांगलें, की बाजार मोला परस ताणें चडच मोल सांगलां.' धनी हांसलो आनी ताणें म्हणलें, 'आतां लुगटाकारा कडेन तो घेवन वच. तो मनीस फकत तांतयां विकता. ताका हिऱ्या विशीं कितें खबर आसा? लुगटाकाराची पुंजी इल्ली चड. पळोवया तो कितें मोल करता तें.' चाकर लुगटाकारा कडेन गेलो आनी ताणें म्हणलें, 'हो तुमी विकतो घेतात? हाका कितले पयशे दितले तुमी?' लुगटाकारान सांगलें, 'हय वस्त बरी आसा. हाचे पसून म्हज्यान बरो दागिनो करून घेवं येता. हांव ते खातीर तुमकां णवशें रुपया दितां.' चाकरान म्हणलें, 'भावा, आनीक इल्ले चड दिल्यार हांव तो तुमकां विकतां. उण्यांत उणें एक हजार रुपया तरी दियात.' लुगटाकारान म्हणलें, 'इश्टा, आनीक कांय उलोवं नाका. हांवें बाजारांत मोल आसा ताचे परस चड मोल सांगलां. णवशें परस चड हांव एक रुपया लेगीत दिवंक शकना.' चाकर हिरो घेवन धनया कडेन हांसत हांसत परत आयलो आनी ताणें म्हणलें, 'तो म्हणटा, णवशें रुपयां परस एक रुपया लेगीत तो चड दिवंक शकना.' ताणें हेंय सांगलें, बाजारांत मोल आसा ताचे परस ताणें चड मोल सांगलां म्हणून.' तेन्ना धनयान हांसत हांसत सांगलें, 'तो तूं जव्हेरी कडेन घेवन वच. तो कितें म्हणटा तें पळोवया.' चाकर जव्हेरी कडेन घेवन गेलो. जव्हेरीन हिऱ्याचेर मातशी नदर मारली आनी एकदम म्हणलें, 'एक लाख रुपया दितां.'

## ईश्वरकोटी आनी जीवकोटी

हे लोक सारके 'संवसारांत रावन धर्म करपाचो', 'संवसारांत रावन धर्म करपाचो' अशें म्हणीत आसतात. समजा एक मनीस एके कुडींत बंद आसा. सगलीं दारां आनी जनेलां धांपल्यांत. फकत पाख्यांतल्या बोंथ्यांतल्यान इल्लोसो उजवाड येता. माथ्यार पाखें आसतना ताच्यान सुर्याक पळोवंक जातलें? आनी उजवाडाच्या एका किरणान कितें जातलें? कामिनी-कांचन म्हणचे पाखें. पाखें काडले बगर तो कसो सुर्याक पळोवंक पावतलो? संवसारी लोक असले बंद जाल्ले कुडींत आशिल्ले वरी आसात.
ईश्वराचे अवतार हे ईश्वरकोटी आसात. ते उकत्या जाग्यांनी भोंवतात. ते केन्नाच संवसारांत बंद जायनात. संवसारांत घुसपनात. तांचो 'अहंकार' संवसारी लोकां सारको 'दाट' नासता. संवसारी लोकांचो 'अहंकार', तांचो 'हांव' जाणीव म्हणचे चारूय वटांनी

णटी आनी वयर पाखें कशें. भितरल्या मनशाक भायलें कांयच दिसना. अवतार आनी र ईश्वरकोटींचो झिरझिरीत अहंकार आसता. तातूंतल्यान तांकां ईश्वराचें सदांच दर्शन जाता. देखीक, समजा एक मनीस एके वणटीचे एके वटेन उबो आसा. ते वणटीचे नूय वटांच्यान दिगंता मेरेन पातळिल्लीं शेकानशेक मळां आसात. ते वणटीक जर बोंथो आसत, तर वणटीचे पलतडचें सगलें दिसता, मोटें धांव जर आसत तर मनशाक भायर भितर यो वच करूंक जमता. अवतारी आनी हेर ईश्वरकोटींचो अहंकार हो धांव आशिल्ले वणटी भशेन. ते वणटीचे हेवटेच्यान जरी आसले तरी तांका तेवटेच्यान आशिल्लीं शेकानशेक मळां दिसतात. म्हणचेच देह धारण करुनूय ते समाधींत उरतात. बोंथो जर खूब मोटो आसत तर तातूंतल्यान तांकां यो वच करूंक जमता. म्हणचेच समाधीमग्न आसुनूय तांच्यांनी संवसारांत देंवूंक येता.

भक्त लोक हें अवतार रहस्य स्वास रोखून आयकताले.

# अध्याय एकशेंएकुणीस

## भगवान श्रीरामकृष्णांचें कलकत्ताक बलराम आनी गिरीश ह्या भक्तांच्या घरा येवप

### बलरामाच्या घरा नरेंद्र, म, योगीन, बाबूराम आनी हेर भक्तांच्या सांगातान

**एप्रील 24, 1885. शुक्रार.** दनपारचें एक वर जाल्लें. म कलकत्तांतल्या बलरामाच घरा आयिल्लो. ताणें पळयलें, श्रीरामकृष्ण सालांत न्हिदिल्ले. आनीक एक वा दो भक्त तांचे लागींच विसव घेताले. म श्रीरामकृष्णांक सवकास वारो घालूंक लागले थोड्या वेळा उपरांत श्रीरामकृष्ण उठले आनी हांतरुणार बसले. तांचे कपडे अस्ताव्यस आशिल्ले. म तांकां पांयां पडलो आनी ताणें तांच्या पांयांचो धुल्ल कपलाक लायलो

### श्रीरामकृष्णांच्या गळयाच्या कँसराची सुरवात – एप्रील 1885

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन मक) बरो आसा न्हय? म्हाका मातशे बरें दिसना. म्हज्य गळ्याक गांठ आयल्या. फांतोडेचेर म्हाका खुबूच दुखता आनी त्रास जाता. कसो बर जातलों तें म्हाका सांगशी? (हुसक्याच्या सुरांत) जेवणा बराबर तन्ने आंबलेची चेटर्ण वाडिल्ली. ती हांवें इल्ली खाली. तुजी घरकान्न कशी आसा? त्या दिसा पळयिल्ली तेन्न म्हाका सामकी अशक्त कशी दिसली. थोडेंशें थंड पियेवपाक दी. तिच्या आरोग्याक बरें पडटलें.

**म:** आडसरा उदक महाराज?

**श्रीरामकृष्ण:** हय, खडीसाकरेचें सरबत दिल्यारय बरें पडटलें.

**म:** गेल्ल्या आयतरा सावन आई बाबा बराबर घरा रावपाक आयल्या.

**श्रीरामकृष्ण:** तुवें बरें केलें. घरा रावप तुका बऱ्याक पडटलें. आई बाबा थंय राविल्ल्यान तुका घरचें पळोवपाचें लागचें ना.

उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्णाचें तोंड सुकून आयलें. भुरग्या भशेन तांणी मक सांगलें,

म्हजें तोंड सामकें सुकून आयलां. तुमकांय सगल्यांक अशेंच दिसता काय?

**म:** (योगीनाक) तुजेंय तोंड सुकून येता?

**योगीन:** ना. घडये तांची उश्णताय वाडल्या आसतली.

आरियादाहाचो योगीनबाब श्रीरामकृष्णांच्या अंतरंगांतलो शिश्य आनी श्रीरामकृष्णां फाटल्यान तांणी सर्वस्वाचो त्याग केलो आनी संन्यास घेतलो.

श्रीरामकृष्णांचे कपडे अजून अस्ताव्यस्त आशिल्ले. कांय भक्त भितरले भितर हांसले.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव आवय भुरग्यांक दूद दिवंक बसल्या असो दिसतां. (सगले हांसतात.) बरें, जिबली सुकून आयल्या. हांव नारपत खावं काय जामरूल खावं?

**बाबूराम:** हांव तुमचे खातीर जामरूल घेवन येतां.

**श्रीरामकृष्ण:** तुवें ह्या वतांत वचपाची गरज ना.

म तांकां पंख्यान अजून वारो घालीत आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** आतां पुरो. तूं बरोच वेळ जालो वारो घालता.

**म:** महाराज, म्हाका कांयच पुरो जायना.

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) खरेंच पुरो जायना?

म लागींचेच एके शाळेंत शिकयतालो. एका वराचेर मदले सुटये वेळार ताका मातसो विसव मेळटालो. त्या वेळार तो श्रीरामकृष्णां कडेन येतालो. आतां ताचो परत शाळेंत वचपाचो वेळ जाल्लो. ते खातीर तो उठलो आनी श्रीरामकृष्णांच्या पांयां पडलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) आतां वचुंकूच जाय?

**एक भक्त:** शाळा अजून सुटूंक ना. ते मदले सुटये वेळार आयल्यात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) घरधनीण. सात आठ भुरगीं आशिल्ली कशी. दीसरात संवसाराचीं कामां करीत आसता. पूण मदीं मदीं येवन वेळ काडून घोवाची सेवा करता. (सगले हांसतात.)

## बलरामाच्या घरा अंतरंगाच्या भक्तां सांगातान

शाळेक चारां उपरांत सुटी जाली. म बलरामाच्या घरा परत आयलो आनी श्रीरामकृष्ण सालांत बशिल्ले ताणें पळयले. एकेक करून भक्त येवन एकठांय जाताले. धाकटो नरेन आनी राम आयले. नरेंद्र लेगीत थंय आशिल्लो. म तांकां पांयां पडलो आनी बसलो. घरांतल्या बायलांनी श्रीरामकृष्णां खातीर हालवो धाडलो. कित्याक तांच्या गळ्याक गांठ आयिल्ली आनी तांच्यांनी घट जिनस खावंक जायनाशिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** (नरेंद्राक) वा! हो जिनस बरो आसा. थोडो खा. बरो आसा. खा थोडो. (सगले हांसतात.)

तिनसांज जायत आयिल्ली. श्रीरामकृष्ण गिरीशाच्या घरा वचपाचे आशिल्ले. श्रीरामकृष्ण तांगेर येता म्हूण सुवाळो दवरिल्लो. श्रीरामकृष्ण, म आनी हेर भक्तां बराबर बलरामाचे दुसरे माळये वयल्यान सकयल देंवले. दारा कडेन एक भिकारी रामनाम घेत आशिल्लो तो श्रीरामकृष्णांनी पळयलो आनी ते थीर उबे रावले. ते समाधी अवस्थेंत गेले आनी थोडो वेळ उबे रावले. तांणी मक सांगलें, ''तो बरो गायता.'' एका भक्तान भिकाऱ्याक चार पयशे दिले.

श्रीरामकृष्ण बोसपाड्याचे गल्लींत भितर सरले. हांसत तांणी मक म्हणलें, ''हे लोक कितें म्हणटात? 'परमहंसाची फौज येता' अशें म्हणटात. पिशे म्हणटात तरी कितें?'' सगले हांसतात.

## अवतार आनी सिद्धपुरूश हांचे मदलो फरक. महिमाचरण आनी गिरीश हांची भासाभास

श्रीरामकृष्ण गिरीशाच्या घरांत भितर सरले. गिरीशान ह्या सुवाळ्याक खुबश्या भक्तांक आफयिल्ले. तातूंतले कितलेशेच भक्त आयिल्ले. श्रीरामकृष्ण आयिल्ले पळोवन सगले उबे रावले. श्रीरामकृष्ण हांसत तांच्या आसनाचेर बसले. भक्त तांचे भोंवतणीं बसले. तांचे भितर गिरीश, महिमाचरण, राम, भवनाथ, बाबूराम, नरेंद्र, योगीन, धाकटो नरेन, चुनी, बलराम, म आनी हेर भक्त लेगीत आशिल्ले. हे श्रीरामकृष्णां बराबर बलरामाच्या घरा कडच्यान आयिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) तुजे विशीं गिरीशा कडेन उलयिल्लों. एकलो आसा. – खूब खोल – तुमी फकत धोंपरभर उदकांत आसात. आतां हांवें जें कितें म्हणलां तें सिद्ध करून दाखोवंक तुमी मदत करूंक जाय. तुमी भासाभास करतात तें म्हाका पळोवंक जाय. पूण तडजोड करूं नाकात आं (सगले हांसतात.)

महिमाचरण आनी गिरीश भासाभास करूंक लागले. रोखडेंच रामान म्हणलें, ''हें सगलें आसूं दी आतां. आतां आमी किर्तन करुया.''

**श्रीरामकृष्ण:** (रामाक) ना, ना. हातूंत खूब अर्थ आसा. हे इंग्लीशमॅन आसात. ते कितें उलयतात तें आयकुया.

महिमाचरणांचें म्हणणें अशें आशिल्लें की साधना केल्यार सगले कृष्ण जावंक शकतात. गिरीशाचे म्हणणें अशें आशिल्ले की श्रीकृष्ण हे ईश्वराचे अवतार आशिल्ले. मनीस कितलीय साधना करूं, तो अवतार केन्नाच जावंक पावना.

**महिमाचरण:** म्हाका कितें म्हणूंक जाय ते तुमी जाणात? हांव एक देख दितां. बेलाचें झाड आंब्याचें झाड जावं येता? पूण त्या मार्गांतलीं आडमेळीं पयस केलीं जाल्यार हें योगा वरवीं करूं येता.

**गिरीश:** तुमी कितेंय म्हणात पूण योगा वरवीं वा आनी खंयचेय रितीन तशें करप शक्य ना. फकत कृष्णच कृष्ण जावं येता. जर कोणाय कडेन दुसऱ्याचे सगले गूण आसले, देखीक राधा, तर मागीर ती व्यक्ती म्हणल्यार दुसरी तिसरी नासून खूद राधाच आसतली. जर म्हाका एका मनशांत कृष्णाचे सगले गूण दिसत तर हांव समजतलों, हांव कृष्णाक खूद पळयतां म्हणून.

महिमाचरण फुडें भासाभास बरी करूंक शकले नात. निमणें तांकां गिरीशाचें म्हणणें मान्य करचें पडलें.

**महिमाचरण:** (गिरीशाक) हय महाराज. दोनय मतां बरोबर आसात. ज्ञानाचो मार्ग ईश्वराचेच इत्शेन आसा आनी भक्तीचो मार्गय ईश्वराचेच इत्शेन आसा. (श्रीरामकृष्णांक लेखून) हे म्हणटात ते प्रमाण, वेगवेगळे मार्ग निमणे एकाच ध्येया कडेन व्हरतात.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक एके कडेन) पळयलें, हांवें कितें म्हणिल्लें तें बरोबर न्हय?

**महिमा:** हय महाराज, तुमी म्हणटात ते प्रमाण दोनय मार्ग सत्य आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक लेखून) तांचो विश्वास कितलो खर आसा हें तुमी पळयलें न्हय? फराळ खावपाक लेगीत ते विसरले. तुमी जर तांचें म्हणणें मानूं नाशिल्लें तर सुण्या भशेन ते तुमची गोमटीच फोडून उडयतले आशिल्ले. पूण भासाभास बरी जाली. आमकां आनंद जालो. दोगांचीय वळख जाली आनी हांव स्वता खूब शिकलों.

## श्रीरामकृष्ण संकिर्तनानंदांत

किर्तनकार तागेल्या वांगड्यां सयत आयलो आनी कुडीचे मदीं बसलो. श्रीरामकृष्णांनी सांगतकूच तो किर्तन सुरू करतलो आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी ताका अनुमती दिली.

**राम:** (श्रीरामकृष्णांक) खंयची पदां गावचीं सांगात.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव कितें सांगतलों? (थोडो विचार करून) बरें आसा. तांकां राधा

आनी कृष्णाच्या मिलनाचो पुर्वरंग गावं दी.

किर्तनकार गावंक लागलो:

म्हजो गोरा-म्हजो ठेवो, मनशा भितर रत्न
रडटा तो श्रीराधेचें नांव गायतना
आनी लोळटा जमनीर तळमळीच्या प्रेमान
भोवन भोवन तिचें नांव तो गायता.
ताच्या प्रेमान भरिल्लया दोळ्यांतल्यान व्हांवतात दुकां;

आनीक एकदां तो जमनीर लोळटा,
तिचें नांव गायतना ताका घुंवळ येता.
ताच्या आंगार कांटो फुलता,
ताची जीब फकत एकूच उतर उलयता.
बासू म्हणटा: गोरा इतलो कित्याक तळमळटा?

किर्तन चालूच अशिल्लें.
यमुनेचे देगेर कदंब झाडा सकयल राधा कृष्णाक मेळटा. तिच्यो सांगातिणी तिच्या शारिरीक आनी मनाची अवस्था वर्णन करून सांगतात.

घटकेक शंबर खेपो ती घरांतल्यान भायर भितर करता;
उतावीळ, सुस्कारे सोडून, ती कदंब वना कडेन पळयता.
ती जाणट्यांक भियेना? तिचेर देंवचार बसला?
उतावीळपणान पुराय भरिल्लयान तिका न्हेसणाचें धंग ना.
तिचे अळंकार पडल्यात गळून, थरथरता तीं मदीं मदीं.
आरेरे, कितली तरणाटी ती! राजकुंवरी. ते भायर घरकान्न.
कितें पूण ती आंवडेता? आमकां तिच्या मनाचो थाव लागना;
पूण तिचो हात चंद्रीम धरपाक पळयता इतलें आमच्यांनी म्हणूं येता.
नमळायेन म्हणटा चंडीदास: राधा कृष्णाच्या सांपळ्यांत सांपडल्या.

किर्तन चालूच आसा
राधेच्यो सखी तिका म्हणटात :

सांग राधे, हे सुमुखी सांग!
तुका कसली व्याधी जाल्या
मन तुजें अशें थतर विथर कित्याक जालां?
तूं नाखटांनी जमीन, भयाभीत
जावन उस्तिता कित्याक?
तुजी भांगराची कात अशी करपून कित्याक गेल्या?
तुज्या आंगा वयलीं तांबशीं वस्त्रां तुका कळनासतना पडल्यांत
जमनीचेर गळून
तुजे दोळे जाल्यात तांबडे दुकांनी; तुजें सुंदर मुखामळ गेलां बावून.
सांग बाये आमकां, दुखणें तुजें कितें
नाजाल्यार
आमचीं काळजां वतलीं फुटून.

राधा तिच्या सखींक सांगता:

हांव आंवडेतां पळोवंक कृष्णाचें मुखामळ.

किर्तनकार परत गावंक लागलो:

कृष्णाची मुरली आयकून राधा पिशांतर कशी जाल्या.

ती आपल्या इश्टिणींक सांगता:

कदंबाच्या वनांत बसता तो असो जादुगार कोण?
ताचे मुरलीचे स्वर अकस्मात येतात म्हज्या कानार आनी काळजांत
करतात घर

म्हजो आत्मोच उडयतात रोमून, ते म्हजो धर्म मारतात आनी म्हाका
पिशी करतात
अस्वस्थ मनान आनी व्हांवत्या दोळ्यांनी, आरेरे! म्हाका स्वास
लेगीत घेवंक येना
आपली जादवाची मुरली तो वाजयता तरी कशी, जिचें संगीत म्हजो आत्म
थरथरायता
म्हजे नदरे आड तो जाल्लयान, म्हजें काळीज मरता; म्हज्यान घरांत रावं नजं.
म्हजो आत्मो ताका आंवडेता; दुखीन पिडून गेल्लयान, ताका परतेंय
एकदां पळोवंक तो आंवडेता
पूण राधे, तूं मरतली, ताचें दर्शन जातनाच, उद्धव दास म्हणटा.

पद चालूच आसा.
राधेचो प्राण कृष्ण दर्शना खातीर व्याकूळ जाला. ती सखींक म्हणटा:

पयले खेपो हांवें आयकलां ताचे मुरलीचो अप्रूप नाद कदंब वनांतल्यान,
आनी दुसऱ्याय दिसा भाटान म्हाका ताचे विशीं सांगलें आनी म्हजो
आत्मो शिरशिरायलो.
दुसऱ्याच दिसा म्हज्या काळजाचे इश्टिणी, तुवें ताचें सुभागी नांव गायलें.
(कृष्णाचें सुभागी नांव, सामकी म्होंवाळ गोडसाण)
बुदवंतांनी लेगीत, ताच्या अगणीत गुणांचें म्हजे कडेन केलें वर्णन.
हांव असकट आनी सादी चली, आनी आरेरे कडक म्हजे जाणटेले;
म्हज्या प्रियतमाचो म्हजो मोग वाडटा, आनीक हांवें मुखार जियेवचें कशें?
खूब विचार करून, म्हाका दिसता हांव निमणें मेल्यार बरें;
तुज्यान म्हाका वाट सोडून दिवं नजं, सखे, म्हज्या कृष्णाकं मेळपा
खातीर?
'आहा, त्या कृष्ण नामांत त्रिभुवनांतली सगली गोडी एकठांय जाल्या.' हें आयकून श्रीरामकृष्णां कडेन मागीर आनीक बसून रावपाक जालें ना. ते उबे जाले आनी तेच अवस्थेंत भायलें भान विसरून समाधीमग्न जाले. उजवे वटेन धाकटो नरेन उबो आशिल्लो. थोडेशे भानार येतकूच ते गोड गळ्यान "कृष्ण कृष्ण" अशें थपथपिल्लया

दोळ्यांनी म्हणूंक लागले. परत ते सकयल बसले. किर्तनकार परत गावपाक लागलो. राधेची सखी विशाखा हिणें धांवत वचून श्रीकृष्णाचें एक चित्र हाडून राधेचे मुखार धरलें. राधा म्हणटा, 'चित्रांत तेंच भुवन मोहक रूप चित्रीत केल्लें जें हांवें यमुनेच्या तिरार पळयलां. म्हजी ही अशी दशा जाल्या तेन्ना पसून.'
गायक तशें गावंक लागलो:

जाका हांवें यमुना तिरार पळयलो तोच ह्या चित्रांत म्हाका दिसता;
विशाखेन म्हाका जाचें नांव सांगलें ताकाच ह्या चित्रांत रेखाटला
जो मुरली वाजयता तोच म्हज्या प्राणांचो प्राण आसा;
गायल्यात ताचे गूण म्हजे कडेन भाटान; ताणें म्हजें काळीज मुग्धायलां.
तोच तो, दुसरो कोण न्हय! अशें म्हणून राधा पडटा घुंवळून.
सखींनी तिका हाडटकच साबुद्दीर, रोखडीच ती सांगता तांकां
इश्टिणींनो, दाखयात म्हाका तो, जो प्रतिबिंबीत हांवें म्हज्या काळजांत पळयला.
आनी त्यो तिका तशें घडटलें अशें उतर दितात.

आतां श्रीरामकृष्ण, नरेंद्र आनी हेर भक्तां बराबर मोट्या सुरान संकिर्तन करूंक लागले:

हरी म्हणटांच जांच्या दोळ्यांतल्यान मोगाचीं दुकां व्हावंक लागतात
ते दोग भाव आयल्यात...

परत ते गावंक लागले:

नादीया एकसारकें हालता
गौरांगाच्या प्रेमाच्या ल्हारांनीं.

परत श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जाले. भायल्या जगाच्या भानार आयले उपरांत ते तांच्या आसनार बसले. म कडेन तोंड करून तांणी म्हणलें, ''खंयचे वटेनच्यान तोंड करून बशिल्लों आतां लक्षांत ना.''

## श्रीरामकृष्ण आनी नरेंद्र
## हाजराची काणी

भानार येतकूच श्रीरामकृष्ण भक्तां कडेन उलोवंक लागले.

**नरेंद्र:** (श्रीरामकृष्णांक) हाजरा आतां बरो मनीस जाला.

**श्रीरामकृष्ण:** तुका खबर ना. अशे लोक आसात जे तोंडान राम राम म्हणटात पूण दुसऱ्याचेर मारपाक तांगेले खांकेंत फातर दवरतात.

**नरेंद्र:** महाराज, म्हाका हें मान्य ना. हांवें लोक ताचें विशीं उलयतात ते विशीं विचारलें. तें सगलें ताणें न्हयकारलें.

**श्रीरामकृष्ण:** ताचे कडेन निश्ठा आसा. तो थोडो जपय करता. पूण वागता विचित्र पद्धतीन. गाडयेकाराक भाडें दिना.

**नरेंद्र:** तें खरें न्हय. तो तर म्हणटा ताणें भाडें दिलां म्हणून.

**श्रीरामकृष्ण:** ताका खंयच्यान पयशे मेळ्ळे?

**नरेंद्र:** रामलाला कडच्यान वा आनी कोणाय कडच्यान मेळ्ळ्यात आसतले.

**श्रीरामकृष्ण:** तुवें सगल्यो गजाली सविस्तर विचारल्यात? हांवें एक खेपो जगन्माते कडेन प्रार्थना केली, 'ए आई, हाजरा जर ढोंगी आसत तर ताका हांगाच्यान पयस व्हर.' ताका हांवें तें सगलें सांगलें. थोड्या दिसांनीं तो म्हजे कडेन आयलो आनी ताणें म्हणलें, 'हांव अजुनूय हांगाच आसां, पळय.' (श्रीरामकृष्ण आनी हेर हांसतात.) पूण ते उपरांत रोखडोच तो गेलो.

हाजराचे आवयन रामलाला वरवीं म्हाका सांगून धाडलें, 'हाजराक घरा धाडून दिवचो'. तिका रडून रडून दोळ्यांनी दिसना अशें जाल्लें. हांवें हाजराक तिका मेळपाक तरेतरेन सांगून पळयलें. हांवें ताका सांगलें, 'तुजी आवय जाणटी जाल्या. तिका एक खेपो मेळून यो.' कितेंच केल्यार तो वचपाक तयार जालो ना. निमणें ताची आवय ताचे खातीर रडून रडून मेली.

**नरेंद्र:** हे खेपो तो गांवा कडेन वतलो.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, हय, तो घरा कडेन वतलो! तो फटींग. तो पाजी खंयचे कडलो. तूं ताका वळखूंक ना. तूं पिसो. गोपाळान सांगलें, हाजरा थोडे दीस सिंथीक राविल्लो म्हणून. लोक ताका लोणी, तांदूळ आनी हेर खावपाचे जिनस दिताले. ताणें तांकां उद्धटपणान सांगलें, असले भट्ट तांदूळ आनी असलें वायट तूप लोणी खायना म्हणून.

भाटपाड्याचो ईशान ताचे बराबर आशिल्लो. तो ईशान बाबूक उदक बी हाडपाक लायतालो. ते खातीर सगले ब्राह्मण रागार जाल्ले.

**नरेंद्र:** हांवें ताका ते विशीं विचारलें लेगीत. ताणें सांगलें, 'ईशान बाबू स्वता जावन उदक हाडटालो.' तशेंच भाटपाड्याचे कितलेशेच ब्राह्मण ताका मान दिताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तें जपतपाचें फळ आनी मतींत दवर : मनशाच्या चरित्राचेर, ताच्या शारिरीक लक्षणांचो खूब परिणाम जाता. खुजें, हांगा, थंय पोंग आशिल्लें शरीर हीं बरीं लक्षणां न्हय. असल्या लोकांक अध्यात्मीक ज्ञान खूब उसरां जाता.

**भवनाथ:** आतां ह्यो गजाली थांबोवया.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हजे विशीं गैरसमज करून घेवं नाका. (नरेंद्राक) तूं लोकांक वळखता म्हणटा न्हय म्हणून तुका हें सगलें सांगतां. हाजराक आनी तसल्या सगल्या लोकांक हांव कशें समजतां जाणा? हांव जाणां, जसो ईश्वर साधूरुपी नारायण जाता, तसोच फसोवपीरुपी नारायण, लुच्चेरुपी नारायण जाता. (महिमाचरणांक) तुमी कितें म्हणटात? -सगलेच नारायण.

**महिमाचरण:** हय महाराज. सगलेच नारायण.

## भगवान श्रीरामकृष्ण आनी गोपी प्रेम

**गिरीश:** (श्रीरामकृष्णांक) महाराज, एकांगी प्रेम म्हणचे कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** एकांगी प्रेम म्हणचे एके वटच्यान केल्लें प्रेम. जशें उदक बदक सोदूंक वचना पूण बदक उदकाचेर प्रेम करता. मोगाच्यो आनिकय तरा आसात- सादारण, समंजस आनी समर्थ. सादारण प्रेम म्हणचे- मोग करपी स्वताचेंच सूख सोदता. मागीर दुसरो सुखी जावं वा नाका जावं. ताका ताची पर्वा नासता. जसो चंद्रावलीचो कृष्णा विशीं भाव आशिल्लो. ते उपरांत समंजस मोग- म्हाकाय सूख जावं, दुसऱ्याकय सूख जावं. ही सुसंस्कृत मोगाची भावना. तिसरो प्रकार म्हणल्यार सगल्यांत उच्च अवस्था आसा समर्थ मोगाची. अशे अवस्थेंत मोगी मोगिकेक म्हणटा, 'तूं स्वता सुखी जा. म्हजें कितेंय जावं.' ही भावना आसता. राधे कडेन हो उच्च भाव आशिल्लो. ती कृष्णाच्या सुखान सुखी आशिल्ली. गोपिंनीय ही उच्च अवस्था प्राप्त केल्ली.

ह्यो गोपी कोण आशिल्ल्यो जाणात? रामचंद्र रानांत भोंवतालो. थंय साठ हजार रुशी

रावताले. ते रामचंद्राक पळोवपाक व्याकूळ जाल्ले. रामचंद्रान तांचे कडेन माये नदरेन पळयलें. कांय पुराणांच्या मतान तेच रुशी कृष्णावतारांत वृंदावनांत गोपी म्हू जल्माक आयले.

**एक भक्त:** महाराज, अंतरंगी कोणाक म्हणपाचें?

**श्रीरामकृष्ण:** हांव एक देख दितां. सभामंडपांत भितर आनी भायर खांबे आसतात भितरले खांबे हे अंतरंग, जे सदांच गुरूचे लागीं आसतात, तेच अंतरंगीचे आसतात

## ज्ञानयोग आनी भक्तीयोग हांचो समन्वय

## भरद्वाज, हेर आनी राम

## पयलींची जीण

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाचरणांक) ज्ञानी मनशाक ईश्वराचें रुपय नाका आनी ताचें अवतारूय नाका आसता. रानांत भोंवता आसतना रामचंद्रान कितलेशेच रुशी पळयले. तांणी खूब मायेन आश्रमांत व्हरून ताचें स्वागत केलें. तांणी रामाक म्हणलें, 'ए रामा, आयज आमची जीण सफळ जाली. आमकां तुजें दर्शन जालें. पूण आमी तुका दशरथाचो पूत म्हणून वळखतात. भरद्वाज आनी हेर रुशी तुका ईश्वरी अवतार म्हणटात. पूण आमचें तशें मत ना. आमी अखंड सच्चिदानंदाचें चिंतन करतात.' राम प्रसन्न जालो आनी हांसलो.

सायबा भोगोस, हांव कसले अवस्थेंतल्यान गेलां. म्हजें मन अखंड सत्यांत लय पावतालें. कितले दीस गेले म्हगेले ते अवस्थेंत. भक्ती आनी भक्त ह्या सगल्याचो हांवें त्याग केलो. हांव जड जावन गेलों.

म्हजे तकलेक आकार आसा अशें म्हाका दिसलेंच ना. मरपाचेच धडेर पाविल्लों. म्हाका रामलालाची काकी * म्हऱ्यांत आसची अशें दिसलें.

कुडींत चित्रां बित्रां आशिल्लीं तीं सगलीं काडपाक सांगलें. जेन्ना हांव भानार येतालों, जेन्ना मन सकयल सामान्य स्थितीचेर येतालें तेन्ना मन बुडपी मनशा सारकें कासावीस जातालें. निमणें हांव स्वताच विचार करूंक लागलों, 'लोक जर म्हाका नाका तर हांव जीण कसो सारतलों?' मागीर म्हजें मन परत भक्ती आनी भक्तांचेर थिरावलें. 'म्हाका

---

* रामलालाची काकी म्हणल्यार श्रीरामकृष्णांची घरकान्न, शारदा देवी.

ालां कितें' अशें हांव लोकांक विचारीत रावलों. भोलानाथान* म्हाका सांगलें, महाभारतांत असले अवस्थेचें वर्णन केलां. समाधीमग्न पुरूश जेन्ना समाधींतल्यान वता तेन्ना मनीस जीण कसो सारतलो? खात्रेन ताका ईश्वरा विशीं भक्ती आनी भक्तांचो ांगात जाय. नाजाल्यार ताचें मन कित्यांत घुसपून उरतलें?'

## समाधीमग्न पुरूश कितें सामान्य स्थितीचेर देंवता?

## श्रीमुखकथीत आत्मचरित्रामृत. कुंवरसिंग

**महिमाचरण:** (श्रीरामकृष्णांक) महाराज, समाधीमग्न व्यक्ती सामान्य स्थितीचेर कितें परत देवंक पावता?

**श्रीरामकृष्ण:** (ल्हव आवाजांत महिमाचरणांक) हांव तें खेरीत तुमकांच सांगतलों. तुमीच ही गजाल आयकुपाक योग्य आसात.

कुंवरसींग** हीच गजाल विचारतालो. हें पळय, जीव आनी ईश्वर हांचे मदीं खूब फरक आसा. साधना आनी तप करून जिवाक निमणें समाधी प्राप्त जावं येता. पूण ते अवस्थेंतल्यान तो परत सकयल येवंक पावना. पूण ईश्वराचो अवतार समाधींतल्यान सकयल देंवूंक शकता. जीवकोटींतले लोक म्हणचे राजाचे कारभारी कशे. राजाच्या सात मजली म्हालांत भायल्या साला मेरेन तांच्यांनी वचूं येता. राजाच्या पुताच्यान सात मजल्यांचेर खंयूय भोंवूं येता. ताच्यान भायर लेगीत वचूं येता. प्रत्येक जाण म्हणटा, समाधींतल्यान सकयल परत देवूंक येना म्हणून. पूण मागीर शंकराचार्य, रामानुज हे सगले कोण आसात? तांणी ज्ञानाचो अहंकार दवरिल्लो.

**महिमा:** तें खरेंच. नाजाल्यार ते ग्रंथ कशे बरयतले आशिल्ले?

**श्रीरामकृष्ण:** परत पळयात. प्रह्लाद, नारद आनी हनुमान सारके व्हड मुनी आसात. समाधी उपरांत तांणी भक्ती राखून दवरली.

**महिमा:** हय महाराज.

## फकत ज्ञान वा ज्ञान विचार आनी समाधी उपरांतचें ज्ञान

## ज्ञानाचो हांव

**श्रीरामकृष्ण:** कांय लोक तत्वीक तर्क विचार करपांत दंग आसतात आनी स्वताक

कोण तरी व्हडले समजतात. घडये तांणी थोडो वेदान्ताचो अभ्यास केला आसतलो पूण खरें ज्ञान जर आसत तर मनीस अहंकारी जावंक शकना. दुसऱ्या उतरांनीं सांग जाल्यार समाधींत मनीस ईश्वरा कडेन एकरूप जावन वता आनी अहंकारा पसून ताच सुटका जाता. समाधीचो लाव जाले बगर खरें ज्ञान जावप शक्य ना. समाधींत मनी ईश्वरा कडेन एक जावन वता. मागीर ताचे कडेन अहंपण उरना.

हें कशे भशेन आसा तुमी जाणात? जशें बरोबर दनपरां सूर्य सारको माथ्या वय आसता. चोंय कडेन जर पळयत जाल्यार तुमकां तुमची सावळी दिसची ना. तशेंच खरी ज्ञान-समाधी जाले उपरांत तुमकां अहंकाराची सावळी दिसची ना.

खरें ज्ञान जाले उपरांत 'अहं' वा हांवपण उरत तर जाणा जा, तो 'ज्ञानाचो अहं' व 'भक्तीचो अहं' वा 'दास हांव' आसा. तो 'अविद्येचो अहं' न्हय.

परत ज्ञान आनी भक्ती हे दोनूय जुंवळे मार्ग आसात. खंयच्याय मार्गान वच, निमणो त ईश्वराकच वचून मेळटलो. ज्ञानी देवाक एके भावनेन पळयता. ज्ञानींचो ईश्वर तेजोमय आनी भक्तांचो ईश्वर रसमय.

## श्रीरामकृष्ण आनी चंडींत वर्णन केल्ल्या असुरविनाशाचो अर्थ

भवनाथ श्रीरामकृष्णांचे लागींच बशिल्लो आनी सगलें आयकतालो.

**भवनाथ:** (श्रीरामकृष्णांक) महाराज, म्हाका एक विचारूंक जाय. हांव चंडी सारकी समजूंक ना. चंडींत बरयलां, ती जगन्माता सगल्या जिवांक मारून उडयता.' हाचो अर्थ कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** ही सगली तिची लिला आसा. तिच्या खेळाचें सूख. म्हाकाय हो प्रश्न सतायतालो. मागीर म्हाका कळ्ळें, 'ही सगली माया आसा. निर्मणी आनी संहार हीं दोनय ईश्वराची माया'.

गिरीशान श्रीरामकृष्णांक आनी भक्तांक गच्चेर व्हेले. थंय जेवणाची तयारी केल्ली. मळबांत चंद्रीम लकलकतालो. चांदण्यांत गच्ची भरून गेल्ली. भक्त आपापल्या जाग्यार बसले. श्रीरामकृष्ण तांचे मुखारच बसले. सगलेच आनंदांत परिपूर्ण.

श्रीरामकृष्ण नरेंद्राक पळोवन सामके खुशाल भरीत जाल्ले. नरेंद्र फुडलेच पंगतींत बशिल्लो.

ादीं मदीं श्रीरामकृष्ण नरेंद्राची वासपूस करताले. तो अर्दें जेवण सोंपयता थंय आसा, श्रीरामकृष्ण नरेंद्रा लागीं आयले. येतना ते स्वताच्या पानांतलें धंय आनी काळंगाचें सरबत घेवन आयले आनी तांणी मोगान नरेंद्राक म्हणलें, ''तूं हें इतलें खा.'' ते उपरांत ते जेवणाच्या जाग्यार येवन बसले.

# अध्याय एकशेंवीस

## श्रीरामकृष्ण कलकत्ताक बलराम बसूंच्या घरा

### नरेंद्र आनी हाजरा

**मे 9, 1885. शेनवार.** दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण बलरामाच्या साला बशिल्ले. ते आनंदांत आशिल्ले. कितलेशेच भक्त थंय आशिल्ले. नरेंद्र, म, भवनाथ, पूर्ण पलटू, धाकटो नरेन, गिरीश, राम, विनोद, द्वीज आनी हेर भक्त तांचे भोंवतणीं बशिल्ले बलराम घरा नाशिल्लो. तो हवा पालट करपा खातीर मोंगिरीक गेल्लो. ताचे व्हडले धुवेन श्रीरामकृष्णांक आनी भक्तांक आफोवन सुवाळो मनयिल्लो. श्रीरामकृष्ण जेवण जाले उपरांत थोडो विसव घेताले.

परत परत श्रीरामकृष्णांनी मक विचारलें, ''सांग पळोवया, हांव उदार मताचो आसां?'

**भवनाथ:** (हांसत) तुमी तांकां कित्याक विचारतात? ते ओग्गी बसून रावतले.

एक भिकारी कुडींत भितर सरलो. ताका गावपाक जाय आशिल्लें. भक्तांनीं तागेल एक दोन पदां आयकलीं. नरेंद्राक ताचें गावप आवडलें आनी ताका आनीक पद गावपाक सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण:** पुरो, पुरो, आनीक पदां नाकात. पयशे खंय आसात? (नरेंद्राक) त ताका पद गावपाक सांगता पूण पयशे कोण दितलो?

**एक भक्त:** (हांसत) महाराज, भिकारी तुमकां अमीर आसा अशें समजतलो. गिरेस्त उमराव व्हडल्या लोडाक तेंकून बसल्यात तें पळोवन. (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हांव बरो ना अशेंय तो समजत.

हाजरा आनी ताचो अहंकार हाचे विशीं उलोवणें सुरू जालें. कांय कारणा खाती ताका दक्षिणेश्वरा सावन वच्चें पडिल्लें.

**नरेंद्र:** हाजराक आतां मान्य जालां, तो अहंकारी आशिल्लो म्हणून.

**श्रीरामकृष्ण:** ताचेर विश्वास दवरूं नाका. दक्षिणेश्वराक परत येवपा खातीर तो तशें उलयता. (भक्तांक) नरेंद्र सदांच म्हाणटा, 'हाजरा खूब व्हडलो मनीस म्हणून'.

रेंद्र: अजुनूय म्हणटां.
श्रीरामकृष्ण: कित्याक अशें म्हणटा? इतलें ताचे विशीं आयकून लेगीत तुका अशें देसता.
रेंद्र: ताचे कडेन कांय दोश आसात. पूण गूण चड आसात.
श्रीरामकृष्ण: ताचे कडेन निश्ठा आसा हें खरें. ताणें म्हाका म्हणलें, 'आतां तुमकां हांव आवडना पूण फुडें तुमी म्हजो सांगात जाय म्हणटले'. श्रीरामपूरा सावन एक गोस्वामी आयिल्लो. तो अद्वैत गोस्वामी वंशांतलो. एक दोन राती दक्षिणेश्वराक रावचें अशी ताची इत्सा आशिल्ली. हांवें ताका मायेमोगान रावपाक सांगलें. हाजरान म्हाका कितें सांगलें जाणा? ताणें म्हणलें, 'ताका देवळाच्या कारभाऱ्या कडेन धाडात.' ताच्या मनांतलो अर्थ होच, घडये तो दूद बी मागीत आनी तशें जाल्यार हाजराक ताच्या वांट्याचें दिवचें पडत. हांवें सांगलें, 'फटिंगा, गोस्वामी म्हणून हांव ताचे मुखार साश्टांग नमस्कार घालतां आनी तूं संवसारांत रावन आनी कामिनी-कांचनाचे थेर करून जाले उपरांत आनी थोडो जप केले उपरांत इतलो अहंकार तुका जाला. तुका मातूय लज दिसना?'
सत्व गुणान ईश्वराचो लाव जाता. रजो-तमो गूण मनशाक ईश्वरा सावन पयस व्हरतात. शास्त्र सत्वगुणाक धव्या रंगाची उपमा दिता. रजो गुणाक तांबड्या रंगाची आनी तमो गुणाक काळ्या रंगाची. एक खेपो हांवें हाजराक विचारलें, 'हांगा जे लोक येतात तांचे विशीं तुका कितें दिसता? प्रत्येका कडेन सत्वगूण आसा?' ताणें सांगलें, 'नरेंद्रा कडेन शंबर टक्के आसा. आनी म्हजे कडेन एकशेंधा टक्के आसा.' हांवें विचारलें, 'म्हजे कडेन कितलो आसा?' तर ताणें सांगलें, 'तुमचे भितर अजुनूय तांबशी सया मारता. तुमचे कडेन पंचात्तर टक्के आसा.' (सगले हांसतात.) दक्षिणेश्वराक बसून हाजरा जप करतालो. जप करता आसतना तो दलालीच्या वेव्हारा विशीं प्रयत्न करतालो. कांय हजार रुपयांचें ताका रीण आशिल्लें. तें रीण ताका फारीक करपाचें आशिल्लें. देवळांतल्या ब्राह्मण रांदप्या विशीं तो म्हणटालो, 'तुमकां कितें दिसता हांव असल्या लोकां कडेन उलयतां?'

## कामना ईश्वर लावाच्या मार्गांतलें विघ्न आसा
## ईश्वर बालक सभावाचो आसा

तुमचे कडेन कामनेचो थोडो अंश लेगीत जर आसत तर तुमकां ईश्वर मेळूंक पावना हें सामकें सत्य. धर्माची गती सुक्ष्म आसा. तुमकां सुयेंत सूत घालपाचें आसत पूण सूत जर उसवलां जायत तर सुयेंत सूत वचपाचें ना.

अशे लोक आसात जे तीस वर्सां जप करतात पूण ईश्वर लाव जायना. अशें कित्या
जाता? जाका गँग्रीन जालां ताका तसोच खर उपाय जावंक जाय. साद्या वखदा
दुयेंस बरें जावपाचें ना.

कामना आसा मेरेन कितलीय साधना करात, सिद्धीचो लाव जावपाचो ना. पूण हें
खरें आसा, ईश्वराची कृपा आसल्यार, ईश्वरान दया केल्यार एका खिणांत सिद्धीला
जावं येता. हजार वर्सांची काळखा कूड. जर कोणेंय अचकीत दिवो हाडीत तर एव
खिणांत कुडींत उजवाड पडटलो.

समजा गरीब मनशाचो भुरगो एका गिरेस्त मनशाक आवडलो आनी ताणें तागे
चलयेचें लग्न ताचे बराबर केलें तर रोखडेंच ताका गाडी घोडे, दास दाशी, कप
मुस्तायकी, सामान सुमान, घरदार, सगलें मेळटलें.

**एक भक्त:** महाराज, ईश्वराची कृपा कशी जाता?

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वर बालक सभावाचो आसा. एक भुरगें आपल्या घागऱ्यांत रत्
घेवन बसलां. रस्त्या वयल्यान कितलेशेच लोक वतात. बरेच जाण ताचे कडेन रत्
मागतात पूण तें रत्नां हातांनी लिपयता आनी तोंड घुंवडावन म्हणटा, 'ना, ना, हां
कशेंच दिवचें ना'. आनीक एक मनीस तेवटच्यान वता. तो ताचे कडेन रत्नां मागिना
तरीपूण भुरगें ताचे फटल्यान धांवता आनी आपूण जावन तांका घे म्हणून सांगून ताक
रत्नां दिता. भुरग्यांचो सभाव असो आसता.

## त्याग–तरच ईश्वरलाव
## पयलींची जीण
## मथूरबाबूची अवस्था

**श्रीरामकृष्ण:** त्याग केले बगर ईश्वर मेळना. म्हजें म्हणणें कोण मानतलो? हां
सांगात्याक सोदतां. म्हज्या सभावाचो. म्हज्यो भावना समजुपी. जेन्ना खूब भक्तीभा
आशिल्लो मनीस पळयतां तेन्ना हांव मनांत म्हणटां, 'घडये हो म्हजें आयकतलो'. पू
मागीर कळटा, तो वेगळे रितीन वागता म्हणून.

एक भूत सांगाती सोदतालें. शेनवारा, मंगळारा, अपघातान मरण आयलें जाल्या
मनीस भूत जाता. त्या भुताक जेन्ना केन्ना कळटालें कोणतरी शेनवारा, मंगळारा, अ
तरेन मेला म्हणून तेन्ना तें रोखडेंच थंय धांवत येतालें. ताका दिसतालें हे खेपे च
करून आपल्याक सांगाती मेळ्ळो म्हणून. पूण तें त्या मनशाचे लागीं धांवत वता थंय

आसा तो मनीस उठून उबो रावतालो. घडये गच्चे वयल्यान पडून फकत बेशुद्ध जाला आसतलो. पूण परत साबुद्दीर आयलो आनी उठून गेलो.

एक खेपो मथूरबाबूक आनंदा अवस्था प्राप्त जाली. सामके नशेंत आशिल्ले भशेन वागूंक लागले आनी कसलेंच काम करूंक शकले नात. तेन्ना सगले जाण म्हणूंक लागले, 'अशे वागत जाल्यार तांगेली इस्टेट कोण पळयतलो?' धाकट्या पुरयतान* कसली तरी करणी केल्या आसतली.

## नरेंद्राचें बेशुद्ध जावप
## गुरू शिश्याच्यो दोन गजाली

नरेंद्र जेन्ना पयलीं पयलीं येतालो तेन्ना एक खेपो हांवें ताचे छातयेक हात लायलो आनी तो बेहोश जालो. मातसो भानार येतकूच तो रडूंक लागलो आनी ताणें म्हणलें, 'आगा, म्हाका हें तुमी कितें केलां? म्हाका बाबा आसात, म्हाका आई आसा'. हें 'हांव' आनी 'म्हजें' अज्ञानांतल्यान येता.

गुरून शिश्याक म्हणलें, 'संवसार हो मिथ्या आसा. तूं म्हजे बराबर यो.' पूण शिश्यान म्हणलें, 'म्हजे घरा कडचे लोक-म्हजे लोक, म्हजी आई म्हजेर खुबूच प्रेम करतात. तांकां सोडून कसो येवं?' गुरून म्हणलें, तूं म्हजें म्हजें करता खरें आनी म्हणटा, ते सगले तुजेर प्रेम करतात म्हणून, पूण हो सगलो तुज्या मनाचो भ्रम आसा. हांव तुका एक युक्ती शिकयतां ती कर. म्हणचे तुका कळटलें, ते तुजेर खरें प्रेम करतात काय ना.' अशें म्हणून गुरून ताका वखदाची गुळी दिली आनी ताका सांगलें, 'घरा कडेन ही घे आनी तूं प्रेता भशेन पडून उरतलो. पूण तुजी शुद्ध वच्ची ना. तूं सगलें पळोवंक आनी आयकूंक पावतलो. मागीर हांव तुज्या घरा येतां आनी ल्हव ल्हव तूं पयलीं सारको जातलो.'

शिश्यान गुरून सांगिल्ले प्रमाण केलें आनी तो हांतरुणार मेल्ले भशेन पडून रावलो. घरांत रडारड सुरू जाली. ताची आवय, ताची बायल, सगले जाण जमनीर लोळत रडूंक लागले. त्याच वेळार एक ब्राह्मण घरांत आयलो आनी ताणें तांकां विचारलें, 'कितें जालां तुमचें?' तांणी सगल्यांनीं सांगलें, 'हो भुरगो मेला.' ब्राह्मणान ताची नाडी पळयली आनी म्हणलें, 'कितें म्हणटात तुमी? हो मरूंक ना. हांव एक वखद दितां. तें घेतकूच तो सामको बरो जातलो.' घरच्या लोकांच्या आनंदाक शीममेर उरली

---

* तेन्ना श्रीरामकृष्ण कालीच्या देवळांत पुजा करताले. तांका लेखून हें म्हणलां.

ना. सर्गच तांच्या घरांत आयिल्ले भशेन जालो. पूण ब्राह्मणान म्हणलें, 'मात म्हाका तुमकां कितें सांगूंक जाय. वखद पयलीं कोणें तरी खावंक जाय. मागीर उरिल्लें तें ह्या भुरग्याक दिवंक जाय. पूण मागीर जो पयलीं खातलो तो मरतलो. आतां तांची खुबूच लागींची मनशां आसात अशें म्हाका दिसता. कोण ना कोण तरी खावपाक तयार जातलोच. ताची बायल आनी आवय तर आकांतान रडटात. खात्रेन त्यो खावपाक अनमनच्यो नात.'

एकदम रडप थांबलें आनी सगले ओग्गी बसले. आवयन म्हणलें, 'कितें सांगूं. घराबो तर खुबूच व्हडलो. हांव जर मेलीं तर हो घराबो कोण पळयतलो?' अशें म्हणून ती विचार करूंक लागली. एका मिनटा पयलीं जी बायल विलाप करताली आनी नशिबाक दोश दिताली. तिणें म्हणलें, 'जालें तें वायट जालें. हांचें जावपाचें तें जालें. म्हज्या पदराक दोन तीन भुरगीं आसात. हांव मेलीं जाल्यार तांकां कोण पळयतलो?' शिश्य हें सगलें पळयतालो आनी आयकतालो. तो रोखडोच उठलो आनी ताणें गुरूक म्हणलें, 'गुरूदेव चलात महाराज. हांव तुमचे बराबर येतां.' (सगले हांसतात.)

आनीक एका शिश्यान गुरूक सांगलें, 'महाराज, म्हजी बायल म्हजी खूब जतनाय घेता. तिचे खातीर, गुरूदेव, हांव संवसार सोडूंक शकना.' शिश्य हठयोग करतालो. गुरून ताकाय एक युक्ती शिकयली. बायलेचें ताचेर कितलें प्रेम आसा हें ताका मागीर कळटलें आशिल्लें. एक दीस ताच्या घरा रडारड सुरू जाली. शेजारी धांवत आयले आनी तांणी पळयलें, हठयोगी कुडींत बसून आसा. ताचे अवयव धरल्यात. अचेतन. आनी वांकडे तिकडे जाल्यात.

तांकां दिसलें तो मेलो म्हणून. ताची बायल जमनीर लोळण घेवन आकांतान रडूंक लागली आनी म्हणूंक लागली, 'आवय गे, म्हजेर कसलो हो प्रसंग आयला! तुमी आमच्या फुडाराक कशें कितें करून दवरलां? आवय गे, म्हज्या नशिबांत हें येतलें हें हांवें केन्नाच चिंतूंक नाशिल्लें!'

इतल्यांत नातेवायकांनी आनी इश्टांनी मडें भायर काडपाक खाट हाडली. पूण अचकीत तें भायर काडपाक एक अडचण आयली. मडें वांकडें तिकडें आनी घट्ट जाल्ल्यान तें दारांतल्यान काडपाक येना जालें. शेजाऱ्यान रोखडीच एक कुराड हाडली आनी तो दाराची फास्की कातरपाक लागलो. बायल सामकी कासावीस जावन रडटाली. तिणें जेन्ना कुराडीचो आवाज आयकलो तेन्ना ती धांवत थंय आयली. रडत रडत तिणें विचारलें, 'तुमी हें कितें करतात?' शेजाऱ्यान सांगलें, 'आमकां मडें भयर काडूंक येना म्हणून आमी दाराची फास्की कातरतात.' बायलेन सांगलें, 'उपकार करून अशें कितें करूं नाकात. हांव आतां विधवा जाल्यां. म्हाका पळोवणारो कोणूच ना. म्हाका

आतां ह्या भुरग्यांक वयर काडूंक जाय. हें दार जर तुमी फोडून उडयलें, तर हांव तें बदलूंक शकचें ना. सगल्यांक मरण अटळ आसा. आनी म्हज्या घोवाचो जीव तर परत हाडूंक शकनात. ताचे हात पांय कापून उडयात'. तेन्ना हठयोगी एकदम उबो रावलो. वखदाचो असर देंविल्लो. ताणें बायलेक म्हणलें, 'आगे सटवे, म्हजे हात पांय कापपाक तयार जाली तूं आं!' अशें म्हणून ताणें घराचो त्याग केलो आनी तो गुरू बराबर गेलो. (सगले हांसतात.)

बऱ्योच बायलो दुख्खाचो आव हाडटात. फुडें रडचें पडटलें हें जाणा जावन त्यो पयलीं नथ काडटात आनी दुसऱ्योय सगल्यो वस्ती काडटात आनी पेटयेंत कुलूप घालून दवरतात. मागीर जमनीर लोळण घेतात आनी रडटात आनी रडत म्हणटात, 'कितें आमचेर हो प्रसंग आयला बाये!'

## अवतारा विशीं श्रीरामकृष्णां मुखार
## नरेंद्र आनी हेरांची भासाभास

**नरेंद्र:** प्रमाण नासल्यार हांव विश्वास कसो दवरूं, ईश्वर मनीसरुपान अवतार घेता म्हणून?

**गिरीश:** फकत विश्वासच पुरो जाता. हे जिनस हांगा आसात. हाका प्रमाण कितें? फकत विश्वास हेंच प्रमाण.

**एक भक्त:** भायलें जग आमचे भायर आसा हें तत्वज्ञानी सिद्ध करूंक शकल्यात? पूण ते म्हणटात, 'तसो आमचो घट विश्वास आसा'.

**गिरीश:** (नरेंद्राक) जरी ईश्वर खूद तुज्या मुखार येवन उबो रावलो तरी तूं ताचेर विश्वास दवरचो ना. देवान स्वता येवन सांगलें, 'हांव ईश्वर, मनीसरुपान आयलां.' पूण घडये तूं म्हणटलो, तो फटींग आनी फसोवपी म्हणून.

देव अमर आसता हें विशी उलोवप सुरू जालें.

**नरेंद्र:** तो अमर आसता हाका प्रमाण कितें?

**गिरीश:** देव तुजे मुखार आयल्यार लेगीत तूं ताचेर विश्वास दवरचो ना.

**नरेंद्र:** अमर देव फाटल्या काळांत रावताले हाका प्रमाण जाय.

मन पलटूच्या कानांत कितें सांगलें.

**पलटू:** (हांसत नरेंद्राक) आरंभ नासतना अमर जावपाची कितें गरज? अमर जावपाक अनंत आसपाची गरज आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) नरेंद्र वकिलाचो पूत, पलटू डेप्युटी मेजिस्ट्रेटचो पूत. (सगले हांसतात)

थोडो वेळ सगले ओगी रावले.

**योगीन:** (हांसत) श्रीरामकृष्ण नरेंद्राचें उलोवप आतां खरें मानिनात.

**श्रीरामंकृष्ण:** (हांसत) एक दीस हांवें म्हणलें, 'चातक पक्षी मळबांतल्यान उदक पडटा तें सोडून दुसरें खंयचेंच उदक पियेना'. नरेंद्रान म्हणलें, 'चातक सादें उदक लेगीत पियेता'. मागीर हांवें आईक म्हणलें, 'आई, मागीर म्हजें उलोवप कितें फट थारतलें?' म्हाका ते विशीं खूब चिंता जाली. मागीर एक दीस नरेंद्र हांगा आशिल्लो. कुडींत कितलींशींच सुकणीं भोंवतालीं. ताणें म्हणलें, 'थंय पळयात, थंय पळयात.' हांवें म्हणलें, 'थंय कितें?' ताणें म्हणलें, 'तुमचे चातक पक्षी'. पळयल्यार कितें? तीं फकत वटवागळां अशिल्लीं. त्या दिसा पसून तो कितें म्हणटा तें हांव खरें मानिना. (सगले हांसतात.)

## ईश्वराच्या रुपाचीं दर्शनां काय मनाचो खेळ

**श्रीरामकृष्ण:** यदू मल्लीकाचे बागेंत नरेंद्रान म्हाका म्हणलें, 'तुमी ईश्वराचीं रुपां जीं पळयतात तें सगलें तुमच्या मनाचो खेळ आसा.' हांवें चकीत जावन ताका म्हणलें, 'पूण तीं उलयतात लेगीत.' नरेंद्रान सांगलें, 'हय तें तशेंच दिसता'. तेन्ना हांव आई कडेन गेलों आनी रडूंक लागलों. हांवें म्हणलें, 'आई, हें कितें जालें? हें सगलें फट. नरेंद्रान अशें म्हणचें?' रोखडेंच म्हाका दर्शन जालें. हांवें चैतन्य-अखंड चैतन्य-तातूंत एक चैतन्यरूप आकाराक आयलें. त्या चैतन्यरुपान म्हाका म्हणलें, 'तुजें उलोवप जर फट आसत तर तें सगलें वस्तुस्थिती कडेन जुळटा कशें?' तेन्ना मागीर हांवें नरेंद्राक म्हणलें, 'फटिंगा, तुवें म्हजे भितर अविश्वास उत्पन्न करून दिलो. परत हांगा येत रावं नाका.'

## भगवान श्रीरामकृष्ण शास्त्र आनी ईश्वराची वाणी

परत भासाभास सुरू जाली. नरेंद्र वाद करीत आशिल्लो. तेन्ना ताचें वय 22 वर्सां वयर आशिल्लें.

**नरेंद्र:** (गिरीशाक, मक आनी हेर भक्तांक) हांव शास्त्राचेर तरी विश्वास कसो दवरूं? महानिर्वाण तंत्रांत एके कडेन म्हणलां, 'ब्रह्मज्ञान जालें ना जाल्यार नरकांत वच्चें पडटलें.' त्याच पुस्तकांत दुसरे कडेन म्हणलां, 'पार्वतीचे उपासने बगर मुक्ती ना.' मनूसंहितेंत मनून स्वता विशींच बरयलां. मोजेसान पेंटाटेवक हातूंत तागेल्या स्वताच्या

मरणा विशीं बरयलां.

सांख्य तत्वज्ञान सांगता, ईश्वराचें अस्तित्व ना. कित्याक ताच्या अस्तित्वाचें प्रमाण ना. परत तेंच म्हणटा, 'वेद मानूंक जाय आनी ते नित्य आसात.'

पूण म्हणून हें सगलें खरें न्हय अशें हांव म्हणिनां. म्हाका तें समजना. म्हाका तें समजावन दियात. शास्त्राचो अर्थ लोकांक जसो दिसता तसो तांणी केला. खंयचो अर्थ मानून घेवचो. धवो प्रकाश तांबड्या कंवचेंतल्यान आयल्यार तांबडो दिसता. पाचवे कंवचेंतल्यान आयल्यार पाचवो.

**एक भक्त:** गीता भगवंतान सांगल्या?

**श्रीरामकृष्ण:** हय, गीता सगल्या शास्त्रांचो सार आसा. संन्याश्या कडेन आनीक कसलेंय पुस्तक नासल्यार जाता. पूण ताणें सदांच ल्हान गीता व्हरची.

**एक भक्त:** गीता श्रीकृष्णान सांगल्या.

**नरेंद्र:** हय, कृष्णान सांगूं, ना जाल्यार आनी कोणेंय सांगूं.

नरेंद्राची हीं उतरां आयकून श्रीरामकृष्ण अजापीत जाले.

**श्रीरामकृष्ण:** हें सगलें उलोवप बरें चल्लां. शास्त्राचे दोन तरेचे अर्थ आसात. एक शब्दशा आनी एक सत्य-मर्म सांगपी. खरो अर्थ तो घेवंक जाय. जो ईश्वराचे वाणी कडेन जुळटा तो घेवपाचो. पत्रांतलीं उतरां आनी बरोवप्याचीं तोंडचीं उतरां हातूंत खूब फरक आसा. शास्त्रां हीं पत्रांतलीं उतरां कशीं आनी ईश्वराचीं उतरां ही तोंडचीं उतरां कशीं. हांव जगन्मातेच्या तोंडच्या उतरां कडेन जुळना जाल्यार कितेंच खरें मानिना.

परत ईश्वरी अवतारा विशीं उलोवणें सुरू जालें.

**नरेंद्र:** ईश्वराचेर विश्वास आसलो म्हणचे जालें. तो कितें करता वा कित्याक हुंबकळटा हाची म्हाका गरज ना. अनंत ब्रम्हांड आसा आनी अनंत अवतार आसात.

'अनंत ब्रह्मांड, अनंत अवतार' हीं उतरां आयकून श्रीरामकृष्णांनीं हात जोडून नमस्कार केलो आनी म्हणलें, "आहाहा."

मन भवनाथाक कितें तरी सांगलें.

**भवनाथ:** हे म म्हणटात, 'जों मेरेन हांवें हती पळोवंक ना, तों मेरेन हांव सुयेच्या नेड्यांतल्यान हती वचूंक शकता काय ना म्हाका कशें समजतलें? म्हाका ईश्वर खबर ना. तरीय तो मनीसरुपान अवतार स्वता घेवंक शकता काय ना हें तर्कबुद्धीन म्हाका कशें समजतलें?'

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराक सगलेंच शक्य आसा. ताणें जादू करून भेरावन उडयल्यात. जादुगार गळ्यांत सुरी खुपशिता आनी परत भायर काडटा. तो फातर विटो खाता.

## श्रीरामकृष्ण आनी कर्म
## तांची ब्रह्मज्ञानाची अवस्था

**एक भक्त:** ब्राह्मसमाजाचे लोक म्हणटात, मनशान संवसाराचीं कर्मां करूंक जाय. तें मनशाचें कर्तव्य जावन आसा. ताणें ह्या कर्मांचो त्याग करूंक जायना.

**गिरीश:** हय. हांवें तशें तांचे सुलभ समाचार पत्रिकेंत बरयिल्लें पळयलां. ईश्वराक जाणा जावपाक जीं सगलीं कर्मां करूंक जाय तींच करप जमना. आनी परत तो म्हणटा आनीक संवसाराची कर्मां.

श्रीरामकृष्ण मातशे हांसले, तांणी म कडेन पळयलें आनी दोळ्यांनी कुरू करून म्हणलें, तो जें म्हणटा तें बरोबर आसा. मक समजलें, संवसाराचीं कर्तव्यां करपाचो प्रश्न मोटो कठीण आसा.

**पूर्ण:** आयलों.

**श्रीरामकृष्ण:** आमी हांगा आसात म्हणून कोणें खबर दिली तुका?

**पूर्ण:** सारदान.

**श्रीरामकृष्ण:** (बायलांक) हाका थोडें खावपाक दियात.

नरेंद्र आतां गावपाचो आशिल्लो.

श्रीरामकृष्ण आनी भक्त पद आयकुपाक उत्सूक जाल्ले.

नरेंद्र गावपाक लागलो:

ए शिव, तुजें उबारिल्लें वज्र पर्वतांचेर, मळांचेर आनी मळबांचेर
शेक चलयता!
ए देवाधिदेव, ए महादेव, ए काळनाशी! तूं महाकाय, धर्मराज!
ए शिव, तूं सुभागी, म्हाका तार, म्हाका खर पातकां पसून मुक्त कर.

परत तो गावपाक लागलो:

ए दीनशरणा, तुजें नांव आसा गोड!
ए प्राणरमणा, आमच्या कानाक पडटा तें अमृत कशें गोड
आनी आमकां करता धादोस.

परत आनीक एक पदः

ए मना, ताका तूं केन्नाच आळयना कित्याक!
जो विपत्तीचो सगलो भंय निवारता?
मायेन फसून वचून तूं ताका विसरता,
संवसाराच्या वसाड रानांच्या प्रेमांत पडून
आरेरे! कितें फकांडां चल्ल्यांत हांगा!
तुज्यान दृश्ट आनी धन सदांच दवरूंक जावचें ना,
जतनाय घे, ताका विसरशी बी.
फट तें सोड, ए मना! सत्य तें पूज;
आनी तुजे जिणेंतलें सगलें दुख्ख वतलें पयस.
तुज्या काळजांत म्हजी चत्राय दवर सांबाळून.

खणखणीत आवाजान हरी नामाचो कर जयजयकार
आनी तुज्यो फसव्यो इत्सा मार भायर,
तुका ह्या भवसागरांतल्यान जाय जाल्यार तरूंक;
वच ताका शरण देहान, मनान, आत्म्यान,
आनी ताची कर पुजा विश्वासपूर्ण प्रेमान.

**पलटूः** तें पद म्हणिना?
**नरेंद्रः** खंयचें?
**पलटूः** जेन्ना पळयतां तुजे अनुपम दोळे!
नरेंद्र गावंक लागलोः

प्रभो, पळयतां हांव तुज्या अनुपम, प्रेममय मुखामळा कडेन
मागीर म्हाका कसलो भंय संवसारांतल्या शोकाचो वा दुख्खाचो वा तिडकीचो
उदेत्या सुर्याचो पयलो कीर्ण जसो काळोख पयसायता

तेच भशेन, प्रभो, काळजांत तुजो सुभागी उजवाड फांकारता
आमचें सगलें दुख्ख आनी दुखी गोड सुगंधी लेपान पयसायता.
जेन्ना हांव चिंत्तां तुजें प्रेम आनी कृपा, म्हज्या काळीजतळाचे खोलायेन,
आटापूंक येनात अशीं आनंद दुकां म्हज्या गालां वयल्यान अखंड देंवतात.
जयजयकार जावं, प्रभो! जयजयकार जावं, कृपावंत! तुजें प्रेम हांव पुकारूं.
तुजें कार्य करतां करतां, म्हजे प्राण वतात जाल्यार वचूं!

मन आगरो केलो म्हणून, नरेंद्र परत गावपाक लागलो. म आनी खूबशे भक्त हात जोडून पद आयकताले.

ए मना, स्वर्गीय आनंदाचो सोरो पियेवन तूं बेबदें जा.
जमनीर लोळ आनी रड, हरीचें गोड नाम घेवन...

नरेंद्र परत गावंक लागलो:

म्हज्या मना, प्रभू हरीचें स्मरण कर
पुरायपणान शुद्धात्मो जो आसा निरंजन
कितल्या अनुपम उजवाडान तो चकचकता!
कितली आत्ममुग्धावणी ताची अजापीत प्रतिमा!
कितलो तो प्रिय ताच्या सगल्या भक्तगणांक!...

ताणें आनीक एक पद म्हणलें:

प्रभो, हें अजापीत आनी अपार विश्व,
तुजी रचणूक,
हें सगलें विश्व तुजें
सुंदरकायेन आनी कांतीन उप्पाट भरिल्लें भांडार.
भांगराचे सरपळेंत चकचकपी रत्नां प्रमाण

ीं असंख्य नखेत्रां लकलकतात;
असंख्य सूर्य आनी असंख्य चंद्रीम कोण कशे मेजतलो?
ी धर्तरी धान्यान आनी भांगरान चकचकता,
ं उपाट सदांकाळचें भांडार
ए प्रभो, हीं अगणीत
नखेत्रां तुजी गायतात व्हडवीक
तूं आसा सुभागी, सुभागी!

परत नरेंद्र गावंक लागलो:

मळबाचे तबकडेंत झगझगतात
सुर्याचे आनी चंद्रिमाचे दिवे;
झगझगीत नखेत्रां वज्रां कशीं लकलकतात
तुज्या अजापीत रुपाक सजोवपाक

नरेंद्र फुडें गावंक लागलो:

ए मानवा, तुजें मन मूळ पुरुशाचेर लाय
जो सगल्या कारणाचें कारण,
खता विरयत तो, उगम नाशिल्लें सत्य.
प्राण रुपान तो चराचरांत आसा,
श्रद्धावंत मनीस ताका पळयता,
जितो, ज्योतिर्मय, सगल्यांचें जो मूळ.

नारायणान आगरो केलो आनी नरेंद्र परत गावंक लागलो:

यो! आई, यो! म्हजी आत्मबावली! म्हज्या काळजाचो संतोश!
म्हज्या हृदयकमळांत यो आनी बस, म्हणचे हांवें तुजें मुखामळ पळोवचें.

आरेरे! गोड आई, जल्म घेत सावन हांवें खूब भोगलां;
पूण हांवें तें सगलें सोंसलां, तूं जाणा तुका तेळून.
म्हज्या काळजाचें कमळ उगड, प्रिय आई! थंय तुका उकती करून.

## श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न
## तांची ब्रह्मज्ञानाची अवस्था

नरेंद्र तागेल्या मनांत गावंक लागलोः

दाट्ट काळखांत ए आई, तुजी अरूप सुंदरकाय लकलकता.
देखुनूच, योगी पर्वताचे काळखे ढोलींत तुजें ध्यान करता.

समाधी संबदाचें पद आयकतां, आयकतां श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जाले.
नरेंद्र परत गावंक लागलो तेंच पदः

ए म्हज्या मना, तूं हरिरसमदिरा पियेवन मत्त जावन वच

श्रीरामकृष्ण समाधींत आशिल्ले.
उत्तरे कडेन तोंड करून वणटीक तेंकून पांय लोंबकळावन लोडार बसून आशिल्ले.
भक्त तांचे भोंवतणीं बशिल्ले.
श्रीरामकृष्ण समाधी अवस्थेंत जगन्माते कडेन उलयले. तांणी म्हणलें, ''हांव आतां जेवतलों. तूं आयली? तूं कितें रावपाचो जागो सामको थारावन, थंय तुगेलें सामान दवरून, मागीर आयल्या?''
तांणी फुडें म्हणलें, ''आतां म्हाका कोणाचोच सांगात बरो लागना. आई, हांव पद कित्याक आयकूं? तें भायल्या जगा कडेन म्हजें मन थोडेंशें विचलीत करता.''
श्रीरामकृष्ण ल्हव ल्हव भायल्या जगाच्या भानार आयले. भक्तां कडेन पळोवन तांणी म्हणलें, ''कांय वर्सां पयलीं कय नांवाचें नुस्तें उदकाच्या आयदनांत लोक जिवें दवरताले तें पळोवन म्हाका अजाप जातालें.'' हांव म्हणटालों, ''कितले निश्ठूर लोक हे! ते निमणें त्या नुस्त्याक मारतले.'' पूण फुडें ही म्हज्या मनाची अवस्था

दलपाक लागली. म्हाका कळून आयलें, शरिरां हीं उश्या चिरयो कशीं. ती उरलीं कितें वा गेलीं कितें. ताका कांयच अर्थ नासता.

**भवनाथ:** तर मागीर पातक लागनासतना मनशाची हिंसा करूंक येता? ताका मारूंक लेगीत येता?

**श्रीरामकृष्ण:** हय. ती अवस्था प्राप्त जाल्यार तशें जावं येता. ती अवस्था सगल्यांक मेळना. ती ब्रह्मज्ञानीची अवस्था आसा. समाधींतल्यान एक दोन सोपणां सकयल देंवलो म्हणचे मागीर म्हाका भक्ती, भक्त हे बरे लागतात. ईश्वरा भितर विद्या आनी अविद्या दोनय आसात. ही विद्या माया मनशाक ईश्वरा कडेन घेवन वता. तर अविद्या माया ताका ईश्वरा पसून पयस व्हरता. ज्ञान, भक्ती, दया, वैराग्य हें विद्यामाये भितर येता. ह्या सगल्यांच्या आधारान मनीस ईश्वराचे लागीं येता. मनीस एक सोपण वयर चडटकूच मनशाक ईश्वराचो लाव जाता. ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाता. हे अवस्थेंत ताका बोध जाता. स्पश्ट दिसता, ईश्वरच सगलें कितें जाला. हे अवस्थेंत ताका कितेंच सोडून दिवपाचें नासता आनी कितेंच घेवपाचें नासता. कोण रागार जावप शक्यच नासता. एक दीस हांव गाडयेन वतालों. पडवेर उब्यो आशिल्ल्यो दोन वेश्या पळयल्यो. म्हाका त्यो साक्षात जगन्माता कश्यो दिसल्यो. हांव तांकां पांयां पडलों.

जेन्ना म्हाका ही उच्च अवस्था पयलेच खेपो प्राप्त जाली तेन्ना म्हाका कालीमातेची पुजा करूंक जमली ना वा तिका अन्न निवेद्य दाखोवंक जमलो ना. हलधारी आनी हृदय हांणी म्हाका सांगलें, ते खातीर देवळाच्या कारभाऱ्यान म्हजी निंदा केली म्हणून. पूण हांव फकत हांसलों. मात लेगीत ताचो राग आयलो ना. ब्रह्मज्ञान प्राप्त करून घेयात आनी मागीर ईश्वराचे लिलेचो आस्वाद घेत भोंवात. एक साधू शारांत आयलो आनी मजेंत सुवातो पळयत भोंवूंक लागलो. तेन्ना ताका वळखीच्या साधूची भेट जाली. त्या वळखीच्या साधून त्या पयल्या साधूक विचारलें, 'तुमी खंय हांगा थंय मजेन भोंवत आसात. तुमचें सामान खंय आसा? कोण चोर बी घेवन वचना मूं?' त्या पयल्या साधून सांगलें, 'चोरून व्हरपाक शक्यच ना. पयलीं रावपाचो जागो सोदून काडलो, थंय कुडींत बरे भशेन सामान दवरलें, मागीर कुलूप लायलें. मागिरूच शारांत मजेंत भोंवत आसां.' (सगले जाण हांसतात.)

**भवनाथ:** ही खूब वयली गजाल.

**म:** (स्वता कडेन) ब्रह्मज्ञाना उपरांत ईश्वरी लिलेचो आस्वाद घेवप! समाधी मेळ्ळे

उपरांत सादे जाणिवेचेर येवप!

**श्रीरामकृष्ण:** (मक आनी हेर भक्तांक) ब्रह्मज्ञान कितें अशें सोंपे रितीन जावपा सारकी वस्त आसा? मनाचो सामको नाश केले बगर तें शक्य ना. गुरून शिश्याक म्हणलें 'म्हाका तुजें मन दी आनी हांव तुका ज्ञान दितां.' हे अवस्थेंत फकत ईश्वरा विशी उलोवप आनी भक्तांचो सांगात आवडटा.

(रामाक) तुमी दोतोर. तुमी तर जाणाच, वखद जेन्ना रगता भितर भरसता आनी एक जावन वता तेन्नाच वखद लागू पडटा. तेच प्रमाण ब्रह्मज्ञानाचे अवस्थेंत भितर भायर तुमकां ईश्वरच दिसता. अशेंय दिसता, ईश्वरच स्वता शरीर, मन, जीण आनी आत्मो जाला.

**म:** (स्वगत) आत्मसात जालां.

**श्रीरामकृष्ण:** मनाचो नाश जातकूच मनशाक ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाता. मनाचो नाश जातकूच जो सदांच 'हांव', 'हांव' म्हणीत आसता त्या 'अहं' चो नाश जाता. भक्तीमार्गानय ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाता. ज्ञान मार्गानय-म्हणचे विवेक विचारानय तें प्राप्त जाता. ज्ञानी विवेक असो करतात- 'नेति', 'नेति.' म्हणचे ही सगली माया आसा, सपनां भशेन आसा-अशे रितीन विचार करतात. ते फोडणिशी अशी करतात-जगत हें न्हय, हें न्हय. ही सगली माया. जगत ना जातकूच उरतात जीव-म्हणचेच 'हांवरुपी' खूब घटक. कल्पना करात, उदकांत भरिल्ले धा कळशे आसात. तांचें मदीं सुर्याचें पडबिंब पडिल्लें आसा. कितले सूर्य दिसतात? प्रत्येक 'अहं' एकेक कळसो कसो'.

**एक भक्त:** धा पडबिंबां आनी एक खरो सूर्य तर आसाच.

**श्रीरामकृष्ण:** समजा एक कळसो फोडून उडयलो. आतां कितले सूर्य दिसतले?

**भक्त:** णव पडबिंबां पडिल्ले सूर्य. पूण एक खरो सूर्य आसाच.

**श्रीरामकृष्ण:** समजा णव कळशे फोडून उडयले. कितले सूर्य दिसतले?

**भक्त:** एका पडबिंबांत सूर्य पूण एक खरो सूर्य आसाच.

**श्रीरामकृष्ण:** (गिरीशाक) निमाणो कळसो फुटल्यार कितें उरता?

**गिरीश:** महाराज, एक खरो सूर्य

**श्रीरामकृष्ण:** ना. कितें उरता तें तोंडान सांगपाक येना. जें आसा तें उरता. पडबिंबीत सूर्य नासल्यार खरो सूर्य आसा हे कशें कळटलें? समाधींत 'हांव' ची जाणीव ना जावन वता. समाधींतल्यान सकयल्या सोपणार देंवतकूच समाधींत कितें पळयलें ते मनीस सांगूंक शकना.

## भगवान श्रीरामकृष्ण भक्तांक खात्री दितात आनी तांकां आपणायतात

श्रोच वेळ जाल्लो. सांजवेळ जाल्ली. सालांत दिवे पेटिल्ले. श्रीरामकृष्ण समाधी अवस्थेंत आशिल्ले. भक्त तांचे भोंवतणीं बशिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (आनंदावस्थेंत) हांगा आनीक कोणच ना म्हणून तुमकां हांव हें सांगतां. जो काळजा सावन ईश्वराक जाणा जावंक सोदता, ताका खात्रेन ईश्वर मेळटलो. ताका मेळुंकूच जाय. जो ईश्वरा खातीर व्याकूळ जाला, आनी ईश्वर सोडून आनीक कांयच सोदिना ताका खात्रेन ईश्वर मेळटलोच.

जे म्हज्या अंतरंगांतले भक्त आसात ते सगले हांगा आयिल्ले आसात. हांचे उपरांत जे येतले ते तिरायत आसतले. असले मनीस मर्दी मर्दी येतले. जगन्माता तांकां सांगतली, 'अशें करात, देवाक अशे रितीन आळयात.'

## ईश्वरूच गुरू. जिवाचे मुक्तीचो एकमेव उपाय

**श्रीरामकृष्ण:** मनशाचें मन ईश्वराचेर कित्याक उरना?

ईश्वरा परस ताची म्हामाया शक्तीवान आसा. ताचे मायेची शक्त चड. जुविजा परस शिपाय चड शक्तीमान आसा. (सगले हांसतात.)

रामान नारदाक म्हणलें, 'नारदा, तुमचे प्रार्थनेन हांव खूब प्रसन्न जालां. म्हजे कडेन कितेंय वर माग.' ताचेर नारदान म्हणलें, 'रामा तुज्या पादपद्मांचेर म्हजी शुद्ध भक्ती आसूं दी आनी तुजे भक्त मोहिनी मायेक फसून वचनासतना उरूं दी.' रामान म्हणलें, 'तथास्तू. आनीक कितेंय माग.' तेन्ना नारदान म्हणलें, 'रामा, आनीक कसलोच वर नाका.'

हेच भुवन मोहिनी मायेन सगले भुल्लसून गेल्यात. जेन्ना ईश्वर देह धारण करता तेन्ना तो हे मायेन भुल्लसून वता. राम सीते खातीर रडत रडत भोंवतालो. पंचभुतांचो सांपळो पडटा तातूंत ब्रह्म आनी माया रडटात. पूण एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय. ईश्वर,

ताचे फकत इत्शेन ह्या सांपळ्यांतल्यान स्वता जावन मुक्त जावंक शकता.

**भवनाथ:** आगगाडयेचो गार्ड स्वताचे इत्शेन बंद करून घेता पूण ताका जेन्ना जा तेन्ना तो गाडयेंतल्यान देंवून वचूंक शकता.

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वरकोटी - देखीक ईश्वरी अवतारी पुरूश - मनांत येतकूच मुक्त जावंक शकतात. पूण जीवकोटी मुक्त जावंक शकनात. जीव हे कामिनी-कांचनां बंद आसतात. जेन्ना कुडींतलीं दारां आनी जनेलां स्क्रू लावन बंद करतात, तेन्ना मनीस भायर येतलो कसो?

**भवनाथ:** (हांसत) सादे मनीस रेल्वेच्या तिसऱ्या वर्गाचे प्रवाशी कशे. डब्यांतलीं दार चावी लावन बंद करतात. तांकां भायर वचपाक आनीक मार्ग नासता.

**गिरीश:** मनशाचे जर हात पांय आंवळून बांदले तर ताका सुटपाचो उपाय कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** जर ईश्वर स्वता गुरूचें रूप घेवन जिवाचे मायेचे पाश - मायेची सरपळी - कापून उडयत तर मागीर ताका कसलोच भंय ना.

भगवान श्रीरामकृष्ण अशें सुचयतात काय, ते स्वता जिवांचो मायापास तोडपा खातीर देह धारण करून गुरू रूप घेवन आयल्यात?

# अध्याय एकशेंएकवीस

## भक्त संगतींत भगवान श्रीरामकृष्ण

### श्रीरामकृष्ण रामाच्या घरा

**मे 23, 1885. शेनवार.** श्रीरामकृष्ण रामाच्या घरा आयिल्ले. ते रामाच्या घराच्या तळमजल्यार सालांत बशिल्ले. श्रीरामकृष्णां भोंवतणीं भक्त बशिल्ले आनी ते तांचे कडेन उलयताले. महिमा तांचे मुखार बशिल्ले. म तांचे दावे वटेनच्यान बशिल्लो. पलटू, भवनाथ, नित्यगोपाळ, हरमोहन आनी हेर भक्त तांचे भोंवतणीं बशिल्ले. सांजेचीं पांच जाल्लीं. श्रीरामकृष्णांनी भक्तांची वासपूस केली.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) धाकटो नरेन आयलो ना?

इतले म्हणसर धाकटो नरेन कुडींत भितर सरलो.

**श्रीरामकृष्ण:** तो आयलो ना?

**म:** कोण महाराज?

**श्रीरामकृष्ण:** किशोरी, गिरीश घोश येवपाचो ना? नरेंद्र येतलो?

कांय मिनटां उपरांत नरेंद्र येवन श्रीरामकष्णांक पांयां पडलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) केदार हांगा आशिल्लो जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. गिरीशा कडेन ताचे बरें जुळटा. (महिमाक हांसत) तोवूय तेंच म्हणटा.*

रामान किर्तनाची तयारी केल्ली. हात जोडून किर्तनकारान श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ‘‘महाराज, तुमी आज्ञा केल्यार हांव पद सुरू करतां.’’

श्रीरामकृष्ण थोडें उदक पियेले आनी ल्हान बोटव्यांतल्यान तांणी मुखशुद्धी खातीर मुखशुद्धीचें घेतलें. मक तांणी बोटवो बंद करपाक सांगलें.

किर्तनकारान किर्तन चालू केलें. मृदंगाच्या आवाजान श्रीरामकृष्ण ईश्वरी आनंदांत मग्न जाले. किर्तनाचो पूर्वरंग आयकतां आयकतां ते पुरायेन समाधीमग्न जाले. नित्यगोपाळ

---

* गिरीश घोशा प्रमाणेंच केदारय श्रीरामकृष्णांक अवतार म्हणटाले.

तांचे लागींच बशिल्लो. ताचे मांडयेर तांणी आपलो पांय दवरलो. भक्त लेगीत आनंदा
अवस्थेंत आशिल्ले. नित्यगोपाळय रडत आशिल्लो. हेर भक्त तांचे कडेन नदर लाव
पळयत रावले.

## योग–ईश्वर, जीव आनी जगत हांचो एकवट

थोडेशे भानार येतकूच श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''नित्यांतल्यान लिलेंत आन
लिलेंतल्यान नित्यांत. (नित्यगोपाळाक) तुजी मोख कितें?''

**नित्यगोपाळ:** दोनय (नित्य आनी लिला) बरीं आसात.

श्रीरामकृष्णांनी दोळे धांपले आनी म्हणलें, ''फकत हें अशेंच कित्याक? ईश्वर कि
जेन्ना दोळे धांपता तेन्नाच आसा आनी जेन्ना दोळे उकते करता तेन्ना कितें देव नासता
लिला ईश्वराची आनी ईश्वराचेंच नित्य आनी ताचीच लिला. (महिमाक) पळय सायबा
तुमकां हांव सांगतां.''

**महिमा:** महाराज, दोनय ईश्वराचे इत्शेन.

**श्रीरामकृष्ण:** कांय जाण सातव्या माळ्यार चडटात आनी मागीर तांकां सकयल
देंवूंक जमना. पूण कांय जाण तांचे इत्शे प्रमाण चडटात आनी देंवतात. ते सकयल्य
माळ्यारय वचूंक शकतात. उद्धवान गोपींक म्हणलें, 'तुमी जांकां तुमचो कृष्ण म्हणटा
तो सर्वांभुतीं आसा. तोच जीव जगत जाला.'

देखुनूच हांव म्हणटां दोळे धांपल्यार फकत देवाचेर ध्यान करूं येता? आनी दोळे
उकते आसल्यार कितें देवा विशीं कांयच दिसना?

**महिमाचरण:** महाराज म्हाका एक विचारूंक ज.ा. ईश्वराच्या भक्ताक केन्ना ना केन्न
निर्वाण जाय न्हय?

## पयलींची जीण, तोतापुरीचें क्रंदन निर्वाण हें जिणेचें लक्ष आसा काय?

**श्रीरामकृष्ण:** भक्तांक निर्वाण जायच अशें काय म्हणूं नजं. कांय जाणांच्या मतान
नित्य कृष्ण आसा. आनी ताचे नित्य भक्त आसात.

कृष्ण चिन्मयरूप आसा आनी ताचें धामूय चिन्मयरूप आसा. कृष्ण निरंतर आसा

आनी ताचे भक्तय निरंतर आसात. कृष्ण आनी ताचे भक्त, चंद्रीम आनी नखेत्रां सदांच एकमेकां लागीं आसतात तशे कशे. तुमी स्वताच म्हणटात, भायर भितर जर हरी आसा तर मागीर तपश्चर्येची गरजच कितें? आनी तुमकां हांवें सांगलांच, जो भक्त विष्णूच्या अंशान जल्मला ताचे मदलें भक्तीचें बीज ना जायना. एक खेपो हांव न्यांगटाचे* तावडींत सांपडलों. तांणी म्हाका इकरा म्हयने वेदान्त सांगलो पूण म्हजे भितरलें भक्तीचें बीज ते मारून उडोवंक शकले नात. म्हजें मन खंयूय भरकटत वचूं, तें परत जगन्माते कडेन येतालें. जेन्ना जेन्ना हांव तिचे विशीं पद म्हणटालों, तेन्ना न्यांगटा रडटाले आनी म्हणटाले, 'आरे हें कितें?' एदे व्हडले ज्ञानी ते आनी तरी लेगीत रडटाले. (धाकट्या नरेनाक आनी हेर भक्तांक) एक म्हण आसा, 'आलेख वालीचो रोस जर मनीस पीत तर पोटांत रोंप वाडटा.'

एक खेपो भक्तीचें बीं जर रोयलें, तर ताचो परिणाम जावंक जाय तोच जातलो. तें बीं ल्हव ल्हव वाडटलें, ताचें झाड जातलें, फुलां फळां दिसूंक लागतलीं.

तुमी जाय तितले विचार करात. हजार खेपो वादविवाद करात. पूण भक्तीचें बीं तुमचे भितर आसत तर तुमी हरी कडेनच येतले.

भक्त श्रीरामकृष्णांचें कान दिवन आयकताले. श्रीरामकृष्णांनी महिमाक हांसत विचारलें, "तुमकां सगल्यांत चड कितें आवडटा?"

**महिमा:** (हांसत) कांयच ना महाराज. म्हाका आंबे आवडटात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) सगले एकट्यानच खावपाक आवडटा? काय दुसऱ्यांकय दिवन खावपाक आवडटा?

**महिमा:** दुसऱ्यांक दिवंक तितलोसो उत्सूक नासतां. सगलें स्वताच खावपाक म्हाका आवडटलें.

## श्रीरामकृष्णांचो खरो मनोभाव

**श्रीरामकृष्ण:** पूण म्हजी वृत्ती कशी आसा जाणां? म्हाका दोनय मान्य आसात - नित्य आनी लिला. जर सगले कडेन दोळे उकते करून पळयत रावलो तर कितें ईश्वर ना? ताचो लाव करून घेतले उपरांत मनशाक कळटा, ईश्वर परमसत्य आनी

---

* श्रीरामकृष्णांचे गुरू – तोतापुरी. श्रीरामकृष्ण तांकां न्यांगटा म्हणटाले.

जगत अशें दोनय आसा. तोच आसा अखंड सच्चिदानंद. परत तोच जगत आनी जीव जालो.

## फकत शास्त्रां व्यर्थ
## साधना करतकूच प्रत्यक्ष ज्ञान जाता

साधना करूंक जाय. फकत शास्त्राचो अभ्यास करून उपेग ना. हांवें पळयलें, विद्यासागरान खूब वाचलां हें दुबावा विरयत खरें. पूण तांच्या अंतरांत कितें आसा तें तांकां कळूंक ना. भुरग्यांक शिक्षण घेवपाक मजत करपांतच ते सुखी आसात. पूण तांणी ईश्वरी परमानंदाचो आस्वाद घेवंक ना. फकत अभ्यासान कितें मेळटलें? मनीस आत्मसात खंय करता? पंचांगांत सांगलां, वीस इंच पावस पडटलो म्हणून, पूण तें पंचांग पिळ्ळ्यार एक थेंबोय गळपाचो ना.

**महिमा:** संवसारांत आमकां कितलींशींच कामां आसात. साधना करपाक वेळ खंय आसा?

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी अशें कित्याक म्हणटात? तुमीच तर म्हणटात, जग ही माया आसा, सपना भशेन आसा. रामाक आनी लक्ष्मणाक लंकेक वचपाचें आशिल्लें. पूण मुखार दर्या आशिल्लो. लक्ष्मणाक राग आयलो. धोणू आनी बाण घेवन ताणें म्हणलें, 'हांव वरुणाचो वध करतलों. हो दर्याच आमकां लंकेक वचूंक दिना.' रामान ताका समजायलो आनी ताणें म्हणलें, 'लक्ष्मणा, जें कितें तूं पळयता तें सगलें अनित्य आसा. सपना भशेन आसा - दर्या अनित्य आसा - तुजो रागय अनित्य आसा. मिथ्याचो मिथ्यान वध करप हेंवूय मिथ्याच.' महिमाचरण वोगीच रावले.

## कर्मयोग काय भक्तीयोग
## सदगुरू कोण?

महिमाचरणांक संवसारांतलीं खूब कामां आसलीं आनी तांणी एक नवीन शाळा लोकां खातीर सुरू केल्ली.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाक) शंभून म्हाका एक दीस म्हणलें, 'म्हजे कडेन खूब पयसो आसा. हो सगलो लोकां खातीर खर्च करचो अशी म्हजी इत्सा आसा. शाळा, दवाखाने बांदून दिवचे. रस्ते-बिस्ते तयार करचे.' हांवें म्हणलें, 'निश्काम भावनेन जर तें केलें तर तें बरें. पूण निश्काम कर्म करप खूब कठीण. कामना कोणा कडच्यान येत कांयच

सांगूं नजं. आनी हांव एक विचारतां, जर ईश्वर समक्ष तुमचे मुखार उबो रावलो तर ताचे कडेन कितें तुमी कितल्योश्योच शाळा, दवाखाने, इस्पितळ हेंच सगलें मागतले?'

**एक भक्त:** महाराज, संवसारी लोकां खातीर उपाय कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** साधूसंग. संवसारी लोकांनी ईश्वरा विशीं गजाली आयकूंक जाय. संवसारी लोक नशेंत धुंद जाल्ले आसतात - कामिनी-कांचनाचे नशेन धूंद. धुंदी चडिल्ल्या बेबद्याक तांदळाचें निवळण थोडें थोडें दिल्यार तो ल्हव ल्हव शुद्धीर येतलो. आनी ख़र्‍या सदगुरू कडल्यान उपदेश घेवंक जाय. सदगुरूचीं कांय लक्षणां आसात. जो काशीक गेलो आनी जांणी ती पळयल्या असल्या मनशा कडल्यानच काशीच्यो गजाली आयकूंक जाय. फकत पंडीत आसून उपेगाचो ना. जाका संवसार अनित्य आसा असो बोध जावंक ना त्या पंडिता कडल्यान उपदेश घेवप बरोबर जावचें ना. पंडिता कडेन विवेक वैराग्य आसत तरच तो उपदेश दिवंक शकतलो.

सामाध्यायीन (ब्राह्मसमाजाचो आचार्य) म्हणिल्लें, 'ईश्वर निरस आसा.' जो रसस्वरूप आसा ताका हो शाणो निरस म्हणटा. एकट्यान अशें म्हणिल्लें, 'म्हज्या मामाच्या घरा गोठोभर घोडे आसात.' (सगले जाण हांसतात.)

## अज्ञान, हांव आनी म्हजें
## ज्ञान आनी विज्ञान

संवसारी मनीस नशेंत आसता. तो स्वताच म्हणटा, 'हांवच हें सगलें करतां. घरदार, परिवार हें सगलें म्हजें आसा.' दांत काडून म्हणटा, म्हजे बायलेभुरग्यांचें कशें जातलें? हांव नासल्यार कशें जातलें? म्हज्या बायलेभुरग्यांचें कशें जातलें?' राखालान एक दीस म्हणलें, 'म्हजे बायलेचे कशें जातलें?'

**हरमोहन:** राखालान अशें म्हणलें?

**श्रीरामकृष्ण:** अशें म्हणचो ना जाल्यार कितें करतलो? जाचे कडेन ज्ञान आसा ताचे कडेन अज्ञान लेगीत आसा. लक्ष्मणान रामाक म्हणलें, 'हें केदें अजाप. वशिश्ठ सारको मुनी लेगीत पुत्र शोकान दुख्खी जालो.' रामान म्हणलें, 'लक्ष्मणा, जाचे कडेन ज्ञान आसा ताचे कडेन अज्ञानय आसता. लक्ष्मणा, ज्ञान आनी अज्ञान हांचे पलतडीं वच.' समजा कोणाच्या पांयांक कांटो रोमलो. तो कांटो काडपा खातीर तो आनीक एक कांटो हाडटा. ते उपरांत त्या कांट्यान पयलो कांटो काडून जातकूच दोनय कांटे भायर उडयता. अज्ञानाचो कांटो काडपा खातीर ज्ञानाचो कांटो वापरचो. ते उपरांत दोनय कांटे भायर उडोवपाचे - मागीर जाता तें विज्ञान. विज्ञान म्हणचे कितें? ईश्वर

आसा हे अंतरप्रेरणेन, अणभवान बोध करून घेवप आनी ताचे कडेन खाशेलेपणा उलोवप करून खाशेलेपणान ईश्वराक जाणा जावप. हाकाच विज्ञान म्हणटात. देखू श्रीकृष्णान अर्जुनाक सांगलें, 'तूं त्रिगुणातीत जा'.
ह्या विज्ञानाचो लाव करून घेवपा खातीर विद्यामायेचो आलाशिरो घेवंक जाय ईश्वर सत्य आसा, जगत अनित्य. हे विचार - म्हणचेच विवेक वैराग्य, ते भाय ईश्वराचें नामगूण संकिर्तन, ध्यान, साधूसंग, प्रार्थना हें सगलें विद्यामायेंत येता विद्यामाया म्हणल्यार जशें कितें गच्चेचेर चडून वचपाची निमणीं कांय सोपणां कशीं- ते उपरांत गच्चेर चडप म्हणचेच ईश्वरी साक्षात्कार.

## संवसारी मनशां आनी कामिनी-कांचन; त्यागी भुरगीं

संवसारी लोकांची बळाविल्ली नशा म्हणल्यार - कामिनी-कांचनाची नशा. ईश्वर विचारां विशीं ते सामके भावनाशुन्य आसतात. म्हणुनूच तर हांव युवकांचेर प्रेम करतां तांचे भितर कामिनी-कांचनान अजून ते विकृत जावंक नात. तीं बरीं आयदनां आनी ईश्वराच्या कार्याक बरे उपेग पडपी. पूण संवसारी लोकां विशीं सांगचें जाल्यार तांचे भितरली निरुपेगी वस्त काडून उडयतां उडयतां तुमी सगलें वगडावन बसतात. ते आसतात कांट्या नुस्त्यां भशेन - चड करून सगले कांटे आनी इल्लेशे कपे.
संवसारी लोक करे लागिल्ले आंबे कशे. देवाक दिवपाचे आसल्यार गंगाजल वापरून शुद्ध करचे पडटले. इतलें आसुनूय ते देवळांत पुजे खातीर क्वचितूच वापरतात. तुमका ते देवा खातीर वापरचेच आसल्यार तुमकां ब्रह्मज्ञान उपेगांत हाडचें पडटलें - म्हणचें ईश्वरच सगलें कितें जाला अशें मनाक समजावचें पडटलें.

आश्विनी कुमार दत्त आनी बिहारी भादुडीचो पूत हांचे बराबर एक थिओसफिस्ट आयलो. मुखर्जी भाव कुडींत आयले आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले. आंगणांत संकिर्तनाची तयारी केल्ली. मृदंगाचेर पयली थाप पडले बराबर श्रीरामकृष्ण कुडींतल्यान येवन आंगणांत बसले. भक्तय तांचे बराबर येवन आंगणांत बसले.
भवनाथान आश्विनीची श्रीरामकृष्णां कडेन वळख करून दिली. श्रीरामकृष्णांनी आश्विनीची म कडेन वळख करून दिली. आश्विनी आनी म हे दोगय उलयताले. इतले म्हणसर नरेंद्र आयलो. श्रीरामकृष्णांनी आश्विनीक म्हणलें, "हो नरेंद्र."

# अध्याय एकशेंबावीस

## भगवान श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक कॅप्टन, नरेद्र आनी हेर भक्तांच्या सांगातान

### श्रीरामकृष्णांच्या गळ्याच्या दुखण्याची सुरवात

**जून 13, 1885. शेनवार.** दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण जेवणा उपरांत तांचे कुडींत विसव घेताले. पंडीत जमनीर शेंदरेर बशिल्ले. एक शोकाकूल ब्राह्मणी कुडीचे उत्तरे कडल्यान दारा लागीं उबी आशिल्ली. तिची धूव हालींच संवसाराक अंतरिल्ली. किशोरी लेगीत कुडींत आशिल्लो. म आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. ताचे बराबर द्वीज आनी हेर कांय भक्त आशिल्ले.

श्रीरामकृष्णांक बरें दिसनाशिल्लें. तांच्या गळ्याक सूज आयिल्ली. गिमाळ्याच्या उज्याचे दीस. मकय बरें दिसनाशिल्लें. श्रीरामकृष्णांच्या दर्शना खातीर हालींसरा दक्षिणेश्वराक चडसो येवंक पावंक नाशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तूं कसो आसा? तुका पळोवन बरें दिसलें. तुवें धाडिल्लें बेलाफळ खूब बरें आशिल्लें.

**म:** महाराज, आतां हांव मातसो बरो आसां.

**श्रीरामकृष्ण:** खूब उजो जाता. मदीं मदीं थोडें बर्फ घेत राव. म्हाका तर खुबूच उजो जाता. म्हणून हांवें आयस्क्रीम खुबूच खालें. ताकाच लागून गळ्याक गांठ आयल्या. निथवाक वायट वास येता. हांवें जगन्मातेक म्हणलें, 'आई, म्हाका बरो कर. आनीक केन्नाच आयस्क्रीम खावचों ना.' परत तिका म्हणलें, 'बर्फय खावचों ना.'

### श्रीरामकृष्ण आनी सत्यभाशण ताची ज्ञानाची आनी भक्ताची अवस्था

जे अर्थीं हांवें आईक उतर दिलां ते अर्थीं हांव आनीक आयस्क्रीम आनी बर्फ खावचों ना. तरीपूण केन्नाय हांव विसरतां. एक खेपो हांवें म्हणलें, हांव आयतारा नुस्तें खावचों ना म्हणून. पूण एका आयतारा हांव विसरलों आनी नुस्तें खालें. पूण जाणा जावन

म्हज्यान उतर मोडूं नजं. त्या दिसा तांबयो घेवन सुरू झाडा कडेन एका भक्ताक येवपाक सांगलें. ताका दुसरे कडेन वच्चें पडिल्ल्यान दुसऱ्या मनशान तांबयो हाडलो. पूण म्हज्यान तें उदक वापरूं नजं जालें. हांव कांयच करूंक शकलों ना. तो पयलो मनीस उदक घेवन ये म्हणसर हांव थंयच वाट पळयत रावलों.

आईच्या चरण कमलां कडेन फुलां ओंपून जेन्ना सगल्यांचो त्याग करूंक लागलों तेन्ना म्हणूंक लागलों, 'आई ही घे तुजी पवित्रताय, ही घे तुजी अपवित्रताय. हो घे तुजो धर्म, हो घे तुजो अधर्म. हें घे तुजें पातक, हें घे तुजें पुण्य. हें घे तुजें बरेपण, हें घे तुजें वायटपण. आनी म्हाका शुद्ध भक्ती दी. पूण आई, हें घे तुजें सत्य, हें घे तुजें मिथ्या.' अशें हांव म्हणूंक शकलों ना.

एका भक्तान बर्फ हाडिल्लें. श्रीरामकृष्णांनी परत परत मक विचारलें, ''हांव हें खावं?'' मन नमळायेन सांगलें, ''महाराज. आईक विचारले बगर तें खावं नाकात.''

श्रीरामकृष्ण बर्फ खावंक शकले नात.

**श्रीरामकृष्ण:** फक्त भक्तच पवित्रताय आनी अपवित्रताय हांचें मदीं विवेक करूंक शकता. पूण ज्ञानी न्हय. विजयाचे मांयन म्हाका एक खेपो म्हणलें, 'म्हजी अध्यात्मीक प्रगती अशी व्हडली खंय जाल्या? सगल्यांचे हातचें म्हज्यान खावंक नजं.' हांवें तिका म्हणलें, 'सगल्यांच्या हातचें खाल्यारच कितें ज्ञान जाता? सुणें कितेंय आनी सगलें खाता म्हणून सुणें कितें ज्ञानी जाता?'

(मक) हांव तरेतरेचे जिनस कित्याक खातां? वाजेवणें जावं नये म्हणून. नाजाल्यार म्हाका भक्तांक सोडचें पडटलें. हांवें केशवाक म्हणलें, 'जर हांवें वयल्या दिश्टीकोनांतल्यान तुमका उपदेश करीत जाल्यार तुमी तुमच्यो संस्था सांबाळून दवरपाक शकचे नात.' ज्ञानाचे अवस्थेंत संस्था, दळ बी मिथ्या, सपना भशेन दिसूंक लागतात. एका काळार हांवें नुस्तें खावप सोडून दिल्लें. पयलीं पयलीं म्हाका त्रास जालो. मागीर म्हाका ताचें कांयच दिसलें ना. सुकण्याचो घोंटेर जर कोणें जाळून उडयलो, सुकणें उडून वता. मळबाचो आलाशिरो घेता. जर मनशाक देह आनी जगत खरेंच मिथ्या आसा असो बोध जायत तर आत्मो समाधीमग्न जावन वता.

पयलीं म्हजी ज्ञानाची अवस्था आशिल्ली. मनशां म्हाका आवडनाशिल्लीं. अशें आयकल्लें की एक ज्ञानी वा एक भक्त एके कडेन रावतात म्हणून. मागीर कांय दिसांनी कळ्ळें, तो मेला म्हणून. सगलें अशाश्वत कशें दिसलें. देखून म्हाका मनशांचो सांगात आवडनाशिल्लो. ते उपरांत आईन म्हजें मन सकयल्या पांवड्यार हाडलें. तिणें म्हजें मन अशें बदल्लें. म्हाका ईश्वर आनी ताचे भक्त आवडूंक लागले.

मागीर ईश्वर मनीस रुपान अवतार कित्याक घेता तें श्रीरामकृष्ण सांगूंक लागले.

# अवताराचो वा नरलिलेचो
# गुपीत अर्थ; द्वीज आनी पूर्वसंस्कार

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) ईश्वर मनीसरुपान अवतार कित्याक घेता, खबर आसा तुका? मनीस देहांतल्यान ईश्वराचें उलोवप आयकूंक मेळटा. ईश्वर मनीस देहांतल्यान लिला करता. मनीस देहांतल्यान ईश्वर परमानंदाची गोडी घेता. पूण ताच्या हेर भक्तांतल्यान ईश्वराचोच थोडो थोडो आविश्कार जाता. हे हेर भक्त म्हणचे खूब चोखतां चोखतां थोडिशी गोडी मेळची, तशें. फूल खूब चोखून थेंबभर म्होंव मेळपा भशेन. (मक) तुका समजता न्हय हें?

**म:** हय महाराज, बरें समजलें.

श्रीरामकृष्ण द्वीजा बराबर उलोवपाक लागले. द्वीजाचें वय 15-16 वर्सांचें. ताच्या बापायन दुसरे खेपो लग्न केल्लें. द्वीज मदीं मदीं म बराबर येतालो. श्रीरामकृष्णांक तो खूब आवडटालो. ताचो बाबा ताका दक्षिणेश्वराक येवंक दिनाशिल्लो अशें तो म्हणटालो.

**श्रीरामकृष्ण:** आनी तुजे भाव लेगीत, म्हजे विशीं ते तिरस्कारान उलयतात?

द्वीज ओगी रावलो.

**म:** (श्रीरामकृष्णांक) तुमचे विशीं ते तिरस्कारान उलयतात. तांकां संवसारांतल्यान दोनचार दणके मेळटकूच तांच्या मनांतली ही भावना वतली.

**श्रीरामकृष्ण:** (द्वीजाच्या भावांक लेखून) ते सावत्र आवय बराबर रावतात. देखून तांकां दणके मेळटात.

कांय खीण सगले ओगी रावले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) द्वीजाची केन्नाय पूर्णा कडेन वळख करून दी.

**म:** हय, दितां तर. (द्वीजाक) पानीहाटीक वच.

**श्रीरामकृष्ण:** पानीहाटीक वचात म्हणून सगल्यांक सांगता. (मक) तूं वतलो व्हय?

श्रीरामकृष्णांक पानीहाटीक वचपाचें आशिल्लें. ते खातीर ते भक्तांक लेगीत वचपाक सांगताले.

**म:** हय, महाराज. म्हाका इत्सा आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** आमी व्हडलें व्हडें करुया. मागीर तें हालपाचें ना. गिरीश घोश थंय येतले?

## ईश्वराचें 'हय' 'ना'

श्रीरामकृष्ण द्वीजा कडेन नदर लावन पळयत रावले.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें. इतलीं भुरगीं शारांत आसात. होच भुरगो हांगा कित्याक येता? (मक) तुका कितें दिसता तें सांग. नक्कीच पयलीं जल्माचे संस्कार आसतले ताचे.

**म:** सामकें खरें महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** निजाचे संस्कार म्हणून आसतात. पयलींच्या जल्मांत मनशान बरीं कर्मां केल्लीं आसत तर निमण्या जल्मांत तो सरळ सभावाचो जाता. निमण्या जल्मांत पिशा भशेन वागता.

खरें सांगचें जाल्यार सगलें घडटा ईश्वराचे इत्शेन. तो जेन्ना 'हय' म्हणटा, तेन्ना सगलें कितें घडटा. आनी तो जेन्ना 'ना' म्हणटा तेन्ना सगलें घडपाचें थांबता.

मनशान दुसऱ्या मनशाक आशिर्वाद दिवं नये. कित्याक? कारण मनशाचे इत्शेन कांयच घडना. ईश्वराचे इत्शेन घडटा वा घडनासतना रावता.

त्या दिसा हांव कॅप्टनाच्या घरा गेल्लों. हांवें कांय भुरगे रस्त्यान वतना पळयले. ते दुसऱ्याच वर्गांतले आशिल्ले. थंय हांवें एकट्याक पळयलो. तो 19-20 वर्सांचो आसतलो. ताणें केंसांचो मागो काडिल्लो. चलता आसतना शिळोवणी घालतालो. कांय सामके तमोगुणांत बुडिल्ले. ते बांसरी वाजयताले आनी ताचो तांकां अहंकार जाल्लो.

(द्वीजाक) जाका ज्ञान जालां ताका निंदेचो भंय कसलो? ताची बुद्द अचल आसता. धवडाचे ऐरणी भशेन. तुतयान तिका कितलेंय धाडायात, तिका कांयच जायना.

हांवें त्या अमक्याच्या बापायक पळयलो-रस्त्यान चलतना.

**म:** तो सामको सरळ मनीस आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण ताचे दोळे तांबडे.

## कॅप्टनाचें वर्तन आनी श्रीरामकृष्ण
## प्रकृती पुरूश योग

श्रीरामकृष्ण कॅप्टनाच्या घरा गेल्ले. ते विशीं ते भक्तांक सांगताले. जीं भुरगीं श्रीरामकृष्णा कडेन येतालीं तांची कॅप्टनान निंदा केल्ली. घडये हाजरान तांकां तें सांगलां आसतलें.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव कॅप्टना कडेन उलयतालों. हांवें म्हणलें, 'पुरूश आनी प्रकृती सोडून

ानीक कांयच ना'. नारदान रामाक म्हणलें 'ए रामा, जितले पुरूश तूं पळयता ते गले तुजेच अंश. आनी जितल्यो अस्तुऱ्यो पळयता त्यो सगल्यो सीतेच्यो अंश. प्टनाक खूब खोशी जाली. तांणी म्हणलें, 'तुमकांय खरो बोध जाला. सगले पुरूश रेंच राम आसात. कित्याक ते रामाचेच अंश. आनी सगल्यो अस्तुऱ्यो सीताच कश्यो ासात कित्याक त्यो सीतेच्योच अंश.'

अशें म्हणले उपरांत रोखडींच तांणी भुरग्यांची निंदा करपाक सुरवात केली. ते म्हणूंक ागले, 'ते इंग्लीश, आनी खावपाक कसलोच पातसो ना. कितेंय खातात. ते तुमचे कडेन परत परत येतात, तें बरें न्हय. तें तुमकां वायटाक पडूं येता. हाजरा होच खरो नीस – व्हड मनीस. त्या भुरग्यांक तुमचे कडेन इतले येवंक दिवं नाकात'. पयलीं ांवें म्हणलें, 'येतात ते जाल्यार हांव कितें करूं?' मागीर तांच्या मर्माचेर घाय ालो. तांची धूव हांसली. हांवें तांकां म्हणलें, 'विशयासक्त मनशां पसून ईश्वर खूब यस आसता. विशयासक्त जर नासत तर ईश्वर सामको लागीं आसता – हाताच्या अंतराचेर.' राखाला विशीं उलयतना कॅप्टनान म्हणलें, 'तो कसल्याय लोकां बराबर खाता.' घडये हाजरा कडच्यान आयकलां आसतलें. तेन्ना तांकां हांवें म्हणलें, 'मनीस कितलोय जप तप करूं पूण जर तो विशयासक्त आसत तर कांयच मेळोवंक पावचो ना. आनी धुकराचें मांस खावन जर ईश्वराचेर मन आसत तर तो मनीस धन्य म्हणूंक जाय. ताका खात्रेन योग्य वेळार ईश्वराचो साक्षात्कार जातलो. हाजरा इतलो जप तप करता पूण दलाली करून पयशे मेळोवपाची एक संद वगडायनाशिल्लो.' कॅप्टनान म्हणलें, 'हय, हय तुमचें बरोबर आसा.' हांवें तांकां मागीर सांगलें, 'कांय मिनटां पयलीं तुमी म्हणिल्लें, 'सगले पुरूश रामाचे अंश, आनी सगल्यो अस्तुऱ्यो सीतेचे अंश म्हणून आनी आतां अशें उलयतात.'

कॅप्टनान म्हणलें, 'हय, खरें तें. पूण तुमी सगल्यांचेर तर प्रेम करिनात.' तेन्ना हांवें म्हणलें, 'शास्त्रा प्रमाण उदक म्हणचे नारायण. आमी उदक सगले कडेन पळयतात. पूण थोडें उदक आमी पियेतात. थोड्या उदकांत आमी न्हातात. थोडें उदक म्हेळ्यो वस्तू धुवपा खातीर वापरतात. ही जी तुमची बायल आनी धूव बसल्यांत, तांकां हांव साक्षात आनंदमयी जगन्मातेचें रूप म्हणून पळयतां.' तेन्ना कॅप्टनान म्हणलें, 'हय, हय, तें खरें आसा.' मागीर म्हज्या पांयां पडून क्षमा मागपाक लागले.

अशें म्हणून श्रीरामकृष्ण हांसूंक लागले. मागीर कॅप्टना मदीं कितले सदगूण आसात तें सांगूंक लागले.

**श्रीरामकृष्णः** कॅप्टना मदीं खूब गूण आसात. दर दिसा नित्यकर्म – स्वताच्या हातांनी

देवपुजा करतात. देवाक न्हाणयतना कितलेशेच मंत्र म्हणटात. ते व्हडले कर्मकांडी. ते पुजा, जप, आरती, स्तोत्रां म्हणप, पवित्र धर्मग्रंथ वाचप, हीं सगलीं नित्यकर्मां करतात.

## कॅप्टन आनी पांडित्य आनी श्रीरामकृष्णांची अवस्था

हांवें कॅप्टनाची खरडपट्टी काडली आनी म्हणलें, 'तुमी चड वाचन करून इबाडल्यात. आनिआनीक वाचूं नाकात.' म्हज्या अध्यात्मीक प्रगती विशीं कॅप्टनान म्हणलें, 'उडटा त्या सुकण्या भशेन तुमची अवस्था आसा. दोन अवस्था आसात - जिवात्मो आनी परमात्मो. जिवात्मो एक बद्ध आत्मो आनी परमात्मो - परम आत्मो. जिवात्मो एक सुकणें कशें. परम आत्मो मळब कसो - चिदाकाश - चैतन्याचें मळब.' कॅप्टनान म्हणलें, 'तुमचो जिवात्मो चिदाकाशांत उडून वता. म्हणून तुमकां समाधी लागता.' (हांसत) कॅप्टनान बंगाली लोकांची निंदा केली. तांणी म्हणलें, बंगाली लोक निर्बुद्ध आसात. तांचे म्हऱ्यांत माणीक आसा (श्रीरामकृष्ण). पूण तांकां ते वळखले नात.'

## गृहस्थ भक्त आनी श्रीरामकृष्ण कर्म कितले दीस?

कॅप्टनाचे वडील व्हडले भक्त. इंग्लीशांच्या लश्करांत ते सुबेदार आशिल्ले. झुजामळार लेगीत थारिल्ल्या वेळार ते पुजा करताले. एका हातान ते शिवाची पुजा करताले आनी दुसऱ्या हातान तुबक आनी तरसाद चलयताले. (मक) पूण कॅप्टन रात दीस संवसारांतलीं कामां करताले. जेन्ना जेन्ना हांव तांच्या घरा वतालों तेन्ना तेन्ना ते बायल आनी भुरग्यांच्या गराड्या मदीं आसताले. ते भायर मदीं मदीं तांचीं मनशां हिशोबाचीं पुस्तकां घेवन तांचे कडेन येतालीं. पूण मदीं मदीं तांचें मन ईश्वरा कडेन वतालें. भ्रमांत आशिल्लो टायफोयड रोगी मदींच भानार येवन म्हणटा, 'म्हाका उदक जाय' ते भशेन. आनी उदक पियेतां पियेतां तो परत बेशुद्ध जातालो आनी ताका कित्याचेंच भान नासतालें. हांवें कॅप्टनाक सांगलें, 'तुमी कर्मकांडी आसात.' तेन्ना तांणी म्हणलें, 'हय. म्हाका पुजा आनी हेर तसलीं कामां करपाक खूब सूख जाता. संवसारी मनशांक दुसरी आनीक वाट ना.' हांवें तांकां म्हणलें, 'पूण असली उपचारीक पुजा कितें सदांच

रुंकूच जाय? म्होंवा मूस कितलो वेळ गूं गूं करता? फुलाचेर बसना तों मेरेन. म्होंव ोखता आसतना गूं गूं करिना.' पूण तांणी म्हणलें, 'तुमचे भशेन आमी कितें पुजा ानी हेर कर्मांचो त्याग करूंक शकतात? तरीपूण ते सदांच एकच उलयनात. केन्नाय हणटात 'हें सगलें जड आसा.' तर केन्नाय म्हणटात हें सगलें चैतन्य आसा.' हांव हणटां जड म्हणचे कितें? सगलेंच चैतन्य आसा.

## पूर्ण आनी म
## जबरदस्तीन लग्न आनी
## श्रीरामकृष्ण

पूर्णा विशीं श्रीरामकृष्णांनी मक विचारलें.

**श्रीरामकृष्ण:** पूर्णाक आनीक एक खेपो पळयल्यार म्हजी ताचे खातीरची व्याकूळताय कमी जातली. कितलो हुशार आसा तो. म्हजे विशीं ताका खूब ओड आसा. तो म्हणटा, 'तुमचे खातीर म्हज्या काळजांत लेगीत कितेंशेंच जाता.' (मक) तांणी ताका तुजे शाळेंतल्यान काडलो. ताका लागून तुमचें कितें लुकसाण जातलें?

**म:** जर विद्यासागरान म्हाका सांगलें, पूर्णाच्या सोयऱ्यांनी ताका म्हजे खातीर शाळेंतल्यान काडला म्हणून तर म्हजे कडेन ताची जाप आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** तूं कितें सांगतलो?

**म:** हेंच म्हणटलों, साधूसंगान ईश्वर चिंतन जाता आनी तें कितें वायट न्हय. आनी हांव अशेंय सांगतलों, शाळेच्या जाळवणदारांनी अभ्यासाक जीं पुस्तकां लायल्यांत तातुंतूच आसा - ईश्वराचेर प्राणा पसून प्रेम करचें म्हणून. (श्रीरामकृष्ण हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** कॅप्टनाच्या घरा धाकट्या नरेनाक आफयलो. हांवें ताका म्हणलें, 'तुजें घर खंय आसा? हांव येतां तुज्या घरा.' ताणें म्हणलें, 'चल या.' पूण आमी तागेल्या घरा वतना तो सामको भीत भीत चलतालो - कित्याक ताच्या बापायक कळ्ळें जाल्यार? (सगले हांसतात.)

(शेजाऱ्याक) बरेच दीस जाले तुमी हांगा येवंक नात - सात आठ म्हयने जाले.

**शेजारी:** महाराज, एक वर्स जातलें.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमचे बराबर अनीक एकटो येतालो न्हय?

**शेजारी:** हय महाराज. निलमणी बाबू.

**श्रीरामकृष्ण**: ते हालीं कित्याक येनात? तांकां केन्नाय येवपाक सांगात. म्हाका तांकां

मेळूंक जाय. तुमचे बराबर भुरगो आसा तो कोण?

**शेजारी:** तो आसामांत रावता.

**श्रीरामकृष्ण:** आसाम खंय आसा? खंयचे दिशेक आसा?

द्वीज आशू विशीं तांकां सांगूंक लागलो. आशूचो बापूय ताचें लग्न करूंक सोदतालो. आशूची इत्सा नाशिल्ली.

**श्रीरामकृष्ण:** पळय, ताची इत्सा ना. बळजबरेन ताचें लग्न करूंक पळयतात.

श्रीरामकृष्ण एका भक्ताक तागेल्या व्हडल्या भावाचो आदर करपाक सांगताले. तांणी म्हणलें, 'ज्येश्ठ भाव पित्या समान. खूब मान दी ताका.'

## श्रीरामकृष्ण आनी श्रीराधिकेचें गुपीत

पंडीतजी भक्तां बराबर बशिल्ले. ते उत्तर हिंदुस्तानांत रावपी.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत मक) हे पंडीत भागवताचे मोटे अभ्यासक.

मन आनी हेर भक्तांनी पंडितां कडेन पळयलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (पंडिताक) बरें हें सांगात, योगमाया म्हणचे कितें?

पंडितान एके तरेन ताची विसकटावणी केली.

**श्रीरामकृष्ण:** राधेक योगमाया कित्याक म्हणिनात?

पंडितान हाची जाप थोडे वेगळे तरेन दिली. तेन्ना श्रीरामकृष्ण स्वताच सांगूंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** राधिका विशुद्ध सत्व-गुणांची आसा. प्रेममयी आसा. योगमाये मदीं तिनूय गूण आसात - सत्व, रज आनी तम. पूण राधे मदीं विशुद्ध सत्व गुणां बगर आनीक कितेंच ना.

(मक) नरेंद्र आतां राधेक खुबूच मानता. तो म्हणटा, 'सच्चिदानंदाचेर जर प्रेम करपाक शिकपाचें आसत जाल्यार तें राधे कडच्यान शिकचें.'

सच्चिदानंदान स्वता गोडी घेवपा खातीर राधिकेची निर्मणी केली. सच्चिदानंद कृष्णाच्या आंगा पसून राधेची निर्मणी जाली. सच्चिदानंद कृष्ण हो 'आसपावन घेवपी' आनी तो स्वता - राधेच्या रुपान - 'आसपावन घेतिल्लो' - स्वताच रसाचो आस्वाद घेवप - म्हणचेच सच्चिदानंदाचेर प्रेम करून आनंद उपभोग घेवपा खातीर.

म्हणुनूच वैशणव ग्रंथांत बरयलां, राधेन जल्म घेतले उपरांत दोळे उगडले नात म्हणचे मनोभाव असो. ह्या दोळ्यांनी आनीक कोणाकूच तिका पळोवपाची इत्सा नाशिल्ली. यशोदा कृष्णाक हांडीर घेवन राधेक पळोवपाक आयली. तेन्नाच तिणें कृष्णाक

ळोवपाक दोळे उगडले. कृष्णान खेळपाच्या निमतान राधेच्या दोळ्यांक हात लायलो. त्राच तिणें दोळे उगडले. (आसामी भुरग्याक) हें तुवें पळोवंक ना? 'ल्हान भुरगीं दुसऱ्यांच्या दोळ्यांक हात लायतात तें?'

## संवसारी व्यक्ती आनी शुद्ध चित्ताचीं भुरगीं हांचे मदलो फरक

पंडीत श्रीरामकृष्णांचो निरोप घेवपाचे आशिल्ले.

**पंडीत:** म्हाका आतां घरा वचूंक जाय.

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) कितेंय लाव जालो?

**पंडीत:** बाजारांत सामकी मंदी. म्हाका कांयच लाव जालो ना.

कांय वेळान पंडितान श्रीरामकृष्णांक पांयां पडून निरोप घेतलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) पळय, विशयी लोक आनी तरणाटे हांचे मदीं कितलें अंतर आसा तें! हो पंडीत दीस रात पयसो पयसो करता. तो कलकताक पयशे जोडपाकच आयिल्लो. नाजाल्यार घरच्या लोकांचें पोट भरपाचें ना. म्हणून ताका हाच्या दारार, ताच्या दारार भोंवचें पडटा. मन एकाग्र करून ईश्वराचें चिंतन केन्ना करतलो काय? पूण भुरग्यांक कामिनी-कांचनाचो स्पर्श जावंक ना. म्हणून तीं इत्सा जातकच ईश्वरा कडेन मन व्हरूंक शकतात. तरणाटे भुरग्यांक विशयी लोकांचो सांगात आवडना. राखाल म्हणटा, 'विशयी लोक पळोवन म्हाका भंय दिसता'.

म्हाका जेन्ना सुरवातीक अध्यात्मीक अणभव येवंक लागले, तेन्ना कोणय विशयी मनीस येतना दिसल्यार हांव कुडीचें दार बंद करतालों.

## पुत्र कन्या वियोगान शोक आनी श्रीरामकृष्ण पयलींची जीण

कामारपुकूराक राम मल्लीकाचेर हांव खूब मोग करतालों. पूण तो जेन्ना हांगा आयलो तेन्ना म्हज्यान ताका आफडूंक लेगीत जालें ना. भुरगेपणांत आमची खूब इश्टागत आशिल्ली. रात दीस आमी बराबर रावताले. एकठांय न्हिदताले. तेन्ना म्हजें वय 16-17 वर्सांचें आसत. लोक म्हणटाले हांच्यांतलो एकटो जर बायल आशिल्लो तर दोगांयचें

लग्न जातलें आशिल्लें. दोगूय जाण ताच्या घरा खेळटाले. म्हाका त्या दिसांची सारकी याद आसा. ताचे नातेवायक पालखेंतल्यान येताले. आतां ताचो पसरो चानकाव आसा. ताका कितले खेपो आफयलो. ते दीस तो आयलो आनी दोन दीस हांगा राव गेलो. रामान सांगलें ताका भुरगेंबाळ कांय ना म्हणून. पुतणयाक ताणें वाडयिल्लो. पूण तो भुरगो हें जग सोडून गेलो. उलयतां उलयतां रामान लांब स्वास सोडलो. दोळ्यांत दुकां आयलीं. पुतणया खातीर खूब शोक जाल्लो ताका.

ताणें अशेंय सांगलें, भुरगें जावंक ना म्हणून, बायलेन सगली माया पुतणयाचेर विदीण केली. आतां ती शोकान सामकी जाल्या. रामान तिका म्हणलें, 'सामकीच पिशी तूं. आनी शोक करून कितें करतली? तुका काशीक वचुंकूच जाय?' पळयलें, ताणें आपले बायलेक पिशी म्हणलें. भुरग्याच्या शोकान तो सामको विरगळून गेल्लो. ताचे भितर कांय अस्सलपण ना. हांव ताका आफडूंक शकलों ना.

कुडीचे उत्तरे कडच्या दारा कडेन ती ब्राह्मणी बायल उबी आशिल्ली. ती विधवा आशिल्ली. तिची एकलीच धूव खूब मोट्या घराण्यांत लग्न करून दिल्ली. कलकत्तांतले ते जमीनदार आशिल्ले आनी तांकां राजा ही पदवी आशिल्ली. जेन्ना ती कुळारा येताली तेन्ना तिचे बराबर शिपाय येताले. मागीर आवयचें काळीज गर्वान फुगून वतालें. कांय दीस जाले, तिची धूव हो संवसार सोडून गेली आनी आतां ती दुख्खान सामकी भरून गेल्या. ब्राह्मणी उबी रावन, पुतणयाच्या वियोगान राम मल्लीकाक जाल्ल्या शोका विशीं आयकताली.

फाटले कांय दीस ती तिगेल्या बाग बाजारांतल्या घरा कडच्यान श्रीरामकृष्णांच्या दर्शना खातीर पिशी कशी धांवत येताली. श्रीरामकृष्ण कितें तरी उपाय सांगतले, हो अपार शोक निवारण करपा खातीर ते कितें तरी तजवीज करतले, हे आशेन ती येताली.

श्रीरामकृष्ण परत उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** एकटो त्या दिसा हांगा आयलो. थोडो वेळ बसलो आनी मागीर ताणें म्हणलें, 'हांव वतां आनी म्हज्या भुरग्याचें मुखामळ पळोवन येतां.'

म्हज्यान रावूं नजं जालें आनी हांवें म्हणलें, 'म्हणचे ईश्वराच्या मुखामळा परस तुज्या चल्याचें मुखामळ पळोवप तुका चड आवडटा? हांगच्यान उठून वच. पिसो खंयचो.'

## जल्म मृत्यू – जादुगाराचो जादू

(मक) जाणा, ईश्वरच सत्य आनी हेर सगलें अनित्य. जीव, जगत, घरदार, भुरगीं बाळां

ीं सगळीं जादुगाराचो जादू. जादुगार बडी आपटीत म्हणटा, 'छू मंतर, छू मंतर, छू मंतर' मागीर तो प्रेक्षकांक म्हणटा, 'आयदनाचें धांपणें उकतें करून पळयात. शेवणीं मळबांत उडटात तीं पळयात.' पूण जादुगारच सत्य आनी ताचो जादू असत्य. असत्य हें आतां आसता, आतां ना जाता.

कैलास पर्वताचेर शिव बसला. नंदी लागींच बसला. अकस्मात एक मोटो आवाज जालो. नंदीन विचारलें, 'प्रभो, हो कसलो आवाज?' शिवान म्हणलें, रावणान जल्म घेतला म्हणून आवाज जालो.' थोड्या वेळान परत एक मोठो आवाज जालो. नंदीन विचारलें, 'हे खेपो हो कसलो आवाज?' शिवान हांसत म्हणलें, 'हे खेपेक रावणाचो वध जाला.' 'जल्म आनी मरण' हे देवा भशेन. हें आतां आसा, आतां ना. ईश्वरच सत्य आनी हेर सगळें असत्य. उदकच सत्य. उदका वयले बोमाडे – आत्तां येतात आनी आत्तां ना जातात. बोमाडे उदकांत भरसून वतात. ज्या उदकांत ते तयार जातात त्याच उदकांत तांचो लय जाता.

ईश्वर म्हासमुद्र कसो आनी जीव बोमाडे कशे. तातुंतूच जल्म आनी तातुंतूच लय. भुरगीं व्हडल्या बोमाड्या भोंवतणीं ल्हान ल्हान बोमाडे.

ईश्वरच सत्य. ताचे विशीं भक्ती कशी जातली, कितें केल्यार ताचो लाव करून घेवपाक मेळटलो हाचोच आतां यत्न करात. शोक करून कितें जातलें?

सगले जाण शांत बसून रावले. ब्राह्मणीन म्हणलें, ''हांव आतां घरा वचूं?''

श्रीरामकृष्णांनी तिका मायेन म्हणलें, ''तुका आतांच वचूंक जाय? खूब वाट आसा. आतांच कित्याक? हेर भक्तां बराबर गाडयेंतल्यान तुज्यान वचूं येता.''

खुबूच उजो जातालो. एका भक्तान श्रीरामकृणांक एक नवो चंदनाचो पंखो हाडून दिलो. श्रीरामकृष्ण पंखो पळोवन खोशी जाले आनी तांणी म्हणलें, ''वा, वा, तत सत काली. अशें म्हणीत तांणी पयलीं देवदेवतांक वारो घालो. तांणी मक म्हणलें, ''पळय वारो कसो येता तो.'' म खूब आनंदीत जालो.

कॅप्टन आपल्या भुरग्यांक घेवन आयले.

श्रीरामकृष्णांनी किशोरीक सांगलें, ह्या भुरग्यांक सगलें दाखोवन हाड – देवळां बी. श्रीरामकृष्ण कॅप्टना बराबर उलोवंक लागले. म, द्वीज आनी हेर भक्त जमनीर बशिल्ले. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर उत्तरे कडेन तोंड करून बशिल्ले. तांणी कॅप्टनाक ल्हान पलंगाचेरच आपले मुखार बसपाक सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण:** (कॅप्टनाक) तुमचे विशीं ह्या लोकांक सांगतालों. कितली तुमची भक्ति तुमची पुजा, आनी तुमच्यो आरती.

**कॅप्टन:** (नमळायेन) पुजे विशीं आनी आरती विशीं हांव कितलेंशें जाणां? हा असो कोण आम्मां?

**श्रीरामकृष्ण:** जा कामिनी-कांचनांत आसक्त आसा ताचो 'अहंकार' हानीकारक ईश्वराचो दास हांव. ह्या अहंकारांत दोश ना. तशेंच बाळकाच्या 'अहंकारांत' दोश ना. बाळक खंयच्याच गुणाक वश नासता. एका खिणाक भुरगीं झगडटात, दुसऱ्याच खिणाक तीं एकठांय येतात. खेळांतलीं घरां कितलीं मन लावन करतात. पूण दुसऱ्याच खिणाक तीं मोडून उडयतात. हांव ईश्वराचो 'बाळक' वा हांव 'ईश्वराचो दास' असो जर 'अहं' जाणीव दिता तर तातूंत दोश कांय ना. असो 'अहं' हो 'अहं' न्हयच. तो खडीसाकरे भशेन. खडीसाकर गोड जिनसांत पडना. हेर गोड जिनसांनी मनीस दुयेंत जाता. पूण खडीसाकरेन आम्लपित्त ना जाता. 'वा' उतर घे. दुसरीं आसतात तशें हें उतर न्हय.

ह्या 'अहं'क लागून सच्चिदानंदाचेर प्रेम करपाक येता. 'अहं' पसून सुटका करप कठीण. ते खातिरूच ईश्वराचो 'भक्त हांव', ईश्वराचो 'दास हांव' ही भावना बाळगूंक जाय. नाजाल्यार जगतले कशे? कृष्णा खातीर गोपींचें कितलें गाढ प्रेम आशिल्लें! (कॅप्टनाक) गोपीं विशीं आमकां कितेंय सांगात. तुमी इतले भागवत वाचतात.

**कॅप्टन:** जेन्ना श्रीकृष्ण वृंदावनांत रावतालो तेन्ना ताचे कडेन राजघराण्यांतलें कसलेंच ऐश्वर्य नाशिल्लें. तरी लेगीत त्या वेळार गोपींनी ताचेर प्राणा परस चड प्रेम केल्लें. देखून कृष्णान म्हणिल्लें, 'जांणी म्हाका देह, चित्त, मन समर्पण केलां त्या गोपींचें रीण हांव कशें फारीक करूं?'

कॅप्टनाच्या उतरांनी श्रीरामकृष्ण कृष्णप्रेमान तन्मय जाले. आनी ते 'गोविंद, गोविंद, गोविंद' म्हणीत समाधीमग्न जावंक वताले. कॅप्टन अजापीत जाले आनी तांणी म्हणलें, 'ते धन्य आसात!' कॅप्टन आनी भक्त श्रीरामकृष्णांची ती अद्भूत प्रेमावस्था पळयताले. श्रीरामकृष्ण भानार ये मेरेन ते सगले तांचे कडेन स्तब्ध जावन एके नदरेन पळयत रावले.

**श्रीरामकृष्ण:** आनीक सांगात, आनीक सांगात.

**कॅप्टन:** श्रीकृष्ण योगी लोकांक अगम्य आसा. तुमच्या सारक्या योग्यांकय तो अगम्य आसा. पूण गोपीं सारक्या प्रेमी भक्तांक तो गम्य आसा. ताच्या दर्शना खातीर योग्यांनी

कितलीं वर्सां तपश्चर्या केली. तरीपूण तांकां ताचें दर्शन जालें ना. पूण गोपींक मात ताचें दर्शन सहजतायेन जालें.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हय. श्रीकृष्ण गोपीं हातचें खातालो. तांचे बराबर रडटालो. तांचे बराबर खेळटालो. आनी तांचे बराबर हट्ट धरतालो.

## बंकीम आनी श्रीकृष्ण चरित्र
## अवतारवाद

**एक भक्त:** बंकीमान कृष्ण चरित्र बरयलां.

**श्रीरामकृष्ण:** बंकीम कृष्ण मानता पूण राधा मानिना.

**कॅप्टन:** म्हाका दिसता त्या गोपीं बराबरची कृष्णाची लिला ते मानिनात.

**श्रीरामकृष्ण:** कामवासनेची आनी हेर वासनांची गरज आसा अशें बंकीम म्हणटा म्हणून आयकलां!

**एक भक्त:** तांणी एका नेमाळ्यांत अशेंय बरयलां, धर्माचो उद्देशच शारिरीक, मानसीक आनी अध्यात्मीक प्रवृत्तीक वाव करून दिवप म्हणून.

**कॅप्टन:** काम आनी हेर वासनांची गरज आसा हें ते मानतात. पूण श्रीकृष्ण लिला करपाक जगांत आयिल्ले. ईश्वरान स्वता मनीस रुपान अवतार घेवन वृंदावनांत राधा आनी गोपीं बराबर लिला केली हें ते मानिनात व्हय?

## पूर्ण ब्रह्माचो अवतार
## फकत पांडित्य आनी साक्षात्कार
## हांचे मदलो फरक

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) पूण ह्यो गजाली खबरांपत्रांत छापून येवंक नात. मागीर ते विश्वास कशे दवरतले? एका मनशान ताच्या इश्टाक सांगलें, 'काल हांव शारांतल्यान वता आसतना हांवें एक घर कोसळून पडटा तें पळयलें.' इश्टान म्हणलें, 'राव, हांव खबरांपत्रांत पळयतां ती खबर.' पूण घर कोसळ्ळां ही खबर तातूंत नाशिल्ली. तेन्ना त्या मनशान म्हणलें, 'खबरांपत्रांत ती खबर येवंकूच ना. मागीर तुगेले खबरेंत अर्थ ना.' ताच्या इश्टान सांगलें, 'म्हज्या दोळ्यांनी हांवें ती घडणूक पळयल्या.' पूण त्या मनशान म्हणलें, 'कितेंय जावं. जे अर्थी ती खबरांपत्रांत येवंक ना ते अर्थी हांव तिचेर विश्वास दवरिना'.

ईश्वर मनीस रूप घेवन लिला करता, हाचेर ते विश्वास कशे दवरतले? तांच्या इंग्लीश शिक्षणांत तर ती नासता. ईश्वर मनीस रुपान पूर्ण अवतार घेता हें समजावन सांगप खुबूच कठीण. अशें न्हय तें? साडेतीन हाताच्या मनीस देहांत अनंताचें येवप.

**कॅप्टन:** कृष्ण स्वयं भगवानच. पूण ताचें वर्णन करतना पूर्ण आनी अंश - अशें म्हणचें पडटा इतलेंच.

**श्रीरामकृष्ण:** पूर्ण आनी अंश म्हणचे अग्नी आनी ताचें स्फुल्लिंग कशें. ईश्वराचो अवतार भक्तां खातीर आसा, ज्ञानी लोकां खातीर न्हय. अध्यात्म रामायणांत सांगलां, 'फकत रामच व्याप्त चैतन्य आनी व्यापक चैतन्य अशें दोनय आसा.' फुडें म्हणलां, 'रामा, तूंच परमात्मो, तूंच वाचक - अर्थचिन्न, आनी वाच्य अर्थी वस्तू.'

**कॅप्टन:** अर्थचिन्न म्हणल्यार व्यापक आनी अर्थवस्तू म्हणल्यार व्याप्य.

**श्रीरामकृष्ण:** हांगा व्यापक म्हणल्यार मर्यादीत रूप. ईश्वरानच अवतार धारण करून मनीसरूप घेतलां.

## अहंकारच विनाशाचें कारण
## आनी
## ईश्वरलाव जावपाक विघ्न

श्रीरामकृष्ण कॅप्टना कडेन आनी भक्तां कडेन उलयताले. अशा वेळार ब्राह्मसमाजाचे गोपाल सेन आनी त्रैलोक्य पावले.

तांणी श्रीरामकृष्णांक प्राणाम केलो आनी ते सकयल बसले. श्रीरामकृष्ण हांसत त्रैलोक्या कडेन पळयत उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** अहंकार आसा म्हणून ईश्वराचें दर्शन जायना. ईश्वराच्या घराच्या दारा मुखा वयलें हें अहंकार रुपी झाडाचें खोड बालांडून गेले बगर ताच्या घरांत भितर सरूंक मेळना.

एकल्याक भूतसिद्धी प्राप्त जाली. सिद्ध जावन उलो मारले बराबर रोखडेंच भूत मुखार उबें रावलें आनी ताणें म्हणलें, 'आतां कितें काम करपाचें आसा ते सांगात. तुमी ज्या खिणाक म्हाका काम दिवंक शकचे नात, त्याच खिणाक तुमची मान हांव उडयतलें.' त्या मनशाक खूब कामां करपाचीं आशिल्लीं. तीं ताणें एका फाटल्यान एक करून घेतलीं. निमाणें भुताक दिवपाक ताचे कडेन कामांच उरलीं नात. भुतान म्हणलें, 'आतां तुमची मान पिळून उडयतां.' त्या मनशान म्हणलें, 'मातशें राव, हांव रोखडोच येतां.' अशें म्हणून तो गुरूदेवा कडेन गेलो आनी ताणें म्हणलें, 'महाराज हांव मोट्या संकश्टांत सांपडलां. अशी अशी तरा आसा. आतां हांव कितें करूं?'

ुरूजीन म्हणलें, 'तूं एक काम कर. तूं ताका हो मुदयाळो केंस सरळ कर म्हणून ांग.' भूत रात दीस तो केंस सरळ करपाक लागलें. पूण मुदयाळो केंस तें सरळ कशें रतलें? तो तसो मुदयाळोच उरलो.

सोच अहंकार लेगीत. ह्या खिणाक गेलो काय दिसता पूण दुसऱ्याच खिणाक तो रत येता. अहंकार त्याग केले बगर ईश्वराची कृपा जायना.

ुवाळो आशिल्ल्या घरांत घरचो धनी एकट्याक कोठयेचेर नेमता. जों मेरेन कोठयेकार आसा तों मेरेन घर धनी थंय वचना. जेन्ना तो कोठयेकार स्वताचे इत्शेन कोठयेचें काम ोडून वता, तेन्नाच धनी कोठयेक कुलूप लायता आनी स्वताच कोठयेचो ताबो घेता. अज्ञान व्यक्ती खातिरूच पालक नेमतात. भुरगो स्वता इस्टेटीची राखण करूंक शकना म्हणून राजा ताचो भार घेता. आमी अहंकाराचो त्याग केले बगर ईश्वर आमचो भार घेवचो ना.

वैकुठांत नारायण उठून उबो रावलो. लक्ष्मी ताचे पांय चेपताली. तिणें म्हणलें, 'प्रभो, खंय वतात?' नारायणान म्हणलें, 'म्हजो एक भक्त संकश्टांत पडला. ताची राखण करपा खातीर वतां.' अशें म्हणून नारायण गेलो. पूण रोखडोच परत आयलो. लक्ष्मीन विचारलें, 'प्रभो, इतले बेगीन परतशे आयले?' नारायणान हांसून म्हणलें, 'भक्त म्हज्या प्रेमान भारावन रस्त्यान वतालो. रस्त्यार मडवळान कपडे सुकत घाल्ले आनी भक्त कपडे माड्डून गेलो. तें पळोवन मडवळ बडी घेवन ताका मारपाक आयलो. देखुनूच हांव ताका राखण दिवपाक गेल्लों.' तेन्ना लक्ष्मीन वचारलें, 'मागीर परत कित्याक आयले तुमी?' नारायणान हांसून म्हणलें, 'त्या भक्तान स्वता मडवळाक मारपा खातीर वीट उखलिल्ली (सगले हांसतात.) म्हणून हांव परत आयलों.'

**पयलींची जीण**
**केशव आनी गौरी पंडीत**
**सोहं अवस्थे उपरांत**
**दास वृत्ती**

केशव सेनाक हांवें म्हणिल्लें, 'अहंकाराचो त्याग तुमी करुंकूच जाय.' तेन्ना केशवान म्हणिल्लें, 'तर मागीर महाराज हांव म्हजी संघटना एकठांय कसो दवरूंक पावतलों?' हांवें म्हणलें, 'तुमकां अजून समजना कशें? जो अहंकार मनशाक ईश्वराचो दास वा ईश्वराचो भक्त म्हणटा अशा अहंकाराचो - अशा पक्क अहंकाराचो हांव तुमकां त्याग करपाक सांगिना. जो ज्या अहंकारा खातीर मनीस कामिनी-कांचनांत आसक्त जाता -

असो कच्च्या अहंकाराचो त्याग करात. ज्या अहंकारान मनशाक दिसता, तो ईश्वरा
दास, ताचें बाळक, हो पक्को अहंकार आसा. असलो अहंकार हानीकारक न्हय.
**त्रैलोक्य:** अहंकारा पसून सुटका जावप खुबूच कठीण. लोक फकत समजतात,
गेला म्हणून.
**श्रीरामकृष्ण:** गौरी स्वताक लेखून 'हांव' अशें म्हणिनाशिल्लो कित्याक ताका आप
अहंकारी दिसत म्हणून. तो ताच्या बदला 'हो' म्हणटालो. हांव ताचीच देख घेव
म्हाका 'हांव' च्या बदला 'हो' अशें म्हणूंक लागलों. हांवें 'खालें' अशें म्हण
बदला हांव म्हणटालों 'हाणें खालें-हो जेवलो.' मथूरान तें पळयलें आनी एक दी
म्हणलें, 'हें कितें बाबा, तुमी अशे कित्याक उलोवपाचें? ताका तशें उलोवं दी. ता
भितर अहंकार आसा. तुमचे भितर तो ना. तुमी तशें उलोवपाची कांयच गरज ना.
हांवें केशवाक म्हणलें, 'अहंकार तर वचपाचो ना. म्हणून तो दास म्हणून - ईश्वरा
दास म्हणून रावं दी.' प्रह्लाद दोन भाव वृत्तींनी रावतालो. केन्नाय ताका दिसता
तोच ईश्वर आसा. ते भावनेंत तो म्हणटालो, 'तूंच हांव' आनी 'हांवूच खरेलो तूंच'
सोहंम. परत अहंम बुद्द जेन्ना येताली तेन्ना ताका दिसतालें, ईश्वर ताचो धनी आ
तो ताचो दास. एकदांचो मनीस 'पक्को हांव तोच' हे भावनेंत मुरले उपरांत ताच्या
'ईश्वराचो दास' म्हणून रावूं येता. मागीर 'ईश्वराचो दास' ह्या भावान ताच्यान चिंतूं येत

## ब्रह्मज्ञानाचें लक्षण
## भक्ताचो हांव कर्मत्याग

(कॅप्टनाक) ब्रह्मज्ञान जाले उपरांत ताचीं कांय लक्षणां दिसतात. भागवतांत ज्ञा
मनशाच्यो चार अवस्था सांगल्यात: 1) बाळकवत 2) जडवत 3) उन्मादवत 4
पिशाचवत. ब्रह्मज्ञानी केन्नाय पांच वर्सांच्या बाळका भशेन वागता. केन्नाय पिसो कस
वागता. केन्नाय अचेतन कसो - जड कसो रावता. हे अवस्थेंत तो काम करूंक शकना
सगल्या कर्मांचो त्याग करता. तुमी म्हणटले, जनका भशेन ज्ञानी कर्म करताले. पू
सत्य अशें आसा, त्या काळा वयले लोक तांगेल्या कारभाऱ्यांचेर भार सोंपयता
आनी निश्चींत रावताले. आनी त्या वेळा वयले लोकय खूब विश्वासू आशिल्ले.
श्रीरामकृष्ण कर्मयोगा विशीं सांगताले. पूण ताणीं हेय सांगलें, ''जांका कर्म करुंकू
जाय अशें दिसता तांणी अनासक्त जावन कर्म करूंक जाय.''
**श्रीरामकृष्ण:** ज्ञान जाले उपरांत मनीस चड काम करूंक शकना.
**त्रैलोक्य:** महाराज, अशें कशें म्हणटात? पवहारी बाब येदे व्हडले योगी. तरी लेगी
ते लोकांचे तंटे झगडीं मिटयताले. इतलेंच न्हय मुकदमे पसून मिटयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, हय. तें खरें आसा. दुर्गाचरण दोतोर सामको बेबदो. तो दिसाचीं वीस वरां सोरो पियेत आसतालो. पूण कामाक सामको खर आशिल्लो. उपचार करता आसतना कसलीच चूक करिनाशिल्लो. भक्तीचो लाव करून घेतले उपरांत कर्म केल्यार कसलीच हरकत ना. पूण तें खूब कठीण. खूब तपश्चर्या करपाक जाय.

ईश्वरच सगलें कितें करता. आमी यंत्रस्वरूप आसात. काली देवळा मुखार कांय शीखांनी म्हाका म्हणलें, 'महाराज, ईश्वर दयाळ आसा'. हांवें म्हणलें, 'तो कोणा खातीर दयाळ आसा'? शीखांनी म्हणलें, 'महाराज अशें कितें? आमच्या सगल्यां खातीर'. हांवें म्हणलें, 'आमी सगलीं ताचीं भुरगीं. आपल्याच भुरग्यांचेर दया करप म्हणल्यार कितें व्हडलें जालें? बापायन आपल्या भुरग्यांक पळोवंकच जाय. नाजाल्यार कितें शेजारी तांकां वयर काडटले? बरें हे सांगात, जे ईश्वराक दयाळ म्हणटात तांकां हें समजना काय, आमी देवाचीं भुरगीं आनी दुसरीं कोण न्हय म्हणून?'

**कॅप्टन:** तुमचें बरोबर आसा. तांकां ईश्वर आमचो आसा अशें ते धरीच नात.

## भक्त आनी पुजा

## ईश्वर भक्त वत्सल. पूर्ण ज्ञानी

**श्रीरामकृष्ण:** तर मागीर कितें ईश्वराक दयामय म्हणपाचें ना? जों मेरेन आमी साधना करतात तों मेरेन आमी म्हणपाचेंच. ईश्वराच्या साक्षात्कारा उपरांत आमकां ईश्वर आमचो बापूय वा आवय अशें सामकें दिसता. जों मेरेन ईश्वराचो लाव जावंक ना तों मेरेन आमी ताचे पसून खूब पयस आसात. आमी दुसऱ्याच कोणाचीं भुरगीं अशें दिसता. साधना अवस्थेंत ईश्वराक दयामय बी सगलेंच म्हणचें पडटा. एक दीस हाजरान नरेंद्राक म्हणलें, 'ईश्वर अनंत. ताचें ऐश्वर्य अनंत. तो कितें तुजी मिठाय, केळीं घेतलो? वा तुजें संगीत पद आयकतलो? त्यो तुमच्यो सगल्यो गैरसमजुती.'

नरेंद्र एकदम धा हात सकयल आयलो. तेन्ना हांवें हाजराक म्हणलें, 'तूं सामको नावाडगो मरे.' त्या तरणाट्यांक अशें कितेंय सांगल्यार ते कित्याच्या आधारार उबे रावतले? भक्ती नासल्यार मनशान जगपाचें कशें? ईश्वराचें अनंत ऐश्वर्य आसा. तरी पूण तो ताच्या भक्ताच्या आधीन आसा.

जसो एका गिरेस्ताचो द्वारपाळ धनयाचे कुडींत येता. थंय धनी इश्टा सांगातान बशिल्लो. द्वारपाळ कुडीचे एके वटेन उबो रावता. ताच्या हातांत कितें तरी आसा तें कपड्यान धांपता. तो थंय घुटमळटा. धनयान ताका विचारलें, 'आरे दरवान, हातांत कितें आसा?' सेवकान अनमनत एक सिताफळ भायर काडलें आनी धनया मुखार दवरलें

आनी म्हणलें, 'महाराज, म्हजी इत्सा आसा हें तुमी खावचें म्हणून.' धनी सेवकाची भक्ती पळोवन प्रभावीत जालो. ताणें मोट्या प्रेमान तें सिताफळ हातांत घेतलें आनी म्हणलें, 'वा, सिताफळ, एकदम बरें आसा. तुवें खंयच्यान हाडलें तें? तें हाडपाक तुका खुबूच त्रास जाल्यात आसतले.'

ईश्वर ताच्या भक्ताच्या आधीन आसा. राजा दुर्योधनान कृष्णाक खूब आगरो केलो आनी ताका म्हणलें, 'हांगाच जेवण खाण बी करात.' पूण भगवान कृष्ण विदुराचे खोंपींत गेलो. तो भक्त वत्सल. तो विदुरागेर सादो शीतरोस अमृत समजून जेवलो.

केन्ना केन्नाय पूर्ण ज्ञानी पिशाचवत कसो वागता. ताच्या खावपा पियेवपांत विवेक नासता. ताका शुद्ध, अशुद्ध हाचो विवेक नासता. पूर्ण ज्ञानी आनी पूर्ण मूढ - दोगांयचीं भायलीं लक्षणां एका सारकीं आसतात. पूर्ण ज्ञानी घडये गंगास्नान करतना मंत्र म्हणचो ना. देवपुजा करपा वेळार सगलीं फुलां घडये एकाच वेळार देवाच्या पांयांर ओंपतलो. तो तोंडान मंत्र बी कांयच म्हणचो ना, कसलेच नेम विधी पाळचो ना.

## कर्ममार्गी आनी श्रीरामकृष्ण
## कर्म केन्ना मेरेन?

जों मेरेन मनशाक संवसारांत भोग घेवपाची इत्सा आसता तों मेरेन तो कर्मत्याग करूंक शकना. जों मेरेन भोगाची आस आसा तों मेरेन कर्म.

एक सुकणें एका तारवाच्या शिडाचे बडयेर बशिल्लें. तें ताचे तंद्रेंत आशिल्लें. तारूं गंगेंत आशिल्लें. ल्हव ल्हव तें म्हादर्यांत भितर सरलें. तेन्ना त्या सुकण्याची तंद्री मोडली आनी तें भानार आयलें. ताणें पळयलें, चारूय वटांनी खंयच देग दिसना. तेन्ना जमनीचेर परत येवपा खातीर तें उत्तर दिकेक उडून गेलें. बरेंच पयस वचून ताका पुरो जालें. तरी ताका देग दिसली ना. तें कितें करतलें? परत येवन शिडाचेर बसलें.

बऱ्याच वेळान तें सुकणें परत उडून हे खेपेक उदेंत दिकेन गेलें. ते दिकेक ताका कांय दिसलें ना. चोंय वटेन शीममेर नाशिल्लो दर्या. तेन्ना खूब पुरो जावन परत तें तारवा कडेन येवन शिडाचेर बसलें. बरोच वेळ विसव घेवन तें परत एक खेपो दक्षीण दिकेक गेलें. आनी अशेच तरेन परत अस्तंत दिकेन गेलें. जेन्ना ताणें पळयलें, देग ना तेन्ना शिडाचे बडयेर येवन बसून रावलें. परत आनीक उडून गेलें ना. कसलेच तरेचो यत्न करपाचें सोडून दिवन तें बसून रावलें तेन्ना मागीर मनांत कसलीच चिंता नाशिल्ली वा कसलीच अशांती नाशिल्ली. निश्चींत जाल्लें. मागीर कसलोच खटाटोप ना.

**कॅप्टन:** वा, वा कितें दृश्टांत!

## भोगांती व्याकूळताय
## आनी ईश्वरलाव

**श्रीरामकृष्ण:** संवसारी लोक सुखा खातीर धर्तरेच्या चारय दिकांनी भोंवतात. तांकां तें सूख खंयच मेळना. मागिरूच तांकां सामकें पुरो जाता. जेन्ना कामिनी-कांचनांत आसक्त, तांकां फकत दुख्खच जाता, तेन्नाच तांकां वैराग्य येता. त्याग येवजता. भोग घेतले बगर बरेच जाण कामिनी-कांचनाचो त्याग करूंक शकनात.

दोन तरांचे लोक आसात. एकाच जाग्यार रावतात अशे लोक आनी खूब जाग्यांनी भोंवत आसतात अशे लोक. साधकां मदीं कोण कोण कितल्याश्याच तीर्थ स्थळांक वतात. ते एका जाग्यार थीर जावन रावंक शकनात. कितल्याश्याच तीर्थ स्थळांचें उदक-तीर्थ पियेतात. अशे रितीन भोंवत भोंवत मनांतली आस ते भागयतात आनी निमणें एका जाग्यार खोंप बांदून रावपाक लागतात. आनी मागीर चिंते विणें आनी धडपड सोडून निश्चींत जावन भगवंताचें चिंतन करतात.

पूण संवसारांत कसलो भोग घेतले? कामिनी आनी कांचन? तो तर आनंद खिणयाळो. एका खिणाक आसा आनी दुसऱ्या खिणाक ना.

जग कुपांनी भरिल्लें कशें. मळब जशें पावसाचो शिंवारो लागिल्लें आसता. सूर्य क्वचीत दिसता. जगांत दुख्ख भोग चड आनी कामिनी-कांचनरुपी कुपां आशिल्ल्यान सूर्य दिसना. कांय लोक म्हाका विचारतात, 'महाराज, ईश्वरान कित्याक म्हणून असलो संवसार निर्माण केलो? आमचे खातीर हाचेर कसलोच उपाय ना?'

### उपाय-व्याकूळताय, त्याग

हांव तांकां सांगतां, 'ताचेर उपाय कित्याक आसचो ना? ईश्वराक शरण वचात आनी व्याकूळतायेन काळजा सावन ताची प्रार्थना करात. ताका लागून फावो तसो वारो व्हांवतलो तो तुमकां उपकारा पडटलो. जर तुमी व्याकूळतायेन ताका आळयलो तर तो तुमचें आयकतलोच आयकतलो.'

एका मनशाचो भुरगो मरणाचे धडेर आशिल्लो. तो मनीस व्याकूळ जावन हाका ताका उपाय विचारूंक लागलो. एकट्यान ताका सांगलें, 'एक उपाय आसा. स्वाती नखेत्राचो पावस पडूंक जाय. मागीर तो पावस मेल्ल्या मनशाचे कवटेंत पडूंक जाय. थंय एक बेबो उदक पियेवपाक येवंक जाय, आनी त्याच वेळार एक सोरोप येवन

ताणें त्या बेब्याक धरपाक जाय. आनी सोरोप ताका चाबतलो म्हणसर बेब्यान उडी मारून वचूंक जाय आनी वीख ते कवटेंत पडूंक जाय. हें इल्लें वीख आनी पावसाचें उदक दुयेंतीक दिवंक जाय.' तो बापूय व्याकूळ जावन तें वखद सोदपा खातीर स्वाती नखेत्राचेर वचपाक भायर सरलो. अशा वेळार पावस सुरू जालो. व्याकूळतायेन तो ईश्वराक म्हणूंक लागलो, 'देवा, आतां मेल्लुया मनशाची कवटी एक मेळूं दी.' सोदतां सोदतां थंय मेल्लुया मनशाची कवटी पडिल्ली दिसली. तातूंत स्वाती नखेत्राचें उदक पडत आसा. परत देवाक ताणें प्रार्थना केली, 'देवा, सोपूत आसा देवा, आतां सोरोप आनी बेबो येवं दी थंय.' ताची अशी व्याकूळताय पळोवन थंय बेबो आनी सोरोप आयले. एका खिणांत थंय एक सोरोप बेब्या फाटल्यान धांवता अशें ताणें पळयलें. आनी बेब्याक तो चाबपाक गेलो आनी ताचें वीख ते कवटेंत पडलें.

ईश्वराक शरण वचून व्याकूळतायेन ताका होरायल्यार ईश्वर आयकतलोच आयकतलो. आनी सगलें फावोशें जुळून येतलें.

**कॅप्टन:** कितें दृश्टांत!

**श्रीरामकृष्ण:** हय. ईश्वर सगलें फावो तशें जुळोवन दिता. घडये साधक लग्न जायना. मागीर सगलें मन ईश्वराक दिवंक शकता. घडये ताचे भाव जोडूंक लागले वा घडये ताचो पूत संवसार पळोवंक लागलो. मागीर साधकाक संवसारा कडेन पळोवचें पडना आनी तो शंबर टक्के मन ईश्वराक दिवंक शकता.

पूण कामिनी-कांचनाचो त्याग केले बगर कांयच जावपाचें ना. त्याग केल्यारच अज्ञान, अविद्या ना जावन वता. सुर्याचे किरण भिंगाचेर पडल्यार कितल्योश्योच वस्तू जळून वतात. पूण जर कुडींत काळोख आसत तर कांय उपेग जावचो ना. भींग वापरतलो जाल्यार तुवें कुडी भायर येवंक जाय.

## ईश्वरलावा उपरांत संवसार
## जनक राजा आनी हेर

तरीपूण ज्ञानाचो लाव जाले उपरांत कांय लोक संवसारांत रावतात. तांकां कुडी भितरलें आनी भायलें दोनूय दिसता. ईश्वराचो उजवाड संवसाराचेर पडटा. म्हणून ते त्या उजवाडांत वायट-बरें, नित्य-अनित्य सगलें पळोवंक शकतात. अज्ञानी, जे ईश्वराक जाणा जावन घेतले बगर संवसार करतात ते मातयेच्या घरांत रावपी लोक कशे. हयन्हयशा उजवाडांत फकत कुडीचें भितरलेंच तांकां दिसता. आनीक कांयच

सना. पूण ज्ञान प्राप्त जाले उपरांत आनी जांकां ईश्वराचो साक्षात्कार जाला आनी गीर जे संवसारांत रावतात ते लोक कंवचेच्या घरांत रावतात कशे. कुडीचें भितरलें कां दिसता आनी कुडी भायलें लेगीत तांकां सगलें दिसता. ज्ञानसुर्याचो उजवाड ान भितर सरता. त्या लोकांक कुडीच्यो भितरल्यो गजाली खूब स्पश्टपणान दिसूंक गतात. कितें बरें आनी कितें वायट, कितें नित्य आनी कितें अनित्य हें तांकां श्ट दिसता. फकत ईश्वरच करतो आनी आमी सगले ताचीं यंत्रां म्हणुनूच ज्ञानी नशान अहंकार करपाची माणसुकी ना. शिवाचें स्तोत्र जाणें बरयिल्लें ताका गर्व जाल्लो. वाच्या नंदीन जेन्ना ताका आपले दांत दाखयले तेन्ना ताच्या गर्वाची पूड जाली. णें पळयलें, तांतलो एकेक दांत म्हणचे एकेक मंत्रच आसा. हाचो अर्थ कितें खबर ासा तुमकां? हे सगले मंत्र अनादी काळा पसून आशिल्ले. तुमी फकत तांचो सोद ायलो. तांकां उजवाडांत हाडले इतलेंच. वेवसायीक गुरू जावप बरें न्हय. ईश्वराचो ादेश मेळ्ळे बगर आचार्य जावंक येना. तो स्वता म्हणटा, 'हांव गुरू'*. तो ल्हव ुद्दीचो आसता. तुमी तागडी पळोवंक ना? तिचें ल्हव दालें वयर वता. जो अध्यात्मीक दरेन दुसऱ्यां परस उन्नत आसता तो स्वताक गुरू समजना.

त्येक मनशाक गुरू जावंक जाय. पूण शिश्य मेळप भोव कठीण.

लोक्य ल्हान पलंगाचे उत्तरे कडेन जमनीर बशिल्ले. ते पद म्हणपाचे आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "वा, वा, तुमी कितलें गोड गायतात!" त्रैलोक्य तंबुरो घेवन ावंक लागले:

हांवें म्हजें काळीज तुका दिलां, जें कितें आसा तें तूंच आसा.  
म्हाका फकत तूंच मेळ्ळा, कारण जें कितें आसा तें तूंच आसा.  
ए भगवान, म्हज्या काळजाचो प्रियतम! तूंच सगल्यांचें घर आसा,  
अशें खंयचें काळीज आसा जंय तुजो ना निवास?  
बुदवंत वा मूर्ख, हिंदू वा मुसलमान;  
तुका जाय तशें तूं तांकां करता, जें आसा तें तूंच आसा.

तुजें अस्तित्व सगले कडेन, स्वर्गांत वा काबांत;  
तुजे मुखार सगल्यांनी नतमस्तक जावंक जाय, कारण सगलें आसा तें  
तूंच आसा.

सकयल धर्तरी धरून सगल्यांत वयल्या स्वर्गा मेरेन, स्वर्गा साकून
खोल धर्तरि मेरे
हांव पळयतां थंय तूं म्हाका दिसता: सगलें कितें आसा तें तूंच आसा.
येवजून म्हाका कळ्ळां; दुबावा विरयत हांवें पळयलां;
खंयचेच वस्तूची तुजे कडेन जावं नजं तुळा म्हणपाचें म्हाका कळ्ळां,
जाफराक साक्षात्कार जाला, सगलें जें आसा ते तूंच आसा.

त्रैलोक्य परत गावंक लागले:

तूं म्हजें सर्वस्व आसा, ए भगवान! म्हजे जिणेची जीण, निजांतलें नीज.
तिनूय लोकां मदीं म्हजो असो तुजे बगर दुसरो कोण ना.
तूं आसा म्हजी शांती, म्हजो आनंद, म्हजी आस्त,
तूं म्हजो पालव, म्हजें धन, म्हजी व्हडवीक.
तूं म्हजी बुदवंतकाय आनी घटसाण.
तूं म्हजें घर, म्हजी विसवाची सुवात; म्हजो सगल्यांत प्रिय इश्ट, म्हजो
सोयरो
म्हजें वर्तमान आनी म्हजें भविश्य, तूं म्हजो स्वर्ग आनी म्हजी मुक्ती.
तूं म्हजीं शास्त्रां, म्हजे उपदेश; तूं आसा म्हजो सदांकाळचो कृपावंत गुरू;
तूं म्हज्या असीम आनंदाचो झरो.
तूं मार्ग, आनी तूं मोख; तूं पुज्य, ए भगवान!
तूं मोव काळजाची आवय; तूं शिस्तप्रिय बापूय;
तूं निर्मातो आनी राखणदार, तूं येरेकार जो म्हजें व्हडें भवसागरांतल्यान
व्हरता तरून.

पद आयकून श्रीरामकृष्ण भारावन गेले आनी तांणी म्हणलें:
"आहा, आहा, तूंच सर्वस्व, तूंच सर्वस्व." पद सोंपलें. सांजेची स वरां जालीं.
श्रीरामकृष्ण सुरूच्या झाडा कडेन गेले. बराबर म आशिल्लो. श्रीरामकृष्ण हांसत हांसत

---

*** गुरू शब्दाचे दोन अर्थ जातात. एक अध्यात्मीक गुरू, दुसरो जडसाण.**

गजाली करताले. अचकीत तांणी मक म्हणलें, ‘‘तुवें कांयच कित्याक खावंक ना?’’ भक्तांनीय अल्पहार करचो म्हणून श्रीरामकृष्ण उतावीळ जाले.

## नरेंद्र आनी श्रीरामकृष्ण

श्रीरामकृष्ण सांजेचे कलकत्ताक वचपाचे आशिल्ले. सुरूच्या झाडांतल्यान येतना तांणी मक म्हणलें, ‘‘गाडयेंतल्यान कलकत्ताक म्हाका कोण व्हरतलो? म्हाका कांय खबर ना.’’

सांज जाल्ली. श्रीरामकृष्णांचे कुडींत दिवो लायलो आनी धूप घालो. सगल्या देवळांनी आनी इमारतींनी दिवे पेटयले. चौगुडो वाजूंक लागलो. रोखड्योच देवळांनी आरती सुरू जातल्यो. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बसून देवदेवतांचें नामगुणगान करताले. मागीर श्रीरामकृष्णांनी जगन्मातेचें ध्यान केलें. आरती जाल्यो. श्रीरामकृष्ण कुडींत पासयो मारीत मदीं मदीं भक्तां कडेन उलयताले आनी कलकत्ताक वचपा विशीं म कडेन उलयताले.

इतले म्हणसर नरेंद्र थंय आयलो. ताचे बराबर शरत आनी एक दोन भुरगे आशिल्ले. ते सगले श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले.

नरेंद्राक पळोवन श्रीरामकृष्णांचें प्रेम उफेवन आयलें. ल्हान भुरग्याक सांसपुचें तशें श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राची खाडकी धरून पोशेली. तांणी मायेन म्हणलें, ‘‘आहा, तूं आयलो!’’

कुडींत गंगेक तोंड करून श्रीरामकृष्ण उबे आशिल्ले. नरेंद्र आनी बराबर आयिल्ले भुरगे उदेंतेक तोंड करून तांचे कडेन उलयताले. श्रीरामकृष्णांनी म कडेन तोंड करून ताका म्हणलें, ‘‘नरेंद्र आयला. आतां हांव कलकत्ताक कसो वचूं? हांवें नरेंद्राक आफोवन हाडला. हांव आतां कसो वचूं? तुजें कितें म्हणणें?’’

**म:** जशी तुमची इत्सा महाराज. आयज मागीर वचपाचें आसूं.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें आसा. आमी फाल्यां या. बोटीन या वा गाडयेन या. (हेर भक्तांक) खूब उशीर जाला. तुमी येयात तर आतां.

भक्तांनी एकेक करून तांकां पांयां पडून तांचो निरोप घेतलो.

# अध्याय एकशेंतेवीस

## रथयात्रेच्या निमतान बलरामाच्या घरा

## पूर्ण, धाकटो नरेन गोपाळाची आवय

**जुलय 13, 1885. सोमार.** श्रीरामकृष्ण बलरामाच्या घरा, सालांत भक्तां सयत बशिल्ले. सकाळचीं णव वरां जाल्लीं, बलराम दुसऱ्या दिसा रथयात्रा मनोवपाचे आशिल्ले. श्रीजगन्नाथाची पुजा तांच्या घरांत सदांच चलताली. तांचे कडेन ल्हानसो रथय आशिल्लो. रथयात्रे दिसा रथांत श्रीजगन्नाथाची मूर्त बसोवन तो रथ भायले पडवेंत ओडटाले. श्रीरामकृष्ण आनी म दोगूय जाण उलयताले. नारायण, तेज चंद्र, बलराम आनी हेर भक्त थंय आशिल्ले. श्रीरामकृष्ण पूर्णा संबंदीं उलयताले. पूर्णाचें वय पंदरा वर्साचें आसतलें. श्रीरामकृष्ण ताका पळोवपा खातीर सामके व्याकूळ जाल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) बरें. पूर्ण खंयच्या रस्त्यान येवन म्हजी भेट घेतलो? द्वीज आनी पूर्ण दोगूय एकामेकांक मेळूं दी.

एकाच सभावाच्यो आनी एकाच वयाच्यो व्यक्ती आसतात तेन्ना हांव तांकां एके कडेन हाडटां हातूंत अर्थ आसा. हातूंत तांची प्रगती जाता. पूर्णाची ईश्वरा विशीं व्याकूळताय तुवें पळयल्या?

**म:** हय महाराज. एक दीस हांव ट्रामिंतल्यान वतालों. गच्चे वयल्यान म्हाका ताणें पळोवन तो रस्त्या वयल्यान धांवत आयलो. आनी व्याकूळतायेन त्या जाग्या वयल्यानूच ताणें नमस्कार केलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (दोळ्यांत दुकां हाडून) आहाहा, आहाहा, कित्याक तर हाणें (मन) परमार्थाचो लाव जावचो म्हणून भेट करून दिली. ईश्वरा खातीर व्याकूळ जाले बगर अशें वागप जायना.

## पूर्णाची पुरुशी सत्ता
## दैवी सभाव
## तपश्चर्येच्या वेळार नारायणाची
## संतान रुपान प्राप्ती

नरेंद्र, धाकटो नरेन आनी पूर्ण ह्या तिगांचो पुरुशी सभाव. भवनाथाचो तसो न्हय. ताचो मादी भाव.

पूर्ण अशे उंचेले अवस्थेंत आसा, एक तर तो रोखडोच शरिराचो त्याग करतलो - ईश्वराचो साक्षात्कार जाले उपरांत शरीर निरुपेगी थारता - वा कांय दिसांनी ताचो आंतरीक सभाव तोडून फोडून भायर येतलो. ताचो ईश्वरी सभाव आसा. ईश्वरी प्रकृती. तातूंत लोकभंय कमी आसता. जर ताच्या गळ्यांत फुलांची माळ घाली वा आंगाक चंदन लायलें तर ताका रोखडीच समाधी लागतली. ताका दुबाव विरयत कळूंक लागतलें, नारायण स्वता ताचे भितर रावता आनी नारायणच देह धारण करून आयला. म्हाका ते विशीं सगलें कळ्ळां.

## पयलींची जीण
## सुलक्षणी ब्राह्मणीची समाधी
## रणजिताचे कन्येच्या रुपान जगन्माता

दक्षिणेश्वराक जेन्ना म्हजी पयलेच खेपो अशी समाधी अवस्था जाली, तेन्ना एका बऱ्या घराण्याची ब्राह्मणाची बाई थंय आयली. तिचे कडेन कांय बरीं लक्षणां आशिल्लीं. तिच्या गळ्यांत माळ घालून तिचे मुखार धूप मात लायला, ती रोखडीच समाधीमग्न जाली. कांय वेळा उपरांत तिणें परमानंदाचो अणभव घेतलो आनी तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं. हांवें तिका प्रणाम केलो आनी विचारलें, 'आई, म्हाका येस मेळटलें?' तर तिणें म्हणलें, 'हय'.

पूर्णाक म्हाका आनीक एक खेपो पळोवंक जाय. पूण म्हाका तें कशें शक्य आसा? तो एक भागच आसा (ईश्वरी अवताराचो). केदें अजाप! फकत अंश न्हय पूण एक भाग. खूब हुशार लेगीत. अभ्यासांतय खंय खूब तरबेज आसा. म्हणून हांवें जें थारायलां तें बरोबर आसा म्हणपाचें.

तपश्चर्येच्या वेळार नारायण संतान जावन पोटांत जल्म घेता. कामारपुकूराक वच्चे वाटेर रस्त्यार रणजीत रायाचें तळें आसा. रणजीत रायाच्या घरा भगवती जगन्माता कन्या रुपान जल्मल्ली. अजून लेगीत चैत्र म्हयन्यांत तिच्या नांवान जात्रा भरता. म्हाका

सामकीं थंय वचपाची इत्सा जाता.

रणजीत राय थंयचो मोटो भाटकार. तपश्चर्येच्या वेळार ताणें जगन्मातेक चलयेच्या रुपान मेळयिल्ली. तो तिचेर खूब माया करतालो. तिचोय ताचेर जीव आशिल्लो. बापाय पसून ती चडशी पयस वचनाशिल्ली. एक दीस भाटकार इस्टेटीच्या कामांत गुल्ल आशिल्लो. खूब काम आशिल्लें. आनी चली भुरग्या सभावा प्रमाण सारकी म्हणटाली – 'बाबा, हें कितें, तें कितें?' बापायन गोड उतरांनी सांगलें, 'बाये, आतां मातशें वच. म्हाका खुबूच काम आसा.' पूण ती कशीच वचना. निमणें बापायन आपलेच भिरकेन म्हणलें, 'तूं हांगाच्यान वच पळोवया.' जगन्माता तेंच निमीत करून थंयच घर सोडून गेली. त्याच वेळार शंखाचीं बी कांकणां आनी हेर वस्तू विकपी फेरीवालो त्या रस्त्यान वतालो. ताचे कडच्यान तिणें शंखाचीं कांकणां घेतलीं आनी हाताक घालीं. जेन्ना ताणें पयशे मागले, तेन्ना तिणें सांगलें, 'घरा एके पेटयेंत पयशे दवरल्यात. थंयच्यान तूं घे.' मागीर थंयच्यान ती जी गेली ती परत दिसलीच ना. इतले मदीं फेरीवाल्यान घरा येवन कांकणाचे पयशे मागले.

जेन्ना चली घरा ना म्हणून कळ्ळें तेन्ना तिगेलीं सगलीं घरचीं तिका सोदपाक धांवपाक लागलीं. रणजीत रायान तिचो सोद घेवपा खातीर चोंय वटेन लोक धाडले. तशेंच तिणें सांगिल्ले प्रमाण ते पेटयेंतच फेरीवाल्याक दिवपाचे पयशे मेळ्ळे. रणजीत राय धुसमुसून रडटाले. त्या वेळार मनशांनी धांवत येवन सांगलें, तांणी तळ्यांत कितें तरी पळयलां म्हणून. सगले थंय धांवले आनी तांकां थंय शंखाचीं कांकणां घाल्लो हात उदका वयर हालयतना दिसलो. रोखडोच तो दिसना जालो. अजुनूय तिची लोक जगन्माता म्हणून पुजा वर्सुके जात्रेच्या वेळार करतात. (मक) हें सगलें खरें आसा?

**म:** हय, महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** नरेंद्र ह्या गजालींचेर आतां विश्वास दवरता. पूर्णाचो विष्णूच्या अंशान जल्म जाल्लो आसा. हांवें मनांत बेलाच्या पानांनी ताची पुजा केली. ती पुजा मान्य जाली. ईश्वर स्वता कितल्याश्याच रुपांनी दर्शन दिता. केन्नाय मनीस रुपान, केन्नाय चिन्मय दिव्य रुपान. ईश्वरी रूप मानूंक जाय. तुका कितें दिसता?

**म:** खरें आसा महाराज.

## गोपाळाचे आवयचो प्रकृतीभाव
## आनी तिका जाल्लीं रुपदर्शनां

**श्रीरामकृष्ण:** कामारहाटीचे ब्राह्मणीक* कितलींशींच दर्शनां जातालीं. ती एकटीच

* श्रीरामकृष्णांची गोपाळ मां नांवाची भक्तीण.

ंगेचे देगेर एके बागेंत एकटीच कुडींत रावताली. आनी थंय जप करताली. गोपाळ (बाळकृष्ण) तिचे कुशीक न्हिदतालो. (श्रीरामकृष्ण चकीत जातात) ही कल्पना न्हय ण प्रत्यक्ष. तिणें पळयलें, गोपाळाचीं तळटां तांबडीं आसात. तिचे बराबर भोंवता. तेचें दूद पियेता. तीं एकामेकां कडेन उलयतात.

: सगलें आयकून नरेंद्र रडलो.

म्हाकाय पयलीं खूब दर्शनां जातालीं. पूण आतां आनंदावस्थेंत तितलींशीं दर्शनां जायनात. आतां प्रकृती भाव कमी जाता. पुरूश भाव येता. देखुनूच भावना म्हज्या नाब्यांत आसता. भायर तितलीशी प्रगट जायना.

धाकट्या नरेनाचो पुरूशभाव. देखुनूच ध्यान करतना ताचें मन इश्ट देवतेंत लीन जावन वता. तो भावना प्रगट करिना, नित्यगोपाळाचो प्रकृतीभाव (स्त्रीभाव) म्हणुनूच समाधी अवस्थेंत आयल्यार वांकडो तिकडो जाता. ताचें शरीर तांबडें जावन वता.

## कामिनी–कांचन त्याग
## आनी द्वीज आनी हेर

(मक) बरें, लोक इल्लो इल्लो करून त्याग करतात. पूण ह्या भुरग्यांची कशी अवस्था आसा ती पळय. विनोदान म्हणिल्लें, 'बायले बराबर न्हिदचें पडटा. ताचें म्हाका चड वायट दिसता.' साधकान बायले बराबर न्हिदप बरें न्हय. मागीर तिच्या बराबर संग जावं वा ना जावं. आंग आंगाक लागताच आनी उबय मेळटा.

द्वीज कसले अवस्थेंल्यान वता! सारकें शरीर हालयता आनी म्हाका पळयत आसता. ही सादी गजाल व्हय? सगलें मन एकठांय केलें आनी म्हजेर दवरलें तर खात्रेन ताका सगलें मेळटलें.

## भगवान श्रीरामकृष्ण

हांव आनीक कितें आसां? तोच सगलें आसा. हांव यंत्र आनी तो यंत्री. हाचे भितर (म्हज्या शरिरांत) ईश्वराची सत्ता आसा. हे खातिरूच चड आनी चड लोकांचें हेवटच्यान आकर्शण वाडत आसा. तांची अध्यात्मीक जागृती जावपाक म्हजो स्पर्शच पुरो जाता. हें आकर्शण, ही ओड, हें ईश्वराचेंच आकर्शण. आनीक कोणाचेंच न्हय.

बेलघराचो तारक दक्षिणेश्वरा सावन घरा वतालो. हांवें सारकें पळयलें, 'म्हज्या

शरिरांतल्यान एक ज्योत कशी भयर आयली आनी ताचे फाटल्यान गेली.' क
दिसां उपरांत दक्षिणेश्वरा सावन तारक परतो आयलो. त्या वेळार समाधीमग्न जा
ताचे छातयेर पांय दवरलो - म्हजे भितर जो आसा ताणें. बरें, असल्या भुरग्या भ
आनीक भुरगे आसात?

**म:** मोहीत खूब बरो आसा. तुमचे कडेन एक दोनदां आयला. दोन विश्वविद्यालय
परिक्षा पास जायत इतलो अभ्यास करता. ईश्वरा विशीं ताका खूब व्याकूळता
आसा.

**श्रीरामकृष्ण:** तें जायत. पूण तितल्या वयल्या थराचो न्हय. शरिराचीं लक्षणां तितल
बरीं नात. ताचें तोंड बसकें. पूण ह्या दुसऱ्याय भुरग्याचो थर वयल्या दर्जाचो आस
पूण शरीर धारण केल्लयानच खूब त्रास आनी चिंता वाडटा. तातूंत आनी स्राप मेळ
जाल्यार सात जल्म घेवचे पडटात. खुबूच जतनाय घेवंक जाय. इल्लीशी वासन
आसल्यार लेगीत शरीर धारण करचें पडटा.

**एक भक्त:** जे ईश्वराचे अवतार आसात - जांणी दुसऱ्यां खातिरूच देह धारण केल्या
- तांकां खंयची वासना?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) जाणा, म्हज्यो सगल्यो वासना वचूंक नात. एक खेपो ए
साधू शाल घेतिल्लो पळयलो. आनी म्हाकाय तसली आंगार घालची कशी दिसली
अजुनूय म्हजी ती वासना आसा. कोणाक खबर तिचे खातीर म्हाका परत एक खेप
जल्म घेवचो पडत!

**बलराम:** (हांसत) मागीर कितें शाली खातीर तुमकां परत जल्म घेवचो पडटलो?
(सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) प्रत्येकान बरी वासना दवरूंक जाय. तिचेंच चिंतन करत
करतां देहत्याग जावचो म्हणून.

साधूंनी भेट दिवपा सारकी चार तिर्थां आसात. पूण साधू लोक तीन तिर्थांक भेट
दितात. एका धामाक वचनासतना रावतात. तातूंतले कितलेशेच जाण पुरीक -
जगन्नाथाचें धाम - वचनात. कित्याक तर जगन्नाथाचें चिंतन करतां करतां देहत्याग
करूंक मेळचो म्हणून.

भगवीं वस्त्रां घाल्ली एक व्यक्ती कुडींत भितर आयली. आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां
पडली. ही व्यक्ती खाजगींत श्रीरामकृष्णांची निंदा करीत आसता. म्हणून तिका पळोवन
बलराम हांसलो. श्रीरामकृष्ण अंतरज्ञानी - दुसऱ्याच्या मनांत कितें चल्लां तें जाणा
जावपी. तांणी म्हणलें, ''हरकत ना. म्हणूं दी ताका हांव फटींग म्हणून.''

## तेज चंद्र आनी संवसारत्याग

श्रीरामकृष्ण तेज चंद्रा कडेन उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (तेज चंद्राक) कितले खेपो तुका आफयलो. तूं कित्याक येना? तूं ध्यान आनी प्रार्थना करशी जाल्यार म्हाका सूख जातलें. हांव तुका म्हजो कसो समजतां. म्हणून तुका आफयतां.

**तेज चंद्र:** महाराज, म्हाका ऑफिसांत वच्चें पडटा. म्हाका खुबूच काम करचें पडटा.

**म:** (हांसत) हाच्या घरा लग्न कार्य आशिल्लें आनी हाणें ऑफिसांतल्यान धा दीस सुटी घेतिल्ली.

**श्रीरामकृष्ण:** अशें, बरें आसा. तूं म्हणटा तुका वेळ ना म्हणून. आतांच तुवें म्हाका सांगलें, तूं संवसार त्याग करपाचो आसा म्हणून.

**नारायण:** मन एक दीस आमकां म्हणिल्लें, हें जग म्हणचे रानवटी वाठार.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तूं तांकां ती काणी सांगशी? शिश्य वखद खावन बेशुद्ध जावन पडिल्लो आसा. गुरून येवन म्हणलें, हाचे प्राण वांचतले. ही गुळी जर दुसरो कोणूय खायत तर शिश्य वांचतलो. पूण जो गुळी खातलो तो मरतलो. आनी तीय काणी सांग, वांकडो तिकडो जावन मेल्ल्याचें सवंग करपी हटयोग्याची. ताका दिशिल्लें, बायल भुरगीं बी हींच ताचीं स्वताचीं मनशां म्हणून. ह्यो काणयो आयकून तांकां फायदो जातलो.

दनपार जाल्ली. श्रीरामकृष्णांनी श्रीजगन्नाथाचो अन्नप्रसाद घेतलो. बलरामाच्या घरा जगन्नाथ देवाची सेवा जाताली. श्रीरामकृष्ण म्हणटाले, बलरामाचें घरचें अन्न म्हणल्यार शुद्ध अन्न. जेवणा उपरांत श्रीरामकृष्णांनी थोडो विसव घेतलो.

सांजेचे बलरामाच्या घरच्या सालांत श्रीरामकृष्ण भक्तां सांगातान बशिल्ले. कर्ताभजा संप्रदायाचे चंद्रबाब आनी एक विनोदी ब्राह्मण थंय आशिल्ले. ब्राह्मणाचो सभाव एके तरेन विदुशका भशेन. तो कितें तरी उलयतालो आनी लोक हांसताले.

स वरांचेर गिरीशाचो भाव अतूल आनी तेज चंद्राचो भाव थंय आयले. श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न आशिल्ले. थोड्याच वेळान तेच ईश्वरी अवस्थेंत तांणी म्हणलें, ''चैतन्याचें चिंतन करून कोण कितें अचेतन जाता? ईश्वराचें चिंतन करून कोणाच्यान कितें आपलें मन वगडावं येता? तो म्हणचे सनातनत्व, शुद्धसत्व, चैतन्य.''

## फुडें वचात
## त्या ब्राह्मणाचीं थिल्लर फकाणां

श्रीरामकृष्णांनी त्या विनोदी ब्राह्मणाक म्हणलें, ''तुमी क्षुल्लक संवसारी गजालीं विशीं रातदीस मस्करी करीत कित्याक वेळ वगडायतात? ईश्वरा कडेन मन लायात. जाच्यान मिठाचो हिशोब करूंक जाता, ताच्यान खडी साकरेचोय हिशोब करूंक जातलो.''

**ब्राह्मण:** (हांसत) तुमचे कडेन म्हाका ओडून घेयात.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव कितें करतलों? तुमच्या यत्नांचेर सगलें निंबून आसा. तुमचें मन तुमच्या हातांत आसा.

असलीं क्षुल्लक फकाणां करपाचें सोडून दियात. आनी ईश्वराच्या मार्गान फुडें वचात. ह्या मार्गान फुडें फुडें वचूंक मेळटा. ब्रह्मचाऱ्यान लांकडाकाराक फुडें वचपाक सांगिल्लें. फुडें वचून पयलीं ताका चंदनाचें रान मेळ्ळें, ते उपरांत ताका मेळ्ळीं रुप्याची खण. ते उपरांत भांगराची खण आनी हिरे माणकांची खण.

**ब्राह्मण:** ह्या मार्गाक अंत ना.

**श्रीरामकृष्ण:** जंय शांती मेळटा थंयच शेवट आसा.

नव्या सोयऱ्या विशीं श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''म्हाका ताचे भितर कितेंच सार दिसलो ना - सामकोच अर्थ नाशिल्लो.''

तिनसांज जाल्ल्यान कुडींत दिवे लायले. श्रीरामकृष्ण जगन्मातेचें ध्यान करताले आनी गोड स्वरान तिचें नाम घेताले. भक्त तांचे भोंवतणीं बशिल्ले. दुसऱ्या दिसा बलराम आपल्या घरा रथयात्रा मनोवपाचो आशिल्लो. म्हणून श्रीरामकृष्ण रातचे थंय रावपाचे आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी भितरले कुडींत थोडोसो अल्पोहार घेतलो आनी ते भायर व्हडले कुडींत येवन बसले. रातचीं धा जाल्लीं. श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''दुसरे कुडींतल्यान मातसो तुवालो घेवन यो पळोवया.''

लागींचेच कुडींत श्रीरामकृष्णां खातीर हांतरूण घाल्लें. रातचीं धा जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण न्हिदूंक गेले. उज्याचे दीस. श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''पंखो हाडल्यार बरें जातलें.'' श्रीरामकृष्णांनी आपल्याक वारो घालपाक सांगलें. रातच्या बारा वरांचेर श्रीरामकृष्णांची न्हीद मोडली. तेन्ना तांणी मक म्हणलें, ''म्हाका आनीक वारो घालूं नाका. थंडी लागता.''

# अध्याय एकशेंचोवीस

## रथयात्रेच्या दिसा बलरामांच्या घरा भक्तांच्या सांगातान

**जुलय 14, 1885. मंगळार.** आयज रथयात्रा. श्रीरामकृष्ण फांतोडेर उठले. कुडींत ते एकटेच आशिल्ले. ते नाचत नाचत देवाचें नांव घेताले. म भितर आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. एक एक करून थंय भक्त आयले. तांणी श्रीरामकृष्णांक प्रणाम केलो आनी ते तांचे लागींच बसले. श्रीरामकृष्ण पूर्णा खातीर व्याकूळ जाल्ले. ते म कडेन ताचे विशीं उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** तुवें पूर्णाक कितें उपदेश बी केला?

**म:** हांवें ताका चैतन्य चरित्र वाचपाक सांगलां. पूण ताका ताचे जिणे विशीं बरेंच कितें खबर आसा. लोकांनी सत्याक धरून रावचें हे तुमी सांगिल्लें तेंय ताका सांगलां.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हजे विशीं - ते ईश्वराचे अवतार आसात. अशें सांगतकूच तो कितें म्हणटा?

**म:** चैतन्य देवा भशेन एका मनशाक पळोवपाचो आसा जाल्यार म्हजे बराबर यो अशें हांवें ताका सांगिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** आनीक कितें सांगिल्लें?

**म:** तुमी हेंय सांगिल्लें, 'कोंडांत हती देंवल्यार उदक चोंय वटेन उसळटा आनी क्षुद्र आधार आसल्यार भावना व्हावूंक लागता' - हेंय ताका सांगलें. ताणें नुस्तें सोडून दिलां ते विशीं ताका सांगलें, 'तुवें तशें कित्याक केलें? तुजीं घरचीं ओगीच मोटो बोवाळ करतलीं.'

**श्रीरामकृष्ण:** तेंच बरें आसा. स्वताची भावना स्वता कडेन आसप बरें.

## भुंयकाप आनी श्रीरामकृष्ण
## ज्ञानी मनशाचे लेखीं
## देह आसप आनी ना जावप सारकेंच

सकाळचीं लागीं लागीं साडे स जाल्लीं. म गंगेर न्हावपाक वतालो. इतल्यांत अकस्मात भुंयकांप जालो. तो रोखडोच श्रीरामकृष्णांचे कुडींत परत आयलो. श्रीरामकृष्ण सालांत उबे आशिल्ले. भक्तय तांचे भोंवतणीं उबे रावले. भुंयकांपा विशींच ते उलयताले. भुंयकांपाचे धक्के चडच जाणवले. कितल्याश्याच भक्तांक खूब भंय दिसलो.

**म:** तुमी सगल्यांनी सकयल वचूंक जाय आशिल्लें.

## पयलींची जीण
## 1864 ह्या वर्साचें वादळ

**श्रीरामकृष्ण:** ज्या पाख्या सकयल मनीस रावता त्या घराची ही दशा. आनी तरी लेगीत लोक इतले अहंकारी आसात. (मक) तुका तें आश्विनांतलें व्हडलें वादळ याद आसा?

**म:** हय महाराज. हांव त्या वेळार खूब ल्हान आशिल्लों. णव धा वर्सांचो आसन. हांव कुडींत एकटोच आशिल्लों. वादळान अच्छेव केल्लो. मागीर हांवें देवाची प्रार्थना केली. म विस्मीत जावन स्वता कडेनूच म्हणूंक लागलो, 'श्रीरामकृष्णांनी अचकीत आश्विनांतल्या वादळाच्या दिसाची गजाल कित्याक म्हाका विचारली काय?' त्या वेळार व्याकूळ जावन एकटोच हांव रडत कुडींत बसून ईश्वराची प्रार्थना करतालों. हें सगलें श्रीरामकृष्णांक खबर आसा काय? हे कितें म्हज्या जल्मा सावन म्हजी गुरू रुपान राखण करीत आसात काय?

**श्रीरामकृष्ण:** दक्षिणेश्वरा वादळ खूब उसरां आयलें. तरीपूण तांणी कशेय रितीन जेवण केलें. रूख हुमटून पडिल्ले. पळय, ज्या घरांत रावता ताची ही दशा.

पूण पूर्ण ज्ञान जाले उपरांत मरप आनी मारप दोनय एकच दिसतात. म्हणचेच दोनय मिथ्या. जेन्ना कोण एक मरता, तो खरेंच मरना. आनी जेन्ना कोण एकटो दुसऱ्याक मारून उडयता तेन्ना तो मनीस खरो मरना. दोनय, लिला आनी नित्य एकाच सत्याचीं रुपां. तोच एका रुपांत नित्य आनी दुसऱ्या रुपांत लिला. लिलारूप ना जावन गेलें तरी नित्य सदांच अस्तित्वांत आसता. उदक थीर आसलें तरी उदक आनी ल्हारां

रुपान आसलें तरी उदक. जेन्ना ल्हारांचें हालप थांबता तेन्ना परत तेंच उदक आसता. श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत सालांत बशिल्ले. महेंद्र मुखर्जी, हरी, धाकटो नरेन आनी हेर कितलेशेच भक्त थंय बशिल्ले. हरी* एकटोच रावतालो आनी वेदान्ताचो अभ्यास करतालो.

ताचें वय 23 वर्सां आसत. आनी ताणें लग्न करूंक नाशिल्लें. रामकृष्ण ताचेर खूब माया करताले. हरीक तांचे कडेन सदांच येवपाक जाय आशिल्लें. पूण हरीक एकटोच रावपाक आवडटालें. म्हणून हरी श्रीरामकृष्णां कडेन चड येनाशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (हरीक) खूब दीस जाले तूं येवंक ना.

## हरीक उपदेश – अद्वैतवाद आनी विशिश्टाद्वैतवाद – विज्ञान

**श्रीरामकृष्ण:** तो एका रुपान नित्य आनी दुसऱ्या रुपान लिला आसा. वेदान्त कितें सांगता? ब्रह्मच सत्य आनी जगत मिथ्या अशें न्हय? पूण जों मेरेन ईश्वर मनशा भितर भक्तीचो अहं दवरता तों मेरेन लिला लेगीत सत्य. जेन्ना तो अहं सामको पुसून उडयता तेन्ना जें कितें आसा तेंच उरता. तें तोंडान सांगपाक येना. जों मेरेन ईश्वर अहं दवरता तों मेरेन सगलेंच आपणावपाक जाय. केळीचो गबो काडटां काडटां कांड मेळटा. जों मेरेन केळीक गबे आसात तों मेरेन ताका कांडूय आसताच. तशेंच जों मेरेन केळीक गाभो आसता तों मेरेन ताका गबो आसताच. गब्याचेंच कांड आनी कांडाचेच गबे. तेच प्रमाण नित्य म्हणलें की लिला आसा हें कळटा आनी लिला म्हणली की नित्य आसा हें कळटा.

फकत तोच जीव-जगत जाला आनी चोवीस तत्वांय तोच जाला. जेन्ना निश्क्रीय तेन्ना हांव ताका ब्रह्म म्हणटां. जेन्ना सृश्टी करतो, पालन करतो, संहार करतो तेन्ना ताका हांव शक्ती म्हणटां. ब्रह्म आनी शक्ती हीं एकामेका पसून वेगळीं नात. दोनूय एकच – अभिन्न. उदक थीर आसल्यारय उदक, हालल्यार लेगीत उदकच. 'हांव' ची जाणीव ना करप खुबूच कठीण. जों मेरेन 'हांव' ची जाणीव आसा तों मेरेन जीव-जगत मिथ्या म्हणपाची माणसुकी ना. बेलफळाचें कट्टें आनी बियो भायर उडयल्यार अख्ख्या बेलफळाचें खरें वजन कितें तें तुमकां कळपाचें ना.

---

* हरी भगवान श्रीरामकृष्णांचो अंतरंगांतलो भक्त. फुडें संन्यास घेतले उपरांत ताचें नांव-स्वामी तुरयानंद जालें.

जे वरवीं विटो, चुनो आनी विटांच्या भुशा पसून सोपणां केल्यांत त्योच विटो, चुनो, विटांचो भुसो हांचे पसून गच्ची केल्या. जें ब्रह्म, ताचे सत्तेनूच जीव-जगत जालां.
भक्त - म्हणचेच विज्ञानी. हे साकार ईश्वर आनी निराकार ईश्वर ह्या दोनांयचो स्विकार करतात. व्यक्तीरुपी ईश्वर आनी अरूप ईश्वर हे दोनय ते मानतात. शीम मेर नाशिल्ल्या दर्यांत - अनंत उदकांत - अतीव थंडेन कांय बर्फाचे गुळे हांगा थंय तयार जाल्ले दिश्टी पडटात. तेच भशेन भक्ती रुपी थंडेन अनंत - अशीम - मर्यादीत रूप घेता आनी भक्ता मुखार ईश्वरी अवतार रुपान प्रगट जाता. परत सूर्य उदेतकूच बर्फ वितळटा तशेंच ज्ञानाचो उदय जातकूच ईश्वर आकार रुपान वितळून ताचें तेंच अनंत आनी निराकार रूप घेता.

## तर्क विचाराचो शेवट जाल्यार
## मनाचो नाश आनी ब्रह्मज्ञान

जों मेरेन मना वरवीं विचार चलता तों मेरेन परम नित्या कडेन पावप शक्य ना. जों मेरेन तुमी मनान तर्क विचार करतात तों मेरेन तुमकां जगत आनी इंद्रियांचे विशय - रूप, रस, गंध, स्पर्श, ध्वनी - इंद्रियांच्या ह्या सगल्या विशयां पसून पयस वचपाची - तांचे पसून सुटका जावपाची शक्यताय ना. तर्क विचार जेन्ना बंद जाता तेन्नाच ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाता. ह्या मनाचे वरवीं आत्म्याक जाणा जावप शक्य ना. फकत आत्म्या वरवींच आत्म्याक जाणा जावप शक्य आसा. शुद्ध मन, शुद्ध बुद्द, शुद्ध आत्मो हें सगलें एकच. एक वस्त घेवपा खातीर कितल्या गजालींची गरज आसता तें विचार करात. दोळ्यांची गरज, उजवाडाची गरज, मनाची गरज ह्या तिनांतली एक जर नासत तर ती वस्त तुमकां दिश्टी पडपाची ना. जों मेरेन मनाचें कार्य चलता तों मेरेन जग अस्तित्वांत ना अशें कशें म्हणटले?
मनाचो नाश जाल्यार, संकल्प-विकल्प ना जाल्यार समाधी लागता. ब्रह्मज्ञान प्राप्त जाता. तुमी सात स्वर जाणात: सा, रे, ग, म, प, ध, नी. नीचेर चड वेळ रावपाक जमना.

## धाकट्या नरेनाक उपदेश -
## ईश्वर दर्शना उपरांत ताचे कडेन
## उलोवप - चलप

धाकट्या नरेना कडेन पळयत श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "फकत ईश्वर आसा असो अंतस्करणांतल्यान बोध जावन कितें जातलें? ईश्वराचें दर्शन जालें म्हणचे सगलें कितें

जालें अशें न्हय. ताका तुगेले कुडींत हाडूंक जाय - ताचे कडेन उलोवंक जाय. थोड्यांनी दुदा विशीं आयकलां आसतलें, थोड्यांनी दूद पळयलां आसतलें आनी थोडे दूद पियेतात आसतले. कोणें कोणें राजाक पळयला पूण एक दोगच ताका घरा हाडूंक शकतात आनी खावंक जेवंक घालूंक शकतात.''

म गंगास्नान करपाक गेलो.

## पयलींची जीण
## काशीधामांत
## शिव आनी भांगराची अन्नपुर्णा हांचें दर्शन
## आयज ब्रह्मांडाचें
## शाळीग्राम रुपान दर्शन

आतां धा वरा जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण भक्तां बराबर अजून उलयताले. मन गंगा स्नान केले उपरांत श्रीरामकृष्णांक प्रणाम केलो आनी तो तांचे लागीं बसलो.
श्रीरामकृष्ण पूर्णतायेन ईश्वरी भावांत आशिल्ले. तांचे कडच्यान ज्ञानाची उतरां आपसूक येतालीं. मदीं मदीं खूब गुपीत दर्शनां विशीं ते थोडें थोडें सांगताले.
**श्रीरामकृष्ण:** मथूरबाबू बराबर हांव काशीक गेल्लों. तेन्ना मणिकर्णीकेच्या घाटा कडच्यान आमचें व्हडें वतालें. अचकीत म्हाका शिव दर्शन जालें. हांव व्हड्याचे बाणीर उबो राविल्लों आनी थंयच हांव समाधींत गेलों. तांडेली हांव उदकांत पडत म्हणून भियेलो आनी ताणें हृदूक सांगलें, 'तांकां धरात, तांकां धरात.' सगली गंभीरताय स्वता भितर आसपावन शिव त्या घाटाचेर उबो आशिल्लो कसो दिसलो. पयलीं पयस आशिल्लो दिसलो. ते उपरांत म्हजे म्हऱ्यांत येतना दिसलो. ते उपरांत म्हजे भितर विलीन जालो.
आनीक एक खेपो ईश्वरी अवस्थेंत पळयलें - एक संन्याशी म्हजो हात धरून म्हाका एका देवळांत घेवन गेलो - आनी थंय म्हाका भांगराचे अन्नपुर्णाचें दर्शन जालें.
फकत ईश्वरच हें सगलें कितें जाला - पूण कांय कांय वस्तूंनी ताचो चड आविश्कार जाला तर कांय वस्तूंनी कमी अविश्कार जाला. (मक) घडये, तुमी लोक शाळीग्राम मानिनात. इंग्लीश लोक ताका मानिनात. तुमी लोक मानात वा नाकात मानूं, पूण सुलक्षणी शाळीग्राम आसत - सुंदर चक्र आशिल्लो आनी हेर कुरू आशिल्लो - गोमुखी

बी पुजल्यार ती भगवंताचीच पुजा जाता.

**म:** हय महाराज. सुलक्षण युक्त मनशां मदीं ईश्वराचो ज्यास्त आविश्कार जाता तशें तें.

**श्रीरामकृष्ण:** पयलीं पयलीं नरेंद्र म्हणटालो, 'हें सगलें म्हज्या मनाचे खेळ.' पूण आतां तो तें सगलें मानता.

ईश्वरा संबंदीं उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्णांक समाधी लागली. भक्त तांकां एका सारके पळयत बसले. श्रीरामकृष्ण बऱ्याच वेळा उपरांत भानार आयले आनी भक्तां कडेन उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) हांवें कितें पळयलें अशें तुका दिसता? दिसलें की हें समस्त ब्रह्मांड म्हणचे एक शाळीग्राम आसा. तातूंत तुजे दोन दोळे दिसताले.

म आनी भक्त हे अद्भूत आनी अंतरमनांतले अणभव अजापीत जावन आयकताले. त्याच वेळार श्रीरामकृष्णांचो तरणाटो शिश्य - शारदा कुडींत आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक प्रणाम करून सकयल बसलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (शारदाक) दक्षिणेश्वराक कित्याक येना? हांव कलकत्ताक जेन्ना येतां तेन्ना म्हजे कडेन कित्याक येना?

**शारदा:** ते विशीं कोणच म्हाका सांगिना.

**श्रीरामकृष्ण:** दुसऱ्या वेळार तुका खबर दितां. (मक हांसत). एक यादी कर - तरणाट्या भक्तांची. (म आनी सगले भक्त हांसतात.)

## पूर्णाची खबर
## नरेंद्राक पळोवन श्रीरामकृष्णांक
## जाल्लो आनंद

**शारदा:** घरचे लोक म्हजें लग्न करूंक सोदतात. हांणी (मन) लग्नाचे बाबतींत म्हजी कितले खेपो खरडपट्टी काडल्या?

**श्रीरामकृष्ण:** आतांच लग्न कित्याक करूंक जाय? (मक) शारदाच्या मनाची अवस्था खूब बरी आसा. पयलीं ताची संकुचीत भावना आशिल्ली. आतां तोंडार आनंदाचो हांसो फुल्ला.

श्रीरामकृष्णांनी एका भक्ताक म्हणलें, "तूं एक खेपो पूर्णाक हाडशी?"

नरेंद्र आयलो. श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राक फराळ दिवपाक सांगलें. नरेंद्राक पळोवन श्रीरामकृष्ण खुबूच आनंदीत जाले. नरेंद्राक जेवण खाण घालून श्रीरामकृष्ण खासा

ारायणाचीच सेवा कशे करताले. ताच्या आंगार हात भोंवडावन श्रीरामकृष्णांनी ताका ायेन सांसपिलो.

ोपाळ माँ कुडींत आयली. ती गोपाळाची एक व्हड भक्त आनी तिका उंचेल्या अवस्थेंतलीं ईश्वरी दर्शनां जातालीं. श्रीरामकृष्णांनी बलरामाक कामारहाटीक मनीस धाडून गोपाळाचे आवयक हाडपाक सांगिल्लें. गोपाळाचे आवयन भितर येतनाच म्हणलें, आनंदान म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावूंक लागतात. अशें म्हणून ती जमनीक माथें लावन श्रीरामकृष्णांक पांयां पडली.

**श्रीरामकृष्ण:** हें कितें? तूं म्हाका गोपाळ म्हणटा आनी तरी तूं म्हाका पांयां पडटा. आतां भितर रांदचे कुडींत वच. बरी मसाल्याची भाजी कर. बरें फोण्ण घाल. पळय, सामको हांगा मेरेन वास येवंक जाय. (सगले हांसतात.)

**गोपाळाची आवय:** ते लोक (घरचे लोक) कितें म्हणटले?

घरांत भितर वच्चे पयलीं तिणें नरेंद्राक व्याकूळतायेन म्हणलें, ''बाब, हांव ध्येया कडेन पावल्यां? काय हांवें अजून फुडें वचपाक जाय?'' रथयात्रेचो दीस. म्हणून घरांतल्या जगन्नाथ देवाची पुजा बी जावपाक मातसो उशीर जालो. पुजा निवेद्य जाले उपरांत श्रीरामकृष्णांक जेवपाक आफयले. ते भितरल्या सालांत गेले. भक्त बायलो तांचें दर्शन घेवपा खातीर सामक्यो उतावीळ जाल्ल्यो.

खूब बायलो श्रीरामकृष्णांच्यो भक्त आशिल्लयो. पूण त्यो तांचे विशीं दादल्यां कडेन चडश्यो उलयनाशिल्ल्यो. पुरूश भक्तांचें स्त्री भक्तां कडेन येवप वचप आसल्यार तांकां ते शिटकायताले. ते म्हणटाले, ''चड येवप वचप करूं नाकात. नाजाल्यार तुमी पडटले.'' ते कांय पुरूश भक्तांक सांगताले, ''जरी बायल मनीस भक्तीन गडबडा लोळूंक लागली, तरी तिचे कडेन चड वचूं नाकात.'' स्त्री भक्त वेगळ्यो रावतल्यो आनी पुरूश भक्त वेगळे रावतले. अशें जालें तरच दोगांयचें बरें जातलें अशें श्रीरामकृष्णांचें म्हणणें आशिल्लें. स्त्री भक्तांचो चड गोपाळभाव - वात्सल्य भाव बरो न्हय. हो वात्सल्य भावच फुडें अधोगतीक पावता आनी हानीकारक जाता.

## बलरामाची रथयात्रा
## नरेंद्र आनी हेर भक्तां सयत संकिर्तानंद

दनपारच्या जेवणा उपरांत श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत सालांत बशिल्ले. एका भक्तान पूर्णाक आफोवन हाडलो. मोट्या आनंदान श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ''हांगा तो

आयला, पूर्ण आयला.''

नरेंद्र, धाकटो नरेन, नारायण, हरीपद आनी हेर भक्त लागीं बशिल्ले आनी श्रीरामकृष्णां कडेन उलयताले.

## स्वाधीन इत्सा
## आनी धाकटो नरेन. नरेंद्राचें पद

**धाकटो नरेन:** महाराज, आमकां स्वाधीन इत्सा आसा काय ना?

**श्रीरामकृष्ण:** 'हांव' कोण हे सोदून काड. 'हांव' सोदतां सादतां तो (ईश्वर) तुका मेळटलो. 'हांव यंत्र', 'तो यंत्री'. तुवें यांत्रीक बावली आयकल्या आसतली. ती हातांत चीट घेवन दुकानांत वता. तशीच आमची गत. ईश्वरच करतो. संवसारांत तुजीं सगलीं कर्तव्यां कर, तूं आपूण करतो जाल्ले वरी. पूण सदांच लक्षांत दवर, फकत ईश्वरच करतो आनी तूं ताचें यंत्र आसा.

जों मेरेन उपाधी आसा तों मेरेन अज्ञान आसा. 'हांव पंडीत', 'हांव ज्ञानी', 'हांव गिरेस्त,' 'हांव मानादीक,' 'हांव धनी', 'हांव बाबा' आनी 'हांव गुरू' - हें सगलें अज्ञाना खातीर जाता. हांव यंत्र आनी तुमी यंत्री (चलोवपी) हेंच खरें ज्ञान. त्या ज्ञाना उपरांत सगल्यो उपाधी नश्ट जातात. लांकूड जळून सोंपले उपरांत मागीर आवाज येना. उश्णताय उरना. सगलें थंड जाता - शांती, शांती, शांती. (नरेंद्राक) मातशें पद म्हण.

**नरेंद्र:** म्हाका घरा वचूंक जाय. खूब कामां आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, हय. बरोबर आसा तुजें सायबा. आमचें कित्याक आयकतलो तूं? जाच्या कानांत भांगर ताच्या शब्दांक मान आसता आनी जाच्या कमरार फाळी ना ताचें कोण आयकना. (सगले हांसतात.) तूं गुहाचे बागेंत चडसो वता. हांव सदांच आयकतां. जेन्ना जेन्ना हांव विचारतां, आयज नरेंद्र खंय आसा? 'तो तर गुहाचे बागेंत' अशेंच म्हाका सांगतात. हांव अशें उलोवचों नाशिल्लों पूण तुवें म्हाका तशें उलोवपाक लायलें.

नरेंद्र थोडो वेळ ओगी रावलो. मागीर ताणें म्हणलें, वाद्यांची साथ ना. हांव असोच गावं?

**श्रीरामकृष्ण:** म्हज्या पुता! आमचें हें अशें आसा. जमता जाल्यार असोच गा. तुका खबर आसा बलरामाची अवस्था. बलराम म्हाका म्हणटा, कलकत्ताक व्हड्यान यो. सामकीच गरज लागली जाल्यार गाडी कर. (सगले हांसतात.) आयज ताणें

जेवण खाण दिलां म्हणून ह्या दनपरां तो आमकां सगल्यांक नाचयतलो. (सगले हांसतात.) एक दीस म्हजे खातीर हांगा सावन दक्षिणेश्वराक वचपाक भाड्याची गाडी केली. ताणें सांगलें, 'गाडयेचे भाडें जातलें बारा आणे.' हांवें म्हणलें, 'बारा आण्यांक हो गाडयेकार म्हाका दक्षिणेश्वराक व्हरतलो?' ताणें म्हणलें, 'खूब जातले ते!' दक्षिणेश्वराक पावचे पयलीं गाडी एके वटच्यान मोडली. (सगले हांसतात.) ते भायर घोडो मदीं मदीं थांबतालो आनी फुडें कसोच वचनाशिल्लो. गाडयेकार एकेक खेपो घोड्याचेर चाबूक मारतालो. घोडो थोडो वेळ धांवतालो. (सगले हांसतात.) आयज सांजे राम पखवाज वाजयतलो आनी आमी सगले नाचतले. रामाक तालाचें ज्ञान ना. (सगले हांसतात.) कशेंय जायना, रामाचो सभाव असो – तुमचे तुमीच गायात, तुमचे तुमीच नाचात आनी तुमचे तुमीच मजा करात. (सगले हांसतात.)

हेर भक्त येवंक लागले. महेंद्र मुखर्जीन पयसुल्लयान श्रीरामकृष्णांक प्रणाम केलो. श्रीरामकृष्णांनीय परत नमस्कार केलो. मागीर तांणी महेंद्राक मुसलमान करतात तसो सलाम केलो. लागीं बशिल्ल्या एका युवक भक्ताक तांणी सांगलें, ''ताका क़ित्याक सांगिना हांवें ताका सलाम केला म्हणून? ताका आवडटलें तें.'' (सगले हांसतात.) गृहस्थी भक्तां भितर कितलेशेच जाण आपआपल्या बायलांक आनी हेर नात्यांतल्या बायलांक घेवन आयिल्ले. तांकां श्रीरामकृष्णांचें दर्शन घेवपाचें आशिल्लें आनी रथा मुखार नाचतात तें पळोवपाचें आशिल्लें. राम, गिरीश आनी हेर भक्त एक एक करून थंय आयले. कितलेशेच युवक भक्त थंय आयिल्ले.

नरेंद्र गावंक लागलो:

आरे! असो भाग्याचो दीस केन्ना उदेतलो?
जेन्ना म्हज्या काळजांत मोग जागो जातलो?
आटापनात अशीं म्हजीं दुकां केन्ना व्हांवतलीं
हांव भगवान हरीचें नाम घेतना,
आनी सगली म्हजी अश्रेकणी भागतली?
केन्ना जातलें म्हजें मन आनी आत्मो शुद्ध?
आरे, केन्ना हांव निमणें वृंदावनांतल्या वनांत आलाशिरो घेतलों?
केन्ना म्हजीं संवसारीक बंधनां सुट्लीं

आनी म्हजी अस्पश्ट नदर शाणेपणाच्या थंड काजळान सुदरतली?

केन्ना शिकतलों हांव खरें रसायन
आनी, परिसाचो स्पर्श करून,
म्हज्या देहाचें निरुपेगी लोखण
आत्म्याच्या शुद्ध भांगरांत?
केन्ना हांव पळयतलों हो संवसार
ईश्वर कसो, आनी प्रेमाच्या रानरस्त्यान लोळत भोंवतलों?
केन्ना हांव सोडटलों धर्मनिश्ठा
आनी लागणूक आनी जातीचें भान?
केन्ना सोडटलों हांव सगलो भंय, सगली लज
सगल्यो रुढी, हुसको, अभिमान?

आरे, तेन्ना हांव म्हज्या देहाक सारयतलों भक्तांच्या पांयांचो धुल्ल;
म्हज्या खांदा वयल्यान हांव झेलतलों झोळी आनी पियेतलों
म्हज्या दोनूय पोशांनी यमुनेच्या पुनर्जिविकारी न्हयेचे थंड घोंट.
आरे, तेन्ना हांव मोगान पिसो जातलों;
हांव आनंदाक लागून हांसतलों आनी रडटलों!
तेन्ना हांव सुभागी सच्चिदानंदाच्या दर्यांत पेंवतलों;
ताच्या प्रेमान बेबदे हांव सगल्यांक करतलों
म्हजे सारकेच बेबदे! आरे, हांव हरीच्या पांयां सरीं चड आनी चड
खेळटलों!

तो परत गावंक लागलो:

दाट काळखांत ए आई तुजी अरूप सुंदरकाय लकलकता
देखुनूच योगी पर्वताचे काळखे ढोलींत तुजें ध्यान करता

बलरामान आयज संकिर्तानाची वेवस्था वैशणवचरणां बराबर केल्ली.
वैशणवचरण गावंक लागले:

ए जिबे, सदांच माता दुर्गेचें नांव जप!
तुजी आवय दुर्गे बगर तुका संकश्टांतल्यान वाटायतलो कोण?

पद आयकतां आयकतां श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जाले. ते आनंदावस्थेंत उबेच रावले. धाकटो नरेन तांकां धरून रावलो. श्रीरामकृष्णांचें मुखामळ हास्यान परमळ्ळें. ल्हव ल्हव तांचें शरीर थीर जालें. मन खंय तरी वेगळ्याच राज्यांत गेल्लें. कुडींतले सगले भक्त अजापीत जावन पळयताले. बायलो भक्त पड्ड्या फाटल्यान बसून पळयताल्यो. बऱ्याच वेळा उपरांत ते समाधींतल्यान भानार आयले. भानार येतना ते ईश्वराचें नांव घेत आशिल्ले. श्रीरामकृष्ण बसले उपरांत वैशणवचरणांनी परत पद म्हणपाक सुरवात केली:

ए विणे, भगवान हरीचें नांव घे!
ताच्या चरणांचे कृपे बगर
तुका अंतीम सत्य कळपाचें ना
हरीचें नाम सगलें दुख्ख संहारता
हरीचें नांव गायत राव! कृष्णाचें नांव गायत राव!

मागीर ते गावपाक लागले:

ए विणे, हरीची पुजा विसरिल्लयान
म्हजे जिणेचे दीस फुकट चल्ले.

दनपार जाल्ली. ताचे मदीं श्रीजगन्नाथाचो ल्हान रथ, फुलां, बंदेरां, घुडयो लावन सजोवन थंय पडवेर हाडलो. श्रीजगन्नाथ, सुभद्रा आनी बलराम हांच्यो मुर्ती चंदन, वस्त्रां, अलंकार, हार घालून सजयिल्ल्यो. श्रीरामकृष्ण किर्तन आयकुपाक बशिल्ले. थंयचे उठून ते पडवेर आयले. तांचे बराबर भक्त आशिल्ले. ते रथा मुखार उबे रावले आनी तांणी तो दोरयेन ओडलो. आनी ते उपरांत ते रथा मुखार भक्तां सयत नाच आनी पद म्हणूंक लागले.
श्रीरामकृष्ण गावंक लागले:

पळय! हरीचें नांव घेतना,
जांच्या दोळ्यांतल्यान
दुकां व्हावूंक लागतात
ते दोग भाव* आयल्यात.

ते परत गावंक लागले:

पळये, सगलें नादिया हालता
गौरांगाच्या प्रेमाच्या ल्हारांनी

ल्हान गाडी ओडटां ओडटां पडवेर किर्तन आनी नाच चालूच आशिल्लीं. मोट्यान चलत आशिल्ल्या किर्तन आनी पखवाजाचो आवाज आयकून भायले लोक पडवेर आयले. श्रीरामकृष्ण ईश्वरी प्रेमान मत्त जाल्ले. भक्तय तांचे बराबर प्रेमान मत्त जावन नाचूंक लागले.

### नरेंद्राचें पद, श्रीरामकृष्णांचें भावनेच्या भारांत नाचप

रथा मुखार किर्तन आनी नाच केले उपरांत श्रीरामकृष्ण सालांत येवन बसले. म आनी हेर भक्त तांची चरण सेवा करूंक लागले. ईश्वरी प्रेमान मत्त जावन नरेंद्र तंबोरो घेवन गावंक लागलो:
आई, यो, यो! तूं म्हज्या प्राणाचें सर्वस्व म्हज्या काळजाचो आनंद!
म्हज्या काळजाच्या कमळाचेर यो आनी बस, म्हणटकच हांवें पळोवचें
तुजें मुखामळ.

मागीर तो परत गावंक लागलो:

आई, तूंच आमची सोडवणदार
तूं त्रिगुणांक आधार दिवपी
उंचेल्या परस उंच पांवड्या वयली
तूं काकुळटेणी, हांव जाणां,
खर आमचें दुख्ख पयसावणारी.

---

* गौरांग आनी नित्यानंद.

तूं संध्या, आनी गायत्री;
तूं ह्या विश्वाचो भार सोंसता.
माते, तूं आलाशिरो
जांकां ना तांचो
ए शिवाचे सासणाचे प्रियतमे!

तूं धरतरेर आसा, तशीच उदकांत;
सगल्यांच्या मुळाक तूं आसा.
म्हज्यांत, दर एका प्राणीमात्रांत,
तुजें घर आसा; साकार
तरी तूं निराकार सत्य आसा.

ताणें आनीक एक पद गायलें:

प्रभू, हांवें केला तुका म्हजे जिणेचो ध्रुवतारो;
आनिआनीक ह्या विश्वाच्या भवसागरांतल्यान हांव वाट चुकचों ना.
जंय जंय हांव भोंवतां, थंय थंय तुजी चकचकसाण मंदावनासतना झगझगता;
तुजो श्रांत आनी कांतीवंत उजवाड
म्हज्या पिडापिडीत आत्म्याचीं सगलीं दुकां पयसायता.
म्हज्या काळजाचे गर्भकुडींत तुजें मुखामळ सदांच तेजाळटा;
जर, एका खिणा खातीर लेगीत, म्हाका तें थंय मेळना जाल्यार,
म्हजो आत्मो दुख्खान भरून येता;
आनी जेन्ना म्हजें बोंडें मन तुज्या चिंतनांतल्यान दुफांट्टा,
तुज्या मुखामळाचें दर्शन म्हाका सामकेंच लजेक घालता.

एका भक्तान नरेंद्राक म्हणलें, ''तुमी हें पद गायशात? हे माते, म्हजी मार्गदर्शक, सदांच जागी आसा म्हज्या काळजांत.''
**श्रीरामकृष्ण:** ना, ना, हें पद आतां कित्याक? ह्या वेळार ईश्वरी आनंदा विशीं जशें 'ए माते श्यामा, ईश्वरी आनंदान भरून गेल्ली'- हें पद गावप योग्य जातलें.
नरेंद्र गावंक लागलो:

ए श्यामा माते, दैवी बेबदेपणाच्या ल्हारांनी भरिल्ली!

ह्या संवसारांत तुजी लिला कशी चलता तें कोणाक कळटा?
तुजी मौजमजा आनी खेळ आनी तुजो कटाक्ष कामदेवाक लजेक घालता.
ए खड्गधारिणी! ए तूं भयांकृत मुखसर्पिणी!
तुज्या उडयांनी आनी धेंपांनी धर्तरीच हालता.

ए तूं त्रिगुणांची भुवनी! ए तारिणी! भिरांकूळ!
तूं जी आसा शिवाची अर्धांगिनी!
तूं घेता कितलींच रुपां, तुज्या भक्तांच्यो प्रार्थना आयकून.
तूं नाचता काळजाच्या साळकांत,
ए माते, ब्रह्माची चिरंतन अर्धांगिनी!

ईश्वरी आनंदान तृप्त जावन नरेंद्र परत परत त्यो वळी गावंक लागलो:

तूं नाचता काळजाच्या साळकांत,
ए माते, ब्रह्माची चिरंतन अर्धांगिनी!

श्रीरामकृष्ण ईश्वरी प्रेमान मत्त जावन नाच करीत आशिल्ले आनी गायत आशिल्ले, ''ए माते, ब्रह्माची चिरंतन अर्धांगिनी.''
बरोच वेळ नृत्य केले उपरांत श्रीरामकृष्ण परत तांच्या जाग्यार बसले. नरेंद्र ईश्वरी आनंदान मत्त जावन दुकां भरिल्ल्या दोळ्यांनी पद गायतालो तें पळोवन श्रीरामकृष्ण खूब आनंदीत जाले.
रातचीं सुमार णव जाल्लीं. श्रीरामकृष्णां भोंवतणीं अजुनूय भक्त बशिल्ले. वैशणवचरण परत गौरांगा विशीं गावंक लागले:

सुंदर गौरांग, तरणाटो नृत्यकार, वितळिल्ले भांगरा वरी सुंदर

मागीर ते श्रीकृष्णा विशीं गावंक लागले. श्रीकृष्णान वृंदावनांतली गवळ्याची जीण सोडून दिल्या आनी तो आतां मथुरेचो राजा जाला. एक गोपी थंय ताका मेळ्ळी आनी तिणें म्हणलें:

ए हरी, आमी आतां तुका वळखतलीं कशीं?
मथुरेच्या राजेशाय वैभवांत तूं आमकां विसरला.

आतां, तुज्या राजवस्त्रांनी तूं हतयाचेर स्वार जाला
वृंदावनांतलीं गोरवां चरयतालो तें तूं सामकेंच विसरला?
ए हरी, ब्रजांतल्या निश्पाप गोपिकांचें लोणी चोरतालो तेंय तूं विसरला?

रातचीं इकरा जालीं. भक्त श्रीरामकृष्णांक प्रणाम करून निरोप घेवन गेले.
**श्रीरामकृष्ण:** तुमी सगले घरा वतात, बरें आसा. (नरेंद्र आनी धाकटो नरेन हांचे कडेन बोट दाखोवन) हे दोगय जाण रावल्यार पुरो. (गिरीशाक) तुमी कितें घरा वचून जेवतले? रावात मातशे. तुमी तंबाकू ओडटले? आरेच्च्या, बलरामाचो चाकरय तसोच. ताका आफोवन पळयात. तो येवपाचोच ना. (सगले हांसतात.) पूण तुमी तंबाकू ओडले बगर वचूं नाकात.

गिरीशा बराबर वक्ल घाल्लो एक इश्ट आयिल्लो. हांगा सगलें ताणें पळयलें आनी तो गेलो. श्रीरामकृष्णांनी गिरीशाक म्हणलें, ''हांव तुमकां आनी सगल्यांक सांगतां. मुद्दाम आनी बळयां आनी बळजबरी करून कोणाक हांगा हाडूंक नाकात. योग्य वेळ आयले बगर कांयच जायना.''
एका भक्तान प्रणाम केलो. ताचे बराबर एक भुरगो आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी ताका मायेन सांगलें, ''उशीर जाला तातूंत आनी तुमचे बराबर हो भुरगो आसा.''
नरेंद्र, धाकटो नरेन आनी कांय भक्त थोडो वेळ आनीक मातशे रावले आनी मागीर घरा गेले.

# अध्याय एकशेंपंचवीस

## फांतोडेर श्रीरामकृष्णांचें गोड नृत्य आनी नामसंकिर्तन

**जुलय 15, 1885. बुधवार.** सकाळचीं चार जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण सालांतूच आशिल्ले ल्हान कुडींत ह्यांतरुणाचेर न्हिदिल्ले. कुडीचे दक्षिणे वटेनच्यान भायले पडवेर एका बांकार म बशिल्लो. थोड्याच वेळान श्रीरामकृष्ण भायर पडवेर आयले. म तांकां पांयां पडलो.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव आनीक एक खेपो उठिल्लों. बरें, आमी सकाळच्या वेळार दक्षिणेश्वराक वचुया?

**म:** सकाळच्या वेळार गंगेची ल्हारां इल्लीं कमी आसतात महाराज.

फांतोड जायत येताली. भक्त अजून येवंक नाशिल्ले. श्रीरामकृष्ण तोंड धुवन गोड सुरान देवाचें नाम घेताले. कुडीचे उत्तरे कडच्या दारा कडेन ते उबे आशिल्ले. म तांचे लागींच आशिल्लो. कांय वेळान गोपाळाची आवय थंय आयली आनी तांचे लागीं उबी रावली. मदले कुडीच्या दारा फाटल्यान रावन एक दोन भक्त बायलो श्रीरामकृष्णांक पळयताल्यो. वृंदावनाच्यो गोपी श्रीकृष्णांक पळयताल्यो तश्योश्यो वा नादियाच्यो भक्त बायलो पड्ड्यांतल्यान गौरांगाक पळयताल्यो तश्योश्यो.

रामनाम घेवन जाले उपरांत श्रीरामकृष्ण श्रीकृष्णाचें नाम घेवंक लागले. ''कृष्णा! कृष्णा, गोपी कृष्णा! गोपी! गोपी! कृष्णा! वृंदावनांतल्या राखण्यांची जिणच, नंदनवन कृष्ण, गोविंद, गोविंद.''

रोखडेंच गौरांगाचें नाम घेतलें. उपरांत तांणी म्हणलें, ''अलख निरंजन. जें देवाचें नांव आसा. ''निरंजन'' अशें म्हणून ते रडले. भक्तय रडले. दोळ्यांत दुकां आसतनाच श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''आरे निरंजन बाळा, यो हें खा. हें घे रे. तुका जेवण लावन केन्ना म्हजी जीण म्हाका सफळ करूंक मेळटली काय? तूं म्हजे खातीर देह धारण करून नररुपान आयला.''

जगन्नाथाक ते काकुळटेन आळयताले, जगन्नाथ विश्वाचो भगवान, विश्वाचो इश्ट. ए दीनांचो नाथ भगवान, हांव तर तुज्या जगाच्या भायर ना. म्हजेर कृपा कर, दया कर. जगन्नाथाची तुस्त करीत गायतना ते ईश्वरी प्रेमान मत्त जावन गेले. आतां ते नारायणाचें नाम घेवन नाचूंक आनी गावंक लागले: नारायण, ए नारायण, नारायण, नारायण. ते नाचूंक आनी गावंक लागले:

ए सखे, जाच्या प्रेमा खातीर हांव पिशी जाल्यां, तो म्हाका अजून मेळूंक
ना...

आतां भक्तां सयत श्रीरामकृष्ण ल्हान कुडींत बसले. ते सामके दिगंबर. पांच वर्सांचें बाळक कशे. म, बलराम आनी एक दोन भक्त कुडींत बशिल्ले.

## रुपाचें दर्शन केन्ना?
## गुपीत गोश्ट – शुद्ध काळजाच्या भुरग्यां मदीं नारायणाचें दर्शन

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराच्या रुपाचें दर्शन जावं येता. जेन्ना सगल्यो उपाधी ना जावन वतात, तर्क विचार बंद जावन वतात, तेन्नाच ईश्वराचें दर्शन जाता. त्या वेळार मनीस चकीत आनी स्तब्ध जावन, समाधीमग्न जाता. थेटरांत वचून लोक सगल्या तरांच्यो गजाली करीत आसतात. पूण पड्डो वयर गेले बराबर, सगल्यो गजाली बिजाली बंद जातात आनी मुखार माचयेर जें दिसता तातुंतूच मग्न जावन वतात.

हांव तुमकां एक खूब गुपीत गजाल सांगतां. हांव पूर्ण, नरेंद्र हांचेर इतलें प्रेम कित्याक करतां? एक खेपो ईश्वरी भावांत जगन्नाथा खातीर खूब प्रेम उत्पन्न जालें. एके बायलेक तिच्या मोगी खातीर दिसता तशें. त्या भावांतच हांव जगन्नाथाक वेंग मारूंक वतालों तेन्ना म्हजो हात मोडलो. त्या वेळार म्हाका साक्षात्कार जालो, 'तुवें मानवी शरीर धारण केलां. आतां मनशां विशीं इश्टागत, आवय बापायचें वात्सल्य, भुरग्यां विशीं वात्सल्य ह्यो भावना घेवन रावपाचें.'

रामलाला* विशीं, ज्यो ज्यो भावना जाताल्यो त्योच आतां पूर्ण आनी हेर भक्तां विशीं

जातात. हांव रामलालाक न्हाणयतालों, जेवंक घालतालों, ताका न्हिदयतालों, बराबर घेवन भोंवतालों, रामलाला खातीर हांव रडटालों. ह्या सगल्या भुरग्यां खातीर आतां सामक्यो तसल्योच भावना आसात.

निरंजना कडेन पळय, तो कित्यांतच लिप्त ना. स्वताच्या पयशांनी गरिबांक दवाखान्यांत घेवन वता. लग्नाची गजाल काडल्यार म्हणटा कसो, 'आवयस, लग्न म्हणचे विशालाक्षी न्हंयच्या भोंवऱ्या भशेन जातलें.' एके ज्योतीचेर तो बशिल्लो आसा अशें म्हाका दिसता. पूर्ण साकार ईश्वराच्या राज्यांतलो आसा - विष्णूच्या अंशान ताचो जल्म जाला. कितलो अनुराग आसा देवा विशीं.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तुवें पळोवंक ना! तुजे कडेन तो तूं ताचो गुरूबंधूच कसो - तूं ताचो घरचोच कसो. आनीक एक खेपो म्हणिल्लें, तो कॅप्टनाच्या घरा म्हाका मेळटलो म्हणून.

## नरेंद्राचे तरेतरेचे गूण
## धाकट्या नरेनाचे गूण

श्रीरामकृष्णांनी फुडें सांगलें, नरेंद्र खूब उंच थरा वयलो. परमसत्य निराकार राज्यांतलो. ताचो पुरुशी सभाव. इतले भक्त हांगा येतात पूण ताचे भशेन एकटोय ना.

मदीं मदीं हांव भक्तांचो आडावो घेतां. म्हाका अशें दिसता की कांय धा पाकळ्यो आशिल्ल्या कमळा भशेन तर कांय सोळा पाकळ्यो आशिल्ल्या कमळा सारके, तर कांय जाण शंबर पाकळ्यो आशिल्ल्या कमळा सारके. पूण सगल्या कमळां मदीं नरेंद्र हजार पाकळ्यो आशिल्लें कमळच. हेर भक्त म्हणचे कळशे, तांबये कशे. पूण नरेंद्र म्हणचे व्हडलो हांडोच.

हेर भक्त म्हणचे कोंडां, टांकी कशे, पूण नरेंद्र म्हणचे व्हडलें तळें. हल्डरपुकूर व्हडलें तळें कसो.

नुस्त्यां भितर नरेंद्र म्हणचे तांबड्या दोळ्याचें व्हडलें नुस्तें - मोरी - शार्क नुस्तें कशें. हेर सगले जाण हेर नुस्त्यां भशेन - वेल्ल्यो, शेंवटाळ्यो, ताल्ले आनी हेर बारीक नुस्तें. नरेंद्र म्हणचे खूब व्हडलें आयदन - तातूंत खूब वस्तू भरूंक जातात.

नरेंद्र म्हणचे व्हडल्या कोंड्या भशेन. भितरल्यान खूब पोकळसाण आशिल्लो कोंडो.

---

* बालरामचंद्र, श्रीरामकृष्ण साधन करता आसतना जटाधारी नांवाच्या साधून बलरामचंद्राची एक धातूची मूर्त श्रीरामकृष्णांक दिल्ली. 'रामलाला' हें ते मूर्तीचें नांव.

नरेंद्र कित्याकच वश जायना. तो आसक्तीक, इंद्रीय सुखाक वश जायना. तो नर पारव्या भशेन. नर पारव्याची चोंच धरल्यार तो झटको मारून चोंच मेकळी करून घेता. पूण मादी ओग्गी रावता.

नरेंद्र पुरुशी सभावाचो. देखुनूच नरेंद्र गाडयेंत उजवे वटच्यान बसता. नरेंद्र मेळाव्यांत आसल्यार म्हाका बळ चडटा.

सकाळच्या आठ वरांचेर महेंद्र मुखर्जी आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. हरीपद, तुलसीराम आनी हेर भक्त एका फाटल्यान एक करून आयले आनी श्रीरामकृष्णांक प्रणाम करून बसले. बाबूरामाक जोर आयिल्लो. ते खातीर ताका येवंक जमलें ना.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक आनी हेर भक्तांक) धाकटो नरेन येवंक ना? घडये ताका दिसलें आसत की हांव गेलों म्हणून. (मुखर्जीक) कितलें अजाप! तो धाकटो नरेन शाळेंतल्यान परत येतकूच देवा खातीर रडटालो. ईश्वरा खातीर रडप कितें सादी गजाल आसा? खूब बुद्धीमान लेगीत. तो भितरल्यान पोकळ आशिल्लो कोंडो कसो. ताचें सगलें मन म्हजेर. गिरीश घोशान म्हाका सांगलें, 'धाकटो नरेन नवगोपाळाच्या घरा गेल्लो. थंय किर्तन चलतालें. घरांत भितर सरले बराबर ताणें तुमचे विशीं वासपूस केली आनी विचारलें, 'ते खंय आसात?' ताका चोंय वटचें भान नाशिल्लें. आनी लागीं लागीं लोकांच्या आंगा वयल्यान गेलो म्हणल्यार जाता.' घरांतलीं मनशां ताका भिरांत घालतालीं. ताचें ताका कांयच दिसनाशिल्लें. केन्ना केन्नाय दक्षिणेश्वराक सतत तीन राती रावता.

## भक्तीयोगाचें गूढ रहस्य, ज्ञान आनी भक्ती हांचो समन्वय

**मुखर्जी:** तुमी काल जें कितें सांगलें तें आयकून हरीचेर* मोनेळ पडलो. ताणें म्हाका सांगलें, 'सांख्य दर्शनांत, योगांत आनी वेदान्तांत हें सगलें ज्ञान आसा. हे (श्रीरामकृष्ण) सामान्य मनीस न्हय.'

**श्रीरामकृष्ण:** पूण हांवें केन्नाच सांख्याचो आनी वेदान्ताचो अभ्यास करूंक ना. पूर्ण ज्ञान आनी पूर्ण भक्ती एकच. मनीस तर्क विचार करीत आसता. नेति, नेति, करीत तो असत्य आसा तें न्हयकारता. जेन्ना ताचे विचार थांबतात, तेन्ना ताका ब्रह्मज्ञान

---

* हरी फुडें स्वामी तुरयानंद जालो.

प्राप्त जाता. उपरांत ताणें जाचो त्याग केला, जें न्हयकारलां तेंच तो मान्य करता. मनीस गच्चेचेर चडटना खूब जतनाय घेता. त्या वेळार तो सगल्यो पायऱ्यो न्हयकारता. गच्चेचेर पावले उपरांत ताका कळटा, ज्या जिनसां पसून गच्ची केल्या - जशें विटो, चुनो आनी विटांचो भुसो, त्याच जिनसां पसून पायऱ्यो केल्यात. जाका उंचायेची जाणीव आसा ताका तळाचीय खबर आसता. ज्ञान जाले उपरांत उंचाय आनी तळ दोनय समान आसतात.

प्रह्लाद जेन्ना परमसत्याचे जाणिवेचेर अशिल्लो तेन्ना तो - हांव तोच - सोहं - हे अवस्थेंत आसतालो. जेन्ना देहबुद्दीचेर येतालो तेन्ना दासोहं म्हणचेच 'हांव ईश्वराचो दास आसां' हे स्थितीचेर येतालो. हनुमान लेगीत केन्नाय म्हणटालो, 'हांव तोच आसां,' तर केन्नाय म्हणटालो, 'हांव ईश्वराचो दास आसां'. तर केन्नाय म्हणटालो, 'हांव ईश्वराचो अंश आसां.'

काळजांत ईश्वराची भक्ती कित्याक घेवन रावपाचें? नाजाल्यार तो कसो जियेतलो? नाजाल्यार तो ताचे दीस कसो घालयतलो?

पुरायेन अहंकार ना तर जायना, हें सामकें खरें-देहबुद्द जों मेरेन 'हांव रुपी' घट आसा तों मेरेन 'हांव तोच-सोहंम' ही जाणीव येवंक शकना. समाधींत 'अहं' सामको पुसून वता. मागीर जें आसा तेंच उरता. रामप्रसाद म्हणटा, 'ए आई, जेन्ना म्हाका ज्ञान जातलें तेन्नाच तुकाय कळटलें हांव बरो काय तूं बरी तें.'

जों मेरेन 'हांव'ची जाणीव आसा तों मेरेन भक्ताचो भाव घेवन राविल्लो बरो. 'हांव ईश्वरच' हो भाव दवरप बरोबर न्हय. जों मेरेन मनशाक देहाची जाणीव आसा तों मेरेन स्वता कृष्ण न्हय तर ताचो भक्त अशें ताका दिसूंक जाय. पूण जर ईश्वरच भक्ताक स्वता कडेन ओडून घेता तर मागीर ती गजाल वेगळी. जशें कितें धनयानच आपल्या मोगाळ चाकराक सांगप, 'यो, यो, म्हज्या म्हऱ्यांत बस. तूं आनी हांव एकच.'

ल्हारां गंगेचो भाग आसात, पूण गंगा ल्हारांचो भाग न्हय.

शिवाच्या मनाच्यो दोन अवस्था आसात. जेन्ना 'तो' स्वत्वांत लय पावता, तेन्ना ताका दिसता, 'हांव तोच'. ते अवस्थेंत देह वा मन काम करिना. जेन्ना ताका ताच्या वेगळ्या 'अहं'ची जाणीव जाता तेन्ना तो 'राम, राम' म्हणीत नाच करता. जें अचल आसा तेंच गतीशील आसता. ह्या खिणाक तूं थीर आसा, पूण थोड्या वेळा उपरांत तूंच कामांत मग्न आसता.

ज्ञान आनी भक्ती एकच. फरक इतलोच, एकटो म्हणटा 'उदक' तर दुसरो म्हणटा, 'बर्फाचो कुडको'.

## दोन तरांची समाधी
## समाधीच्या मार्गांतलें आडमेळें
## कामिनी–कांचन

समाधी सादारणपणान दोन तरांची आसता. पयली थीर वा जड समाधी – ती ज्ञानाच्या मार्गान मेळटा. तर्क विचाराच्या पालवान अहंपणाचो नाश करप. मागीर ती समाधी लागता. तीच थीर वा जड समाधी (निर्विकल्प समाधी). दुसरी आसता ती भाव समाधी. ती भक्तीच्या मार्गान मेळटा. हे समाधींत थोडेंशें अहंपण उरता – एके वळी इतलें, एके रांगे इतलें. ईश्वराचो आस्वाद घेवपा खातीर, ईश्वराचे लिलेचो आस्वाद घेवपा खातीर इतलें अहंपण जायच. पूण कामिनी–कांचनाची आसक्ती आसल्यार ह्या सगल्याचें आकलन जायना.

हांवें केदाराक म्हणलें, 'तुजें मन जर कामिनी–कांचनाचेर आसत तर तुका येस केन्नाच मेळचें ना.' एकदां इत्सा जाली की ताचे छातयेर हात भोंवडावचो म्हणून. पूण म्हज्यान तशें करूंक जालें ना. ताचे भितर गांठी आनी पीळ आसात. विश्ठा आशिल्ली कूड कशी. ते घाणींत भितर वचूंक शकलों ना. संवसारा वयले आसक्तीचीं ताचीं पाळां मुळां खूब खूब खोल गेल्यांत. स्वयंभू लिंग कशीं – जाचीं मुळां काशी मेरेन पातळ्ळ्यांत. संवसाराचेर आसक्ती जर आसत – कामिनी–कांचनाचेर जर आसक्ती आसत तर येस केन्नाच मेळपाचें ना.

भुरगे आजुनय कामिनी–कांचनाच्या आसक्तीन म्हेळे जावंक नात. म्हणून तर हांव तांचेर इतलें प्रेम करतां. हाजरा म्हाका म्हणटा, 'गिरेस्तांचीं भुरगीं सुंदर भुरगीं आसात म्हणून तुमी प्रेम करतात. तशें आसत जाल्यार हांव, हरीश, लाटू, नरेंद्र हांचेर प्रेम कित्याक करतां?' नरेंद्राच्या हातांत शिता बराबर खावपाक मीठ विकतें घेवपा खातीर पयशे नासतात.

पोरांचीं मनां अजून विशयबुद्दीन खतावंक नात. देखून तांचें अंतस्करण शुद्ध आसा. तातूंतले कितलेशेच जाण नित्य सिद्ध आसात. जल्मा सावन तांची ईश्वरा कडेन ओड आसा. एके बागेंत नितळ करतां करतां एका जाग्यार अचकीत तुका उदकाची तोटी मेळटा तशें आनी अकस्मात कांयच यत्न करिनासतना उदक आपशींच झरझर व्हांवंक लागता तशें.

## पूर्ण आनी निरंजन. मातृसेवा
## वैशणव लोकांचो उत्सवाचो भाव

**बलराम:** महाराज, संवसार मिथ्या आसा हें ज्ञान पूर्णाक अकस्मात कशें कितें जालें?
**श्रीरामकृष्ण:** तें ताका पयलींच्या जल्मा सावन आसा. पयलींच्या जल्मांत ताणें तरेतरेच्यो तपश्चर्या केल्यात. फकत शरिरूच ल्हान जाता वा वाडटा - आत्मो न्हय. ह्या भुरग्यांचें कशें आसा जाणा? कांय वनस्पत आसता जंय फळ पयलें, मागीर फुलां. ह्या भक्तांक पयलीं ईश्वराचें दर्शन जाता, मागीर ते ताच्या ऐश्वर्या विशीं आनी गुणां विशीं आयकतात आनी निमणें तांचें देवा कडेन मिलन जाता.
निरंजना कडेन पळयात. घेणें देणें कांय ना. हिशोब सामको चक्क आसा. जेन्ना आफोवणें येतलें तेन्ना रोखडोच वचपाक शकतलो.
जों मेरेन स्वताची आवय आसा तों मेरेन तिची जतनाय घेवंक जाय. हांव म्हजे आवयची (जल्म दिवपी) गंध फुलां ओंपून पूजा करतालों. ती जगन्मातेचें आमचे धर्तरि वयले आवयचें रूप घेवन येता.
जों मेरेन तूं स्वताच्या शरिराची वासपूस करता तों मेरेन तुवें तुजे आवयची जतनाय घेवंक जाय. म्हणुनूच हांवें हाजराक म्हणलें, 'स्वताक थंडी खावंक आयल्यार खडीसाकर, मीठ, मिरयां घेवचीं लागतात आनी मिरयां, मीठ जमयता. आनी तुज्या शरिराची तुका जतनाय जों मेरेन घेन दिसता तों मेरेन तुवें तुजे आवयची लेगीत जतनाय घेवंक जाय.'
पूण जेन्ना तूं स्वताच्या शरिराक सामको विसरता - स्वताच्या शरिराची वासपूस घेवंक शकना त्या वेळा वयली गजाल वेगळी. तेन्ना ईश्वर स्वता तुजो सगलोच भार घेता. अजाण भुरगें स्वताचो भार घेवंक शकना. देखुनूच ताचे खातीर पालक नेमतात. अजाण पोराची अवस्था म्हणचेच चैतन्यदेवाची अवस्था.

म गंगास्नान करपाक गेलो.

## श्रीरामकृष्णांची कुंडली
## पूर्वजीण. श्रीरामकृष्णांचीं दर्शनां

भगवान श्रीरामकृष्ण भक्तां बराबर बलरामाच्या घरचे तेच ल्हान कुडींत उलयत बशिल्ले. महेंद्र, मुखर्जी, बलराम, तुलसी, हरीपद, गिरीश आनी हेर भक्त जमनीर बशिल्ले.
म गंगास्नान करून परत आयलो आनी श्रीरामकृष्णांक पांयां पडून तांचे लागींच बसलो. श्रीरामकृष्ण तांच्या अदभूत दर्शनां विशीं थोडेंशें सांगताले.

**श्रीरामकृष्णः** कालीमंदीरांत एक दीस न्यांगटा आनी हलदारी अध्यात्म रामायण वाचताले. अकस्मात म्हाका दिश्टावो जालो. न्हंय व्हांवता, दोनय वटच्यान रान आसा. पाचवींचार झाडां-झुडपां. राम आनी लक्ष्मण मोटवें वस्त्र धारण केल्ले, चलत वताले. एक दीस कुटी मुखार हांवें अर्जुनाचो रथ पळयलो. सारथ्याच्या वेशांत श्रीकृष्ण थंय बशिल्लो. ताची म्हाका अजून याद आसा. आनीक एक दीस कामारपुकूराक किर्तन आयकतना हांवें म्हजे मुखार गौरांगाक पळयलो.

त्या दिसांनी एक नागडो मनीस म्हज्या भितरल्यानच येवन म्हजे बराबर रावतालो. हांव ताचे बराबर फकाणां मस्करी करतालों. तो भुरग्यां भशेन दिसतालो आनी तो परमहंस आशिल्लो. त्या वेळार हांवें जी ईश्वरी रुपाचीं दर्शनां पळयल्यांत तीं सगलीं हांव तुमकां सांगूंक शकना. त्या वेळार म्हाका अजिर्णाच्या वायटान खूब त्रास जातालो. जेन्ना म्हाका दर्शनां जातालीं तेन्ना अजिर्णाचो विकार चड वाडटालो. म्हणून हांव ईश्वरी दर्शन टाळटालों. आनी जेन्ना हांव दर्शनां पळयतालों तेन्ना हांव जमनीर थुकतालों. पूण तीं दर्शनां म्हजे फाटल्यान येतालीं आनी भूत फाटल्यान लागिल्ले भशेन तीं येतालीं. हांव सदांच ईश्वरी भावान भरिल्लों आनी ते अवस्थेंत दीस आनी रात कशे वताले तें सांगूंक शकनाशिल्लों. असलीं दर्शनां जाले उपरांत दुसरे दीस म्हाका भायर जातालें आनी सगली आनंदाची अवस्था मागीर पोट खळखळून धुवन भायर पडटाली.

**गिरीशः** (हांसत) हांव तुमची कुंडली पळयतां.

**श्रीरामकृष्णः** म्हजो बियेचो चंद्रीम आसतना जल्म. जल्मा वेळार रवी, चंद्र आनी बूध हांचे भायर खाशेली चड म्हायती ना.

**गिरीशः** तुमचो कुंभ राशींत जल्म जाला. कर्क राशींत रामाचो जल्म आनी वृषभ राशींत कृष्णाचो जल्म जाला. तर चैतन्याचो सिंह राशींत जल्म जाला.

**श्रीरामकृष्णः** म्हाका दोन इत्सा आशिल्ल्यो. पयलीं म्हणचे हांव भक्तांचो जावचो आनी दुसरी हांव शुश्क साधू जावचों न्हय.

## श्रीरामकृष्णांनी साधना कित्याक केली?

**गिरीशः** (हांसत) तुमकां साधना कित्याक करची पडली?

**श्रीरामकृष्णः** (हांसत) स्वता जगन्मातेक लेगीत 'शिव' पती मेळचो म्हणून खर साधना करची पडल्या. तिणें पंचतपाची साधना केल्या. थंडेच्या दिसांनी शरीर उदकांत बुडोवन दवरप आनी सुर्या कडेन एक सारकें पळोवप आनी हेर साधना. कृष्णाक स्वता खूब साधना करची पडल्या. म्हाका कितलेशेच गूढ अणभव आयल्यात. पूण हांव कांय सांगूंक शकनां. बेला झाडा सकयल म्हाका पर्जळीत दर्शनां जाल्यांत.

## पयलींची जीण. बेला झाडा सकयल तंत्राची साधना. ब्राह्मणी वस्तू एकठांय करताली

**श्रीरामकृष्ण:** (मुखार सांगतात) बेला झाडा सकयल हांवें तंत्र साधना खूब केल्या. म्हाका कितल्योश्योच वस्तू लागताल्यो - मनशाच्यो कवट्यो आनी कितें कितें लागतालें. ब्राह्मणी त्यो सगल्यो वस्तू म्हजे खातीर एकठांय करताली. तशेंच हांवें तरातरांची गूढ आसनांची साधना केल्ली.
आनीक एक विचित्र अणभव येतालो. ज्या दिसा अहंकार करतालों ताच्या दुसऱ्याच दिसा बरो ना जातालों.

श्रीरामकृष्णांच्या ह्या खाशेल्या दर्शनां विशीं आयकून म सामको चित्रा भशेन तटस्थ आनी स्तब्ध जावन बसून रावलो. हेर भक्त लेगीत मंत्रमुग्ध जावन गेले. कुडींत सामकी स्तब्धताय आशिल्ली.
**तुलसी:** (मक बोट दाखोवन) हे केन्ना हांसनात.
**श्रीरामकृष्ण:** पूण तो भितर हांसता. फाल्गू न्हंयेंत वयर रेंव आसता पूण खणल्यार उदक मेळटा. (मक) तूं जीब घांसून निवळ करिना? सदांच जीब घांसून निवळ करीत राव.
**बलराम:** बरें. म कडच्यान पूर्णान तुमचे विशीं खूब गजाली आयकल्यात.
**श्रीरामकृष्ण:** घडये म्हजे ते सुरवातीचे अध्यात्मीक अणभव.
**बलराम:** पूर्ण, जर स्वभावसिद्ध आसा तर मचें काम कितें?
**श्रीरामकृष्ण:** तो निमीतमात्र आसतलो.
णव वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वराक वचपाचे आशिल्ले. तांची वचपाची सगली तयारी केल्ली. बागबाजारा कडेन व्हड्याची तयारी केल्ली. भक्त श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले.
श्रीरामकृष्ण एक दोन भक्तां सयत व्हड्यांत वचून बसले. गोपाळाची आवय तांचे बराबर गेली. ती सकाळची दक्षिणेश्वराक रावतली आनी दनपरां कामरहाटीक वतली. श्रीरामकृष्णांचे दक्षिणेश्वरचे कुडींतलो पलंग सारको करपाक कलकत्ताक धाडिल्लो. तो चड करून राखाल वापरतालो. तोय व्हड्यांत दवरलो. व्हडें दक्षिणेश्वराक वचपाक भायर सरलें.
हिंदू पंचांगा प्रमाण तो दीस अशूभ दीस. म्हणून श्रीरामकृष्ण येत्या शेनवारा बलरामाच्या घरा परत येतले आनी परत मागीर दक्षिणेश्वराक शूभ दिसा वतले.

# आध्याय एकशेंसव्वीस

## कलकत्ताक नंद बोस भक्ताच्या घरा

**जुलय 28, 1885. मंगळार.** दनपारचीं सुमार तीन वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत बलरामाच्या सालांत बशिल्ले. विनोद, राखाल, धाकटो नरेन आनी म थंय आशिल्ले. श्रीरामकृष्ण बलरामाच्या घरा सकाळीं आयिल्ले. आनी तांणी दनपारचें जेवण थंयच घेतिल्लें. बलरामाच्या घरा श्रीजगन्नाथाची घरचें दैवत म्हणुनूय पुजा करतालीं. आनी घरचे लोक त्या दैवताक निवेद्य दाखोवनच मागीर जेवताले. म्हणुनूच श्रीरामकृष्ण म्हणटाले, बलरामाचें घरचें अन्न खूब शुद्ध अन्न आसता.

नारायण आनी हेर भक्तांनी श्रीरामकृष्णांक सांगिल्लें, बागबाजाराचे भाटकार नंद बोसाच्या घरा देवदैवतांचीं खूब चित्रां आसात म्हणून. देखुनूच श्रीरामकृष्णांनी दनपरां थंय वचपाचें थारायिल्लें. एका भक्त ब्राह्मणीचें घर नंद बोसाच्या घरा लागींच आशिल्लें. ती दक्षिणेश्वराक चडशी तांच्या दर्शनाक येताली.

ब्राह्मणीची एकलीच धूव, संवसाराक अंतरिल्ल्यान ती सामकी दुख्खान करपून गेल्ली. श्रीरामकृष्णांनी तिगेल्या घरा वचपाचें थारायिल्लें. तिणें खूब काकुळटेन श्रीरामकृष्णांक घरा येवपाक आमंत्रण दिल्लें. थंयच्यान ते गणूचे आवयच्या - आनीक एका भक्ताच्या घरा वतले. धाकट्या नरेनान श्रीरामकृष्णांक एक खेपो म्हणिल्लें, ताची परिक्षा आशिल्ल्यान तो सदां भशेन तांचे कडेन येवंक पावचो ना म्हणून. आयज धाकटो नरेन येतकूच श्रीरामकृष्णांनी ताका म्हणलें, 'आयज तुका आफयलो ना हांवें.'

**धाकटो नरेन:** (हांसत) आतां कशें करपाचें?

**श्रीरामकृष्ण:** हय बाबा, तुज्या अभ्यासांत हांव आडखळ करिना. तुका वेळ मेळटा तेन्नाच तूं हांगा यो.

श्रीरामकृष्णांनी रागार जाल्ले भशेन म्हणलें.

श्रीरामकृष्ण नंद बोसाच्या घरा वचपाक भायर सरले. तांचे खातीर पालखी हाडिल्ली आनी देवाचें नांव घेत ते पालखेंत बसले. पांयांत काळ्या रंगाचीं चकचकीत जोतीं घाल्लीं आनी ते तांबडे देगेचें पुडवें न्हेशिल्लें. श्रीरामकृष्ण जशे पालखेंत बसले, तशीं मन तांचीं जोतीं पालखेंत कडेक दवरलीं. म पालखे बराबर पांयांनी गेलो. मागीर परेशय तांचे बराबर आयलो.

ते नंदाच्या घराच्या दारांतल्यान भितर सरून व्हडल्या आंगणांतल्यान वचून व्हडल्या घरा मुखार रावले. घरच्या सगल्यांनी येवन तांकां नमस्कार केलो, श्रीरामकृष्णांनी मक जोतीं दिवपाक सांगलें. मागीर ते पालखेंतल्यान देंवले आनी व्हडल्या सालांत गेले. साल खूब व्हड आशिल्लें. सालांत देवदेवतांची चित्रां चोंय वटेन लायिल्लीं.

नंद बोस आनी तांचे भाव पशुपती श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले. श्रीरामकृष्णांचे भक्त लेगीत थंय पावले. गिरीशाचो भाव अतूल आयलो. प्रसन्नाचे वडील जे सदांच नंदाच्या घरा येवपी तेय थंय आशिल्ले. प्रसन्न श्रीरामकृष्णांचो भक्त आशिल्लो.

## नंद बोसाच्या घरा

श्रीरामकृष्ण आतां चित्रां पळोवपाक लागले. म आनी हेर भक्त तांचे बराबर रावन तांकां चित्रां विशीं म्हायती दिवंक लागले.

पयलें चित्र चतुर्भुज विष्णूचें आशिल्लें. तें चित्र पळयना बराबर श्रीरामकृष्ण ईश्वरी आनंदान भारावन गेले आनी ते जमनीर बसले आनी थोडो वेळ ईश्वरी अवस्थेंत रावले.

दुसरें चित्र आशिल्लें – हनुमंताच्या माथ्यार हात दवरून श्रीराम ताका आशिर्वाद दिता. हनुमंताची नदर श्रीरामाच्या पादपद्मा कडेन आशिल्ली. श्रीरामकृष्ण बरोच वेळ त्या चित्रा कडेन पळयत रावले. पळयतां पळयतां मोगाचे खर भावनेंत तांणी म्हणलें, “आहाहा, आहाहा.”

तिसऱ्या चित्रांत ओंठार मुरली आशिल्लो श्रीकृष्ण कदंब रुखा सकयल उबो राविल्लो.

चवथें चित्र वामनावताराचें. गिड्ड्या रुपांत – जो श्रीविष्णूचो अवतार. श्रीरामकृष्णांनी ह्या चित्रा कडेन नदर काडिनासतना पळयलें.

मागीर श्रीरामकृष्णांनी नरशिंवाचें चित्र पळयलें. ते उपरांत श्रीकृष्ण गायांच्या हिंडा बराबर आसात आनी कृष्ण वृंदावनांत यमुनेच्या तिरार गोरवां राखण्या बराबर गोरवां राखता अशें चित्र पळयलें.

मन म्हणलें, ‘‘सुंदर चित्र.’’ ते उपरांत श्रीरामकृष्णांनी, धुमावती, शोडशी, भुवनेश्वरी, तारा, काली हांची चित्रां पळयलीं आनी म्हणलें, ‘‘हीं सगलीं चित्रां श्रीजगन्मातेचीं उग्र रुपां आसात. हीं चित्रां घरांत दवरलीं जाल्यार तांची पुजा करूंक जाय. पूण तुमी नशीबवान आसात. तुमी तीं तशींच वणटीर लावंक शकल्यात.’’

श्रीअन्नपूर्णेचें चित्र पळोवन श्रीरामकृष्णांनी मोगाचे भावनेन म्हणलें, ‘‘वा भव्य, उदात्त.’’ ते उपरांतचे चित्र आशिल्लें राधिकेचें. राजाच्या रुपान कुंजवनांत सख्यो तिचे भोंवतणीं आसात आनी राधिका शिंवासनाचेर बशिल्ली आसा. श्रीकृष्ण कुंजवनाच्या दारा कडेन रावन राखण करतालो, रखवालदार जावन.

ते उपरांत श्रीकृष्णाचें चित्र आशिल्लें. मागीर श्रीसरस्वतीचें चित्र आशिल्लें, ज्ञान आनी संगिताची देवता. हें सरस्वतीचें चित्र हारशाचे पेटयेंत दवरिल्लें. देवी सरस्वती हातांत विणा घेवन सामकी तन्मय जावन संगिताचे राग आळयता अशें तें चित्र आशिल्लें.

सगलीं चित्रां पळयले उपरांत श्रीरामकृष्ण घरच्या यजमाना कडेन गेले आनी तांणी म्हणलें, ‘‘आयज म्हाका खूब आनंद जालो. वा! भव्य. तुमी खरे हिंदू आसात. इंग्लीश चित्रां दवरिनासतना हीं चित्रां लायल्यांत. अजाप दिसलें.’’

नंद बोस बशिल्ले आशिल्ले. तांणी श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ‘‘बसात न्हय. तुमी उबे कित्याक?’’ श्रीरामकृष्ण बसले आनी तांणी म्हणलें, ‘‘हीं सगलीं व्हडली चित्रां आसात. तुमी खरे हिंदू आसात.’’

**नंद:** म्हजे कडेन इंग्लीश चित्रांय आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तीं सगलीं अशीं नात. त्या चित्रां कडेन तुमी खात्रेन चड लक्ष दिनात आसतले.

वणटीर, केशव सेनाच्या नवविधानाचें चित्र लायिल्लें. सुरेश मित्रान हें चित्र तयार केल्लें. सुरेश मित्रा श्रीरामकृष्णांचे गृहस्थी शिश्य आशिल्ले. ह्या चित्रांत श्रीरामकृष्ण केशवाक दाखयतात की वेगवेगळ्या मार्गांनी सगल्या धर्मांचें अनुयायी एकाच ईश्वरा कडेन वतात. मोख एकच, फकत रस्ते वेगळे.

**श्रीरामकृष्ण:** हें सुरेंद्रा खातीर  चित्र काडिल्लें.

**प्रसन्नाचे वडील:** (हांसत) तुमी त्या चित्रांत आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) हय, तातूंत सगलेंच आसा. आर्विल्लया काळाचो आदर्श.
अशें म्हणटां म्हणटां श्रीरामकृष्ण रोखडेच भावतन्मय जावन गेले. ते भावावस्थेंत ते जगन्माते कडेन उलोवंक लागले. थोड्या वेळान ते एका बेबद्या भशेन म्हणूंक लागले. "हांव बेहोश जावंक ना." घरा कडेन पळयत तांणी म्हणलें, "हें व्हडलें घर आसा. पूण तातूंत कितें आसा? विटो, लांकडां आनी माती."
थोड्या वेळान तांणी म्हणलें, "देवदेवतांची चित्रां पळोवन खूब आनंद जालो." तांणी फुडें म्हणलें, "जगन्मातेचीं उग्र भावाची चित्रां दवरप बरें न्हय. दवरलींच जाल्यार तांची पुजा करूंक जाय."
**पशुपती:** (हांसत) बरें, ती जगन्माता. जितले दीस ती दवरता तितले दीस तें चलूं दी.
**श्रीरामकृष्ण:** तें खरें. पूण ईश्वरा कडेन मन दवरप बरें. ताका विसरप बरें न्हय.
**नंद बोस:** पूण आमी ईश्वरा विशीं चड खंय येवजितात?
**श्रीरामकृष्ण:** ताची कृपा जाल्यार आमी ईश्वराची याद करतात.
**नंद बोस:** पूण आमी ईश्वराची कृपा कशी मेळोवप? ताचे कडेन खरेंच कृपा करपाची शक्त आसा?

## ईश्वर करतो काय कर्मच ईश्वर?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) समजलों. तुमचें बुद्दीवादी पंडिता प्रमाण मत आसा. जो जशें कर्म करता तशें तो फळ भोगता. ह्यो कल्पना सोडून दियात. ईश्वराक शरण गेल्यार कर्माचो क्षय जाता. हांवें हातांत फुलां घेवन जगन्मातेक म्हणलें, 'ए आई, हें घे तुजें पातक. हें घे तुजें पुण्य. हातूंतलें कांयच नाका. तूं म्हाका शुद्ध भक्ती दी. हें घे तुजें बरेपण, हें घे तुजें वायटपण. म्हाका वायट बरें कांयच नाका. म्हाका शुद्ध भक्ती दी. हो घे तुजो धर्म, हो घे तुजो अधर्म, म्हाका धर्म अधर्म कांयच नाका. म्हाका शुद्ध भक्ती दी. हें घे तुजें ज्ञान आनी हें घे तुजें अज्ञान. म्हाका ज्ञान अज्ञान कांयच नाका. म्हाका फकत शुद्ध भक्ती दी. आई ही घे तुजी पवित्रताय, ही घे तुजी अपवित्रताय. म्हाका शुद्ध भक्ती दी.'
**नंद बोस:** ईश्वर कितें नेम मोडूं शकता?
**श्रीरामकृष्ण:** हें कितें म्हणटात तुमी? तो सगल्यांचो ईश्वर आसा, ताका सगलें शक्य आसा. जाणें नेम केला तो तो बदलुंकूय शकता.

## चैतन्य जागृती भोगान्ती काय ईश्वराचे कृपेन?

श्रीरामकृष्णांनी फुडें म्हणलें, ‘‘पूण तुमी तशें म्हणूंक शकतात. घडये तुमचे मदीं चड करून भोग भोगपाची इत्सा आसा. म्हणुनूच तुमी तशें उलयतात. हें एक मत आसा खरें की भोग वासनेची शांती जाले बगर अंतरांतलें चैतन्य जागें जायना. पूण भोग घेवपा सारकें आसा तरी कितें? कामिनी-कांचन सुखाचें? ह्या खिणाक तें आसा, दुसऱ्या खिणाक तें नासता. तें सामकें खिणयाळें. आनी कामिनी-काचना मदीं आसा तरी कितें?

आमाड्याचो काथो आनी साल खाल्यार पोटांत जाता वा मिठाय कशी एकदां गिळ्ळी की सोंपलें ते भशेन.’’

## ईश्वर कितें पक्षपाती आसा? अविद्या कित्याक म्हणून? ताची इत्सा

नंद बसू थोडो वेळ ओगी रावले. मागीर तांणी म्हणलें, ‘‘हय. लोक तशें म्हणटात खरें. पूण ईश्वर कितें पक्षपाती आसा? पूण ताचे कृपेन जर जाता आसत तर म्हाका म्हणचेंच पडटलें, ईश्वर पक्षपाती आसा म्हणून.’’

**श्रीरामकृष्ण:** पूण स्वता ईश्वरच सगलें कितें जाला. ईश्वरच स्वता जीव जगत जाला. जेन्ना पूर्ण ज्ञान जातलें तेन्ना तुमकां बोध जातलो. तो मन, बुद्द, देह, चोवीस तत्वां, सगलें कितें जाला. तो स्वता सोडून आनीक कोण आसा जाचेर तो पक्षपात करूंक शकतलो? तो पक्षपात कोणाचेर करतलो?

**नंद:** ताणें हीं वेगवेगळीं रुपां कित्याक घेतल्यांत? कांय जाण ज्ञानी आनी कांय जाण अज्ञानी कित्याक?

**श्रीरामकृष्ण:** ताची स्वताची खोशी.

**अतूल:** केदारबाबून मजेन म्हणिल्लें. एक खेपो एकट्यान तांकां विचारलें, ‘ईश्वरान सृश्टी कित्याक केली?’ तांणी तेन्ना सांगलें, ‘ईश्वरान सृश्टी निर्मणेची येवजण जे बसकेंत केल्ली ते बसकेक हांव हाजीर नाशिल्लों’ (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** ताची खोशी.

अशें म्हणून श्रीरामकृष्ण गावंक लागले:

ए माते, सगलें तुजे गोड इत्शेनूच घडटा;
तूं खऱ्यानीच स्वइत्शीत, मनीस जातीची तारिणी!
तुजें काम तूंच करता; मनीस फकत ते आपलें म्हणटा.
हतयाक रेब्यांत धरपाचें काम तूंच करता;
तूं, जी थोंट्याक उंचांतलों उंच दोंगर चडपाक पालव दिता.
कांय जाणांचेर तूं ब्रह्मयक्षाचो आनंद शिंवरता;
आनी तरीय दुसऱ्यांक पाताळांत शेंवटिता;
तूं आसा गतीची शक्त, आनी हांव फकत एक यंत्र;
हांव घर आनी तूं थंय निवास करपी आत्मो;
हांव रथ, आनी तूं रथकार.
तूं चलयता तसो हांव चलतां, ए माते, म्हाका चलय.

श्रीरामकृष्ण फुडें सांगूंक लागले, ''जगन्माता आनंदमयी आसा. ती निर्मणी, स्थिती आनी प्रलयाची लिला करीत आसता. असंख्य जीव आसात. तातूंतले एक दोगच मुक्त जावन वतात. ताका लागून तिका आनंद जाता.''

**नंद बोस:** तिची खोशी जायत पूण हांगा आमचें मात मरण.

**श्रीरामकृष्ण:** पूण तुमी कोण? तुमी आसातच खंय? तीच सगलें कितें जाल्या. जों मेरेन तुमी तिका जाणा जावंक शकनात तों मेरेन तुमी म्हणटात, 'हांव, हांव.' सगले जाण ईश्वराक जाणा जावंक शकतले. सगलेच जाण मुक्त जातले. तरीपूण कोणा कोणाक सकाळींच बेगीन बेगीन जेवण मेळटा, कोणाक दनपरां तर कोणाक सांजवेळां. पूण कोण उपाशी मात उरना. सगलेच जाण आडवाद नासतना आपलें स्वरूप जाणा जावंक पावतले.

**पशुपती:** खरें आसा महाराज. ईश्वरच सगलें कितें जाला अशें दिसता.

**श्रीरामकृष्ण:** हो 'हांव' म्हणचे कितें आसा हाचो सोद घेवन पळयात. 'हांव' म्हणचे कितें हाडां, काय मांस, काय रगत, काय आंतडीं बितडीं? 'हांव' सोदतां सोदतां 'तूं' हाताक लागता. हाचो अर्थ असो, तुमचे भितर त्या ईश्वराचे शक्ती बगर आनीक कांयच ना.' 'हांव' नाच - आसा 'तो'च. (पशुपतीक) तुमचे भितर अहंकार ना. इतलें ऐश्वर्य आसून लेगीत 'हांव' पूर्णतायेन काडून उडोवंक शकनात. देखून तो जर पूर्णतायेन काडून उडोवंक ना तर मागीर रावूं दी फटिंगाक, ईश्वराचो दास जावन. (सगले हांसतात.) हांव ईश्वराचो भक्त आसां वा ईश्वराचो पूत आसां वा ईश्वराचो दास

आसां, हो असलो अहंकार बरो. जो 'हांव' कामिनी-कांचनांत आसक्त जाता तो 'हांव' 'कच्चो हांव'. त्या 'हांव'चो त्याग करूंक जाय.

अहंकाराचें हें असलें स्पश्टीकरण आयकून घराचो वडील आनी हेर सगले जाण खूब संतुश्ट जाले.

## ऐश्वर्याचो अहंकार आनी उन्माद

**श्रीरामकृष्ण:** (पशुपतीक) ज्ञानाचीं दोन लक्षणां आसात. पयलें म्हणचे गर्व नासप आनी दुसरें म्हणचे सभाव शांत आसप. तुमचे भितर हीं दोनय लक्षणां आसात ते खातीर तुमचेर ईश्वराची कृपा जाल्या. खूब ऐश्वर्य मेळ्ळ्यार ईश्वराचो विसर जावं येता. ऐश्वर्याचो सभावच तो. यदू मल्लीक खूब गिरेस्त जाल्यात. हालीं दिसांनी ते ईश्वरा विशीं उलयनात. पयलीं पयलीं तांकां ईश्वराच्यो गजाली खूब आवडटाल्यो.
कामिनी-कांचन म्हणचे एके तरेचो सोरो. चड सोरो पियेल्यार आवय-बापायक, काकाक तो तांकां योग्य तो मान दिना. चड करून तांकां तो गाळी फस्तीच करता. बेबद्याक ल्हान व्हड मनशांचें भान उरना.
**नंद बोस:** खरें आसा तें महाराज.

## थिओसफी, खीणभराच्या योगान मुक्ती शुद्ध भक्तीची साधना

**पशुपती:** महाराज, थिओसफी आनी अध्यात्मवाद हांचे विशीं तुमकां कितें दिसता? सूर्यलोक, चंद्रलोक, नखेत्रलोक हे विशीं तुमचें कितें म्हणणें? हें सगलें खरें आसा?
**श्रीरामकृष्ण:** सायबा, म्हाका हे विशीं कांयच खबर ना. हे विशीं इतली चिंता कित्याक? तुमी गाळींत आंबे खावपाक आयल्यात. आंबे खायात-मजा करात. आंब्याचीं झाडां कितलीं आसात. कितल्यो लाख खांदयो आसात, कितलीं कोटी पानां आसात हो हिशोब करपाची म्हाका गरज कितें? हांव आंबेगाळींत आंबे खावपाक आयलां - आंबे खावपाचें म्हजें काम. म्हाका मजा करूं दी.
चैतन्य जर एक खेपो जागें जालें, जर एक खेपो ईश्वराक जाणा जावंक पावलों, तर मागीर ह्यो सगल्यो आलतू फालतू गजाली जाणा जावपाची इत्साच जायना. जोर

येतकूच भ्रम जालो म्हणचे रोगी कितें कितें बडबडत आसता - 'हांव पांच किलो तांदळाचें शीत जेवतलों, हांव टांकीभर उदक पियेतलों.' आनी कितें कितें बडबडटा. हें आयकून वैज विचारता, 'पियेतलो? बरें आसा. तुका हाडून दितां सगलें.' अशें म्हणून वैज चिलीम ओडीत बसता. पूण भ्रम ना जातकूच तो दुयेंती जें म्हणटा ताचेर तो लक्ष दिता.

**पशुपती:** आमचो भ्रम सासणाचो उरतलो काय कितें?

**श्रीरामकृष्ण:** अशें कित्याक म्हणटात तुमी? ईश्वरा कडेन मन लायात. तुमचे भितर ईश्वरी चैतन्य जागें जातलें.

**पशुपती:** (हांसत) आमचो ईश्वरा कडेन योग खिणयाळो. चिलीम ओडपाक लागता तितलो वेळ. (सगले हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** तशें जालें म्हणून कितें जालें? खीणभर ईश्वरा कडेन योग जाल्यार लेगीत तुमकां मुक्ती मेळटा.

अहिल्येन म्हणिल्लें, 'रामा, धुकराचो जल्म मेळूं वा आनीक कसलोय मेळूं, जे वरवीं तुज्या पादपद्मीं मन उरूं, शुद्ध भक्ती मेळूं म्हणचे जालें.'

नारदान एक खेपो रामाक म्हणलें, 'तुजे कडेन आनीक कसलोच वर मागिना. फकत म्हाका शुद्ध भक्ती दी. आनी जे वरवीं हांव तुजे भुवन मोहिनी मायेन भुल्लुसून वच्चों ना असो आशिर्वाद दी.' मना सावन ईश्वराची प्रार्थना केल्यार ईश्वरा कडेन मन लागता - ईश्वराच्या पांयां कडेन शुद्ध भक्ती उत्पन्न जाता.

## पातक आनी परलोक

## मरणा वेळार ईश्वर चिंतन

## भरत राजा

'आमचो भ्रम वतलो काय? आमचें कितें जातलें? आमी पातकी' असल्यो सगल्यो कल्पना सोडून दियात. (नंद बसूक) असो विश्वास जाय की, 'कितें, हांवें एक खेपो रामाचें नांव घेतलां, हांव आनी केन्ना पातकी जावं येता?'

**नंद बोस:** परलोक आसा काय? पातकां खातीर ख्यास्त आसा?

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी आंबे खायात न्हय. तुमकां त्या हिशोबाची कितें गरज? परलोक आसा काय ना आनी थंय कितें जाता, हे सगले म्हायतीची कितें गरज? तुमी आंबे खायात. तुमकां आंब्याची गरज. ईश्वरा विशीं भक्तीची गरज आसा तुमकां.

**नंद बोस:** पूण आंब्याचें झाड खंय आसा? आंबे म्हाका खंय मेळटले?

**श्रीरामकृष्ण:** झाड? ईश्वर अनादी अनंत ब्रह्म आसा. तो आसाच. तो नित्य आसा. ताचे विशीं कसलोच दुबाव ना. तुमी लक्षांत दवरूंक जाय. तो कल्पतरू आसा.

ए मना चल आमी कालीरुपी कल्पतरू खाला, भोंवंक या.
आनी थंय ताचे सकयल जिणेचीं फळां पुंजावया.

तुमी कल्पतरूचे लागीं वचून प्रार्थना करूंक जाय. मागिरूच तुमकां फळां मेळटलीं. ते उपरांतच झाडां वयल्यान फळां पडटलीं. मागिरूच तीं तुमकां एकठांय करूंक मेळटलीं. धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष - हीं चार फळां. ज्ञानी लोक मुक्तीचें फळ (मोक्ष फळ) सोदतात. भक्तांक ईश्वरी भक्ती जाय. हेतू विरयत भक्ती. तांकां धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष नाका आसता.
तुमी परलोका विशीं विचारतात. गीतेच्या मतान, तुमी मरणा वेळार जी भावना बाळगितात तशेंच फुडल्या जल्मांत जातलें. भरत राजाक मरणा वेळार हरणाचें दूख खूब जाल्लें. 'हरण, हरण' अशें नांव घेत ताणें प्राण सोडलो. म्हणून ताका हरण जावन जल्म घेवचो पडलो. म्हणुनूच जप, ध्यान, पुजा ह्या सगल्यांची रातदीस संवय करूंक जाय. म्हणचे मागीर मरणा वेळार ईश्वराचें चिंतन जातलें - संवये खातीर. अशे तरेन मरण आयल्यार मनीस ईश्वररूप जाता.
केशव सेनान म्हाका सतत परलोका विशीं विचारिल्लें. हांवें केशवाक सांगिल्लें, 'ह्या सगल्या हिशोबाची कितें गरज आसा तुमकां?' मागीर तांकां सांगलें, 'जों मेरेन ईश्वराचो लाव जायना तों मेरेन परत परत जगांत येवचें पडटा. कुमार लोक मडकीं, धांपणीं वतांत सुकत दवरतात. जर गोरवांनी तीं माड्डिलीं आनी मोडून उडयलीं तर तातूंतलीं भाजून तयार जाल्यांत तीं भायर उडयतात. पूण तातूंतलीं जीं कच्चीं आसतात तीं एकठांय करतात आनी तीं मातयेंत भरशितात आनी परत चक्राचेर घालतात आनी तांचे पसून नवीं मडकीं करतात.'

## श्रीरामकृष्ण आनी गृहस्थांच्या मंगलाची कामना रजोगुणाचें चिन्न

आतां मेरेन घर धनयान श्रीरामकृष्णांक अल्पोहार दिवपा कडेन लक्षच दिवंक नाशिल्लें. आतां श्रीरामकृष्णांनी स्वता जावन घर धनयाक, नंदूक सांगलें, ''पळय, म्हाका कितेंय खावपाक दिल्यार बरें.'' यदुचे आवयक ते खातीर हांवें त्या दिसा म्हणिल्लें, 'पळय,

म्हाका कितेंय खावपाक दी नाजाल्यार गृहस्थांक त्रास जावंक शकता.'

नंद बोसांनी कांय मिठाय मागयली. श्रीरामकृष्ण ती खावंक लागले. नंद बोस आनी हेर श्रीरामकृष्णांक ते कितें करतात तें पळोवंक लागले.

श्रीरामकृष्णांक हात धुवपाचे आशिल्ले. चादरीचेर ताटलेंत मिठाय दवरिल्ली. थंयच ते ताटलेंत हात धुवपा सारके नाशिल्ले. हात धुवपा खातीर एक चाकर तस्त घेवन आयलो. श्रीरामकृष्णांनी ताचो उपेग केलो ना कित्याक राजसीक लोकच असल्यो वस्तू वापरतात. तांणी चाकराक तें घेवन वचपाक सांगलें. यजमानान तांका म्हणलें, ''कृपा करून हात धुयात.''

श्रीरामकृष्णांनी शुन्यमस्तक अवस्थेंत म्हणलें, ''कितें? हांव हात धुवूं?''

श्रीरामकृष्ण उठून दक्षिणे कडले पडवेर गेले. मक सांगलें, ''म्हज्या हातार उदक घाल. मन तांबयांतल्यान श्रीरामकृष्णांच्या हातार उदक घालें. श्रीरामकृष्ण स्वताच्या कपड्यांक हात पुसून परत कुडींत आयले. मागीर एका पडग्यांत तांकां विडे दिले पूण दुसऱ्या सोयऱ्यांनी त्याच पडग्यांतले विडे पयलींच घेतिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी तातूंतलो खंयचोच विडो घेतलो ना.

## ईश्टदेवतेक समर्पण
## ज्ञान भक्ती आनी शुद्ध भक्ती

**नंद बोस:** (श्रीरामकृष्णांक) हांव एक सांगूं?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) कितें?

**नंद बोस:** तुमी विडो कित्याक खालो ना? तुमी सगलें कितें केलें तें बरें केलें. पूण हें मात योग्य जालें ना.

**श्रीरामकृष्ण:** हांव कितेंय खावचे पयलीं देवाक अर्पण करुनूच खातां ही म्हजी भावना आसा.

**नंद बोस:** पूण तो विडो ईश्टदेवतेक पावतलोच आशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** ज्ञान मार्ग एक आसा आनी भक्ती मार्ग एक आसा. ज्ञानी लोकां मतान सगल्यो गजाली ब्रह्मज्ञानाचो उपेग करून खावंक येतात. भक्तीमार्गी थोडो भेद* मानतात.

**नंद:** पूण तें कशेंय आसूं. तुमगेलें बरोबर जालें ना.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तो म्हजो एक समज. तुमी जें म्हणटात तेंय बरोबर आसा.

---

*सगलें कितें ब्रह्मच आसा. हो ज्ञानाचो भाव आशिल्ल्यान तो शुद्ध अशुद्ध हो भेद मानिना. भक्त तो भेद मानता.

तेंय शास्त्रसंमत आसा.

श्रीरामकृष्ण यजमान नंदाक खूश मस्कऱ्यां पसून सावध रावपाक सांगूंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** खूश मस्कऱ्यां पसून जतनाय घेयात. खुशामत करपी आपलो सुवार्थ सोदीत आसतात. (प्रसन्नाच्या बापायक) तुमी कितें हांगाच रावतात?

**प्रसन्नाचे वडील :** ना महाराज. हांव शेजारी. तुमी गुडगुडी ओडटले?

**श्रीरामकृष्ण :** (नमळायेन) ना, ना. तुमीच ताची मजा घेयात. आतां म्हाका ओडीन दिसना.

नंदाचें घर व्हडली पलास कशें आशिल्लें. श्रीरामकृष्णांनी तांकां म्हणलें, ''यदूचें घर येदें व्हडलें ना.'' त्या दिसा तशें हांवें तांकां म्हणलें.

**नंद:** तांणी जोडासोकोक नवें घर बांदलां.

श्रीरामकृष्ण नंद बसूक प्रोत्साहन दिताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (नंद बसूक) तुमी संवसारांत रावन ईश्वराचेर मन दवरलां ही कितें ल्हान गजाल आसा? जाणें संवसाराचो त्याग केला तो तर ईश्वराक आळयतलोच. तें तर ताचें कर्तव्यच. पूण तातूंत व्हडली व्हडवीक आसा? पूण संवसारांत रावन जो देवाक आळयता तोच खरो धन्य आसा. वीस मणांचो फातर पयस करून ताचे सकयली वस्तू सोदून काडपा सारकें ताचें हें काम आसा.

ईश्वराक आळयता आसतना ताचे कडेन एक नातें - एक भाव दवरूंक जाय. हनुमानाची ईश्वर भक्ती ज्ञाना बराबर एकवटीत आशिल्ली. पूण नारदाची ईश्वर भक्ती शुद्ध आनी पवित्र आशिल्ली.

रामान हनुमानाक विचारलें, 'हनुमंता, तूं म्हजी पुजा करता आसतना खंयचे भावनेन करता?' हनुमानान सांगलें, 'केन्ना पळयतां, तुमी पूर्ण, हांव अंश, तर केन्ना पळयतां तुमी प्रभू, हांव दास आनी रामा, जेन्ना सत्याचें ज्ञान प्राप्त जाता, तेन्ना म्हाका कळटा तुमीच हांव आनी हांवच तुमी.'

रामान नारदाक म्हणलें, 'वर माग'. तेन्ना नारदान म्हणलें, 'रामा होच वर दी, जे वरवीं तुज्या पादपद्मीं शुद्ध भक्ती मेळूं दी आनी जे वरवीं तुजे भुवनमोहिनी मायेन हांव भुल्लुसून वचनासतना उरूं.'

आतां श्रीरामकृष्ण वचपा खातीर उठले.

**श्रीरामकृष्ण:** (नंद बसूक) गीतेच्या मतान खूब लोक जाका मानतात आनी जाचो आदर करतात ताचे भितर ईश्वराची खाशेली शक्त आसता. तुमचे कडेन ईश्वरी शक्त आसा.

**नंद बसू:** शक्त सगल्या मनशां मदीं समान आसता.

**श्रीरामकृष्ण:** (मातशें नेटान) तुमी सगले परत परत हेंच सांगतात. सगल्या लोकांची

शक्त कितें एक सारकी आसता? ईश्वर सर्वव्यापी आसा हें खरें. सर्वव्यापी रुपान तो ईश्वर सगल्या जिवां मदीं सारको आसा हें खरें. पूण वेगवेगळ्या जिवांनी ताचे शक्तीचो आविश्कार वेगवेगळो आसता.
विद्यासागरांनीय अशेंच म्हणिल्लें. तांणी म्हणिल्लें, 'ईश्वरान कितें थोड्यांक चड शक्त आनी थोड्यांक कमी शक्त दिल्ली आसा?' तेन्ना हांवें सांगिल्लें, 'जर देवाचे शक्तींत भेद नाशिल्लो तर तुमकां पळोवपाक आमी कित्याक येतले आशिल्ले? तुमचे तकलेक कितें दोन शिंगां फुटल्यांत?'
श्रीरामकृष्ण वचपाक उठले. भक्तय तांचे बराबर उठले. पशुपतीन तांकां दारा मेरेन पावयले.

## शोकाकूल ब्राह्मणीच्या घरा
## भगवान श्रीरामकृष्ण

नंद बसूच्या घरच्यान श्रीरामकृष्ण चलयेच्या मरणान शोकाकूल जाल्ले ब्राह्मणीच्या घरा आयले. पोन्नें विटांचें घर. घरांत भितर सरतनाच दावे वटच्यान गोरवांचो गोठो. श्रीरामकृष्ण आनी भक्त गच्चेचेर गेले आनी थंय तांची बसपाची वेवस्था केल्ली. गच्चेचेर कांय लोक वळीन उबे आशिल्ले. कांय लोक बशिल्ले. श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक सगलेच उत्सूक आशिल्ले. ब्राह्मणीक आनीक एक भयण आशिल्ली. दोगीय विधवा. घरांत तांचे भावय सहकुटूंब रावताले.
श्रीरामकृष्ण तांच्या घरा येतले म्हणून ब्राह्मणी सगलो दीस तयारी करपांत गुल्ल आशिल्ली. जों मेरेन श्रीरामकृष्ण नंद बसूच्या घरा आशिल्ले तों मेरेन ब्राह्मणी सामकी अस्वस्थ आशिल्ली. मिनटा मिनटाक घरा भायर वचून ते येतात काय म्हणून वाट पळयताली. श्रीरामकृष्णांनी तांकां सांगून दवरिल्लें, 'ते नंद बसूच्या घरा वचून मागीर थंयच्यान तिच्या घरा येतले.' उशीर जाल्ल्यान तिका दिसलें, श्रीरामकृष्ण चड करून तिगेर येवचेच नात म्हणून.
श्रीरामकृष्ण भक्तां सयत आयले आनी जाजमाचेर बसले. म, नारायण, योगीन, देवेंद्र आनी हेर शेंदरेर बसले. आनी दुसरे भक्तय आयले. ब्राह्मणीची भयणय आयली आनी ती श्रीरामकृष्णांक पांयां पडली. तिणें सांगलें, ''तुमकां उशीर कित्याक जालो काय म्हणून विचारपाक ताई नंद बोसाच्या घरा आतांच गेल्या. ती रोखडीच परत येतली.'' इतले म्हणसर सकयल कसलो तरी आवाज जालो आनी तिणें म्हणलें, ''पळय ती आयली.'' ती सकयल पळोवंक गेली पूण ब्राह्मणी आजून येवंक नाशिल्ली.

श्रीरामकृष्ण हांसत्या मुखान भक्तां भितर बशिल्ले.

**मः** (देवेंद्राक) कितलें सुंदर दृश्य हें! भुरगे, जाणटे, दादले आनी बायलो सगलीं वळीन उबीं रावल्यांत. सगलीं जाणां उत्सूक आसात. श्रीरामकृष्णांक पळोवपा खातीर आनी तांकां आयकुपा खातीर.

**देवेंद्रः** (श्रीरामकृष्णांक) म म्हणटा, 'हो जागो नंद बोसा परस बरो आसा. ह्या लोकांची भक्ती सामकी तोखेवपा सारकी.' श्रीरामकृष्ण हांसले.

ब्राह्मणीचे भयणीन म्हणलें, "ही पळय ताई आयली."

ब्राह्मणीन येवन श्रीरामकृष्णांक प्रणाम केलो. आतां तिच्या आनंदाक शीममेर उरली ना. कितें करचें आनी उलोवचें हेंच तिका सुचना जालें. सर्गदन जावन तिणें म्हणलें, "म्हाका खूब आनंद जाला. म्हज्यान सोसूं नजं इतलो आनंद जाला. घडये हांव मरून लेगीत वचन. हांव कशी जिती रावूं तें म्हाका सांगात. जेन्ना म्हजी धूव चंडी कुळारा येताली, भालदार - चोपदार घेवन आनी दोनय वटांच्यान रस्त्यार रखवालदार उबे रावताले तेन्ना लेगीत इतलो म्हाका आनंद जावंक ना.

आतां म्हाका चंडीचें इल्लें लेगीत दुख्ख उरूंक ना. म्हाका दिशिल्लें श्रीरामकृष्ण आतां काय येवपाचे नात. म्हणून मागीर हांवें थारायलें, 'जर तशें जालें तर तांच्या येवकारा खातीर हांवें जी तयारी केल्या ती सगली गंगेंत मोखून उडयतलीं आनी तांचे कडेन परत केन्नाच उलोवचीं ना. ते जंय वतले थंय वतलीं. पयसुल्ल्यान तांचें दर्शन घेतलीं आनी येतलीं.'

वचूं दी म्हाका आनी सांगूं दी सगल्यांक, हांव कितली सुखी आसां तें. वतां आनी जोगीनाक सांगतां, म्हजें भाग्य पळोवन वच म्हणून."

परत आनंदान सर्गदन जावन तिणें म्हणलें, "एका कामगाराक सोर्त फुटून एक लाख रुपया मेळ्ळे. ज्या खिणाक ताणें हें सगलें आयकलें त्याच खिणाक तो आनंदान रोखडोच मेलो. हय, खरेंच तो मेलो. म्हजी लेगीत तीच अवस्था जाल्या. तुमी सगले म्हाका आशिर्वाद दियात. ना जाल्यार हांव लेगीत खंतीन मरतलीं."

ब्राह्मणीचो तो आनंद आनी तें तन्मयपण पळोवन म अजापीत जालो. तो तिच्या पांयांचो धुल्ल घेवपाक वतालो. तिणें एकदम म्हणलें, "हें कितें करतात?" आनी ती ताच्या पांयां पडली. भक्तांक पळोवन ब्राह्मणीक खूब आनंद जालो. "हांवें धाकट्या नरेनाकय हाडला. ताचे बगर आमकां हांसयतलो कोण?"

ब्राह्मणी हे प्रमाण उलयताली. अशा वेळार तिची भयण थंय आयली आनी तिणें म्हणलें, "ताई, चल सकयल यो. तूं हांगाच रावली जाल्यार कशें जातलें? सगलें म्हज्यान एकटेच्यान करूंक जमतलें?"

पूण ब्राह्मणी आनंदांत गुल्ल जाल्ली. ती श्रीरामकृष्णांक आनी भक्तांक पळयत राविल्ली. तांकां सोडून वचपाक तिच्या जिवार आयिल्लें.
थोड्या वेळान ब्राह्मणीन खूब भक्तीभावान श्रीरामकृष्णांक दुसरे कुडींत व्हरून मिठाय आनी हेर अल्पोहार दिलो. भक्तांकय गच्चेचेर व्हरून अल्पोहार दिलो.
रातचीं सुमार आठ जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण परत वचपाक भायर सरले. जेन्ना ते दारा कडेन पावले तेन्ना ब्राह्मणीन तिचे नण्णेक श्रीरामकृष्णांक पांयां पडपाक सांगलें. तिचो एक भावय येवन श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. ताका लेखून तिणें म्हणलें, ''हो आनीक एक म्हजो भाव. अडाणी आसा.'' श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''ना, ना. सगलीं मनशां बरीं आसात.'' एकटो दिवो घेवन वाट दाखयतालो. एके कडेन काळोख आशिल्लो. श्रीरामकृष्ण गोठ्या मुखार उबे रावले. भक्त तांचे भोंवतणीं जमले. म श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. श्रीरामकृष्ण गणूचे आवयच्या घरा आतां वचपाचे आशिल्ले.

## गणूचे आवयच्या घरा

गणूचे आवयचे घरचे कुडींत श्रीरामकृष्ण बशिल्ले. ती तळमजल्यार रस्त्या कुशीकच आशिल्ली. वाजंत्र्यांचो पंगड ती कूड वापरताले. कितलेशेच तरणाटे श्रीरामकृष्णांच्या आनंदा खातीर मदीं मदीं वाद्यां वाजयताले.
रातचीं आठ जाल्लीं. पिठा सारक्या चांदण्यांत रस्ते, घरां आनी मळब सामकीं न्हावन गेल्लीं. पुनव जावन तो पयलोच दीस.
ब्राह्मणीय थंय आयिल्ली. ती एक खेपो कुडींत येवन वताली तर दुसरे खेपो भितर घरांत वचून येताली. थोड्या वेळान कुडीच्या दारा कडेन येवन रावताली आनी श्रीरामकृष्णांक पळोवन वताली. शेजारचे तरणाटे भुरगे जनेलांतल्यान तांकां पळयताले. गांवच्या लोकांनी, भुरग्यांनी आनी जाणट्यांनी श्रीरामकृष्णांचें दर्शन घेवपा खातीर गर्दी केल्ली. कुडींतल्या जनेलाचेर भुरगीं चडिल्लीं. तें पळोवन धाकट्या नरेनान तांका म्हणलें, ''तुमी हांगा कित्याक? चलात घरा चलात.'' तेन्ना श्रीरामकृष्णांनी मायेन म्हणलें, ''ना, ना. तांका रावूं दी थंय.''
श्रीरामकृष्ण मदीं मदीं म्हणटाले,
''हरी, हरी ''
कुडीत जाजम घाल्लें. वाद्यां वाजोवपी भुरगे ताचेर बसले आनी गावंक लागले:

ए केशवा, तुजी कृपा कर

तुज्या दुदैवी सेवकांचेर!
ए केशवा, जो वृंदावनाच्या
राना वनांत भोंवून आनंद घेता!

**श्रीरामकृष्ण:** अहाहा! कितलें सुंदर संगीत! कितलें नादमधूर व्हायोलीन! वाद्यांनी कितली सुराळ साथ दिल्या! (एका भुरग्याक लेखून) तो आनी मुरली वाजोवपी ही बरी जोडी आसा.

वाद्यवृंद चालू जालो. तें जाले उपरांत श्रीरामकृष्णांनी आनंदीत जावन म्हणलें, ''खरेंच खुबच सुंदर.''

एका तरणाट्या भुरग्या कडेन बोट दाखोवन तांणी म्हणलें, ''ताका सगल्या तरांचीं वाद्यां वाजोवंक येतात.''

तांणी मक म्हणलें, ''हीं सगलीं बरीं मनशां आसात.''

वाजोवन जाले उपरांत एका तरणाट्या गायकान भक्तांक म्हणलें, ''तुमच्यांतले कोणय गायल्यार आमकां आनंद जातलो.''

ब्राह्मणी दारा कडेन उबी आशिल्ली. तिणें म्हणलें, ''हांच्या भितरल्या कोणाकच गावंक येना. घडये मोहिनी बाबू गावंक शकता. पूण तो श्रीरामकृष्णां मुखार गावपाचो ना.''

**एक भुरगो:** अशें कित्याक? हांव म्हज्या बाबा मुखार गावंक शकतां.

**धाकटो नरेन:** (हांसत) हाची अजून तितली प्रगती जावंक ना. (सगले हांसतात.)

थोड्या वेळान ब्राह्मणी आयली आनी तिणें श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ''मातशे भितर येयात.''

**श्रीरामकृष्ण:** कित्याक?

**ब्राह्मणी:** थंय फळाराची तयारी केल्या. चलात भितर.

**श्रीरामकृष्ण:** हांगाच हाडून दियात न्हय.

**ब्राह्मणी:** गणूची आई म्हणटा, कुडींत एक खेपो पांय लागल्यार ती कूड काशी जावन वतली. मागीर ते कुडींत कोणाकय मरण आयल्यार कोणाक कसलेच त्रास हाचे फुडें जावपाचे नात.

ब्राह्मणी आनी घरांतलीं भुरगीं श्रीरामकृष्णा सांगातान भितर मदले कुडींत गेलीं. भक्त चांदण्यांत भोंवूंक लागले. म आनी विनोद घराचे दक्षिणे कडल्या व्हडल्या रस्त्यार श्रीरामकृष्णांचे जिणेंतल्या कांय प्रसंगांची याद काडीत भोंवताले.

## गुपीत गजाल
## तिगय जाण एकच

गणूचे आईच्या घरच्यान श्रीरामकृष्ण बलरामाच्या घरा परत आयले. बलरामाच्या घराच्या सालाचे अस्तंते कडले एके ल्हान कुडींत ते विसव घेताले. बरोच उशीर जाल्लो. लागीं लागीं रातचीं पावणे इकरा जाल्लीं.

श्रीरामकृष्णांनी योगीनाक म्हणलें, ‘‘मातसो म्हज्या पांयांचेर हात भोंवडाय पळोवया.’’ म लागींच बशिल्लो. योगीन तांच्या पांयां वयल्यान हात भोंवडावपाक लागलो. श्रीरामकृष्णांनी अकस्मात म्हणलें, ‘‘म्हाका भूक लागल्या. थोडी सोजी खातां.’’

ब्राह्मणी हांगाय श्रीरामकृष्णां बराबर आयिल्ली. भक्तय बलरामाच्या घरा आयिल्ले. ब्राह्मणीच्या भावाक तबलें वाजोवंक बरें येतालें. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ‘‘आतां नरेंद्र आयलो वा आनी कोणय गावपी आयलो म्हणचे हिच्या भावाक आफोवन हाडलें म्हणचे जालें.’’

श्रीरामकृष्णांनी इल्ली सोजी खाली. योगीन आनी हेर भक्त कुडींतल्यान भायर गेले. म श्रीरामकृष्णांच्या पांयां वयल्यान हात भोंवडायतालो. ते उलोवंक लागले.

**श्रीरामकृष्ण:** (ब्राह्मणी आनी तिच्या हेर नातेवायकांक लेखून) वा, वा. कितलो आनंद जाला तांकां.

**म:** सामकें अजापाचें. येशू क्रिस्ताच्या वेळार अशेंच घडिल्लें. त्यो दोनय भयणी आशिल्लयो. त्यो दोगीय येशूच्यो भक्त आशिल्लयो. मार्था आनी मेरी.

**श्रीरामकृष्ण:** (उत्सूकतायेन) तांची कितें गजाल आसा ती सांग पळोवया.

**म:** येशू क्रिस्त तुमचेच भशेन तांच्या घरा भक्तां वांगडा गेल्ले. तातूंतली एक भयण तांकां पळोवन आनंदान पूर्णतायेन भुल्लुसून गेल्ली.

गौरांगा विशीं त्या पदांत अशेंच म्हणलां:

म्हजे दोनय दोळे गौरांगाच्या रूपसागरांत बुडून गेले
ते मागीर परत आयलेच नात म्हजे कडेन;
म्हजें मन लेगीत पेंवप विसरून सामकें तळाक बुडून गेलें.

दुसरी भयण एकटीच खाणा जेवणाची तयारी करताली. तिणें येशू कडेन येवन कागाळ केली, ‘भगवान, पळय न्हय. ताईचो हो म्हजेर अन्याय न्हय. ती तुमगेले कुडींत येवन सुशेगाद बसल्या आनी हांव थंय एकटीच सगलें काम करतां.’ येशून म्हणलें, ‘तुजी ताई खरीच भाग्यवान आसा. मनीस जिणेंत एकच गजाल गरजेची आसा ती म्हणल्यार ईश्वरा विशीं भक्ती. ती तिका मेळ्ळ्या.’

**श्रीरामकृष्ण:** बरें तुका हे सगलें पळोवन कितें दिसता?

**म:** म्हाका दिसता येशू क्रिस्त, चैतन्यदेव आनी तुमी एकच आसात. एकेच व्यक्तीन हीं तिनय रुपां घेतल्यांत.

**श्रीरामकृष्ण:** हय, हय. एकच, एकच. खरेंच एकच. तुका दिसना तो ईश्वरच फकत जो हांगा अशे तरेन रावता तो?

अशें म्हणून श्रीरामकृष्णांनी स्वताच्या शरिरा कडेन बोट दाखयलें. ईश्वर तांचो देह धारण करून अवतीर्ण जाला अशें ते सांगतात कशे.

**म:** तुमी सारकें समजावन सांगलां त्या दिसा, ईश्वर स्वताच धर्तरेचेर अवतार घेता.

**श्रीरामकृष्ण:** हांवें कितें म्हणलें तें सांग पळोवया.

**म:** तुमी आमकां अशी कल्पना करपाक सांगलें की जशें एक व्हडलें दिगंताक व्यापता अशें मळ आसा – सामकें शीममेर नाशिल्लें. पूण आमचे मुखार एक वणत आसा. म्हणून आमी तें पळोवंक पावनात. ते वणटीक एक वाटकुळें छिद्र आसा. त्या छिद्रांतल्यान अनंत मळाचो थोडोसो भाग दिसता.

**श्रीरामकृष्ण:** सांग पळोवया तें छिद्र म्हणचे कितें तें.

**म:** तें छिद्र म्हणल्यार तुमीच. तुमचे वरवीं सगलें पळोवंक मेळटा. तें अनंत मळ जाका शीममेर ना.

श्रीरामकृष्ण हें आयकून खूब हर्शभरीत जाले. तांणी मची फाट थापटिली आनी म्हणलें, तुका सगलें समजलां दिसता. तें एकदम बरें जालें.

**म:** हें समजप खरेंच कठीण आसा. परमेश्वर पूर्ण ब्रह्म आसून ह्या इल्ल्याश्या देहांत कसो रावता हें लक्षांत येना.

श्रीरामकृष्णांनी एका पदांतल्यो थोड्यो वळी म्हणून दाखयल्यो:

आरे, तो कोण तें कोणेंच जाणा जावन घेतलें ना;
पिसो कसो तो दारादारांनी भोंवता,
एक दुबळो भिकारी कसो तो दारादारांनी भोंवता.

**म:** तुमी येशू विशीं आमकां सांगिल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** हांवें कितें सांगिल्लें?

**म:** यदू मल्लिकाचे बागेंत येशूचें चित्र पळोवन तुमकां समाधी लागिल्ली. तुमी पळयलें, येशू त्या चित्रांतल्यान भायर येवन तुमचे भितर विलीन जावन गेलो.

श्रीरामकृष्ण थोडो वेळ ओगी रावले. मागीर तांणी मक म्हणलें, ''हें जें दुखणें गळ्यांत जालां ताका घडये कितेंय अर्थ आसतलो. घडये हांव सगल्यां मुखार क्षुद्र जायन आनी खंयय वचून नाचन आनी गायन. म्हणून म्हाका हें गळ्याचें दुखणें जालां आसतलें.''

श्रीरामकृष्ण द्वीजा विशीं उलोवंक लागले. तांणी म्हणलें, ''द्वीज आयज आयलो ना. कित्याक?''

**म:** हांवें ताका येवपाक सांगिल्लें. आयज येता म्हणून सांगिल्लें. तो कित्याक आयलो ना ताची कल्पना ना.

**श्रीरामकृष्ण:** ताचे कडेन खूब व्याकूळताय आसा. तो हांगाचो कोण तरी* आसूंक जाय, अशें न्हय?

**म:** हय महाराज. तशेंच आसूंक जाय. नाजाल्यार ताका इतली व्याकूळताय कशी आसतली?

श्रीरामकृष्ण मच्छरदाणये भितर वचून आड पडले. म भितर वचून तांकां वारो घालतालो. मातशे कुशीक परतले उपरांत श्रीरामकृष्णांनी सांगलें, ''मनशाच्या रुपांत ईश्वर आवतार घेता आनी लिला करता.'' उलयता आसतना तांणी मची अध्यात्मीक मोख कितें तेंय सांगलें.

**श्रीरामकृष्ण:** पयलीं हांव असले अवस्थेंतल्यान गेलां त्या वेळार म्हाका रुपांची दर्शनां जायनाशिल्लीं. आतां लेगीत म्हाका रुपांचीं दर्शनां चडशीं जायनात.

**म:** सगल्या दर्शनां भितर, सगल्या लिलां भितर नर लिला म्हाका खूब आवडटा.

**श्रीरामकृष्ण:** तशें जालें म्हणचे पुरो. आनी म्हाका तूं पळयत आसाच.

---

* श्रीरामकृष्णांच्या अंतरंगांतलो भक्त.

# अध्याय एकशेंसत्तावीस

## दक्षिणेश्वर, राखाल, म
## महिमाचरण आनी हेर भक्तां वांगडा
## श्रीरामकृष्ण स्वताचेच अणभव सांगतात

### द्वीज, द्वीजाचे वडील आनी श्रीरामकृष्ण
### मातृरीण आनी पितृरीण

**ऑगस्ट 9, 1885. आयतार.** श्रीरामकृष्ण दक्षिणेश्वर देवळांतले तेच तांगेले कुडींत बशिल्ले. राखाल, म, द्वीज आनी ताचे वडील आनी हेर भक्त थंय बशिल्ले. सांजेचीं सुमार चार वरां जाल्लीं. वृंदावना सावन परतले उपरांत राखाल कांय दीस घरा रावलो. आतां तो श्रीरामकृष्णां बराबर रावंक लागिल्लो. लाटू, हरीश आनी रामलाल हेय श्रीरामकृष्णां बराबर रावंक लागिल्ले. श्रीरामकृष्णांक बरें दिसनाशिल्लें. तांच्या दुखण्याची ही सुरवात जाल्ली. आनी रोगाची पारख करून तें जिवा वयलें दुखणें कांक्र अशें थारिल्लें. पूण हाका लागून तांच्या मनाची शांतताय इबाडून वचूंक नाशिल्ली. ते दीस रात फकत भक्तांचें अध्यात्मीक कल्याण जावचें हेंच चिंत्ताले. ते तांकां ईश्वराचो लाव जावचो म्हणून मार्गदर्शन करताले. ज्ञान आनी भक्ती रुजोवपा खातीर भक्तांक ते सदांच मदत करताले. आनी कामिनी-कांचना पसून पयस रावपाक सावध करताले. ते स्वताच्या दुखण्या विशीं सामके उदासीन आशिल्ले आनी मना पसून धर्तरे वयल्या लोकांच्या कल्याणा खातीर तांणी आपली जीण समर्पीत केल्ली.

द्वीजाचें वय सोळा वर्सांचें आसतलें. ताचे आवयच्या मरणा उपरांत ताच्या वडिलांनी दुसरें लग्न केल्लें. द्वीज म बराबर सदांच श्रीरामकृष्णां कडेन येतालो. पूण ताच्या वडिलांक तें आवडनाशिल्लें.

द्वीजाचे वडील खूब दिसां पसून श्रीरामकृष्णांच्या दर्शनाक येतले अशें म्हणटाले. म्हणून आयज ते आयिल्ले. कलकत्तांतल्या एके वेपारी संस्थेंत ते वेवस्थापक आशिल्ले आनी ते वकिलीची परिक्षा पास जाल्ले.

**श्रीरामकृष्णः** (द्वीजाच्या वडिलांक) तुमचीं भुरगीं हांगा येतात म्हणून वायट धरूं नाकात. हांव ह्या लोकांक सांगीत आसतां, चैतन्य जागृत जाले उपरांत संवसारांत रावात. खूब यत्न करून भांगर काडले उपरांत मनीस तें मातयेंत पुरून दवरूंक शकता,

वा पेटयेंत वा उदकांत दवरूंक शकता. मागीर भांगराक कांयच जावंक शकना. अनासक्त जावन ह्या संवसारांत रावात अशें हांव लोकांक सांगीत आसतां. हाताक तेल लावन जर पोणसूल फोडलें तर हाताक पांक लागना. कच्चें मन जर संवसारांत उरत तर मन म्हेळें जावन वतलें. ज्ञानाचो लाव पयलीं करून घेवंक जाय. मागीर संवसारांत रावंक जाय.

दूद उदकांत घाल्यार, दूद इबाडटा. पूण त्या दुदाचें लोणी करून तें उदकांत दवरल्यार मागीर ताका कांयच बादा येना.

**द्वीजाचे वडील:** खरें आसा महाराज.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तुमी भुरग्यांक कित्याक तापयतात तें लक्षांत आयलें म्हज्या. तुमी तांकां फकत भंय दाखयतात.

ब्रह्मचाऱ्यान सोरपाक म्हणलें, 'तूं सामकोच पिसो मरे. हांवें तुका चाबूं नाका सांगिल्लें पूण फोंस करपाक मनाय करूंक नाशिल्लें. तुवें जर फोंस्स केल्लें तर तुजे दुस्मान तुका मारचे नाशिल्ले.' तुमी भुरग्यांचेर रागार जातात, भंय घालतात, हें फकत तुमगेलें फोंस्स करप. (द्वीजाचे वडील हांसतात.)

**श्रीरामकृष्ण:** बरो भुरगो जावप ही बापायची पुण्याय. तळयेक जर बरें उदक लागत तर ती तळयेच्या धनयाची पुण्याय.

चल्याक आत्मज म्हणटात. तुमी, तुमचो पूत हातूंत कांय फरक नासता. तुमीच एका रुपान पूत जाल्यात. एका रुपान तुमी संवसारी आसात, ऑफिसांत काम करतात, संवसारी भोग घेतात तर आनीक एका रुपान तुमीच ईश्वराचे भक्त जाल्यात-तुमच्या पुताच्या रुपान. हांवें आयकल्लें, तुमी संवसारांत खूब आसक्त आसात म्हणून. पूण आतां म्हाका दिसता तुमी तशे न्हय. (हांसत) तुमी सगलें हें जाणाच. तुमी खंय चोंय वटेन विचार करपी. देखुनूच चड करून तुमी हांव म्हणटां ताका हयकार दितात.

द्वीजाचे वडील हांसले.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमचीं भुरगीं हांगा आयिल्लयान तुमी म्हणचे कोण आसात तें खरेंच तुमकां कळटलें. प्रत्येकाचो बापूय केदो व्हड आसता! आवय बापायक फसोवन जो धर्म आचरणांत हाडटलो ताका फकत मेळटली माती.

**पयलींची जीण**
**वृंदावनांत श्रीरामकृष्णांची**
**स्वताचे आवय खातीर चिंता**

मनीस कांय रिणां घेवन जल्माक येता. पितृरीण, देवरीण आनी रुशीरीण. हाचे

भायर मातृरीण आसता. परत पत्नीचेंय रीण आसता. तिचें पाळणी पोसणी करूंक जाय. ती पतीव्रता आसल्यार स्वताच्या मरणा उपरांतय तिचे खातीर कितेंय वेवस्था करून दवरूंक जाय. हांव म्हजे आवय खातीर वृंदावनांत रावंक शकलों ना. आवय दक्षिणेश्वराक देवळाचे बागेंत रावता हाची याद जातकूच मागीर म्हजें मन आनीक वृंदावनांत लागलें ना.

हांव लोकांक संवसारांत रावपाक सांगतां. पूण त्याच वेळार देवाचेर मन दवरात म्हणून सांगतां. हांव तांकां संवसार सोड म्हणून सांगिना. हांव म्हणटां, तुमी संवसारांतलीं कर्तव्यां पुराय करात आनी ईश्वराचेंय चिंतन करात.

**द्वीजाचे वडील:** हांव म्हज्या भुरग्यांक अभ्यास करपाक सांगतां. हांव तांकां तुमचे कडेन येवपाक मनाय करिना. पूण पोरां बराबर फकाणां मस्करी करपाक वेळ वगडायलो ना म्हणचे जालें.

**श्रीरामकृष्ण:** (द्वीजाक लेखून) हो भुरगो बरे संस्कार घेवनच जल्माक आयला. हाचे दुसरे दोग भाव हाचे परस वेगळे कित्याक? हो द्वीजच कित्याक अध्यात्मीक संस्कार घेवन आयला? बळजबरी करून तुमी ताका हांगा येवपाक मनाय करूंक शकतले? आयज ना फाल्यां आपापल्या संस्कारा प्रमाण जातलें.

श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगा वयल्यान सकयल देंवून द्वीजाच्या वडिलां लागीं जमनीर बसले. उलयतां उलयतां मदीं मदीं ते तांच्या आंगाक स्पर्श करताले.

लागीं लागीं सांज जाल्ली. श्रीरामकृष्णांनी मक आनी हेरांकय द्वीजाच्या वडिलांक देवळां दाखोवपाक सांगलें, हांव बरो आशिल्लों जाल्यार हांवच तांचे बराबर वतलों आशिल्लों. तांणी भुरग्यांक मिठाय दिवपाक सांगलें. द्वीजाच्या वडिलांक म्हणलें, ''भुरगीं थोडें गोड गोड खातलीं. तोंड गोड करपाक जाय.''

द्वीजाचे वडील देवळां आनी देवतांचें दर्शन घेवन बागेंत मातशे भोंवले. श्रीरामकृष्ण स्वताचे कुडीचे आग्नेय कडले पडवेंत भुपेन, द्वीज, म आनी हेरां कडेन आनंदान उलोवंक लागले. उलयतां उलयतां मजेन तांणी भुपेन आनी म हांची फाट थापटिली. तांणी द्वीजाक हांसत म्हणलें, ''हांव तुज्या बापाय कडेन कसो उलयलों!''

तिनसांज जातकूच द्वीजाचे वडील श्रीरामकृष्णांचे कुडींत परत आयले. थोड्याच वेळान तांकां वचपाक जाय आशिल्लें. तांकां सामको उजो जावंक लागलो. श्रीरामकृष्ण स्वताच तांकां वारो घालूंक लागले. थोड्याच वेळान द्वीजाच्या वडिलांनी श्रीरामकृष्णांचो निरोप घेतलो. श्रीरामकृष्ण तांकां निरोप दिवपाक उबे

रावले.

रातचीं आठ वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण महिमाचरणां बराबर उलयताले. कुडींत राखाल, म आनी महिमाचरणांचे एक दोन सांगाती आशिल्ले. महिमाचरण आयज रातचे थंयच रावतले.

**श्रीरामकृष्णः** (महिमाक) बरें, केदार तुमकां कसो दिसता? ताणें दूद पळयलां काय तो तें पियेलाय बी?

**महिमाः** हय. तो आनंद चोखता.

**श्रीरामकृष्णः** नित्यगोपाळ?

**महिमाः** खूब बरो. तो मनाचे उंचेले अवस्थेंत आसा.

**श्रीरामकृष्णः** हें बरें. गिरीश घोशा विशीं कितें?

**महिमाचरणः** ताणें लेगीत बरी प्रगती केल्या. पूण ताचो वर्गच वेगळो.

**श्रीरामकृष्णः** आनी नरेंद्र?

**महिमाः** पंधरा वर्सां पयलीं जे अवस्थेंत हांव आशिल्लों ते अवस्थेंत तो आतां आसा.

**श्रीरामकृष्णः** तो धाकटो नरेन? कितलो सरळ आसा तो न्हय?

**महिमाः** हय खूब सरळ.

**श्रीरामकृष्णः** हय. तुमचें बरोबर. (मातसो विचार करून) आनीक कोण आसात पळोवया. जे कोण भुरगे हांगा येतात तांणी दोन गजाली जाणा जावन घेतल्यो की पुरो. मागीर तांकां आनीक जास्त साधना करपाची गरज ना. पयली गजाल म्हणल्यार हांव कोण आसां आनी मागीर ते कोण आसात. कितलेशेच भुरगे म्हज्या अंतरांगांतले आसात.

जे अंतरंगांतले आसात तांकां मुक्ती मेळपाची ना. वायव्य दिकेक म्हाका परत देह धारण करचो पडटलो.

भुरग्यांक पळोवन म्हज्या मनाक थाकाय मेळटा. जांणी भुरग्यांक जल्माक घाल्यांत, जे मुकदमो, खटले करीत भोंवत आसतात, जे कामिनी-कांचनांत दंग आसतात तांकां पळोवन म्हाका आनंद कसो जातलो? शुद्ध पवित्र मनीस दिसना जाल्यार कशें रावपाचें?

महिमाचरणान शास्त्रांतले कांय श्लोक वाचून दाखयले आनी तंत्रांत सांगल्यात त्या शुद्ध विधीं विशीं म्हायती दिली.

## श्रीरामकृष्णांची पांच तरांची समाधी
## शटचक्रभेद. योगरहस्य. कुंडलिनी

**श्रीरामकृष्ण:** बरें, म्हजो आत्मो, समाधींत गेले उपरांत महाकाशांत, अंतरिक्षांत, सुकण्यां भशेन उडत आसता.

एक खेपो रुशीकेशचो एक साधू आयलो. ताणें म्हाका सांगलें, समाधी पांच तरांची आसता. पूण तुमकां सगल्याच तरांची समाधी लागता. अशें दिसता, हे समाधींत आत्मीक वायूची संवेदना मनाक स्पर्शून वता – जशें कितें मूय, नुस्तें, माकोड, सुकणें वा सोरोप आंगा भितर भोंवतात कशे:

केन्ना केन्नाय आत्मीक वायू मुये भशेन सरसर कसो कण्यांतल्यान वयर सरता.

केन्नाय समाधींत आत्मो ईश्वरी परमानंदाच्या दर्यांत नुस्तें कसो आनंदान पेंवता.

केन्नाय हांव जेन्ना कुशीर न्हिदिल्लों आसतां तेन्ना आत्मीक वायू म्हाका माकडा भशेन धुकलता आनी म्हजे बराबर आनंदान खेळटा. हांव शांत रावतां. तो वायू माकडा भशेन अचकीत उडी मारून सहस्त्र चक्रांत वयर चडून वता. म्हणून तर अशा वेळार हांव एकदम उडी मारीत आसतां.

केन्ना हे खांदयेर तर केन्ना ते खांदयेर उडपी सुकण्यां भशेन हो आत्मीक म्हावायू वयर सरत आसता. ज्या जाग्यार तो विसव घेता तो जागो उज्या भशेन जाणवता. तो वायू मुलाधार सावन स्वाधीस्थान, स्वाधीस्थान सावन काळीज अशे रितीन ल्हव ल्हव उडक्यो मारीत तो मस्तकांत चडटा.

तर केन्ना केन्नाय तो आत्मीक म्हावायू सोरपा भशेन वता – वांकडो -तिकडो आनी निमणें तो मस्तकांत पावता आनी म्हाका समाधी लागता.

## पयलींची जीण – 22 – 23व्या वर्सा
## पयलो दिव्य उन्माद
## 1858 ची घडणूक – शटचक्रभेद

कुंडलिनी जागृत जाले बगर मनशाचें चैतन्य जागृत जायना. कुंडलिनी मुलाधारांत रावता. ती जागृत जातकच ती सुशुम्ना नाडींतल्यान स्वाधीस्थान, मणिपूर आनी हेर चक्रांचो भेद करून निमणें मस्तकांत पावता. हाकाच म्हणटात म्हावायूची – आत्मीक वायूची – गती. अशें जालें तरच निमणें समाधी लागता.

फकत शास्त्रग्रंथ वाचून चैतन्य जागें जायना. ईश्वराकय होरावंक जाय. ईश्वरा खातीर अस्वस्थ जाले बगर कुंडलिनी जागी जायना. फकत पुस्तकां वाचून, ज्ञानाच्यो गजाली करून – कितें जातलें?

म्हजी ही मनाची अवस्था जावचे पयलीं म्हाका (दर्शनां वरवीं) दाखोवन दिलें – कुंडलिनी शक्ती कशी जागी जाता तें. एक एक करून सगलीं पदकमळां फुलूंक लागलीं आनी म्हाका समाधी लागली. हो सामको गुपीत अणभव हांवें पळयलो, सामको म्हजे सारको बावीस तेवीस वर्सांचो भुरगो, सुशुम्ना नाडींत भितर वता, तांचे कडेन एकवट्टा आनी तागेल्या जिबेन पद कमळांक स्पर्श करता. पयलीं गुदद्वार केंद्रार, मागीर लिंग, बोंबली आनी हेर केंद्रा वयल्या पदकमळांक तो आफडीत गेलो. त्या केंद्रांतलीं वेगवेगळीं पदकमळां – चतुर्दल, शटदल, दशदल पदकमळां सगलीं बाविल्लीं तीं तागेल्या स्पर्शान ऊर्ध्वमूख जावन गेलीं.

म्हाका सारकी याद जाता, तो जेन्ना हृदय स्थानार पावलो तेन्ना तो थंयच्या पदकमळा कडेन उलयलो आनी ताणें ताका जिबेन स्पर्श केलो. ते उपरांत थंयचें द्वादशदल पदकमळ (बारा पाकळ्यांचें) जें तकली सकयल घालून बागवल्लें तें पदकमळ ऊर्ध्वमूख जालें आनी सामकें फुलून गेलें. मागीर तो कंठस्थानार शोडशदल आनी कपला स्थानार द्विदल आनी निमणें मस्तकांतल्या सहस्त्रदल पदकमळा कडेन आयलो आनी तें सहस्त्रदल पदकमळ फुल्लें. तेन्ना पसून हांव हे अवस्थेंत आसां.

## पयलींची जीण
## श्रीरामकृष्ण कोण?
## सिद्धपुरूश काय अवतार?

उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्ण सकयल आयले आनी जमनीर महिमाचरणां लागीं बसले. म आनी हेर भक्त थंयच बशिल्ले. कुडींत राखालय आशिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** (महिमाक) खूब दिसां सावन तुमकां म्हगेले अध्यात्मीक अणभव सांगपाची इत्सा आशिल्ली. पूण सांगूंक शकलों ना. आयज सांगपाची इत्सा जाता. तुमी म्हणटात एकाद्र्यान फकत साधना केली तर म्हजे सारकी मनाची अवस्था मेळोवंक जाता. पूण तशें म्हणप बरोबर न्हय. हांगा म्हजे भितर कितें तरी खाशेलें आसा.

राखाल, म आनी हेर भक्त आतां श्रीरामकृष्ण कितें सांगतले तें आयकुपाक आतूर जाले.

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वर म्हजे कडेन उलयलो. फकत ताचें दर्शन न्हय. हय, तो म्हजे कडेन उलयलो. वडा सकयल तो गंगेंतल्यान येतना हांवें ताका पळयलो. मागीर आमी खूब हांसले. म्हजे बराबर खेळटा आसतना ताणें म्हज्या हाताचीं बोटां मोडलीं. मागीर तो उलयलो. हय तो म्हजे कडेन उलयलो.

तीन दीस सारको हांव रडटालों. मागीर वेदांत, पुराणांत, तंत्रांत आनी हेर शास्त्रांनी कितें आसा तें ताणें सगलें म्हाका दाखोवन दिलें. एक दीस म्हामाया म्हणचे कितें तें ताणें म्हाका दाखयलें. कुडींत एक ज्योत ल्हव ल्हव करून वाडूंक लागली. आनी निमणें ते ज्योतीन सगलें विश्व व्यापून उडयलें.

मागीर ताणें दाखयलें, व्हडलें तळें. आनी उदका वयर तें पाचव्या शेळ्यान सामकें भरून गेलां. वाऱ्यान शेळो मातसो हाल्लो आनी रोखडेंच उदक दिसूंक लागलें. पूण खिणांत पळयतां पळयतां चोंय वटेन शेळो नाचत नाचत आयलो आनी ताणें उदक सगलें धांपून उडयलें. ताणें म्हाका दाखोवन दिलें, उदक जशें कितें सच्चिदानंद आसा आनी शेळो जशी कितें माया. माये खातीर सच्चिदानंद दिसना. आनी तरी मदीं मदीं जरी खीणभर उखलापें दिसलें तरी माया ताका धांपून उडयता.

कसले तरेचे भक्त हांगा येतले तें ते येवचे पयलींच म्हाका ईश्वर दाखयतालो. वड आनी ओंवळ हांचें मदीं पंचवटी लागीं चैतन्य देवाचो किर्तनाचो पंगड नाचता, गायता तें म्हाका दाखयलें. हांवें थंय बलरामाक पळयलो. जर तो नाशिल्लो तर म्हाका खडीसाकर आनी हेर जिनस कोण दितलो आशिल्लो? (म कडेन बोट दाखोवन) आनी हांवें हाकाय पळयलो.

### श्रीरामकृष्ण आनी केशव सेन
### केशव सेनाच्या ब्राह्मसमाजांत
### हरिनामाचो आनी जगन्मातेच्या
### नांवाचो अंतर्भाव

केशव सेन प्रत्यक्षांत मेळचे पयलीं तांकां हांवें पळयले. म्हजे समाधींत हांवें तांकां आनी तांच्या पंगडाक पळयिल्लें. म्हजे मुखार कूडभर लोक बशिल्ले. केशव एकाद्रो मोर आपलो शेंपाडो फुलोवन बशिल्ले भशेन दिसताले. शेंपाडो म्हणचे ताचो पंगड. केशवाच्या मस्तकार तांबडो मणी हांवें पळयलो. ती रजोगुणाची कुरू. केशवान आपल्या शिश्यांक म्हणलें, 'हे (श्रीरामकृष्ण) कितें सांगतात तें आयकात.' हांवें जगन्मातेक सांगलें, 'आई, हांचें इंग्लीश मत. हांव तांकां कित्याक सांगूं?' मागीर आईन म्हाका

समजावन सांगलें, ‘कलीयुगांत अशेंच जावपाचें.’

केशव आनी ताचे सांगाती म्हजे कडच्यान हरीनाम आनी जगन्मातेचें नांव घेवन गेल्यात. म्हणुनूच जगन्मातेन विजयाक केशवाच्या पंगडांतल्यान व्हेलो. पूण विजय आदी* समाजांत गेलो ना.

(स्वता कडेन बोट दाखोवन) हांगा म्हजे भितर कितें तरी खाशेलेपण आसा. खूब दिसां पयलीं गोपाळ सेन नांवाचो भुरगो हांगा येतालो. जो म्हजे भितर कोण रावता ताणें गोपाळाचे छातयेर पांय दवरलो. तेन्ना ताणें ईश्वरी आनंदांत म्हणलें, ‘तुमकां हांगा खूब तेंप रावचें पडटलें. संवसारी लोकां बराबर आनीक चड तेंप म्हज्यान रावूं नजं.’ म्हजो ताणें निरोप घेतलो. मागीर हांवें आयकलें, तो हो संवसार सोडून गेलो म्हणून. घडये तोच नित्यगोपाळ म्हणून जल्मला आसतलो.

म्हाका अजापाचीं दर्शनां जाल्यांत. अखंड सच्चिदानंदाचें दर्शन म्हाका जालें. ताचे भितर हांवें दोन पंगड पळयले. दोगांय मदीं एक वंय आशिल्ली. एके वटच्यान केदार, चुनी आनी हेर भक्त बशिल्ले जे साकार रुपी देवाक मानताले. दुसरे वटच्यान तांबड्या विटांचो भुसो आशिल्ले राशी भशेन झगझगपी जागो. ताचे भितर समाधींत मग्न आशिल्लो नरेंद्र हांवें पळयलो.

ताका असो ध्यानस्थ पळोवन हांवें ताका ‘आरे नरेंद्र’ म्हणून उलो मारलो. ताणें मातशे दोळे उगडले. म्हाका समजून आयलें, तो वेगळ्या रुपांत, सिपल्यांत** कायस्थाच्या कुटुंबांत जल्मल्लो आसा.

रोखडेंच हांवें जगन्मातेक म्हणलें, ‘आई, ताका मायेन बद्ध कर. नाजाल्यार तो समाधीमग्न जावन देह त्याग करतलो.’ केदार साकार देवाक मानपी. ताणें ल्हवूच भितर पळयलें आनी तो कांचवेवन थंयच्यान धांवलो.

देखून म्हाका दिसता, जगन्माता स्वता ह्या देहांत रावता आनी भक्तां बराबर लिला करता. जेन्ना पयलेच खेपो हांव हे उदात्त मनाचे अवस्थेंत आशिल्लों तेन्ना तेजान म्हजो देह लकलकतालो. म्हजें हड्डें तांबडेंगूंज जातालें. तेन्ना जगन्मातेक हांवें म्हणलें, ‘आई, भायल्यान अशी प्रगट जावं नाका. भितर वच, भितर वच.’ म्हणुनूच आतां हो देह असो निस्तेज जाल्लो आसा. जर म्हजो देह अजून तेजपूंज उरिल्लो तर लोक म्हाका त्रास दितले आशिल्ले. लोकांची रीग लागतली आशिल्ली. आतां भायल्यान कांयच आविश्कार ना. हाका लागून तण भायर उरतलें.* जे खरे खरे भक्त आसात तेच म्हजे

---

*ब्राह्मसमाजाचो एक पंथ.

**कलकत्तांतलो एक वाठार.

बराबर उरतले. म्हाका हो रोग कित्याक जाला तुमी जाणात? हाचो अर्थ होच. जाची सकाम भक्ती आसतली असले भक्त म्हजो हो रोग पळोवन पळून वतले.
एक वानसा आशिल्ली. हांवें आईक म्हणिल्लें, 'ए आई, हांव भक्तांचो राजा जातलों.' परत हो विचार मनांत आयलो. जो मना पसून ईश्वराक आळयतलो तोच भक्त हांगा येतलो. ताका हांगा येवचेंच पडटलें. पळय न्हय, तशेंच हांगा आतां जाता. तसलेच सगले लोक हांगा आतां येतात.
ह्या म्हज्या शरिरांत कोण रावता हें म्हज्या वडिलांक खबर आशिल्लें. वडिलांक गयेक एक सपन पडिल्लें. त्या सपनांत रघुवीरांनी तांकां म्हणिल्लें, 'तुमचो पूत म्हणून हांव तुमगेर जल्म घेतलों.'
फकत ईश्वरच ह्या (म्हज्या) शरिरांत रावता. कामिनी-कांचनाचो असो त्याग! म्हजे हांवूंच हें तडीक व्हरूंक शकतलो आशिल्लों? हांवें सपनांत लेगीत अस्तुरे कडेन संग करूंक ना.
न्यांगटान वेदान्ताचो म्हाका उपदेश दिलो. तीन दिसांतच म्हाका समाधी लागली. माधवी वाली सकयल ही म्हजी समाधी अवस्था पळोवन तो हतबुद्ध जावन म्हणूंक लागलो, 'आरे, हें कितें?' उपरांत ताका कळ्ळें, ह्या (म्हज्या) शरिरांत कोण आसा तें. तेन्ना ताणें म्हाका म्हणलें, 'म्हाका आतां वचूं दी.' तोतापुरीचीं हीं उतरां आयकून हांव भाव समाधींत गेलों आनी हांवें म्हणलें, 'म्हाका वेदान्तांतलें सत्य समजले बगर तुमकां वचपाक मेळचें ना.'
त्या दिसांनी दीस रात हांव तांचे बराबर रावतालों. फकत वेदान्ता विशीं आमी उलयताले. ब्राह्मणी म्हाका म्हणटाली, 'वेदान्त आयकूं नाका. ताणें भक्तीची हानी जातली.'
एक खेपो हांवें जगन्मातेक म्हणलें, 'आई, म्हाका एक गिरेस्त मनीस मेळोवन दी. नाजाल्यार ह्या देहाची राखण कशी जातली? आनी साधू भक्तांक घेवन हांव कसो रावतलों?' देखुनूच मथूरबाबून सतत चौदा वर्सां सेवा केली.
म्हजे भितर जो आसा तो म्हाका पयलींच सांगता, कसले श्रेणीचे भक्त म्हजे कडेन येतले तें. गौरांगाचो दिश्टावो जातकूच म्हाका रोखडेंच कळटा, गौरांगाचे भक्त येतले म्हणून. कालीचें दर्शन जातकूच शाक्त भक्त येतात.
कोठयेचे गच्चे वयल्यान सांजेच्या आरती वेळार हांव आड्डून रडत सांगतालों, 'आरे,

---

* आल्तू, फाल्तू लोक पळून वतले.

तुमी सगले खंय आसात? म्हजे कडेन येयात.' पळय आतां सगले एका फाटल्यान एक हांगा येतात. ईश्वर स्वता ह्या शरिरांत रावता. तोच स्वता जावन ह्या सगल्या भक्तांक घेवन कार्य करीत आशिल्ले भशेन.

एकेका भक्ताची अवस्था कितली अजापीत आसा! धाकट्या नरेनाचो कुंभक आपोआप जाता. आनी समाधी लेगीत. तेच अवस्थेंत तो केन्ना केन्नाय अडेज वरां आसता. केन्नाय ताचे परस चड. केदें व्हडलें अजाप!

हांवें सगल्या तरांची साधना केल्या - ज्ञानयोगाची, कर्मयोगाची आनी भक्तीयोगाची. आयुश्य वाडोवपा खातीर हठयोगाची लेगीत साधना केल्या. ह्या शरिरांत (म्हज्या) आनीक एकटो रावता. नाजाल्यार समाधी उपरांत भक्तां वांगडा आनी ईश्वराची भक्ती घेवन कसो रावतलों आशिल्लों? कुंवरसिंग म्हणटालो, 'समाधी उपरांत परत आयिल्लो मनीस हांवें केन्नाच पळोवंक ना. तुमीच नानक आसात.'

## पयलींची जीण - केशव आनी प्रताप

## 1881

हांव प्रांपचीक लोकां बराबर रावतां. चोंय वटेन हांव कामिनी-कांचन पळयतां. तरीपूण म्हजी ही मनाची अवस्था आसा. अखंडपणान समाधी आनी भाव आसता. ते खातिरूच प्रतापान* म्हजी ही अवस्था पळोवन म्हणलें, 'आवयस! भुतानूच झपाटिल्ले वरी.'

श्रीरामकृष्णांचे हे खाशेले अणभव आयकून राखाल, म आनी हेरांचेर सामको मोनेळ पडलो.

पूण महिमाचरणांक कितें श्रीरामकृष्णांच्या उलोवपांतलें मर्म कळ्ळें? हें सगलें आयकून लेगीत तांणी श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ''महाराज तुमच्या प्रारब्धा खातीर - तुमच्या फाटल्या जल्मांतल्या बऱ्या पुण्यायेच्या कर्मा खातीर हें सगलें घडलां. महिमाचरणांक अजून दिसतालें, श्रीरामकृष्ण एक साधू वा ईश्वराचे भक्त म्हणून. श्रीरामकृष्णांनी तांच्या म्हणण्याक हयकार दीत म्हणलें, ''हय, फाटल्या जल्मांतल्या कर्माचो हो पारिपाक, ईश्वर एक महाल कसो. (स्वताक उद्देशून) हें ताचें साल बसपाचें. भक्त हे ईश्वराचें (बसपाचें) साल आसा.''

---

* प्रताप चंद्र मुजुमदार हे ब्राह्मसमाजाचे नांवाजिल्ले वांगडी.

## महिमाचरणांचें ब्रह्मचक्र
## पयलींची जीण
## तोतापुरीचो उपदेश

रातचीं णव वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले. महिमाचरणांची श्रीरामकृष्ण कुडींत आसतना ब्रह्मचक्राची रचना करपाची इत्सा आशिल्ली. श्रीरामकृष्ण आसतनाच ते ब्रह्मचक्र करतले. राखाल, म, किशोरी आनी एक दोग भक्त हांकां घेवन महिमाचरणान जमनीचेर चक्राकार रचना केली. तांकां सगल्यांक तांणी ध्यान करपाक सांगलें. राखालाक समाधी लागली.

श्रीरामकृष्ण पलंगा वयल्यान सकयल देंवले आनी तांणी राखालाचे छातयेचेर हात दवरलो. तें करता आसतना तांणी जगन्मातेच्या नांवाचो जप केलो. राखाल जगाच्या भानार आयलो.

रातचें एक वर जाल्लें. आयज कृष्ण पक्षाची चतुर्दस. चोंय कडेन दाट काळोख. एक दोग भक्त गंगेच्या शिमिटाच्या बांदाचेर पासयो मारताले. श्रीरामकृष्ण उठले आनी भायर आयले  आनी तांणी भक्तांक म्हणलें, ‘‘न्यांगटान म्हाका सांगिल्लें, ह्या वेळार, मध्यान रातीं, अनाहत नाद आयकूंक येता.’’ सकाळचे फांतोडेर महिमाचरण आनी म श्रीरामकृष्णांचे कुडींत जमनीर न्हिदिल्ले. राखाल घडी करपाचे खाटीर न्हिदिल्लो. श्रीरामकृष्ण पांच वर्सांच्या भुरग्या भशेन दिगंबर जावन मदीं मदीं कुडींत पासयो मारताले.

**ऑगस्ट 10, 1885. सोमार**. फांतोड जाल्ली. श्रीरामकृष्ण जगन्मातेचें नांव घेताले. अस्तंते कडले पडवेर वचून तांणी गंगेचें दर्शन घेतलें. कुडींतल्या सगल्या देवदेवतांच्या चित्रां मुखार रावन ते तांकां पांयां पडले. भक्त हांतरुणा वयल्यान श्रीरामकृष्णांक पांयां पडले आनी गेले.

श्रीरामकृष्ण पंचवटींत एका भक्ता बराबर उलयताले. त्या भक्ताक सपनांत चैतन्य-देवाचें दर्शन जाल्लें.

**श्रीरामकृष्ण:** (ईश्वरी आनंदांत) अहाहा, अहाहा.

**भक्त:** पूण महाराज, ते सपनांत आयिल्ले.

**श्रीरामकृष्ण:** सपन कितें ल्हान गजाल आसा?

श्रीरामकृष्ण सर्दगन जाले. तांच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

एका भक्ताक जागृत अवस्थेंत दर्शन जातालें तें आयकून श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ‘‘म्हाका तें अजाप न्हय. नरेंद्राक लेगीत ह्या दिसांनी ईश्वरी रुपां दिसतात.’’

महिमाचरणान आंगणाचे अस्तंत दिके कडल्या शिवाच्या देवळांत वचून वेदमंत्र म्हणले.

ते एकटेच आशिल्ले. सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं. म गंगास्नान करून श्रीरामकृष्णां कडेन आयलो. श्रीरामकृष्णांनी ब्राह्मणीक मक खावपाक प्रसाद दिवपाक सांगलें.

**ब्राह्मणी:** तुमी स्वता पयलीं कितेंय खावन घेयात. मागीर ते खातले.

**श्रीरामकृष्ण:** (मक) तूं पयलीं जगन्नाथाचो प्रसाद घे आनी मागीर खा.

प्रसाद खाले उपरांत म शिवमंदिरांत गेलो आनी देवाक पांयां पडलो आनी परत श्रीरामकृष्णांचे कुडींत येवन तांकां पांयां पडलो. तो कलकत्ताक वचपाक भायर सरलो.

**श्रीरामकृष्ण:** (मायेन) बरे जतनायेन वच. तुका कामार वच्चें पडटलें.

# अध्याय एकशेंअट्ठावीस

## श्रीरामकृष्णांचें गूढ मौन, माया

**ऑगस्ट 11, 1885. मंगळार**. श्रीरामकृष्ण देवळांतले तांगेले कुडींत बशिल्ले. तांणी सकाळच्या आठ वरां सावन मौन पाळिल्लें. तांकां कितें कळ्ळें, तांगेलें हें दुखणें जिवा वयलें म्हणून? तांचें हें मौन पळोवन माताजी (श्रीसारदादेवी) रडूंक लागली. राखाल आनी लाटू लेगीत रडूंक लागले. बागबाजारांतली ब्राह्मणीय थंय पावली. तीय श्रीरामकृष्णांची ही अवस्था पळोवन रडूंक लागली. मदीं मदीं भक्त तांकां विचारूंक लागले, ते अशे सदां खातीर मौन पाळटले काय म्हणून. श्रीरामकृष्णांनी खुणेनच तांकां तशें तें रावचें ना म्हणून सांगलें.

दनपारच्या तीन वरांचेर नारायण आयलो. श्रीरामकृष्णांनी नारायणाक म्हणलें, "जगन्माता तुजें बरें करतली." नारायणान हेर भक्तांक सांगलें, श्रीरामकृष्ण तांचे कडेन उलयले म्हणून. राखालाक आनी हेर भक्तांक तांचे छातये वयलो व्हडलो फातर पयस जाल्ले भशेन जालें. ते सगले श्रीरामकृष्णांचे कुडींत येवन जमनीर बसले.

**श्रीरामकृष्ण:** (भक्तांक) आईन म्हाका दाखोवन दिलें, ही सगली माया आसा. तीच (आईच) फकत सत्य. हेर सगलें जें आसा तें सगलें तिचें मायेचे ऐश्वर्य.

आनीक एक म्हाका दाखोवन दिलें, वेगवेगळ्या भक्तांची कितली प्रगती जाल्या ती.

**भक्त:** महाराज, ताचे विशीं आमकां सांगात न्हय.

**श्रीरामकृष्ण:** ह्या सगल्या भक्तां विशीं म्हाका कळ्ळें. नित्यगोपाळ, राखाल, नारायण, पूर्ण, महिमा चक्रवर्ती, आनी हेर.

# अध्याय एकशेंएकुणतीस

## गिरीश, शशधर पंडीत आनी हेर भक्तां वांगडा

**ऑगस्ट 16, 1885. आयतार.** श्रीरामकृष्णांक व्याधी जाल्या ही खबर कलकत्तांतल्या भक्तांक कळ्ळी. सगल्या जाणांक अशेंच दिसलें, गळ्याक मातशी सूज आयल्या. म्हणून कितलेशेच भक्त दक्षिणेश्वराक तांच्या दर्शनाक आयले - गिरीश, राम, नित्यगोपाळ, महिमा, किशोरी आनी पंडीत शशधर.

श्रीरामकृष्ण सदां भशेन आनंदीत आशिल्ले. ते तांच्या भक्तां बराबर उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हज्या दुखण्या विशीं हांव आईक कांयच सांगूंक शकना. ताचे विशीं उलोवपाक म्हाका लज दिसता.

**गिरीश:** परमेश्वर तुमकां बरो करतलो.

**राम:** हय तुमी बरे जातले.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) तसो म्हाका आशिर्वाद दियात. (सगले हांसतात.)

गिरीश हालीं दिसांनी दक्षिणेश्वराक येताले. श्रीरामकृष्णांनी तांकां म्हणलें, ''तुमकां कितलींशींच कामां आसात. तुमकां बऱ्याच अडचणींक तोंड दिवचें पडटा. तुमी आनीक तीन खेपो हांगा येयात.''

### शशधर पंडितांक उपदेश
### ब्रह्म आनी आद्यशक्ती अभिन्न

(शशधराक) तुमी आद्यशक्ती विशीं कितेंय सांगात.

**शशधर:** महाराज, हांव कितें जाणां?

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) एकट्याची एका मनशाचेर खूब भक्ती आशिल्ली. त्या मनशान त्या भक्ताक एक खेपो तंबाकू ओडपा खातीर उज्या कोळशे हाडपाक सांगलें. ताणें

नमळायेन सांगलें, 'महाराज, उज्या कोळशे हाडपाक हांव लायक आसां?' ताणें उज्या कोळशे हाडून दिलेच नात. (सगले हांसतात.)

**शशधर:** बरें आसा. फकत आद्य शक्तीच सृश्टीचें निमित्त कारण आसा. तीच उपादन कारण आसा. तिणेंच हें जीव जगत निर्माण केलां. ती स्वता हें सगलें जाल्या. जशें कोळी स्वताच जाळें निर्माण करता – निमित्त कारण जाता आनी जाळें स्वताच्या मदल्यान भायर काडटा – म्हणचे उपादन कारण जालां.

**श्रीरामकृष्ण:** आनी अशेंय आसा, जो पुरूश तीच प्रकृती, जें ब्रह्म तीच शक्ती आसा. ताका पुरूश वा ब्रह्म म्हणटात जेन्ना तो अचेतन – निश्कार्य आसता. म्हणचेच तो तेन्ना निर्मणी, स्थिती, प्रलय करिना. आनी ताका शक्ती वा प्रकृती म्हणटात जेन्ना तो हीं सगलीं कामां करता. पूण जें ब्रह्म तीच शक्ती. जो पुरूश तोच प्रकृती जाला. उदक थीर आसलें तरी उदक आनी हाल्लें तरी उदकच. सोरोप वांकडो तिकडो चल्लो तरी सोरोपच. पूण वेंटाळें करून ओगी रावलो तरी सोरोपच.

## ब्रह्मज्ञानाची गजाल
## श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न
## भोग आनी कर्म

ब्रह्म म्हणचे कितें हें तोंडान सांगूंक येना. वाणी थंय बंद जाता. किर्तन करतना किर्तनकार म्हणटा, 'म्हजो निताई मत्त हती भशेन नाचता.' जशे ते आनंदांत मग्न जायत वतात तशें तशें तांकां पूर्ण वाक्य उलोवंक जमना. मागीर ते फकत गायतात. 'हती–हती'. जशे जशे ते गावपांत चड मग्न जातात तेन्ना ते 'ह, ह' इतलेंच म्हणटात. निमणें तांच्यांनी तीं उतरां लेगीत उलोवंक नजं जाता. मागीर ते सामके बेहोश जातात.

उलयतां उलयतां श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न जावन गेले. उबे आसतनाच गाढ समाधींत मग्न. भानार आयले उपरांत ताणी म्हणलें, ''क्षर आनी अक्षर हांचे पलतडीं जें कितें आसा तें तोंडान सांगपाक येना.''

सगले भक्त ओगी बसून रावले. श्रीरामकृष्णांनी परत म्हणलें, जों मेरेन संवसारांतले भोग सोंपनात वा कर्म करपाचें उरता तों मेरेन समाधी लागना.

(शशधराक) सध्या ईश्वर तुमचे कडच्यान कर्तव्य करून घेता जशें भाशण दिवप बी. तुर्ताक तुमकां हीं सगलीं कर्मां करचीं पडटलीं. हीं कर्तव्यां सोंपतकूच तुमकां शांती मेळटली. घरधणीन घरांतलीं सगलीं कामां सोंपतकूच न्हावपाक वता. मागीर तुमी कितलेय आड्डुले जाल्यार लेगीत ती परत येना.

# अध्याय एकशेंतीस

## दक्षिणेश्वराक राखाल, म, पंडीत श्यामपद आनी हेरां वांगडा भगवान श्रीरामकृष्ण

## समाधी अवस्थेंत श्यामपदाचेर कृपा

**ऑगस्ट 27, 1885. बिरेस्तार.** श्रीरामकृष्ण एक दोन भक्तां सयत तांगेले कुडींत बशिल्ले. सांजेचीं पांच जाल्लीं. भक्तां बराबर आसतना ते तांगेल्या दुखण्या विशीं कांयच उलयनाशिल्ले. सगलो दीस तांचे कडेन उलयत बसताले. तांचे बराबर गायत आसताले. दोतोर मधू श्रीरामकृष्णांचेर उपचार करताले. कलकत्ता सावन ते व्हड्यान मदीं मदीं दक्षिणेश्वराक येताले. भक्तांक श्रीरामकृष्णां विशीं खूब हुसको जाल्लो. दोतोर मधून सदांच थंय येवचें ही तांची इत्सा. मन श्रीरामकृष्णांक म्हणलें, ''दोतोर मधू अणभवी दोतोर आसात. तांणी सदांच पळयल्यार बरें जातलें.''

आटपुरचे पंडीत श्यामपद थंय आयले. तिनसांज जाल्ली. पंडीत संध्या करपा खातीर गंगेच्या घाटार गेले.

संध्या आनी पुजा करतां करतां तांकां अजापीत अशीं दर्शनां जालीं. संध्या जाले उपरांत ते श्रीरामकृष्णांचे कुडींत परतले आनी जमनीर बसले. श्रीरामकृष्ण जगन्मातेच्या नामस्मरण - चिंतना उपरांत तांच्या ल्हान पलंगाचेर बसले. श्रीरामकृष्णांच्या पांयपुसण्याचेर म बसलो. राखाल, लाटू आनी हेर कुडींत यो वच करताले.

**श्रीरामकृष्ण:** (पंडिता कडेन बोट दाखोवन मक) ते खूब बरे मनीस. (पंडिताक) जंय मन शांत जाता, थंयच ब्रह्म आसता.

## ईश्वर दर्शनाचें लक्षण आनी पंडीत श्यामपद

राजवाड्याक सात दरवटे आसात. ताचे पलतडीं सामके भितरले कुडींत राजा रावता. राजाक पळोवपाक जो मनीस पयल्या दरवट्या कडेन वता, ताका एक ऐश्वर्यवान पुरूश

खूब लोकां मदीं बसला तो दिसता. खूब थाटामाटान बसला. त्या मनशान सांगात्याक विचारलें, 'होच काय तो राजा.' सांगात्यान हांसत सांगले, 'न्हय'.

दुसऱ्या दरवट्याचेर आनी हेर दरवट्यांचेर सांगात्याक हेच प्रश्न विचारले. जितलो तो फुडें गेलो तितलेंच ताका चड चड ऐश्वर्य दिसलें आनी व्हडलो थाटमाट, झगझग आनी भव्यताय. सात दरवटे काडून जातकच जेन्ना ताणें पळयलें तेन्ना ताणें आनीक सांगात्याक विचारलें ना. राजाचें अपरिमीत ऐश्वर्य पळोवन तो सामको मोनो जालो. ताका उतर फुटलें ना. तो तसोच उबो रावलो. ताका कळ्ळें होच राजा आसा. ताका ते विशीं मात लेगीत दुबाव नाशिल्लो.

## ईश्वर, माया, जीवजगत
## अध्यात्म रामायण

**पंडीत:** मायेचें राज्य हुपून गेले उपरांतच ईश्वराचें दर्शन जाता.

**श्रीरामकृष्ण:** ईश्वराचो साक्षात्कार जाले उपरांत मागीर परत अशें दिसूंक लागता, माया, जीव, जगत तोच जाला. हो संवसार म्हणचे फसवी मयसभा आसा. सपना भशेन आसा. जेन्ना नेति नेति ह्या विचारांतल्यान तूं वता तेन्ना अशें दिसूंक लागता. पूण ईश्वराच्या दर्शना उपरांत मागीर हो संवसारच मजेचो महाल कसो दिसूंक लागता.

फकत शास्त्रां वाचून कितें मेळटलें? पंडीत लोक फकत तर्क विचार करीत आसतात.

**पंडीत:** म्हाका कोणेंय पंडीत म्हणल्यार उबगण येता.

**श्रीरामकृष्ण:** ही ईश्वराची कृपा. पंडीत लोक फकत तर्क विचार करतात. पूण कोणें दुदा विशीं आयकल्लें आसता, कोण दूद पियेल्लो आसता. ईश्वराच्या दर्शना उपरांत सगलें कितें 'नारायण' दिसतलें. नारायणच स्वता सगलें कितें जाला.

पंडितान नारायण स्तोत्र म्हणलें. श्रीरामकृष्णांक उपाट आनंद जालो.

**पंडीत:** (गीतेंतलो श्लोक म्हणीत) 'योगयुक्त अंतस्करणान सगल्यांक सम दिश्टीन पळोवपाचे नदरेन सगल्या जिवांत तो स्वताक पळयता आनी स्वता भितर सगल्यांक.'

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी अध्यात्म रामायण वाचलां?

**पंडीत:** हय महाराज. थोडें वाचलां.

**श्रीरामकृष्ण:** ह्या पुस्तकांत ज्ञान आनी भक्ती परिपूर्ण आसा. सावित्रीची जीण. अहिल्येचें स्तवन - सगलें भक्तीन परिपूर्ण.

पूण तुमी एक गजाल विसरूंक जायना. ईश्वर विशंयासक्त मना पसून खूब पयस आसा.
**पंडीत:** हय महाराज. ईश्वर विशयासक्त बुद्दी पसून खूब खूब पयस आसता. आनी जंय वैशयीक बुद्द नासता थंय ईश्वर सामको लागीं आसता. उत्तरपाड्यांतल्या एका जमीनदारागेर गेल्लों. तो आतां जाणटो जाला. पूण तो फकत कथा आनी कादंबरींतल्यो ग़ज़ाली आयकता.
**श्रीरामकृष्ण:** अध्यात्म रामायणांत हें अशेंय सांगलां, ईश्वरच जीव जगत जाला.
पंडिताक आनंद जालो. ताणें मागीर अध्यात्म रामायणांतल्या धाव्या अध्यायांतलो एक श्लोक म्हणून दाखयलो:

ए कृष्ण! कृष्ण! शक्तीमान योगी! तूं आसा आद्यपरमपुरूश;
हें विश्व, प्रगट अप्रगट, महात्मे सांगतात तशें, तुजें रूप:
तूंच फकत आत्मो, इंद्रियां, परमेश्वर सगल्यांच्या शरिरांत निवास करपी;
तूं आसा सुक्ष्म व्हड प्रकृती, सत्व, राजस आन तामस ह्या त्रिगुणांची;
तूंच फकत आसा पुरूश, परमेश्वर सगल्या शरिरांनी निवास करपी.

**श्रीरामकृष्ण समाधीमग्न**
**जो मनस्पुर्वक ध्यान जप करतलो**
**ताका म्हजे कडेन येवचेंच पडटलें**

श्रीरामकृष्ण श्लोक आयकून समाधीमग्न जाले. ते उबे रावले. पंडीत बशिल्ले. पंडितांचे मांडयेर आनी छातयेर श्रीरामकृष्णांनी पांय दवरलो आनी ते हांसले.
पंडितान तांचे पांय घट्ट धरले आनी म्हणलें, ‘‘गुरू, म्हाका ईश्वरी चैतन्य प्राप्त करात.’’ पंडीत कुडींतल्यान गेले उपरांत श्रीरामकृष्णांनी मक म्हणलें, ‘‘तुका दिसना हांव तुका जें सांगतालों तें खरें जाता म्हणून? जांणी मना पसून ध्यान आनी जप केला तांकां म्हजे कडेन येवचेंच पडटलें.’’
रातचीं धा जाल्लीं. श्रीरामकृष्णांनी इल्लो रव्याचो पायस खालो आनी ते न्हिदले. तांणी मक पांय चेपपाक सांगलें. थोड्या वेळान तांणी मक आपलें आंग आनी छाती मातशी मालीश करपाक सांगली. मातशे ते न्हिदले. मागीर तांणी मक म्हणलें, ‘‘आतां तूं न्हीद. एकटो आसल्यार न्हीद येता जाल्यार पळय.’’ तांणी मागीर रामलालाक म्हणलें, ‘‘कुडींत हो म आनी राखाल न्हिदल्यार जाता.’’

## भगवान श्रीरामकृष्ण आनी येशू क्रिस्त

**ऑगस्ट 26, 1885. शुक्रार.** फांतोड जाली. श्रीरामकृष्ण उठले आनी जगन्मातेचें चिंतन करूंक लागले. दुखणें जायत पसून भक्तांनी तांच्या मुखांतल्यान येवपी, जगन्मातेचें मधूर नांव आयकूंक नाशिल्लें. श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बशिल्ले. तांणी मक विचारलें, ''बरें, म्हाका हो रोग कित्याक जालो?''

**म:** महाराज, मनशा भशेन सगलें कितें जालें ना तर जिवांक तुमचे कडेन येवपाक धीर जावपाचो ना. पूण ते अजापीत जाल्यात. कित्याक तांणी पळयलें, येदें व्हडलें तुमकां दुखणें आसून लेगीत ईश्वरा बगर आनीक कांयच तुमकां खबर ना.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) बलरामान लेगीत म्हणलें, तुमच्या सारक्यांक लेगीत जर व्याधी जाता, तर आमकां दुखणें जाल्यार आमी अजापीत कित्याक जावपाचें?

सीतेच्या दुख्खान रामाक धोणू उबारूंक जमलें ना. तेन्ना लक्ष्मण अजापीत जावन गेल्लो. पंचभुतांच्या पांदऱ्यांत पडिल्लयान ब्रह्म लेगीत रडटा.

**म:** भक्तांचें दुख्ख पळोवन येशू क्रिस्त लेगीत सामान्य लोकां भशेन रडिल्लो.

**श्रीरामकृष्ण:** तें कशें कितें जाल्लें?

**म:** मार्था आनी मेरी ह्यो दोन भयणी आनी लाझारस तांचो भाव. तिगांय जाण येशू क्रिस्तांची भक्त. लाझारस मेलो. येशू तांच्या घरा वतालो. रस्त्यांत एके भयणीन, मेरीन धांवत वचून ताच्या पांयार घालून घेतलें आनी रडत तिणें म्हणलें, 'प्रभो, तुमी जर थंय आशिल्ले, तर म्हजो भाव मरचो नाशिल्लो.' येशू तिचें रडणें आयकून रडूंक लागलो.

## भगवान श्रीरामकृष्ण आनी चमत्कार

ते उपरांत येशू लाझारसच्या थड्या कडेन गेलो आनी ताच्या नांवान ताणें उलो मारलो. रोखडोच लाझारस जितो जालो आनी थड्यांतल्यान भायर सरून चलत आयलो.

**श्रीरामकृष्ण:** म्हज्यान हें सगलें करूं नजं.

**म:** तुमी तशें मुद्दामच करिनात. तुमकां तें केल्लें नाकाच. हे सगले चमत्कार आसात. म्हणून तुमकां तातूंत रुची ना. तें सगलें करतकूच लोकांच्या देहा कडेन मन वतलें. शुद्ध भक्ती कडेन लोकांचें मन वच्चें ना. म्हणून तुमी चमत्कार करिनात. पूण तुमचे आनी येशू क्रिस्ताचे मदीं खूब समान गजाली आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) आनीक खंयच्यो?

**म:** तुमी भक्तांक उपास करपाक वा हेर कसलेय कडक विधी करपाक सांगिनात. खावपा पिवपा संबंदीं कांय कडक नेम बी पाळपाक सांगिनात. येशू क्रिस्ताचे शिश्य शेनवाराचो नेम पाळिनासतना जेवले. म्हणून शास्त्रा प्रमाण वागपी लोकांनी तांचो धिक्कार केलो. तेन्ना येशून म्हणलें, 'ते जेवले तें तांणी खूब बरें केलें. जों मेरेन ते न्हवऱ्या बराबर आसात तों मेरेन तांणी मजाच करपाची.'

**श्रीरामकृष्ण:** हाचो अर्थ कितें?

**म:** हाचो अर्थ असो, जों मेरेन शिश्य ईश्वराच्या अवतारा बराबर रावतात तों मेरेन ताच्या सांगात्यांनी फकत आनंदच करपाचो आसता. तांणी त्या वेळार दुख्खी कित्याक आसपाचें? पूण जेन्ना अवतार सर्गांतल्या ताच्या स्वधामांत वतलो तेन्ना तांचे दुख्खाचे दीस येतले.'

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) आनीक कितें क्रिस्ता बराबर म्हजें जुळटा?

**म:** हय महाराज. तुमी अशें म्हणटात, 'भुरग्यां मदीं कामिनी-कांचन भितर सरूंक ना. तेन्ना ते उपदेश आत्मसात बरो करतले - जशें नव्या मडक्यांत दूद दवरपाक येता. धंय आशिल्लया मडक्यांत दवरल्यार तें इबाडूंक शकता.' तशेंच येशू क्रिस्तय म्हणटालो.

**श्रीरामकृष्ण:** कितें म्हणलें ताणें?

**म:** पोन्न्या बुरल्यांत नवो सोरो दवरलो जाल्यार बुरलें फुटूंक शकता. आनी पोन्न्या कपड्याक नव्या कपड्याची कपी लायल्यार तो बेगीन पिंजता.

तुमी अशेंय म्हणटात, 'आई आनी हांव एक आसात.' तशेंच क्रिस्त म्हणटालो, 'हांव आनी म्हजो बाप एक आसात.'

**श्रीरामकृष्ण:** (हांसत) आनीक कितें आसा?

**म:** तुमी आमकां सांगतात, 'व्याकूळ जावन देवाक आळयल्यार तो तुमचें आयकतलोच आयकतलो.' तेच प्रमाण येशू क्रिस्त म्हणटालो, 'खटखटायात. आनी तें तुमचे खातीर उगडटलें.'

**श्रीरामकृष्ण:** बरें, जर ईश्वरान स्वता परत अवतार घेतलो तर तो कितें ईश्वराचो अंश अवतार वा अपूर्ण अवतार वा पूर्ण अवतार? कांय लोक म्हणटात तो पुर्णावतार म्हणून.

**म:** महाराज, पुर्णावतार वा अपुर्णावतार वा अंश अवतार हें म्हाका समजना. पूण तुमी जशें समजावन सांगिल्लें ते म्हाका बरें समजलां - वणटीक एक वाटकुळें छिद्र.

**श्रीरामकृष्ण:** ते विशीं म्हाका सांग पळोवया.

**म:** वणटीक एक वाटकुळें छिद्र आसा – त्या छिद्रांतल्यान वणटीचे पलतडचें मळ थोडेंशें दिसता. तेच प्रमाण तुमचे वरवीं तो अनंत ईश्वर थोडोसो दिसता.
**श्रीरामकृष्ण:** खरें तें. तुमच्यांनी पांच स मैल एकाच वेळार पळोवंक येता.

म गंगेच्या घाटार न्हावन परत श्रीरामकृष्णांचे कुडींत आयलो. सकाळचीं आठ जाल्लीं. तांणी लाटूक, मक जगन्नाथाचो म्हानिवेद्य दिवपाक सांगलें. श्रीरामकृष्ण तांचे म्हच्यांत उबे रावले आनी तांणी सांगलें, ''तूं हो प्रसाद नेमान घे.''
**म:** कालच हांवें बलराम बाबूच्या घरच्यान जगन्नाथाचो कांय प्रसाद हाडला. आनी हांव सदांच एक दोन दाणे खातां.
म श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो आनी ताणें तांचो निरोप घेतलो. श्रीरामकृष्णांनी ताका मायेन म्हणलें, ''फाल्यां सकाळीं यो. पावसांतलें वत आरोग्याक मारक.''

# अध्याय एकशेंएकतीस

## दक्षिणेश्वरा म, गंगाधर आनी हेरांच्या सांगातान

**ऑगस्ट 31, 1885. सोमार**. श्रीरामकृष्ण तांचे कुडींत विसव घेताले. रातचीं आठ वरां जाल्लीं. दुखणें आसलें, पिडा जाताली तरी भक्तांचें कल्याण कशें जातलें होच तांकां हुसको. केन्ना केन्नाय ते भुरग्या भशेन बेचैन जाताले. पूण परत दुसऱ्याच खिणाक सगलें विसरून ईश्वराच्या मोगान धुंद जाताले. जशी आवय भुरग्यांचेर मोग करता तश्याच प्रेमान ते भक्तांचेर मोग करताले.

दोन दीस पयलीं तांकां पूर्णालें पत्र आयिल्लें. पूर्णान बरयिल्लें, म्हाका खुबूच आनंद जाता. मदीं मदीं आनंदान म्हाका न्हीद पडना.

पत्रांतलो आशय आयकून श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "हें आयकून म्हज्या आंगार सामको कांटो उबो रावलो. ही आनंदाची अवस्था मागीर लेगीत तशीच उरतली. मातशें म्हाका पत्र पळोवं दी." पत्र पळोवन ताणी तें हातांत दांबून धरलें आनी म्हणलें, "हरशीं हांव पत्रांक स्पर्श करिना. पूण हें पत्र खूब बरें आसा."

तेच रातीं श्रीरामकृष्ण मातशे न्हिदिल्ले आसतना तांकां एकदम घाम आयलो. हांतरुणा वयल्यान उठून बसून ताणी म्हणलें, "हांव ह्या दुखण्यांतल्यान बरो जावपाचो ना अशें म्हाका दिसता." हें आयकून सगले भक्त चिंतेस्त जाले.

माताजी (श्रीसारदादेवी) श्रीरामकृष्णांची सेवा करपा खातीर दक्षिणेश्वरा आयिल्ल्यो. आनी नबतखान्यांत एके कुडींत रावताल्यो. एक वा दोग भक्त सोडल्यार हेर भक्तांक ती रावता तें खबर नाशिल्लें. एक भक्त स्त्रीय (गोपाळमाय) कांय दिसां पसून नबतखान्यांत माताजी म्हऱ्यांत रावपाक आयिल्ली. ती श्रीरामकृष्णांक पळोवपा खातीर तांचे कुडींत येवन वताली. तिका श्रीरामकृष्णांनी कांय दिसांनी सांगलें, "बरेच दीस जाले तुमी हांगा आसात. लोक कितें म्हणटले? ते परस घरा आठ दीस रावल्यार बरें."

श्रीरामकृष्ण कुडीक फाट करून हांतरुणार न्हिदले. तिनसांजे गंगाधर आनी म कलकत्ता

सावन आयले. ते श्रीरामकृष्णांच्या पांयां कडेन बसले. ते म कडेन उलयताले.

**श्रीरामकृष्ण:** दोन भुरगे त्या दिसा आयिल्ले. एक सुबोध, शंकर घोशाच्या नातवाचो पूत. दुसरो क्षिरोद. दोनूय भुरगे बरे. हांव सध्या बरो ना. उपदेशा खातीर हांवें तांकां तुजे कडेन वचात म्हणून सांगिल्लें. तूं तांची जतनाय.

**म:** हय, महाराज. ते आमचे शेजारी.

**श्रीरामकृष्ण:** त्या दिसा परत हांव आंगाक घाम येवन जागो जालों. हो रोग कसलो तें म्हाका कळना.

**म:** आमी भगवान रुद्राक तुमकां एक खेपो पळोवपाक सांगलां. ते एम. डी. आसात. ते एक फिशाल दोतोर आसात.

**श्रीरामकृष्ण:** ते फी कितली घेतले?

**म:** तांची फी वराक पंचवीस रुपया आसता.

**श्रीरामकृष्ण:** मागीर तांचे कडेन वचप आसूं.

**म:** पूण आमी ताका चडांत चड चार-पांच रुपया दिवं.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें. पूण तांकां जर अशें सांगलें, 'कृपा करून तुमी श्रीरामकृष्णांक पळोवपाक येयात.' तांणी हांगाचे विशीं* कांय आयकूंक ना?

**म:** घडये तांणी आयकलां आसतलें. ते कांयच फी घेवचे नात अशेंच सांगलां तांणी. पूण आमी तांकां थोडें दिवं. तशें केल्यार ते परत येतले.

**श्रीरामकृष्ण:** निताई दोतोराक हाडात. ते बरे दोतोर आसात. पूण दोतोर तरी कितें करतले? ते गळो दांबतात आनी म्हजें दुखणें खूब वाडटा.

रातचीं णव वरां जाल्लीं. श्रीरामकृष्णांनी थोडोसो रव्याचो पायस खालो. खातना, गिळटना कांयच त्रास जालो ना. मोट्या आनंदान तांणी मक म्हणलें, "म्हाका थोडें खावंक जमलें. म्हाका खूब आनंद जालो."

---

* म्हणचे श्रीरामकृष्णां विशीं.

# अध्याय एकशेंबत्तीस

## जल्माश्टमीच्या दिसा दक्षिणेश्वरा भक्तांच्या सांगातान

**सप्टेंबर 1. मंगळार.** श्रीरामकृष्ण न्हावपाचे आशिल्ले. दक्षिणे कडले पडवेर ते बशिल्ले. आनी एक भक्त तांच्या आंगाक तेल लायतालो. गंगा न्हंयेचेर न्हावन आयले उपरांत म श्रीरामकृष्णांक पांयां पडलो. न्हावन जाले उपरांत श्रीरामकृष्ण वालो न्हेसले आनी पडवेंतल्यानच देवळांतल्या देवदेवतांक पांयां पडले. प्रकृती बरी नाशिल्ल्यान तांकां देवळांत वचूंक जमलें ना.

आयज जल्माश्टमी – कृष्णाचो जल्मदीस. रामान आनी हेर भक्तांनी श्रीरामकृष्णां खातीर नवीं वस्त्रां हाडिल्लीं. ते तीं न्हेसले आनी त्या वस्त्रांनी ते मोहक दिसताले. परत ते देवदेवतांक पांयां पडले.

गोपाळ मांन* आपल्या गोपाळा खातीर कामारहाटी सावन कांय खावपाचे जिनस करून हाडिल्ले. तिणें श्रीरामकृष्णांक खंतीन म्हणलें, "तुमी तातूंतलें कितेंच खावचे नात?"

**श्रीरामकृष्ण:** पळयता न्हय हांव बरो नां.

**गोपाळाची आवय:** म्हजेंच नशीब फुटकें. निदान हातांत तरी घेयात.

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी म्हाका आशिर्वाद दियात.

एका भक्तान थोडी खडीसाकर हाडिल्ली. गोपाळाचे आवयन म्हणलें, "ही खडीसाकर नबतखान्यांत माताजी कडेन व्हरतां." श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, "नाका, हांगाच आसूं दी ती. कोण शंबर खेपो वचून मागतलो?"

सकाळचीं इकरां वरां जाल्लीं. कलकत्ता सावन भक्त एका फाटल्यान एक येवंक लागले.

---

* गोपाळ माँ श्रीरामकृष्णांक ल्हान गोपाळ म्हणटाली. गोपाळ, ल्हान कृष्ण. श्रीरामकृष्ण हेच कृष्ण असो तिका साक्षात्कार जाल्लो. म्हणून ती त्याच नांवान श्रीरामकृष्णांक उलो मारताली.

बलराम, नरेंद्र, धाकटो नरेन, नवगोपाळ, काटव्या सावन एक वैशणव अशे भक्त आयले. राखाल, लाटू हालीं सरा श्रीरामकृष्णां लागींच रावताले. एक पंजाबी साधू पंचवटींत कांय दिसां सावन रावंक लागिल्लो.

धाकट्या नरेनाच्या कपलाचेर एक गूट आयिल्लें. श्रीरामकृष्ण पंचवटींत भक्तां बराबर भोंवताले. तांणी धाकट्या नरेनाक म्हणलें, ''तूं गूट कापून कित्याक घेना? तें काय गळ्यांत जावंक ना, पूण फकत कपलार जालां. ती तर सादी गजाल. वाड जाल्यार लोक वृशण लेगीत कापून घेतात.''

पंजाबी साधू बागेंतल्या रस्त्यान वतालो. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''हांव ताका आकर्शीत जायना. ताचो ज्ञानाचो भाव आसा. म्हाका तो शुश्क दिसता - सुकें लांकूड कसो.''

श्रीरामकृष्ण आनी भक्त परतले. श्यामपद भट्टाचार्या विशीं गजाली सुरू जाल्यो.

**बलराम:** श्यामपदान म्हणिल्लें, 'जेन्ना श्रीरामकृष्णांनी नरेंद्राचे छातयेर पांय दवरलो तेन्ना नरेंद्र भावसमाधींत गेलो. पूण तशें म्हाका कांयच जालें ना.'

**श्रीरामकृष्ण:** तुमकां खरें कितें तें सांगूं? कामिनी-कांचनांत मन आसल्यार, तें धा कडेन आशिल्लें मन एके कडेन करप खूब कठीण. पंडितान (श्यामपदान) म्हाका सांगिल्लें, ताका लवादाचें काम करचें पडटा. ते भायर ताका तागेल्या भुरग्यांची काळजी घेवची पडटा. नरेंद्र आनी दुसऱ्या तरणाट्यांचें मन तशें धा कडेन नासता. कामिनी-कांचन अजून तांचे भितर रिगूंक ना.

पूण श्यामपद एक व्हड मनीस.

काटव्याचो वैशणव श्रीरामकृष्णांक प्रश्न विचारूंक लागलो. तो तिरसो आशिल्लो.

## पयलीं जल्माची म्हायती
## भक्ती लावा खातिरूच मनीस जल्म

**वैशणव:** महाराज, मनीस कितें परत जल्म घेता?

**श्रीरामकृष्ण:** गीतेंत सांगलां मरणा वेळार जो जें चिंतन करीत मरता ताका तसलेच तरेचो जल्म घेवचो पडटा. राजा भरतान मरतना हरणाचें चिंतन केलें आनी तो हरण म्हणून जल्माक आयलो.

**वैशणव:** हे विशीं जर स्वता कोणें आपल्या दोळ्यांनी पळोवन म्हाका सांगीत तरच हांव पुनर्जल्माचेर विश्वास दवरतलों.

**श्रीरामकृष्ण:** हें म्हाका कांयच खबर ना बाबा. म्हाका स्वताचो रोग बरो करूंक जमना. आनी तुमी सांगतात मेले उपरांत कितें जातलें तें सांगात म्हणून.

तुमी जें कितें म्हणटात तें सगलें उणाक मनाचें उलोवप. ईश्वरा विशीं कशी भक्ती वाडटली हाचोच यत्न करात. भक्तीचो लाव करून घेवपा खातीर तुमी मनीस म्हणून जल्माक आयल्यात. आंब्यागाळींत आंबे खावपाक आयल्यात. मागीर थंय कितल्यो हजार खांदयो आसात, कितलीं लाख पानां आसात हे सगले म्हायतीची कितें गरज आसा? मेले उपरांत कितें जाता हाचे विशीं चिंता कित्याक? कसलीं पिशेपणां!

## गिरीश घोश आनी अवतारवाद
## पवित्र कोण? जाचे मदीं
## विश्वास-भक्ती आसा तो

गिरीश घोश एक दोन इश्टां सयत गाडयेन आयले. ते थोडे पियेवन आयिल्ले. कुडींत भितर सरतनाच ते रडत रडत आयले. श्रीरामकृष्णांच्या पांयांचेर मस्तक दवरतना ते रडटाले.

श्रीरामकृष्णांनी मायेन तांची फाट थापटिली. तांणी एका भक्ताक सांगलें, ''आरे हांकां तंबाकू मातसो ओडपाक दी.''

गिरीशान तकली वयर काडली आनी हात जोडून म्हणलें, ''तुमीच पूर्ण ब्रह्म. अशें जर नासत तर मागीर सगलेंच मिथ्या. तुमची सेवा करूंक मेळ्ळिना हें मोट्याच दुख्खाचें.''

गिरीशान हें अशा सुरान म्हणलें की कांय भक्तांक रडूंक आयलें.

गिरीशान फुडें म्हणलें, ''भगवान, हांव तुमची वर्सभर सेवा करतलों असो म्हाका वर दियात. कोणाक मुक्ती जाय? ती खंयय मेळटा. हांव थुकतां ते मुक्तीचेर. म्हणात की म्हजी सेवा वर्सभर घेतले म्हणून.''

**श्रीरामकृष्ण:** हांगचे भोंवतणचे लोक बरे न्हय. कांय लोक तुमकां कितेंय उलयतले.

**गिरीश:** म्हाका ताचें कांय पडून वचूंक ना. तुमी म्हणात.

**श्रीरामकृष्ण:** बरें आसा. जेन्ना हांव तुमच्या घरा येतलों तेन्ना तुमी म्हजी सेवा करात.

**गिरीश:** ना, ना. तशें न्हय तें. तुमची सेवा हांगाच करूंक जाय.

गिरीशान हट्ट धरलो.

श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''बरें, ती सगली ईश्वराची इत्सा.''

श्रीरामकृष्णांच्या गळ्याच्या रोगाक लेखून गिरीशान परत म्हणलें, ''म्हणात रोग बरो जावं दी. बरें आसा. हांव ताका धोडायतां आनी धोडायतां. काली, काली.''

**श्रीरामकृष्णः** तुमी म्हाका दुखयतले.

**गिरीशः** आगा, गळो बरो जावन वचूं दी (भूत धांवडावपी मारता तशे रितीन तांणी गळ्याक फूंक मारली). तुमी बरे जावंक नात. अजून जर रोग बरो जावंक ना तर – म्हजी जर ह्या (श्रीरामकृष्णांच्या) पांयांचेर कांय भक्ती आसत, तुमी खात्रेन बरे जातले. 'म्हणात बरो जावन गेलों'.

**श्रीरामकृष्णः** (तिडकून) म्हाका एकटोच आसूं दी. म्हज्यान तशें कांयच म्हणूं नजं. म्हजो रोग बरो करपा खातीर म्हज्यान जगन्मातेक सांगूंक नजं. बरें आसा, ईश्वराची इत्सा आसत तर हांव बरो जावन वतलों.

**गिरीशः** म्हाका तुमी पिशांत काडटात. सगलें कितें तुमचे इत्शेचेर निंबून आसा.

**श्रीरामकृष्णः** शी, शी, अशें परत केन्नाच म्हणूंक नाकात. हांव कृष्णाचो भक्त म्हणून समजतां. हांव स्वता कृष्ण न्हय. तुमी तुमकां जाय तशी भावना करूंक शकतात. स्वताच्या गुरूंक जाय जाल्यार भगवान म्हणून मानात. तरीपूण तुमी उलयतात तशें उलोवप बरें न्हय. तुमी तशें परत उलोवंक जायना.

**गिरीशः** म्हणात तुमी बरे जातले म्हणून.

**श्रीरामकृष्णः** बरें आसा. बरो जावपाचो आसत तर बरो जातलों.

गिरीशाचेर अजून सोऱ्याचो प्रभाव आशिल्लो. मदीं मदीं ते श्रीरामकृष्णांक म्हणटाले. ''बरें महाराज, हे खेपेक तुमी तुमचें दैवी रूप घेवन कित्याक जल्मले नात?''

थोड्या वेळान तांणी म्हणलें, ''हे खेपेक चड करून बंगालचो उद्धार जातलोसो दिसता.''

एक भक्त स्वगत उलयलो, ''बंगालचोच उद्धार कित्याक? समस्त जगाचो उद्धार जातलो.''

गिरीशान भक्तांक सांगलें, ''हे श्रीरामकृष्ण हांगा कित्याक आसात हें तुमकां कोणाक समजलां? सगल्या जिवांक मुक्ती मेळची म्हणून. तांचें सगलें दुख्ख पळोवन तांकां देह धारण करचो पडलो.'' गाडयेकार गिरीशाक आफयतालो. गिरीश उठले आनी गाडयेकारा कडेन वचूंक लागले. श्रीरामकृष्णांनी मक सांगलें, ''तांकां पळय, खंय वतात ते तें पळय.'' गिरीश गाडयेकाराक मारीत बी. म गिरीशा बराबर गेलो.

गिरीश परत आयले आनी तांणी श्रीरामकृष्णांक प्रार्थना केली, ''भगवन, म्हाका पवित्रताय दी. जाका लागून म्हाका केन्नाच इल्ले लेगीत पाप-विचार येवचे नात.''

**श्रीरामकृष्ण:** तुमी पवित्र तर आसाच. तुमचे मदीं केदो विश्वास आनी भक्ती आसा! तुमी तर आनंदांत आसाच. आसात न्हय?

**गिरीश:** ना महाराज. हांव खिन्न, उदास जालां. चिंताग्रस्त जालां. म्हणून हांव खूब सोरो पियेलों.

थोड्या वेळान गिरीशान परत म्हणलें, "भगवन, हांव सामको अजापीत जालां, म्हाका पूर्ण ब्रह्म भगवंताची सेवा करपाक मेळटा म्हणून. सेवा करपाचो म्हाका हो अधिकार मेळटा अशी हांवें कितें तपश्चर्या केल्या?"

श्रीरामकृष्णांनी दनपारचें जेवण घेतलें. ते बरे नाशिल्ल्यान तांणी थोडेंशेंच जेवण घेतलें. श्रीरामकृष्णांच्या मनाची सभावीक अवस्था अशी आसा: ते सदांच ईश्वरी चैतन्यांत, समाधींत मग्न आसतात. तांकां नेट करून शरिरा कडेन मन हाडचें पडटा. पूण स्वताच्या शरिराची काळजी घेवप्याक भुरग्या भशेन ते असमर्थ आसात. भुरग्या भशेन तांणी भक्तांक सांगलें, "हांवें थोडेशें खालां, हांव थोडो वेळ विसव घेतां. तुमी थोडो वेळ भायर वचून येयात." श्रीरामकृष्णांनी थोडो वेळ विसव घेतलो. भक्त परत कुडींत आयले.

## गिरीश घोश. गुरूच इश्ट
## दोन तरांचे भक्त

**गिरीश:** गुरू आनी इश्ट. म्हाका गुरू रूप आवडटा. म्हाका ताचो भंय दिसना. अशें कित्याक? म्हाका आनंदा अवस्था पळोवन भंय दिसता. आनंदा अवस्था पसून हांव धा हात पयस रावतां. हांव तिचे पसून पयस धांवतां.

**श्रीरामकृष्ण:** जो इश्ट तोच गुरू रूप धारण करीत आसता. शव साधने उपरांत जेन्ना इश्टाक देवतेचें दर्शन जाता तेन्ना गुरूच ताचे मुखार येता आनी म्हणटा, 'हेंच तें.' म्हणचेच तो साधकाक ताचो इश्ट दाखयता. इतलें उलोवन गुरू त्या इश्ट देवतेंत विलीन जाता. शिश्याक मागीर गुरू दिसना. पूर्ण ज्ञानाचे अवस्थेंत कोण गुरू आसा आनी कोण इश्ट आसा? ही खूब कठीण अवस्था आसता. थंय गुरू आनी शिश्य हांकां एकामेकाचें दर्शन जायना.

**एक भक्त:** गुरूचें मस्तक आनी शिश्याचे पांय.

**गिरीश:** (आनंदान) हय, हय खरें आसा तें.

**नवगोपाळ:** पूण ताचो अर्थ आयकात. शिश्याचें मस्तक गुरूचे मालकेचें आनी गुरूचे पांय शिश्याचे मालकेचे असो ताचो अर्थ आसा. समजलें?

**गिरीश:** ना, ना, तसो हाचो अर्थ न्हय. तुमी भुरगे बापायचे तकलेचेर चडटात तें पळोवंक ना? तेच खातीर 'शिश्याचे पांय' अशें म्हणलां.

**नवगोपाळ:** मागीर शिश्यान सामक्या ल्हान भुरग्या भशेन भाव दवरूंक जाय ते खातीर.

## पयलींची जीण

## शीख भक्त. दोन तरांचे भक्त

## माकडाचें पील आनी माजराचें पील

**श्रीरामकृष्ण:** दोन तरांचे भक्त आसतात. एके तरेच्या भक्तांचो सभाव माजराच्या पिला सारको आसता. सगलो भरवंसो आवयचेर. ती जशें करीत तशें. माजराचें पील फकत म्यांव म्यांव करीत आसता. खंय वचपाचें, कितें करपाचें ताका कांयच खबर नासता. आवय केन्ना रांदचे कुडींत दवरता तर केन्ना हांतरुणाचेर दवरता. हे तेरेचे भक्त ईश्वराक मुखत्यारपद दितात, आनी सगल्या चिंतां पसून मुक्त जातात.

कांय शिखांनी म्हाका सांगलें की ईश्वर दयाळ आसा. हांवें तांका सांगलें, 'अशें कशें? तो आपली आवय आसा, तो आपलो बापूय आसा. तो परत दयाळ कसो? भुरग्यांक जल्म दिवन आवय बापूय जर ल्हान व्हड करचीं नात तर कितें शेजारी येवन तांकां पळयतले? ' असल्या भक्तांचो पक्को विश्वास आसता, तो ईश्वरच तांची आवय आसा आनी बापूय आसा.

आनीक एके तरेचे भक्त आसात. तांचो माकडाच्या पिला भशेन सभाव आसता. माकडाचें पील स्वता सगले शक्तीन कशेंय करून आवयक गच्च धरता. हे भक्त ह्या माकडा पिला भशेन वागतात. हांकां मातशी करतेपणाची भावना आसता. 'आमकां तिर्थाक वचूंक जाय. आमी जप तप करूंक जाय. शास्त्रां प्रमाण शोडशोपचार तरेची पुजा करूंक जाय. तरूच आमकां ईश्वराचो साक्षात्कार जातलो.' असो तांचो भाव आसता. ह्या दोनूय वर्गांतले साधक ईश्वराचे भक्तूच आसात. जितले तुमी फुडें वतले तितलें तुमकां कळटलें, फकत परमेश्वरूच सगलें कितें जाला, तोच सगलें कितें करता. तोच गुरू आनी फकत तोच इश्ट. तोच फकत आमकां ज्ञान आनी भक्ती दिता.

## पयलींची जीण
## केशव सेनाक उपदेश
## फुडें वचात

जितले तुमी फुडें फुडें वतले तितलें तुमकां दिसतलें, चंदनाच्या राना उपरांत आनीक कितें आसा - रुप्याची खण, भांगराची खण, हिरे माणकां! म्हणून फुडें चलात.
पूण फुडें वचात अशें तरी कशें म्हणूं? संवसारी लोक चड फुडें गेल्यार संवसार बिवसार नाच जावन वतलो. केशव सेन उपासना करताले. तांणी म्हणलें, 'ए ईश्वरा, तुजे भक्ती न्हंयेंत बुडून वचून नाच्च जातां अशें कर.' सगली उपासना जाले उपरांत हांवें केशवाक म्हणलें, 'आगा, तुमी भक्ती न्हंयेंत बुडून वचून नाच्च जावंक कशे सोदतात? तुमी अशे भक्तीन बुडले जाल्यार त्या चिकाच्या पड्‌ड्या फाटल्यान ज्यो (बायलो) बसल्यात तांचे कितें जातलें? तरीपूण एक काम करात. मदीं मदीं बुडी मारात. आनी केन्ना कन्नाय देगेर जमनीर येयात'. (सगले हांसतात.)

## वैश्णवाचें चळचळप. आत्मसात करात
## सत्यभाशण ही तपश्चर्या आसा

काटव्याचो वैश्णव वाद करीत आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांनी ताका म्हणलें, ''तुमचें चळचळप सोडून दियात. जेन्ना लोणी उज्याचेर दवरून तापयतात तेन्ना तसलो आवाज जाता.
एक खेपो ईश्वराचो आनंद मेळ्ळे उपरांत तर्क, विचार, वादावादी करपाची इत्सा उडून वता. म्होंव पियेत्रपाचो आनंद मेळ्ळ्यार म्होंवामूस मागीर गूं गूं करिना.
फकत पुस्तक वाचून आनी तातूंतले उतारे सांगून कितें मेळटलें? पंडीत लोक कितले तरी श्लोक म्हणटात आनी कांयच करिनात.
भांग, भांग अशें फकत तोंडान म्हणून कितें उपेग? तिच्यो गुळयो करून कांयच जावपाचें ना. ती पोटांत वचपाक जाय. तरच नशा चडटली. ईश्वराक एकांतान एके कडेन व्याकूळतायेन आळयले बगर ह्या गजालींचें आकलन जावपाचें ना.''
दोतोर, राखाल, श्रीरामकृष्णांक पळोवपाक आयले. श्रीरामकृष्णांनी तांकां आतूरतायेन

म्हणलें, “येयात, बसात.” वैशणवा बरोबर उलोवप परत सुरू केलें.

**श्रीरामकृष्ण:** मनशा कडेन व्हडपण आनी जागृताय आसूंक जाय. जाचें अध्यात्मीक चैतन्य जागें जालां ताचे कडेन हें व्हडपण आनी जागृताय आसता आनी ताकाच मनीस म्हणून पाचारपाक जाता. जाचें अध्यात्मीक चैतन्य जागें जावंक ना ताचो जल्म फुकट, कुचकामी.

## पयलींची जीण

## कामारपुकूराक धर्मीक सत्यवादी व्यक्ती वरवीं मध्यस्ती

कामारपुकूराक कितलेशेच पोटां वाडिल्ले आनी घसघशीत मिशयो आशिल्ले लोक आसात. तरीपूण गांवांतले लोक वीस मैलां वयल्या गुणवान आनी प्रामाणीक लोकांक पालखेंतल्यान घेवन येतात. तो तांगेलीं झगडीं मिटोवन योग्य निर्णय दितलो म्हणून फकत पंडिताक घेवन ते येनात.

सत्य भाशण करप ही कलीयुगांतली तपश्चर्या आसा. सत्य उलोवप, सदांच ईश्वराच्या आधीन रावप आनी परस्त्रीक माते समान मानप हे ईश्वराक पळोवपाचे उपाय आसात.

श्रीरामकृष्णांनी भुरग्या भशेन दोतोराक सांगलें, “सायबा, म्हजें हें गळ्यांतले दुखणें बरें कर.”

**दोतोर:** तुमचें दुखणें बरें करपाक म्हाका सांगतात?

**श्रीरामकृष्ण:** दोतोर म्हणचे स्वयं नारायण. हांव सगल्यांक मानतां.

## स्वाधीन इत्सा आनी ईश्वरी इत्सा हांचो मेळ ईश्वरच म्हावत नारायण

**श्रीरामकृष्ण:** सगलेच जर नारायण, तर हांवें ओगीच रावचें अशें तुमी म्हणटले. पूण हांव हेंय म्हणीन, म्हावत नारायण लेगीत हांव मानतां. शुद्ध मन आनी शुद्ध आत्मो एकच. शुद्ध मनांत जें येता ती ईश्वराचीच वाणी आसा. ईश्वरच म्हावत नारायण आसा. हांवें ईश्वराचें म्हणणें कित्याक आयकुचें न्हय? तोच मालक आसा. ताणें जों मेरेन म्हजे

भितर 'हांव'ची जाणीव दवरल्या तों मेरेन ताचो आदेश आयकून हांव काम करतलों.

दोतोर श्रीरामकृष्णांक तपासपाचे आशिल्ले. श्रीरामकृष्णांनी म्हणलें, ''दोतोर, महेंद्र सरकारान म्हजी जीब दांबली- गायेची जीब दांबतात तशी.''

श्रीरामकृष्ण परत भुरग्या भशेन दोतोराचो सदरो परत परत ओडीत म्हणटाले, ''बाब, बाब. म्हजो गळो मातसो बरो कर.''

लरिंगस्कोप* पळोवन श्रीरामकृष्णांनी हांसत म्हणलें, ''हांव जाणां, तातूंत तुमी पडबिंब पळयतले.''

नरेंद्रान पद म्हणलें. पूण श्रीरामकृष्ण बरे नाशिल्ल्यान वाजप बी कांय नाशिल्लें.

* गळो तपासपाचें साधन.

# अध्याय एकशेंतेत्तीस

## दोतोर रुद्र आनी श्रीरामकृष्ण

**सप्टेंबर 2, 1885. बुधवार.** दनपारचें जेवण जाले उपरांत श्रीरामकृष्ण ल्हान पलंगाचेर बसले आनी ते दोतोर भगवान रुद्र आनी म कडेन उलोवंक लागले. कुडींत राखाल, लाटू आनी हेर भक्त आशिल्ले.
दोतोरान श्रीरामकृष्णांचे व्याधी विशीं सगलें आयकून घेतलें. श्रीरामकृष्ण पलंगा वयल्यान सकयल येवन दोतोरा म्हऱ्यांत येवन बसले.
**श्रीरामकृष्णः** हें पळयात, वखद म्हज्यान सोसूंक जायना. म्हजी प्रकृती वेगळे तरेची आसा.

### पयशांक स्पर्श करप
### गांठ बांदप, संचय करप
### हें सगलें श्रीरामकृष्णांक अशक्य

बरें हें सांगात, हे अवस्थे विशीं तुमकां कितें दिसता? पयशांक जर हांवें स्पर्श केलो तर म्हजो हात वांकडो तिकडो जाता. म्हजो स्वासोस्वास बंद जावन वता. तेच प्रमाण हांव म्हज्या वस्त्राच्या एका एका पोंताक गांठ मारीसर म्हज्यान स्वास घेवं नजं. ती गांठ सोडय मेरेन म्हजो स्वासोस्वास बंद आसता.
अशें म्हणून श्रीरामकृष्णांनी एक रुपया हाडपाक सांगलो. जेन्ना श्रीरामकृष्णांनी तो हातांत धरलो तेन्ना तांचो हात वांकडो तिकडो जालो आनी हाताक पिडा जाली. श्रीरामकृष्णांचो स्वसोस्वास लेगीत बंद जालो. तें नाणें थंयच्यान उखलून व्हरतकूच ल्हव ल्हव तीन खेपो लांब स्वास घेतले उपरांत तांचो हात सारको जालो. ही अजापाची

घडणूक पळोवन दोतोर सामको भारावन गेलो.
दोतोरान मक म्हणलें, ''ही मज्जा तंतू वयली क्रिया.''

## पयलींची जीण
## शंभू मल्लीकांचे बागेंत अफूचो संचय
## कामारपुकूराक आंबे काडप. संचय अशक्य

श्रीरामकृष्णांनी दोतोराक परत म्हणलें, ''आनीक एक जाता म्हजी अवस्था. हांवें कसलोच संचय करूंक जायना. शंभू मल्लीकाच्या भाटांत एक खेपो गेल्लों. त्या वेळार म्हजें पोट दुखतालें. शंभून म्हाका सांगलें, 'थोडी थोडी अफू खायात. म्हणचे तुमकां बरें दिसतलें.' म्हज्या धोतराच्या पोंताक थोडी अफू बांदून दिली. काली देवळा कडेन परत येतना, कशें कोणाक खबर हांव दरवट्या कडेनच भोंवपाक लागलों. वाटच मेळना जाली. मागीर हांवें अफू भायर उडयली. तेन्ना रोखडोच हांव पयलीं सारको जालों. आनी देवळाचे बागेंत परतलों. एक दीस कामारपुकूराक हांवें थोडे आंबे घेतले. हांव ते घरा व्हरतालों पूण म्हज्यान चलूंच नजं जालें. म्हाका एकेच कडेन उबें रावचें पडलें. मागीर थंयच एके खळयेंत हांवें तें आंबे दवरले. तेन्नाच हांव घरा परतुपाक पावलों. बरें, हाचें कारण कितें दिसता तुमकां?

**दोतोर:** हाचे फाटल्यान एक शक्त आसा. मनाची शक्त (इत्साशक्त).

**म:** ते, श्रीरामकृष्ण म्हणटात ती ईश्वराची शक्त. तुमी म्हणटात ती मनाची शक्त.

**श्रीरामकृष्ण:** (दोतोराक) परत अशी मनाची अवस्था जाता की कोणें म्हणलें - हांव बरो आसां. म्हाका रोखडेंच बरें दिसता. त्या दिसा ब्राह्मणीन म्हणलें, हांव एकदम नाचूंक लागलों.

श्रीरामकृष्णांक दोतोरांचो सभाव आवडलो आनी ते खोशी जाले. तांणी तांकां म्हणलें, ''तुमचो सभाव खुबूच बरो आसा. ज्ञानाचीं दोन लक्षणां आसात-शांत सभाव आनी गर्व करिनासप.

**म:** दोतोराची बायल संवसाराक अंतरल्या.

**श्रीरामकृष्ण:** (दोतोराक) हांव सांगीत आसतां, तीन ओडींची तीव्रताय एकठांय केली जाल्यार भगवंताचो लाव जाता - आवयची भुरग्यां विशीं ओड , पतिव्रतेची घोवा विशींची ओड आनी विशयी मनशांची विशया विशीं ओड. तें जावं. म्हजें दुखणें

मातशें बरें करात पळोवया.

दोतोर श्रीरामकृष्णांचो गळो तपासताले. वाटकुळे पडवेर एका कदेलाचेर श्रीरामकृष्ण बसले. श्रीरामकृष्णांनी सरकार दोतोराक लेखून म्हणलें, ''तो सामको वायट. ताणें म्हजी जीब अशी दांबली गायची जीब दांबतात तशी.''

**दोतोर:** ताणें तशें मुद्दाम केल्लें नासत.

**श्रीरामकृष्ण:** ना. तशें न्हय. बरी करून तपासूंक जाय म्हणून दांबली.



माणिकराव
गावणेकार

मूळ बंगाली भाशेंत 'श्री श्री रामकृष्ण कथामृत' ह्या नांवान ही दीसपटी ग्रंथरुपान उजवाडाक आयली. तातूंत स्वता महेंद्रनाथ गुप्त 'म' ह्या नांवान तिसरो पुरुशी जावन अध्यात्माचो हो विशय आमचे मुखार हाडटा. हो सुमार देड हजार पानी ग्रंथ स्वामी निखलानंदांनी इंग्लीशींत The Gospel of Shri Ramakrishna ह्या नांवान अनुवादीत करून संवसारा मुखार हाडलो.

ताचेंच हें कोंकणी रूप.

भौ. माणिकराव गावणेकारांनी आपल्या जाण्टेपणांत मोटे कश्ट घेवन हो ग्रंथ कोंकणींत अनुवादीत केला. कोंकणी वाचकांक हें अध्यात्मधन ह्या ग्रंथावरवीं उपलब्ध जालां.

भौ. माणिकरावांनी हो येदो व्हड वावर केल्ले खातीर अध्यात्माची भूक लागिल्ले म्हजे सारके तांचे रिणी आसात.

- सुरेश जयवंत बोरकार
परवरी-गोंय

माणिकपद्म
प्रकाशन
बांदोडें, फोंडें-गोंय

Price: 50/-